# वैंचीक आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां

## नियाळ आनी समिक्षा

लेखक

**युगांक नायक**




राजभाशा संचालनालय,
गोंय सरकार

**वेंचीक आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां**

नियाळ आनी समिक्षा

---

**युगांक नायक**

नोव्हेंबर 2013



**प्रकाशक:**
**राजभाशा संचालनालय**
गोंय सरकार,
5वी माळी, पयली लिफ्ट,
जुन्ता हावस,
पणजी-गोंय

**मुखपृश्ठ:**
**कलानंद बांबोळकार**

**मुद्रक:**
**हिरू नारायण नायक**
ऋतू ऑफसेट,
वळवय-फोंडें, गोंय

**Venchik Aantarrashtriya Chalchitram**

Niyall ani Samixa

---

**Yugank Naik**

November, 2013



**Publisher:**
**Directorate of Official Language**
Govt. of Goa
5th Floor, 1st Lift,
Junta House Bldg.,
Panaji-Goa

**Cover Page:**
**Kalanand Bambolkar**

**Printer:**
**Hiru Narayan Nayak**
Rutu Offset
Volvoi, Ponda, Goa

संघर्श आनी साहित्याची सांगड घालपी
पुंडलीक नायक, हेमा नायक
पप्पा आनी मम्माचे स्फूर्तीदिणे वाटचालीक
मायेमोगान आनी आदरान

– युगांक

# संदेश

**राजभाशा** प्रकाशन येवजणे खाला श्री. युगांक नायक हांचें 'वेंचीक आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां: नियाळ आनी समिक्षा' हें कोंकणी पुस्तक उजवाडाक येता ही खोशेची गजाल. राजभाशा संचालनालयाचे वतीन येवपी हें पयलें कोंकणी पुस्तक!

सांस्कृतीक धोरण आपणावपी गोंय हें भारतांतलें पयलें राज्य. गोंय सरकार 2004 वर्सा सावन गोंयांत आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचें आयोजन करता तशेंच चित्रपट संस्कृताय रुजोवपाचो आनी वाडीक लावपाचो यत्न करता. हे चित्रपट संस्कृतायेंत फकत प्रेक्षक निर्माण करप नहय तर निर्मिती निरिक्षण, परिक्षण, मुल्यमापनाची नदर निर्माण करप हो दृश्टीकोण आसा.

पुस्तकाच्या लेखकाक हांव परबीं भेटयतां.

**तारीख:** 19/09/2013
**थळ:** पणजी

**श्री. मनोहर पर्रीकार**
(मुख्यमंत्री/राजभाशा मंत्री)
गोंय सरकार

## मांडावळ

# सुखेचीं उतरां

**राजभाशा** संचालनालया वतीन श्री. युगांक नायक हांचें 'वेंचीक आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां: नियाळ आनी समिक्षा' हें पुस्तक 'राजभास प्रकाशन येवजण 2008' खाला उजवाडाक हाडटात. गोंयांत चित्रटप संस्कृतीक धरून विचारमंथन करपी बरावेप जावपाक लागलां ही एक बऱ्याची गजाल. श्री. युगांक नायक ह्या तरणाट्य बरोवप्यान आपल्या पुस्तकाच्या माध्यम ांतल्यान एका नव्या विशयाक हात घाला. अशे तरेचे विशय कोंकणी भाशा आनी साहित्यांत निश्चीतपणान भर घालतले.

राजभाशा संचालनालया वतीन हें पुस्तक तुमचे मुखार दवरपाक आमकां खोस भोगता. राजभास प्रकाशन येवजण 2008 खाला जी मुल्यांकन समिती नेमिल्ली तिचे डॉ. सु. म. तडकोडकार, प्रा. अनिल सामंत आनी प्रा. प्रियदर्शिनी तडकोडकार तशेंच छापणावळीचो वापर करपी 'रूतू ऑफेसट'चे श्री. हिरू नायक हांचे आमी उपकारी आसात. पुस्तक उजवाडाक येवचें म्हूण स्वता जावन आदार करपी श्रीमती हेमा नायक, चित्रकार. श्री. कलानंद कामत बांबोळकार हांचेय आमी उपकारी आसात.

राजभाशा संचालनालया वतीन उजवाडाक येवपी ह्या पयल्या कोंकणी पुस्तकाक तुमी येवकार दितले अशी आस्त आसा.

**डॉ. प्रकाश वजरीकार**

(राजभाशा संचालक)

## दोन उतरां

# पड्ड्या वयले रंग कागदार रंगयतना

**'वेंचीक** आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां: नियाळ आनी समिक्षा' ह्या प्रकल्पांतल्यान खूब गजाली जोडिल्ल्यो आसात. चलचित्रां हो एक अभ्यासाचो विशय म्हूण इफ्फींत प्रतिनिधी म्हूण वांटेकार जातकच समजलें. 2007 वर्सा कला आनी संस्कृती खात्यान पयलेच फावट तीन दिसांचो चलचित्र आस्वादन म्हणल्यार 'Film appreciation'ची कार्यशाळा घडोवन हाडली थंयच्यान म्हजो चलचित्र अभ्यासपाचो प्रवास सुरू जालो. चलचित्रांच्या साबार आंगांचो अभ्यास करप सुरू जालें. चलचित्रांच्या अभ्यासांत लेगीत खूब प्रकार आसतात. देखीक चलचित्र प्रक्रिया आनी निर्मिती, आस्वादन, समिक्षा आनी चलचित्रांचो मनीस विकासाचे नदरेन अभ्यास. म्हजो पिंडूच राजशास्त्राचो आनी प्रसार माध्यमाचो समाजाचेर प्रभाव आनी प्रवाह होवूय एक राजशास्त्राचोच अभ्यास. देखून जागतीक चलचित्र निर्मिती, तांचो त्या प्रदेशांतलो आशिल्लो प्रभाव आनी परिस्थिती हो म्हजो अभ्यास. सोंपेपणान सांगपाचें जाल्यार 'सोसायटी ॲण्ड सिनेमा' म्हणल्यार समाज आनी चलचित्रां हें ह्या पुस्तकाचें अभ्यासक्षेत्र.

आयज हे लेख पुस्तक रुपांत येतना कांय लोकांच्या फाटबळा बगर आनी परिश्रमां बगर शक्य नाशिल्लें. देखून तांचे उपकार मानपाक जाय. पयले म्हणल्यार सुनापरान्ताचे आयतार पुरवणेचे संपादन करपी जवाहर बर्वे जांणी म्हज्या भितरल्या अभ्यासकाक वळखून लेख बरोवंक लायले. तांच्या म्हणण्या प्रमाण आंतरराष्ट्रीय महोत्सवांत चलचित्रांनी प्रयोग जातात. ताचेर

उजवाड घालूंक जाय आनी ताचो अभ्यास फकत चलचित्र निर्मिती पुरतो मर्यादीत न्हय तर जगांतले तमाम विशय चलचित्रांतल्यान कशे हाताळूंक जाता हें जाणा जावन घेवपाक जाय. देखूनच जवाहर बर्वे हांकांच लागून हो स्तंभ सुरू जावपाक पावलो. ह्या स्तंभांतल्या कांय लेखांचो संग्रह ह्या पुस्तकांत घेतला. पूण सुनापरान्ताचो उप-संपादक प्रदीप पाटील हांकां लागून ह्या सत्राक सातत्य लाबलें. वेळेची मुभा म्हाका दिवन आपलें खूब काम प्रदीपबाबान वाडयलां.

म्हज्या अभ्यासाक लागून वा हेर आंदोलनाच्या कामांक लागून लिखाण पावोवपाक आडखळी येताल्यो तेन्ना प्रदीपबाबान दिल्लें प्रोत्साहन आनी कळावाक लागून काडिल्ले श्रम सदांच याद उरतले. तशेंच ह्या काळांतले सुनापरान्ताचे संपादक संदेश प्रभुदेसाय, अनंत साळकार आनी बाबली नायक हांचेय उपकार मानूंक जाय. तशेंच इफ्फी वेळार उप-संपादक आशिल्ले संजय बोरकार, जय नायक, बाबनी मापारी, महेश दिवेकार, अतुल पंडित, प्रकाश कुर्डीकार आनी सर्गेस्त मिलिंद भगत हांचेय उपकार मानपाक जाय.

चलचित्रांच्या अभ्यासांत सदांच मार्गदर्शन आनी पालव दिवपी नामनेचे चलचित्रकार धर्मानंद वेर्णेकार हांणी दिल्लो आदार आनी फाटबळ भोव मोलाचें थारलां. तशेंच ह्या पुस्तकाची सुंदर मांडावळ करपी अमोल कामत आनी सुंदर अशें मुखपृश्ट काडपी म्हजो इश्ट कलानंद बांबोळकाराचे उपकार.

तशेंच ह्या चलचित्राच्या अभ्यासाक आंतरराष्ट्रीय नदर फावो जाली जेन्ना हांव आंतरराष्ट्रीय संबंदशास्त्र (International Relations) शिकूंक गोंय विद्यापीठाच्या 'Centre for Latin American Studies' हांगा पावलों. थंयचे विद्वान प्राध्यापक दत्तेश परूळेकार आनी लेझली आफोन्सोन तमाम आंतरराष्ट्रीय विशया वयलें गिन्यान म्हाका दिलें. देखून तांचे खास उपकार. केंद्राच्यो निर्देशिका दोतोर अपराजिता गंगोपाध्याय ठाकूर हांणी तर ह्या पुस्तकाक खास मजत केल्या. पुस्तकाचो फॉर्मेट, आवाठ आनी दिशा थारावपाक तांणी आपलो मोलादीक वेळ म्हाका दिला. देखून तांचो खास उपकारी.

तशेंच पुस्तकाचीं कात्रणां, मांडावळ सांबाळून आनी क्रमवार लावपाक

कांय लोकांचें खास फाटबळ आसा. देखून कृपाली नायक हिच्या फाटबळा बगर ह्या प्रकल्पाचें संकलन जावंक शकचें नाशिल्लें.

गोंय सरकाराच्या राजभास संचालनालयाचे निवड समितीन म्हजो हो संशोधन प्रकल्प छापून हाडपाक मान्यताय दिली म्हूण तांचे नमळायेन उपकार मानतां. आनी तेच बराबर राजभास संचालनालयाचे संचालक डॉ. प्रकाश वजरीकार, उपसंचालक अनिल सामंत आनी कचेरींतल्या सगळ्या अधिकाऱ्यांचे तशेंच कर्मचाऱ्यांचे, वेळोवेळ दिल्ल्या सहकार्या खातीर मना काळजा सावन उपकार मानतां.

तशेंच ह्या प्रकल्पांत कोणाचोय प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष रितीन हातभार लागला तांचोय हांव उपकारी आसां.



## प्रस्तावना

# नव्या सिनेमाच्या
# नव्या युगाचो नवो अंक

**2004** वर्सा सावन गोंय हें आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचें कायम स्वरूपी केंद्र जालां. संवसारांतल्या कांय उत्कृश्ट चलचित्रांचें प्रदर्शन आमच्या गोंयच्या आंगणांत जाता. पयस-पयसुल्ल्यान, देश-विदेशांतल्यान सिनेमा-मोगी, दिग्दर्शक, निर्माते, तंत्रज्ञ गोंयांत येतात. हांगा तांचे मास्टर क्लासेस जातात. कार्यशाळा जातात. ह्या कार्यशाळांनी वांटो घेवपी गोंयकार खूप कमी आसात. तांतूंतलो युगांक नायक हो एक.

बरेच जाण सिनेमाक मनोरंजन वा स्वप्नरंजनाचें एक साधन मानतात. सिनेमा हो, तांचे खातीर फकत तीन वरांचो एक टायमपास आसता. इफ्फीचो उक्तावण सुवाळो, समारोप सुवाळो आनी मुखेलमंत्र्याची मेजवानी ह्यो गजाली कांय सिनेमामोग्यां खातीर प्रतिश्ठेच्यो आसतात. दर वर्सा सरकार चलोवपी पक्षाचे कार्यकर्तेच इफ्फीचे म्हाजन आसतात. एखाद्या मॉलांत विंडो शॉपिंग करचें तशे थेटरांनी भितर-भायर सरपी सिनेमामोगीय मेळटात.

पूण इफ्फींत प्रदर्शीत जावपी सिनेमा हे गल्लाभरू न्हय. पंदरा जाणांक मारपी एक हिरो, जावं एक गीत नाचता-गायतना धा ड्रेस बदलपी हिरोयन आशिल्ले हे सिनेमा न्हय. आंतरराष्ट्रीय महोत्सवांतले हे सिनेमा वेगळे आसतात. महोत्सवांले हे सिनेमा पळोवप्यांक अस्वस्थ करतात. चिंतूंक लायतात. मनीस आनी मनशांचीं नातीं, मनीस आनी समाज, मनीस आनी सैम. विंगड-विंगड देश..विंगड-विंगड भासो. विंगड-विंगड देशांतले मनीस. विंगड-विंगड भासांतल्यो काणयो. ह्यो काणयो, हे मनीस

पळोवप्या लागीं एक संवाद सादतात.

युगांकानूय ह्या सिनेमा लागीं संवाद सादला. तो अस्वस्थ जालो, भारावलो आनी बरयत रावलो.

युगांक नायक हाचें 'वेंचीक आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां: नियाळ आनी समिक्षा' हें पुस्तक अशा अर्थपूर्ण चलचित्रांचो आस्वाद घेवपी आनी त्या चलचित्रांचो अभ्यास करपी एका प्रामाणीक विद्यार्थ्याचें चिंतन आसा. कोंकणी साहित्यांत जागतीक चलचित्रांचेर बरयिल्लें हें पयलेंच पुस्तक, हेंवूय तितलेंच म्हत्त्वाचें!

चलचित्रां म्हळ्यार फकत सेल्युलॉयडचीं रिळां न्हय, तर चलचित्रां म्हळ्यार एक सांघीक आनी सर्वांगीण अणभव. साहित्य, गीत, संगीत, नृत्य, शिल्प, अभिनय ह्या कलां वांगडाच, छाया, ध्वनी, संकलन, डिजिटायझेशन, ॲनिमेशन आनी प्रदर्शन ह्या विकसीत तंत्रांची सांगड म्हळ्यार चलचित्रां. कले वांगडा ह्या तंत्रांचीय जाण आसल्यार चलचित्रांचो आस्वाद घेवप एक वेगळीच अनुभूती आसता. वेगवेगळ्या देशांच्या वेगवेगळ्या राज्यांच्या, वेगवेगळ्या भाशांचीं चलचित्रां प्रदर्शीत जातात. पूण चलचित्रांची आपलीच अशी एक भास आसता. ती भास युगांक शिकलो. युगांकान 'Film Appreciation Course' आनी 'Film Making Course' च्या कार्यशाळांनी चलचित्रां कशीं पळोवचीं आनी चलचित्र निर्मिती हांचो अभ्यास केलो. 'चलचित्रां आनी तंत्र' ह्या आपल्या लेखांत तो छाया, ध्वनी, संकलन, पटकथा लेखन, abstract आनी cinematic realism ह्या चलचित्र निर्मितीच्या विविध आंगांचेर बरयता. Slumdog Millionaire चो ऑस्कर विजेतो Sound Recordist रसूल पूकुट्टीक जेन्ना तो 'Sound Designer' म्हण्टा, तेन्ना चलचित्र तंत्राच्या ताच्या अभ्यासाची जाणविकाय जाता.

युगांकाच्या समिक्षणाची शैली ही एका अभ्यासू विद्यार्थ्याची आसा. खंयचेय भाशेच्या जांव खंयच्याय देशाच्या चलचित्राचेर बरयतना तो थंयच्या भौगोलीक आनी इतिहासिक फाटभुंयेचो नियाळ घेता; दिग्दर्शकाचो दृश्टीकोण समजून घेतना ताचे विचार आपले नदरेन उक्तायता. युगांकाची नदर ही आयचे पिळगेची नदर आसा. पडिंग जमीन, दुश्काळ, वाळवंट हे फाटभुंयेर तयार जाल्ल्या 'तुलपॉन' या चलचित्राक भांगरामोर मेळटा तेन्ना ताका खोस भोगता. तो म्हण्टा, 'कजाकिस्तान ह्या देशांत कांयच नासलेंच

जाल्यार सांगपाक कांय काणयो आसात... ते मातयेंतल्यान तयार जाल्ल्यो व्यक्तिरेखा आसात!' हीं आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां म्हळ्यार तरेकवार प्रदेशांचे प्रस्न समजून घेवपाचें एक साधन अशेंय युगांक मानता.

'इतिहासीक चलचित्र निर्मिती: अभ्यास आनी समज' हो ताचो लेख संशोधनात्मक आसा. इतिहासाची ताची जाण आनी अभ्यासाची झलक ह्या लेखांत जाणवता. 'गुडबाय बाफना' – नेल्सन मंडेला आनी ताचो बंदखणीचो अधिकारी जेम्स ग्रेगरी हांची एक आगळी इश्टागत, तांची वेगळी विचारसरणी आनी समाजा लागीं पळोवपाचो वेगळो दृश्टीकोण, हें सगळें मांडटना युगांक ह्या सिनेमा वांगडा जिविताचींय मुल्यां सांगता.

2011 वर्सा इफ्फींतलो भांगरामोर फावो जाल्लो कोलंबियाचो 'पोरफिरियो' ह्या चलचित्राचो नियाळ वाचतना युगांकांतलो साहित्यीक जाणवता. पोरफिरियो ही व्यक्ती, ताचें व्यक्तिचित्रण आनी भोवतणची परिस्थिती हांचेर आदारिल्ल्या ह्या चलचित्राचे पटकथेवयलो युगांकाचो नियाळ सुंदर आसा. तशेंच 2006 चो 'बाबॅल' ह्या अमेरिकी चलचित्राचो पटकथा लेखक गिलेर्मो आरिएगा हांचें पटकथा–तंत्र समजून सांगपाचें काम युगांक बेस बरें करता, ह्या चलचित्राचे कथेंत चार कथा आनी एक क्लायमॅक्स हो प्रयोग युगांकाक आवडटा.

'बदलत्या भारताच्यो तरण्यो संवेदना' ह्या आपल्या लेखांत फरहान अख्तराचो 'दिल चाहता है', राजू हिरानीचो 'मुन्नाभाई...' ह्या चलचित्रांचें विश्लेशण करतना युगांक म्हण्टा – 'Because it's different, it's New Age Indian Cinema'. अनुराग कश्यपाचो 'ब्लॅक फ्रायडे' ह्या चलचित्राचें मेकिंग आनी पटकथा ताका भावता आनी तो आपलें मन उक्तायता – 'कांय सिनेमा हे बॉक्स ऑफिस आनी पुरस्काराच्या वयर आसतात'.

चेतन भगत हाच्या 'Five Point Someone' हे कादंबरीचेर आदारीत चलचित्र '3 Idiots' हाचेर बरयतना तो कादंबरी, कादंबरीचें अनुकुलन आनी ताची पटकथा हांचेर आपले विचार मांडटा.

सिनेमा माध्यमाची तांक व्हड आसा. देशभरच न्हय, तर संवसारभर वैचारीक आनी शिक्षणीक मुल्यां पावोवपाची तांक खंयच्याय देशाच्या आनी खंयचेय भाशेच्या एका बऱ्या फिल्मांत आसता.

अर्जेंटिनाचो दिग्दर्शक पाब्लो सीझर जांचो मनीस आनी सैमा लागीं संवाद सादपी 'हूनाब्कू' ह्या चलचित्राचो नियाळ घेतना युगांक त्या चलचित्राचीच न्हय, तर जिविताचीं मुल्यां सांगता.

'इराणी चलचित्रां आनी ताची वैशिश्टताय' ह्या आपल्या लेखांत दिग्दर्शक माजिद मजीदी हांणी दिग्दर्शित केल्लें 'The Songs of the Sparrow' ह्या चलचित्राचो नियाळ घेतना ताचे पयलीचें चलचित्र 'Children of Heaven' ह्या चलचित्राचो उगडास करून दिता. ह्या चलचित्राची काणी सांगतना युगांक मनीस आनी ताचो दीसपट्टो संघर्श, तशेंच, मनीस आनी जनावरां लागीं ताचें नातें हांचें एक सुंदर चित्र दोळ्यां मुखार दवरता.

'खुदा के लिए', 'स्लॅकिस्तान' आनी 'रामचंद पाकिस्तानी' ह्या तीन पाकिस्तानी चलचित्रांचो नियाळ बरयतना युगांक पाकिस्तानची राजकीय आनी सामाजीक स्थिती आनी थंयच्या सुसंस्कृत मनशांचो संघर्श आनी धर्मीक  अतिरेक हांचेर उजवाड घालता.

भारतीय आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवात भांगरा मोर लाबिल्लो चीनाचो 'द ओल्ड बार्बर'. केंस कातरपी एका म्हाताऱ्याची ही काणी. एका वेळार सगलें त्यागून माओच्या फाटल्यान उबो रावून सत्तापालट केल्ली तो हो तेन्नाचो तरनाटो. ताची आयची जीण सांगतना युगांक चीनाचे राजकीय आनी सामाजीक जिणेचेर भाश्य करता. हे सर्तींत 'द शाफ्ट' हो युगांकाक भाविल्लो आनीक एक चीनी सिनेमा.

सोविएत रशियेचो इतिहास हो युगांकाचो आवडटो विशय आसूं येता. 'पडटे कम्युनिस्ट सत्तेचो कल्पनाविलास: 'सॉल्ट' ह्या नियाळांत मदांत अमेरिकेची महासत्ता आनी पडटे कम्युनिस्ट सत्तेची व्यथा आनी थंयचे बदलपी राज्यवेवस्थेचेर टिका करतना युगांक थंयच्या सामाजीक जिविताचें चित्र दोळ्यां मुखार दवंरता.

'Yuri's Day' ह्या रशियन चलचित्राचें समिक्षण करतना युगांक सांगता, 'कम्युनिझम हो फकत विचार न्हय, तर एक जीवनशैली जावन आसा.' कम्युनिस्ट आदर्श, तांचे अर्थकारण आनी राजकारण हांचेर युगांक उलयता.

'White Tiger' ही दुसऱ्या महायुद्धांतल्या जर्मनी आनी सोविएत युनियन

हांचे मदल्या झुजाची काणी. 'White Tiger' हो जर्मनीचो रणगाडो. ह्या रणगाड्याचो पराभव करतना सोविएत युनियनची धडपड. हो संघर्श एके मानसीक संकल्पनेंतल्यान दिग्दर्शक कारेन शाखनाझारॉव्ह उबी करता. या चलचित्राचो युगांकाचो नियाळ युगांकाल्या दुसऱ्या महायुद्धाच्या इतिहासाच्या अभ्यासाची वळख करून दिता.

दुसऱ्या महायुद्धाचे फांटभुंयेचेरूच आदारिल्लो 'Calm at Sea' एका फ्रेंच क्रांतीकारकान जर्मन अधिकाऱ्याक मारलो म्हणून हिटलर बंदखणींत आशिल्ल्या फ्रेंच कम्युनिस्टांक मारपाचो आदेश दिता. मरणाच्या कांय खिणांपयलीं ह्या कैद्यांमदीं चलिल्ले विचार आनी घडामोडी, कैद्यांक मेळूंक आयिल्लो पाद्री आनी ताचे वांगडा जाल्ले समाजवादाचेर संवाद हें चलचित्र दाखयता. युगांकाचें विश्लेशण उल्लेखनीय आसा. समाजवादा भितर श्रद्धा वा देव हांची संकल्पनाच ना. पूण मरणाचे कांय खीण आदीं समाजवाद्यान पादिगारा कडेन सादिल्लो संवाद – ह्या दोन विचारसरणींतलो संघर्श ह्या सिनेमाचें सार आसा. युगांक हें सार खोलायेंत वचून सांगता.

पॅलेस्टायनच्या स्वातंत्र्यलड्या वयलो 'When I saw you' ह्या चलचित्राचें परिक्षण बरयतना युगांक उदास जाता. दीसरात जावपी बॉबस्फोट आनी झगडीं हातूंत देशाची तरणी पिळगी काबार जाल्या. आंतरराष्ट्रीय चेपणांक बळी पडून पॅलेस्टिनीयनांचें स्वातंत्र्य आडावन दवरलां अशें युगांकाक दिसता. हें चलचित्र इकरा वर्सांच्या तारिक या भुरग्या भोंवतणीं घुंवता. बापूय नाशिल्लो हो भुरगो आपले आवयवांगडा कॅम्पांत रावता. आपल्या देशांत मेकळो आसूनुय ताका बंदखणींत आशिल्ल्याचो भास जाता. एक दीस शेणिल्ल्या बापायक सोदपाक तो कॅम्पांतल्यान पळून वता. ताच्या या संघर्शाची काणी म्हळ्यार हें चलचित्र. हें चलचित्र युगांकाक खूब अस्वस्थ करता.

पॅराग्वेचो '7 boxes' युगांक आनी ताचे पिळगेक खूब भावता. सिनेमा सोंपतकच दिग्दर्शक जुआंव कार्लोस मानेग्लिया हांका लोक हुयेली, ताळ्यो, किंळच्यो, किलोवण्यो घालून दाद दिता आनी वेंग मारून शाबासकी दितात. चलचित्राचें ताजेपण आनी तरणाटेपण युगांकाक भावता. तरण्या मनाची अस्वस्थता हेंच चलचित्राचें वातावरण.

2010 वर्साचो भांगरा मोर फावो जाल्लो भारतीय बंगाली चलचित्र 'मोनेर मानूष' हो एक उल्लेखनीय सिनेमा. लोकगीत आनी लोकसंगीताचे फाटभुंयेर चित्रीत केल्लो गौतम घोष हांच्या ह्या चलचित्राचेर युगांकाचो नियाळ वाचपासारको आसा.

'वेंचीक आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां: नियाळ आनी समिक्षा' ह्या युगांकाच्या लेख-संग्रहांत कांय वेचक लघुपट आनी माहितीपट आसात. 'हूज इज धिस साँग?' बुल्गेरियाचो हो लघुपट म्हजेय आवडीचो. एक गीत आनी त्या गिताची एक चाल. चार शेजारी देश हें गीत आपापलीं वाद्यां घेवन वाजयतात आनी तें गीत आपलेंच म्हण झगडटात. दरेका देशा खातीर ह्या गिताचो वेगळो अर्थ आनी वेगळें महत्त्व आसा. ह्या चलचित्राचेर युगांकाची समिक्षा वाचपा सारकी आसा.

'लघुपट: प्रयोग, नाविन्य आनी सृजनशीलतायेचें कसब' हो ताचो लेख म्हळ्यार जागतीक लघुपटांचो अभ्यास आसा. 'बेनझीर भुट्टो, Courtroom Nautanki' अशा कांय उत्कृश्ट लघुपटांचो युगांक नियाळ घेता. लघुपट आनी माहितीपट हीं समाजप्रबोधनाचीं साधनां जाल्यांत.

भारतीय आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांतलीं कांय उत्कृश्ट चलचित्रां युगांकान वेंचल्यात. तांतूंत हंगेरीचो Valami America, गोंयचो 'पलतडचो मनीस', ऋतुपर्णो घोष हांचो 'आबोहोमान', फिनलंडचो फामाद दिग्दर्शक पेट्री कोटविका हांचो 'Musta Jää', हॉलंडचो 'Mill and Cross' मराठींतलो 'झिंग चिक झिंग', केनयाचो 'द फर्स्ट ग्रेडर', अफगाणिस्तानाचेर आदारिल्लो इराणचो 'Gol Chehreh', रशियेचो 'Coco Chanel and Igor Stravinsky', क्युबा आनी अमेरिकेंत घडपी 'Una Noche', दक्षिण-पूर्व आशियांतल्या मुस्लिमांचे जिणेचेर उजवाड घालपी 'The Womb', अशा कांय अर्थपूर्ण सिनेमांचेर समिक्षा करतना स्वता कांय प्रस्नांच्यो जापो सोदता. मनीस... ताची सपनां... ताचीं येस-अपेस... ताचीं नातीं... झगडीं... संघर्श... मोग... भोग...जिवीत आनी मरण. कांय चलचित्रां ताका अस्वस्थ करतात.

पूण युगांक खूब आशावादीय आसा. कोंकणी ताच्या काळजाची भास. मारिया, पलतडचो मनीस, दिगंत - इफ्फींत वांटेकार जाल्ल्या ह्या तीन

चलचित्रांचे दिग्दर्शक राजेंद्र तालक, लक्ष्मीकांत शेटगांवकार आनी ज्ञानेश मोघे हांची तुस्त करतना तो म्हण्टा, खंयचोय प्रादेशीक सिनेमा, मागीर तो कितलोय ल्हान आसूं, पूण आपले भाशेंतल्या साहित्याच्या बळार जागतीक सिनेमांत आपली सुवात तयार करूंक शकता. हांगा तो सत्यजित रे हांचो उगडास करता. गुलज़ार हांच्या 'स्टोरी टेलिंग'च्या तंत्रार उलयता.

युगांकालो जल्म एका साहित्यसंपन्न घरांत जाला. कोंकणींतले ज्येश्ठ लेखक श्री. पुंडलीकबाब नायक आनी सौ. हेमाबाय नायक हांचो तो सुपूत. साहित्य अकादमीचे पुरस्कार विजेते आवय-बापूय! पाळण्यांत आसतना सावन कानार पडपी तांची साहित्यीक उतरां, उपरांत धोंपरार चलतां चलतां आपल्या पांयांर उबो रावसर तांच्या वांगडची दीसपट्टी भासाभास आसुंये वा ताची वाचनाची आवड आसुंये, हे तरणे पिरायेंत युगांकांत एका बऱ्या साहित्यिकाचे गूण झळकतात. युगांक हो राज्यशास्त्राचो पदवीधर आनी आंतरराष्ट्रीय संबंदांत पदव्युत्तर शिक्षण केलां. आतां समाज आनी सिनेमा ह्या विशयांत पीएच्डीचो अभ्यास करता. संवसारभरच्या देशांचे संबंध आनी तांचो इतिहास जाणून घेवपाची उत्सुकता ताच्या बरोवपांत दिसता.

'कोंकणी जाय... मायभास जाय' अश्यो घोशणा रस्त्यार दिवन कोंकणी भाशेक लागून चळवळ उबारपी युगांकाचें मन आग्रही आसूं येत, पूण हेर भाशां विशी तो दुराग्रही निश्चीत ना. देखून तो संवसारांतल्या विंगड-विंगड भाशांतले सिनेमा पळयता आनी तांच्या साहित्यांतलीं मुल्यां सोदता.

युगांक हो चळवळींतलो तरनाटो. गोंयांत एक सशक्त सिनेमा-चळवळ उबारपाची गरज ताका जाणवता. इफ्फीचे फाटभुंयेर गोंयच्या चलचित्रांची उदरगत कशी जावची? मुळाव्या साधन-सुविधां वांगडा बौद्धिक साधन-सुविधा कश्यो तयार करच्यो? चलचित्र चळवळींत गोंयचें साहित्य, लोककला, नाटकां, कलाकार, विद्यार्थी, अभ्यास आनी समीक्षा हांचो आस्पाव कसो जावचो हांचेर आपले विचार तो उक्तायता. फकत फिल्म निर्मितीक अनुदान दिवप न्हय, तर गोंयच्या तरनाट्यांक लागून फिल्म आनी प्रसारण माध्यमाची पदवी दिवपी शिक्षण दिवपाची जापसालदारकी राज्य सरकारान घेवची अशें मत तो उक्तायता, आनी हें सगलें सांगतना युगांकाचो एक स्पर्धात्मक आनी वेव्हारिक दृश्टीकोण आसा. इफ्फीचो ब्रॅंड

व्हॅल्यू कसो वाडटलो? कान्स, टोरोंटो, बर्लिन, ह्या आंतरराष्ट्रीय महोत्सवा वांगडा इफ्फी कशी सर्त करूंक शकतली? मुळाव्यो साधन-सुविधायो, प्रायोजन, प्रमोशन, इफ्फींतलो फालतू खर्च, सरकारी हस्तक्षेप, सिनेमांची निवड, तांचो दर्जो आनी इफ्फींत नामांकित आनी जागतिक फिल्मकारांचो सहभाग ह्या गजालींचेर युगांक वाचप्यांचे मन आकर्शित करता.

निमाणेक, सिनेमाचो आस्वाद म्हळ्यार फकत पड्ड्यार कितें चलता, तितलेंच न्हय, तर पड्ड्याफांटल्यान कितें प्रतिक्रिया जाता, तिवूय तितलीच म्हत्त्वाची. 'वेंचीक आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां: नियाळ आनी समीक्षा' हें कोंकणींतले सिनेमा समीक्षेचें पयलेंच पुस्तक.

2004 वर्सा सावन गोंयांत नियमीतपणान जाल्ल्या आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवाचो हो आयजमेरेनचो हो प्रवास.

एका सिनेमा-मोग्याचो हो अभ्यास.

सिनेमा पळोवप आनी ताचेर समिक्षा बरोवप, हाचे मदीं एक प्रक्रिया आसा ती सिनेमाचो आस्वाद घेवप! युगांक हो आस्वाद मन भरभरून घेता आनी मागीर दिलखुलास बरयता. युगांकाचे सिनेमाचेर बरयिल्ले हे लेख, सिनेमाचो सोद घेवपाची एक पांयवाट आसा. हे वाटेर युगांकाक ताच्याच मनांतले मार्क्सवादी विचारवंत, इतिहासकार, सिद्धांतवादी अशे कांय विचार भेटतात आनी तो तांचेलागीं भासाभास करता.

...आनी युगांक आपले विचार मांडटा.

युगांक कांय प्रस्नूय विचारता.

विचार-आचारांनीच संस्कृताय रुजता.

प्रस्न आनी भासाभासांनी एक चळवळ उबी रावता.

**-धर्मानंद वेर्णेकार**

# प्रांत अनेक - सिनेमा एक

**जागतीक** चलचित्र निर्मितीची व्याख्या दर एका आस्वादकाचे नदरेंतल्यान बदलपाक शकता. चलचित्र हें माध्यम तमाम भुगोलीक आनी भाशीक शिमो हुपता आनी मनशाक मनीस मेळटा. अशें म्हणटा चलचित्रांत आंतरराष्ट्रीय, राष्ट्रीय, कलात्मक, प्रादेशीक अशे विभाग नासतात. फकत बरीं आनी वायट चलचित्रां आसतात. उपरांत एक एकलो आपली सोय आनी गरजे प्रमाण चलचित्रांचे विभाग थारायता. जगांत सुमार 200 देश आसात. दर एका देशाची आपली वेगळी शैली आसुंये. पूण विशय एक– मनीसपण. खूब जाणांक आंतरराष्ट्रीय चलचित्र निर्मिती म्हणल्यार फकत हॉलिवूड दिसुंये. जीं चलचित्रां भारतीय न्हय तीं आंतरराष्ट्रीय आसुंये. खूब जाण आपले नदरेंतल्यान आंतरराष्ट्रीय चलचित्रांक पळयतात.

म्हजे खातीर आंतरराष्ट्रीय चलचित्र म्हणल्यार वेगवेगळ्या प्रदेशांचे प्रस्न समजून घेवपाचें साधन. तांचो सैम, मनीस, समाज जीवन समजून घेवपाक केल्लो अभ्यास. दर एक चलचित्र आपल्या देशाची काणी सांगता. केन्ना दर एक व्यक्तीरेखा म्हणजेच एक काणी आसता. आंतरराष्ट्रीय राजकारणांत कांय देशांचें म्हत्व कमी आसता आनी तांचे बाबतींत आमकां केन्नाय चुकूनशें आयकुपाक येता. देखीक 'पोरफिरियो' ह्या चलचित्राक इफ्फींत भांगरा मोर मेळटा तेन्ना खूब जाणांक कळटा कोलंबिया हो एक देश दक्षिण अमेरिकेंत आसा म्हणपाचें. पडिंग जमनी, दुश्काळ, वाळवंट हे परिस्थितींतल्यान तयार जाल्लो 'तुलपान' ह्या चलचित्राक इफ्फींत भांगरा मोर मेळटा तेन्ना खूब खोस जाता. काझाकिस्तान ह्या देशांत कांय नासलें जाल्यारय सांगपाक कांय काणयो तरी आसात. जगाक दाखोवपाक मातयेंतल्यान तयार जाल्ल्यो व्यक्तीरेखा आसात.

## चलिचत्रां आनी तंत्र

चलचित्र निर्मिती ही विविध घटकांची एक प्रक्रिया. कला आनी तंत्राची सांगड घालपी ही एक प्रक्रिया. तांत्रीक गजाली म्हणजे कितें? फकत संकलन आनी स्पेशल इफॅक्ट? सावंड इंजिनियरिंग हो एक नाजूक पूण म्हत्वाचो विशय. भारताच्या रसूल पुकुट्टीक जेन्ना सावंड इंजिनियरिंगा खातीर ऑस्कर पुरस्कार फावो जालो तेन्ना आमकां ह्या चलचित्राच्या आंगांचें म्हत्व कळ्ळें. उजवाडा येवजणेंत वा छायाचित्रीकरणांत नैसर्गीक उजवाडाचें खूब म्हत्व आसा. तशेंच आवाजा येवजणेंत (सावंड डिझायनिंग) लेगीत निसर्गीक आवाजाचें खूब म्हत्व आसा. नैसर्गीक आनी डबिंगा भितर खूब फरक आसा. आनी ह्या नव्या चलचित्रांचो कल नैसर्गीक आवाजा कडेन वता. इफ्फींत मास्टर क्लास घेतना रसूल पुकुट्टीन एकदां सांगलें, 'स्लमडॉग मिल्यनेर' ह्या चलचित्रांत दंग्याचो एक देखाव आसा. त्या देखाव्याक लागून दिग्दर्शक डॉनी बॉयलान पुकुट्टीच्या कानार हात दवरलो आनी सांगलें, आपल्याक असलो आवाज जाय. आनी तो आवाज म्हणल्यार मौन, सुन्नपणाचो. आवाजा येवजणेंत भावना आसतात. येदी व्हडली चलचित्र प्रक्रिया, पूण आवाजा येवजण हें सदांच दुर्लक्ष केल्लें आंग. कारण भारतीय चलचित्र निर्मितींत आमकां डबिंगाची संवय जाल्या. कारणां आसुंये. देखीक भारतांत तरातरांच्या प्रादेशीक भासांची चलचित्रां जातात. सदांच कलाकारांक दर एक भास शिकप शक्य नासता. पूण डबिंगान वा कृत्रीम आवाजांत नैसर्गीकताय वता. मौन हो आवाजा येवजणेंतलो सदांच कठीण विशय. मौन कशें जाणोवन दिवप? मौन आवाजा येवजणेंत तर काळोख छाया चित्रीकरणांत आनी संकलनांत एक कठीण विशय आसा. आवाजा येवजण आनी संकलन ह्यो तांत्रीक बाजू पूण तांकां कलात्मकतायेची सांगड आसप गरजेची. रसूल पुकुट्टी एक सावंड इंजिनियर वा रिकोर्डिस्ट पूण तो एक सावंड डिझायनरय बी.

## पटकथा लेखन

पटकथा ही खंयच्याय चलचित्राची मुळावण. पटकथा चलचित्राचें बजेट आनी त्या चलचित्राची लांबाय थारायता. चलचित्र पयलीं कागदाचेर तयार जावचें पडटा.

पटकथा आतां एक तंत्रीक गजाल जाल्या. 'Multiple Plot' आनी

'Hyperlink' हे पुरोगामी पटकथा लेखनाचे दोन प्रकार. अनुराग कश्यप आनी विशाल भारद्वाज हांचीं चडशीं चलचित्रां कादंबरी आनी कथांचेर आदारीत आसात. पटकथा ही जरी तंत्रीक बाब आसली तरी आजून मेरेन बऱ्यांतलीं बरीं चलचित्रां साहित्यकृतीचेर आदारीत आसात. 2010 वर्सा 41व्या इफ्फींत मोनेर मानुष ह्या गौतम सेनाच्या बंगाली चलचित्राक भांगरा मोर फावो जालो. तें चलचित्र सुनील गंगोपाध्यायाच्या लल्लन फकिराचेर आदारिल्ले कादंबरीचेर आसा.

पटकथा म्हणल्यार चलचित्रांचें कथानक सांचेबंद करप. पटकथा चलचित्राची गती थारायता. 'Multiple Plot' प्रकार म्हणल्यार एकाच चलचित्रांत दोन वा चड काणयो घडटा. 'Multiple Plot' म्हणल्यार पारंपारीक कादंबरीचो प्रकार म्हणूं येता. बॅबल (2006), ब्लॅक फ्रायडे (2004) हीं ह्या प्रकाराचीं बेस बरीं उदाहरणां.

'Hyperlink' प्रकार म्हणल्यार कथानकाचें स्रोत जळामळा शिंपडिल्लें आसता. उपरांत तें एका जाग्यार येवन मेळटा. ह्या प्रकारांतल्या कांय लोकप्रिय चलचित्रांचीं नांवां घेवपाचीं जाल्यार 'गॅंग्स ऑफ वसेपूर', 'डॉन', 'कमीने'. खास करून विशाल भारद्वाज हांच्या चलचित्रांनी हो प्रकार प्रभावीपणान पळोवपाक मेळटा.

'स्टोरी टेलिंग' हो पटकथेचो प्रकार चड कलात्मक पूण तंत्रीक बाबींचें सातत्य राखप गरजेचें. सत्यजीत रे हे भारतांतले सगळ्यांत व्हडले स्टोरी टेलर आशिल्ले. स्टोरी टेलिंग प्रकारा फाटल्यान खूब तपश्चर्या आसता आनी खूब अभ्यास करचो पडटा. हो प्रकार फकत अणभवांतल्यान आनी साहित्याचे समजिकायेंतल्यान येवपाक शकता. ह्या प्रकाराची गती थोडी मंद आसता. मणी रत्नम, अडूर गोपालकृष्णन हांकां स्टोरी टेलर म्हूण वळखतात. लागींचें उदाहरण जाल्यार लक्ष्मीकात शेटगांवकार. हो एक स्टोरी टेलर. 'एका सागर किनारी' आनी 'पलतडचो मनीस' हीं चलचित्रां ताणें स्टोरी टेलिंगांतल्यान मांडल्यांत. स्टोरी टेलिंग पटकथा ही फकत कला वा तंत्र न्हय तर तो एक अभ्यास. डॉ. प्रकाश वज्रीकाराच्या नाटकांनी काणयेंकार हें पात्र आदळटा. सत्तरी म्हालांनी गांवागांवांनी काणयेंकार आसात. तांची सांगपाची पद्दत आनी शैली एके तरेचें स्टोरी टेलिंगूच.

## 'Abstract' आनी 'Cinematic Realism'

जेन्ना हांवें मणी रत्नमाच्या रावण ह्या चलचित्राक 'Abstract' वास्तववाद म्हणलें तेन्ना एक सुचोवणी आयली. 'Abstract' केन्ना वास्तव जावंक शकना. म्हाकाय दिसूंक लागलें, अशें आसत. पूण रावण ह्या चलचित्राचीं पात्रां आनी घडणुकोच आगळ्यो आशिल्ल्यो. पूण तें 'Abstract' वास्तवीकताय आसुंये? हांवें ह्या विशयाचेर अभ्यास सुरू केलो. 'Abstract' म्हणल्यार इल्यूजन, एक कल्पकताय, जें सरळ सांगूंक जायना तें. पूण 'Abstract' वास्तववादी आसूं येता? 'Abstract' हो एक कलात्मक प्रकार पूण वास्तववाद ही एक विचारसरणी. वास्तववादाची व्याख्या तत्वशास्त्रांत वेगळी, साहित्यांत वेगळी आसा. इतलेंच न्हय, तर साहित्यांतल्या दर एका प्रकारांत वास्तववादाची व्याख्या आनी समजणी वेगळी आसा. लेव टॉलस्टॉय ते कार्ल मार्क्स, दर एका विचारवंताची वास्तववादाची कल्पना आनी समजणी वेगळी आसा. कांय जाण तर कला ही मनीस आनी सैमाचें 'इमिटेशन' अशेंच मानतात.

पूण 'Abstract' आनी 'Cinematic Realism' चो संबंद जुळटा. फ्रेंच वॅरीटे हो 1950–60–70 दसकांतल्या काळाक फ्रेंच वॅरीटे अशें म्हणटा. चलचित्र निर्मिती ही एक भोवआयामी प्रक्रिया. कथा, पटकथा, दिग्दर्शन आनी कलाकार ती मुखार व्हरता. एक 'Abstract' कथानक वास्तववादी प्रकारांत जावपाक शकता? हो कांय जाणांचो प्रस्न जावपाक शकता. मागीर 'Abstract' वास्तववाद आनी वास्तववाद हाचे भितर कितें फरक आसूं येता? हाचें म्हत्वाचें उदाहरण म्हणल्यार अनुराग कश्यपाचें 'नो स्मोकिंग' हें चलचित्र. तशेंच 'गुलाल' हें चलचित्र. तशें पळोवपाक गेल्यार पटकथा ही वास्तववादा कडेन चड लागींची. ताची हाताळणी थोडी वास्तववादी आसा. देखीक व्यक्तीचित्रण. व्यक्तीरेखा जेन्ना पटकथेंत बसयता तेन्ना ताची मानसीकताय बदलपाक शकता आनी ताची हाताळणीय वेगळी जावपाक शकता.

देखून पटकथे कडेन पावता तेन्ना सगळीं तंत्रीक कलात्मक समीकरणां बदलपाक शकता.

## चलचित्रां आनी प्रदेश

चलचित्र निर्मिती ही साबार घटकांची सामुहीक प्रक्रिया. नाटक आनी व्यक्तीमत्व विकासाचो खूब लागींचो संबंद आसा. ज्या राष्ट्रांत साहित्य, कला, सिनेमा, नाटक प्रगत आसता त्या राष्ट्राक आंतरराष्ट्रीय थराचेर खूब मान आसता. देखून कला आनी राष्ट्रनिर्मितीचो खूब लागींचो संबंद आसा. लोकशायेंत संघर्श जाता तेन्ना तमाम विचारसरणींक चालना मेळटा. जावं तें येवरोपांतले रेनासांस वा ती सोविएताची बोल्शेवीक क्रांती. दर एका संघर्शाचें पडबिंब त्या काळांतल्या समकालीन कला प्रकारांत पडलां आनी केन्ना केन्ना साहित्यूच हे क्रांतीची बांदावळ जाल्या. चलचित्रां राष्ट्राच्यो शिमो हुपतात आनी मनशाक मनीस मेळोवन दितात. देखून शीतयुद्धांत अमेरिका आनी भांडवलवादाचो प्रसार करपी अमेरिकी फाटबळ आशिल्लीं चलचित्रां तयार जाल्लीं. तशेंच तिसऱ्या विश्वांतल्या देशांनी हे प्रकार अमेरिकेंत पेरिल्ले, तशेंच कम्युनिस्ट सत्तांतरा उपरांत क्रूर अशी चीनाची सांस्कृतीक क्रांती जाली. हातूंत हजारांनी लोकांची हत्या जाली. हाचें समर्थन करपाक झियांक कींग हांच्या नेतृत्वाखाला चीनी कम्युनिस्ट सत्तेचो प्रचार करपी चलचित्र तयार जालें.

माध्यम बरें वा वायट हाचे परस चड म्हत्वाचें तें ह्या माध्यमाचो प्रभाव. चलचित्राचो प्रभाव आकांताचो आसता. लोकशायेंत चलचित्र संस्कृती फळटा, फुलता, पर्जळटा. हाचें उदाहरण आमकां साबार आशियाई, आफ्रिकी, लॅटिन, अमेरिकी चलचित्रांनी पळोवपाक मेळटा. ह्या वाठारांतले देश विकसीत आनी राष्ट्र निर्मितीच्या प्रवाहांतल्यान वतात. ह्या वाटारांत लोकशाय आंग धरूंक लागल्या. आनी ज्या देशांत लोकशाय ना त्या देशांनी चलचित्र निर्मिती मदमस्त सत्तेक आनी कट्टरवादाक आव्हानां दिवपाक लागल्या. पाकिस्तानाची बंडखोर चलचित्र निर्मिती हाचें ज्वलंत उदहारण. पूण लॅटिन अमेरिकी, आफ्रिकी आनी आशियाई देशांची लोकशाय प्रक्रियेंतल्यान वता. देखून हे लोकशायेक 'Noisy Democracy' अशें म्हणटात. पूण समाजांत घडपी बदल चलचित्र निर्मितींत येता. गरिबी, समांतर विकार, बेरोजगारही, शेती हे विशय ठळकपणान ह्या देशांच्या चलचित्रांनी येतात. ह्या गजालींचो संबंद मनीस विकासा कडेन येता.

समाजाची प्रगती मनशाच्या वैचारीक आनी बौद्धीक वाडीचेर आदारीत आसा. आमी 'मॉडर्न' म्हणल्यार पुरोगामी जाल्यात हो आमचो समज. पूण 'Modernity' आनी 'Modernoxity' भितर फरक आसा. नामनेचे वामपंथी राजकारणी सितारांम येच्यूरी हांणी एकदां संसदेंत उलयतना म्हणलें 'Modernoxity' म्हणल्यार एक विखारी रसायन. जंय आमी सोयी प्रमाण 'Modernity'ची व्याख्या बदल्ल्या आनी सोयी प्रमाण बदल स्विकारला. पूण कर्मठ रुढी परंपरा चालूच दवरल्यात. तांणी दिबांकर दास हे फाकिवंत समाजशास्त्रज्ञ हांच्या 'Modernity'च्या विश्लेशणाचो दाखलो दितना म्हणलें, 'Modernoxity is deadly cocktail of feudalism and western consumerist values' ('Modernoxity' हें रुढीवादी परंपरा आनी पाश्चात्य वेवसायीक तत्वांचें विखारी रसायन).

तशेंच नामनेचे संगितकार रब्बी शेरगील हांणी संगिताचेर उलयतना म्हणलें, संगीत आनी साहित्य ह्यो भाशेक जिवंत दवरपी दोन रक्त वाहिन्यो म्हत्वाचें म्हणल्यार ताणें एक विचार मांडलो. आयच्या शहरी जीवना परस आदिवासी जीण चड पुरोगामी आसा. थंय ढोंगीपण ना. बायलांक समान वागणूक आसा, मनीसपण आसा.

पूण जेन्ना मनीस आपल्या अस्तित्वाचो आनी अस्मितेचो थाव घेता तेन्ना समाजाचें समीकरण हालता. समज बदलता आनी अस्मितेची चळवळ सुरू जाता. 'राष्ट्र' आनी 'राज्यवेवस्था' ह्यो फकत भावनीक गजाली न्हय तर त्यो बंडखोर विचारसरण्यो. राष्ट्र ही संकल्पना 1648च्या वेस्ट फालिया कबलाती उपरांत रुजवणाक आयली. पयलीं धर्मसंस्थेचें साम्राज्य आसतालें, ती संकल्पना भायरावन राज्य वेवस्थेची थापणूक जाली. म्हणून 'राष्ट्रवाद' ही संकल्पना कला आनी साहित्यांत प्रखरपणान दिसून येता.

फ्रेंच क्रांती ते बोल्शेवीक क्रांती आनी लॅटिन अमेरिकेच्या रस्त्यांचेर जेन्ना क्रांतीची घोशणा आयकूंक येताल्यो तेन्ना तांचे पडसाद तरेकवार कला प्रकारांनी दिसून येताले. मनशाक जेन्ना आपल्या हक्काची जाणीव जाता तेन्ना तो अन्याया आड खुबळटा. अशेच अस्मितेचे चळवळीन विभागलां हें जग. देखून दर एका वाठाराची पार्श्वभुमी वेगळी, पूण एक मनीस-एक सिनेमा!

तरातरांच्या चलचित्रांनीच हो मनशाक जोडपी सिनेमा तयार जाता. चलचित्राची समिक्षा करतना कांय विभागांत चलचित्रां विभागल्यात. सक्तीची भुगोलीक शिमो पाळूंक नात. सांस्कृतीक नदरेंतल्यान प्रांतांची विभागणी केल्या. देखीक- मध्य-पूर्व (मिडल-इस्ट) हो एक भुगोलीक प्रांत न्हय. तशेंच अमेरिका आनी कॅनडा हांकां अमेरिका आनी येवरोपी चलचित्रांनी ताचो आस्पाव केला. ताचो प्रवाह थोडोभोव जुळटा देखून अशें केलां. तशेंच हीं चलचित्रां 2007-2012 ह्या कालखंडांत चलचित्र महोत्सव जाल्यात तातूंतलीं. इफ्फी जालोच, ते भायर पुणे आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सव तशेंच गोंय आंतरराष्ट्रीय लघुपट आनी म्हायतीपट महोत्सवाचो आस्पाव जाता.

पूण ब्लॅक फ्रायडे, युवा, लव्ह सॅक्स और धोका असलीं चलचित्रां खंयच्या महोत्सवांतलीं न्हय वा 2007-2012 कालखंडांतलीं नासुयें. पूण असल्या चलचित्रांचो आस्पाव कांय खास गजालींक लागून केला.

कांय चलचित्रांचीं समिक्षणां स्तंभाच्या माध्यमांतल्यान सुनापरान्त दिसाळ्यांत छापून आयल्यांत.





Satellite
Traffic
Greenland
Iceland
Norwegian Sea
Sweden
Finland
Norway
Russia
Canada
United Kingdom
Ireland
Denmark
Poland
Belarus
Germany
Ukraine
Kazakhstan
France
Romania
Italy
Uzbekistan
Kyrgyzstan
Spain
Portugal
Greece
Turkey
Turkmenistan
United States
North Atlantic Ocean
Morocco
Algeria
Libya
Egypt
Iraq
Iran
Afghanistan
Pakistan
Saudi Arabia
Mexico
Cuba
500 mi
1000 km


अमेरीका - येवरोप

# अमेरिका-येवरोप

**मार्क्सवादी** इतिहासकार 'Dialectical Materialism' वापरून जगाचो इतिहास एके अतिशय विज्ञानीक पद्दतीन मांडटात. ही इतिहास अभ्यासपाची एक प्रक्रिया आसा. हे पद्दतीन एका विचारान 'thesis' तयार जाता. उपरांत ताका विरोध करूंक 'anti-thesis' तयार जातात. आनी हांच्या संघर्शांत 'synthesis' तयार जाता आनी ह्या संघर्शांतल्यान इतिहास घडटा आनी तमाम विचारसरणी आनी वेवस्थांची उत्पत्ती जाता. अश्यो साबार पुरोगामी विचासरणींचो जल्म येवरोपांत जालो. एक विचार आनी ताकाच विरोध करपी चळवळीचे वैचारीक फवारे येवरोपांत पळोवपाक मेळ्ळे. पुरोगामी लोकशाय, राष्ट्र, राज्यवेवस्था, भांडवलवाद, समाजवाद, साम्यवाद, उद्देगीक क्रांती, कामगार चळवळ, पुनरुत्थान अशा साबार वैचारीक चवळवळींक येवरोपांत जल्म मेळ्ळो. अशा साबार विचारांचें 'synthesis'तल्यान तयार जाला येवरोपांतलो समाज. फ्रान्सिस फुकुयामा हांणी आपल्या चर्चीत प्रंबंध 'End of History and Last man' हातूंत म्हणलां, येवरोप आनी अमेरिकेन इतिहासाचें शिखर गाठलां आनी जग ह्या प्रांताचें नेतृत्व स्विकारतलें. 'World Community' वा 'International Community' हे शब्द येवरोप आनी

अमेरिकेक संबोधून म्हणटात. 'World Cinema' म्हणजे बिगर–इंग्लिश सिनेमा असोय ह्या प्रांताचो समज आसा. हो प्रांत साहित्यीक नदरेन समृद्ध आसा. पूण तांत्रीक परिवर्तन आनी सोद हीं येवरोपी सिनेमांचीं वैशिश्ट्यां.

German Ex Pressionism, Poetic Realism, Italian neo-realism, French new wave, polish film school, Czechoslovak New Wave, Navo Cinema, Romanian New Wave हीं सृजनशीलतायेचीं ल्हारां येवरोपी सिनेमांत येवन गेलीं.

सिनेमाचें भोवरंगी अशे विविधतायेन भरिल्लें तंत्र येवरोपांत जल्माक आयलें. जरीय अमेरिका आनी येवरोप हांचे भितर अर्थीक आघाडीचेर साम्य आसा, दोनांय ताकतीक पूर्व–आघाडी म्हणजे 'northern alliane' अशें म्हणटात पूण संस्कृतीक नदरेन दोगां भितर खूब फरक आसा. इतिहास, विचार, आचार आनी समाज हातूंतल्यान तो फरक दिसून येता. येरोपांत वेगळेपण आसा. दर एका देशाक आपली वेगळी वळख आसा. अमेरिकन सिनेमाचो विचार जेन्ना आमी करतात तेन्ना दोळ्यां मुखार फकत हॉलिवूड दिश्टी पडटा. पूण अमेरिकेंतय वेगळी सिनेमा चळवळ आसा, प्रयोगशील सिनेमा करपी दिग्दर्शक आसात. पूण अमेरिकेच्यो समस्या, वेदना आजून तरी अणभवपाक मेळूंक नात. शितयुद्धा वेळार येवरोपांतले देश सोविएताच्या कळपांत वचे न्हय म्हूण अमेरिकेन स्वतंत्र 'Propaganda' यंत्रणा राबयली. म्हणजेच अमेरिकेचो, भांडवलपणाचो उदो उदो करपी मनोरंजन केंद्रां आपलीं 'American Radio, American Center' वर्तमानपत्रां आनी चलचित्रांचो वापर अमेरिकेचो प्रसार करूंक वापरलो. पूण अमेरिकेच्या समाजाचें अस्सल दर्शन आजून दिसून येना. अमेरिकी चलचित्रां आकांताचीं खर्चीक आनी तांत्रीक बाजूंनी प्रगल्भ आसता पूण साहित्यीक मुल्यांकनांत वा 'सिनेमॅटिक कंटेण्टाचे' नदरेन तीं कमी आसता. देखून 'American Pie' ते ' Hangover 1, 2 वा 3' दुनियेंत तीं घुस्पल्यांत. देखून सिनेमॅटिक कंटेण्टचे नदरेंतल्यान तीं येवरोपी सिनेमां परस सादारणूच आसतात. पूण सिनेमांच्या अभ्यासा बाबतींत जे अमेरिके कडेन साधनसुविधा आसा त्यो आनीक खंयच्याच देशा कडेन नात. येवरोपाच्या चलचित्रांनी खिणा खिणाक तांच्या इतिहास आनी समाजाचें पडबिंब पळोवपाक मेळटा. रोमानिया, पोलंड, जर्मनी, फ्रांस,

इटली, झेकोस्लोवाकिया, रशिया हांणी इतिहासांत भयंकर युद्धां पळयल्यां. देखून दर वर्सा चलचित्र महोत्सवांत विश्व युद्धांतल्यो कितल्योश्योच काणयो पळोवपाक मेळटात.

येवरोपांतलो दर एक प्रांत आपल्या अस्तित्वाचो थाव घेता. हालींची अर्थीक घसरण येवरोपाचेर अर्थीक सावट घालून गेल्या. पूण हाचेंय प्रतिबिंब येवरोपी सिनेमांत पळोवपाक मेळटा. तंत्राचो वापर आनी सिनेमा लेखनाचे प्रयोग येवरोपांत पयलीं जाले. नव्यो शैली आनी विचारसरणी येवरोपांतूच जल्माक आयल्यो. देखूनच समृद्धीचो वारसो लाबिल्लो जैतिवंत येवरोपी सिनेमा आसा.

सिनेमा निर्मिती जितली पुरोगामी तितलेंच म्हत्वाचें तांचें वितरण देखून येवरोपी देशां बराबरूच येवरोपी महासंघ (European Union) येवरोपी सिनेमाक खूब प्रोत्साहन दिता.






| | | |
|---|---|---|
| वाठार | : | बल्गेरिया |
| महोत्सव | : | Goa International Film Festival for documentary short and animation films 2007 |
| विभाग | : | म्हायतीपट |

# WHOSE IS THIS SONG?
# शिमो हुपपी संगीत

'व्हूज इज धीस साँग?' बल्गेरियाचो म्हायतीपट. चडशा लोकांच्या मतान म्हायतीपट फकत एका मनशाची जिणेवळख करून दिवपाक शकता. पूण हो म्हायतीपट मात वेगळोच. हो पुराय म्हायतीपट एकेच गजाली भोंवतणीं घुंवता. म्हायतीपटाचे सुरवेकच एका हॉटेलांत चार–पांच देशांतले लोक बशिल्ले आसतात. एक म्होंवाळ अशें गीत वाजपाक लागता. गिताचें संगीत ओडलायणें आनी शांतताय पातळावपी. गिताच्या बोलांक साथ फकत सॅक्साफोनाच्या संगिताची. उपरांत हॉटेलांत बशिल्लो जण एकलो आपले भाशेंत हें गीत गुणगुणपाक लागता. गिताची चाल एकूच पूण जण एकल्याचे बोल मात वेगवेगळ्या भाशांनी. आनी हांगासरल्यानूच म्हायतीपट सुरू जाता.

तें गीत आपल्याच देशाचें म्हूण उपरांत सगळे जाण झगडपाक लागतात. ह्या गिताचें जण एकल्याचे जिणेंत खोल आनी लागींचें नातें जोडिल्लें आसता. हें गीत म्हणल्यारच जण एकल्याचे संस्कृतायेचो एक अविभाज्य घटक. दर एकलो हें गीत आपल्या सूख दुख्खाच्या खिणा वेळार गायता. ह्या गिताची चाल  चाल एकूच. पूण दरेकल्याच्या देशांत ह्या गिताक वेगवेगळो अर्थ आनी

म्हत्व आसा. हे खातीरच दिग्दर्शक आदेला पिवाची संशोधनाची भोंवडी सुरू जाता. हें गीत खंयच्या देशाचें?

आदेला पिवा मूळ बल्गेरियाची आनी तिची भोंवडी सुफी ह्या शारांतल्यान सुरू जाता. सुफी ह्या शारांत हेंच गीत झॅकी म्युरेन ही गायिका म्हणटाली. लोकांचे नदरेंतल्यान हें गीत दोन मोग्यांचेर बरयिल्लें. उपरांत ती पावता ग्रीस देशांतल्या एथेन्स शारांत. थंय हें गीत फकत पबांत म्हणटात. हें गीत म्हणल्यारच थंयच्या लोकवेदांतलो एक भाग आनी हें फकत पबांत येवपी मनशांची मनरिजवण करता. उपरांत पिवा पावता बॉस्निया देशांत. हांगा हेंच गीत झुजा वेळार म्हणटाले अशी म्हायती तिका मेळटा. तांचे संस्कृतायेंत हें एक स्फुर्तीगीत.

उपरांत येता सर्जियो हें शार. हांगा ह्या गिताचे व्याख्ये प्रमाण हें मुस्लीम धर्मीक गीत. मसोडेनिया ह्या शारांत थंयचे धर्मगुरू हें गीत जिहादा वेळार बरयिल्लें अशें मानतात. ह्या गिता कडेन त्या वाठारांतल्या जण एका मनशाचें खोल भावनीक, धर्मीक आनी सांस्कृतीक संबंद आसात. पूण कोणूच नकळो हें गीत खंयचें? हो म्हायतीपट आपूणच उलयता आनी पळयतल्याक चिंतपाक लायता. ह्या म्हायतीपटांतले देखाव सामके सोंपे आनी सादे आसात. तशें पळोवपाक गेल्यार ह्या म्हायतीपटाचें शुटींग म्हणल्यार तें हॅण्डिकॅमान घेतिल्ले वरी दिसता. लोक दीसपट्टे जिणेंत जशें रस्त्यार वा हॉटेलांत उलयतात तशेंच दाखयलां.

मुलाखती लेगीत विनोदी ढंगान दाखयल्यात. तेच खातीर हो गंभीर विशय एकदम ल्हवपीक आनी सोंपो दिसता आनी देखूनच तर हें फिचर फिल्म कशें दिसता. ह्या म्हायतीपटांत पुराय वास्तवीकताय म्हणल्यारूच रियलिझम दिश्टी पडटा अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

**Who's This Song?** Balgeria/Colour/35mm/70min/2003

दिग्दर्शक : Adela Peeva

इनामां : Second best documentary film (above 60 mins) with Silver Conch + Rs. 1,00,000 in Mumbai International Film Festival (2004)




SALT:

# पडटे कम्युनिस्ट सत्तेचो कल्पनाविलास

हालींच रशियन गुप्तहेरांक CIA हे अमेरिकी गुप्तहेर संघटनेन अटक केली. जगभरांतल्या कितल्याशाच जाणांनी आपापले तर्क लढयले. कांय जाणांनी म्हणलें, परतून एका Cold War ची सुरवात जाल्या. असले तर्क अदीं मदीं ह्या जगांत जातात. पूण तुमी जर अमेरिकी आनी जागतीक राजकारणांत आवड दवरतात जाल्यार 'सॉल्ट' चलचित्र ह्या तर्काक आनीक बळ दितलें. 1990 त सोविएत रशियेंत कम्युनिस्ट सत्ता पडली आनी लोकशाय स्थापीत जाली. ह्या सत्तांतरा उपरांत जागतीक राजकारणान दिकाच बदल्ली. अमेरिकेंतली भांडवलशाही–लोकशाय जगांतली सगळ्यांत व्हडली महासत्ता जाली. जग unipolar जालें.

हांव व्हडलोसो हॉलिवूड चलचित्रांचो फॅन न्हय. म्हजो आवडटो विशय–प्रायोगीक चलचित्र. पूण बदल म्हूण कांय वेळा वेगळींशीं चलचित्रां पळोवप जाता. हॉलिवूडांत तयार जावपी 'बॉंड', 'हॅरी पॉटर', 'स्पायडरमॅन', हीं आकांताळीं म्हारग चलचित्रां आसतात. अमेरिका वा पाश्चात्य देशांक आमी भारतीय खूब विकसीत मानतात. पूण, '2012' सारको एक अविज्ञानीक,

फार्स लेगीत हे लोक काडपाक शकतात. तरी लेगीत 'सॉल्ट' हें चलचित्र बाकीच्या हॉलिवूड चलचित्रां परस खूब वेगळें आसा.

मदमस्त अमेरिकी महासत्ता, पडटे कम्युनिस्ट सत्तेचीं सपनां, बदलती जागतीक राज्यवेवस्था हीं 'सॉल्ट' ह्या चलचित्रांचीं मुखेल आंगां. पूण ह्या चलचित्रांत एक गजाल अशी आसा जी तुमचें मन ओडून घेता. हें चलचित्र पळयना फुडें आनीक एका चलचित्राची याद जाता. 'Musta Jaa (Black Ice)' (पान क्र. 39) हें फिनीश भाशेंतलें चलचित्र. तें एक सायकोलॉजीक थ्रिलर आशिल्लें. दोन बायलां भितरलो मानसीक संघर्श कितलें विचित्र रुप घेवपाक शकता ताचें तें एक उदाहरण आशिल्लें. त्या संघर्शाचें कथानक सामकें आंगार कांटो हाडिसारकें आशिल्लें.

'सॉल्ट' ह्या चलचित्रांत इवॅलीन सॉल्ट (अँजेलिना जॉली) हे व्यक्तीरेखे भोंवतणी तें चलचित्र घुंवता. कम्युनिझम आनी कम्युनिझमांतली बायल हो एक आव्हानात्मक विशय. 1990 तलो रशियेंतलो सत्तापालट, मावळपी कम्युनिस्ट सपनां हाचेरूच हें चलचित्र आदारीत आसा. रशियेंत सत्तांतर जालें. पूण एक अमेरिका विरोधी, पुंजावाद विरोधी कंपू तसोच उरलो.

रशीयन गुप्तहेर आपलो पंगड थापता. स्वताच्या देशाक परत महासत्ता करप, कम्युनिस्ट सत्ता परत हाडप, देशाचें वैभव परत मेळोवन दिवप हेच त्याच पंगडाचे उद्देश आसतात. 1990 त कितल्याशाच रशियेच्या भुरग्यांक घेवन हो पंगड गुप्त आनी भुमिगत चळवळ चलयता. भुरग्यांक तरातरांचें शिक्षण दिता. अमेरिकेचे गुप्तहेर संघटनेचे ते वांगडी जातात. अमेरिकेच्या गुप्तहेर संघटनांनी, सुरक्षा आस्थापनांनी, वेवसायीक संघटनांनी रशियन गुप्तहेर फांफसता. ताचो एकूच उद्देश आसता अमेरिका आनी रशियेक परत झुजाच्या हुमन्यार उबे करप. त्या पंगडाची मुखेल जापसालदारकी इवॅलीन सॉल्ट हे बायलेचेर आसता. सॉल्ट ही रशियेची गुप्तहेर. जी 1990 त अमेरिकेंत येवन CIA च्या अमेरिकी गुप्तहेर संघटनेची घटक जाली.

इवॅलीन सॉल्ट हिचें ल्हान आसतना पुराय मतपरिवर्तन केल्लें. पूण जशी वाड जाली तशी कितें बरें, कितें वायट हें कळपाक लागलें. आनी आपलें रशियन ध्येय पुराय पिशेपणाचें दिसपाक लागलें. पूण ती ल्हानपणांतल्यानूच एके कट्टरपंथी विचारसरणींत घुस्पली जातूंतल्यान भायर येवप शक्य

नाशिल्लें. पूण मना आड तिका कांय गजाली करच्यो पडटात. रशियन राष्ट्राध्यक्षाक मारपाचो कट जातूंत परत अमेरिका-रशिया हांचे भितरलें वातावरण तापोवप, पूण हातूंतल्यान तिची एकूच चूक जाता, ती मोगांत पडून एका प्राणीशास्त्रज्ञ (Ted Einter) हाचे कडेन लग्न जाता.

पूण रशियन गुप्तहेर पंगड सगळे पुरावे मिटोवपाक तिच्या घोवाक जिवेशीं मारतात. पूण हाचे उपरांत इवॅलीन सॉल्ट सुडान पेट्टा. ती रशियन पंगडाक पुराय नश्ट करपाचो कट रचता. एक बायल आपलो सूड घेता तेन्ना भयानक आसता. त्या सुडाक अमेरिका, सॉवियट, कम्युनिझम, भांडवलवाद कांयच लागना.

हें चलचित्र फिलीप नॉयस हांणी दिग्दर्शीत केला. चलचित्रांतल्यान एक गजाल सिद्ध जाता, मनशाच्यो एकामेकां कडल्यो भावना, मोग, प्रेम अडेच्या तत्वां परस खूब श्रेश्ठ आसतात.

**Salt** [2010/100 min/English]
**दिग्दर्शक** : फिलीप नॉयस
**लेखन** : कर्ट व्हीम्मर
**छायाचित्रकार:** रॉबर्ट एलस्वीट
**अभिनय** : Angelina Jolie/Lierschreiber, Chiwtel Egiofor/August Dehl
**संकलन:** Stuart Baird, John Gilray
**संगीत:** जेम्स न्यूटन हावर्ड

| | |
|---|---|
| **वाठार** | : हंगेरी |
| **महोत्सव** | : 40वो इफ्फी 2009 |
| **विभाग** | : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड |




## KIND OF AMERIKA-2:

# जुवान संगीत

हंगेरी हो येवरोपांतलो एक रंगीत देश. कितलेशेच सत्तापालट आनी क्रांतीक गवाय थारिल्लो देश हंगेरी. हंगेरीची चलचित्र निर्मिती सदांच वेगळी आसता. शारांनी गांवगिरे जिणेचो आगळो वेगळो मेळ तांच्या चलचित्रांत पळोवपाक मेळटा. गांवगिऱ्या आनी शेतीच्या प्रभावाक लागून हीं चलचित्रां आमकां भारतीयांक लागींचीं कशीं दिसतात. तांचो सैम आनी शेती ह्या गजालींतल्यान कोरांतून काडिल्ले भशेन दिसतात. हंगेरी चलचित्र तंत्राचे

बाबतींत चड 'ॲडवान्स' न्हय. पूण ताचे कडेन खूब कितें सांगपाचें आसा कशें दिसून येता. देखून ह्या चलचित्रांत आशय 'content' आसा अशें म्हणूं येता.

Valami Amerika 2 (A kind of Amerika 2) ही Valami Amerika ह्या चलचित्राची सिक्वल म्हणल्यार दुसरो भाग. Valami Amerika 2 हें चलचित्र हंगेरींतल्या तरनाट्यां मदीं येवपी समाजीक आनी राजकी विचारांचेर उजवाड घालता.

काणयेचें कथानक राजकी विचारांचेर बेतलां. कथानक तीन भावां भोंवतणीं घुंवता. तिगूय भाव तमास, आकोस आनी आंद्रास हे कलाकार. तमास, आकोस आनी आंद्रासाक एक सोर्त लागले उपरांत ते तिगूय आकांताळें चलचित्र काडटात. तमास स्वता एक ल्हानसो दिग्दर्शक. आनी आंद्रास एक अयेसस्वी कवी आसता. देखून आशिल्ले नाशिल्ले पयशे घालून आनी रिणां काडून केल्लें हें चलचित्र. देशभरांत तो येसस्वी जाता. तिगांयचोय जिणे कडलो संघर्श ह्या चलचित्रांत बरो दाखयला. हें चलचित्र त्या तिगूय भावांचें. रसिकांक चिमटो काडून हांसयता. आलॅक्स हो ह्या चलचित्राचो दिग्दर्शक. त्या तिगूय भावांचे पयशे आनी आकोसाचे मोगिकेक घेवन तो अमेरिकेक पळटा.

तांच्या ह्या असल्या वायट प्रसंगांत अमेरिके सावन तांकां चीट येता. एक संगीत कार्यावळ करपाचें तांकां आमंत्रण येता. ते तिगूय भाव न्यू यॉर्काक पावतात. थंय तांकां आलॅक्सा बराबर पळून गेल्ली आकोसाची मोगिका मोनिका मेळटा आनी ते मेळून आलॅक्साक सोदतात. तांकां आलॅक्स मेळटा आनी ते ताचे कडल्यान चोरिल्ले पयशे वसूल करून घेवपाक पळयतात. तांचे मदीं कबलात जाता, आलॅक्साक नवी musical दिग्दर्शीत करून पयशे वसूल करून दितलो. येसायो सुरू जातात. इतल्यान हंगेरीचे माफिया टिमीची एण्ट्री जाता. ताचो हट्ट आसता आपले चलयेक musical चे भितर घेवंक जाय. तांकां तो पयशेय दिवपाचें कबूल करता. तिगूय भाव आनी आलॅक्स पयशांचे आशेन आनी जिवाच्या भंयान टिमीचे चलयेक घेता.

आनी इतल्यान इस्ट वेस्ट हे संगीत कार्यावळीची सुरवात जाता. संगीत आनी विनोद चलचित्राक फुडें व्हरता. मुळांत हें चलचित्र येवरोप आनी

अमेरिकेंतले सांस्कृतीक बदलाचेर उजवाड घालता. भावना आनी संगीत जोगलां भशेन ह्या चलचित्रांत जोगलावतात. रॉक, झॅझ, पॉप हांचो आसपाव ह्या चलचित्राच्या संगितांत आसता.

ड्रम्सांचो घणघण, गिटारांचो सळसळ हातूंतल्यान उमेदीन फुलता संगीत नाच. विनोदांतल्यान सुरू जाल्लें हें चलचित्र एका सोबीत, सुंदर जुवान म्युझिकलान सोंपता. खूब उणी चलचित्रां आसतात जेन्ना तीं सोंपतात तेन्ना थेटराच्या सिटांचेर बशिल्ल्यांक दिसता आनीक थोडो वेळ चलपाक जाय आशिल्लें. चलचित्राचें येसस्वी दिग्दर्शन गाबोर व्हरेंडीन केलां.

हें चलचित्र 2008त रिलीज जाल्लें.

## A Kind of America 2/ Valami Amirika 2

[2010/100 min/English]

**दिग्दर्शक** : गाबॉर हारेण्डी

**लेखन** : Reka Diringi, Gabor Harandi, Gabor Hermat

**छायाचित्रकार:** Balazs Marton

**अभिनय** : Tibor Szenet, Csalba Pindroh, Guyozo Szalio, Ferene Hyber, Eszter Onodi, Szonja Oroszlan

**संकलन** : Istaran Ki raly, Tamas Kllongi

**संगीत** : Guza Paivaoigji, Robert Hrutuka, Luszia Szakas, Mark Sureg




वाठार : पोलंड
महोत्सव : 42वो इफ्फी 2011
विभाग : आंतरराष्ट्रीय स्पर्धा

## THE MILL & THE CROSS:
## खरेलें 'चल'-'चित्र'

डी.डी. कोसंबी एक व्हड इतिहासकार जावन गेले. आमच्यांनी अशें म्हणूं येता कोसंबीन श्रमिकांचो संघर्श इतिहासाच्या अभ्यासांत हाडलो. तशेंच फामाद चित्रकार पिटर बृगॅल हांकां श्रमिकांचो चित्रकार म्हणून वळखता. कथा, कादंबरीचेर चलचित्रां आसतात हें आमकां आयज मेरेन खबर आसा. पूण एका चित्राचेर चलचित्र आसूं येता? 1648 उपरांत राज्यवेवस्थेची सुरवात जाली. पूण ताचे पयलींय धर्मवेवस्थेची सत्ता आशिल्ली. आनी तेन्नाय श्रमीक आनी हेर कामगारांचे प्रस्न आशिल्ले. राज्यवेवस्था हो धर्मवेवस्थेची सत्ता पयस करपाक तयार जाल्लो विचार. पूण 1648 त वेस्ट फालिपाचो करार जावन राज्यवेवस्था जावचे पयलीं 30 वर्सांचें पवित्र झूज (Holy war) आनी 80 वर्सांचे डच-स्पेन झुजांतले फाटभुंयेर पिटर बृगेलाचीं चित्रां आसात. तांचीं चित्रां चडशीं धर्मीक पूण तातूंत राजकारण, समाजकारण घुस्पलां. समानता, साम्यवाद, लोकशायेचे विचार तांच्या

चित्रांनी आसपावतात.

'मिल अॅण्ड क्रॉस' हें चलचित्र बृगेलाच्या 'The way to calvary' ह्या चित्राचेर आदारीत आसा. चित्रांतले दर एके व्यक्तीरेखेक घेवन चलचित्र साकारलां. ह्या चलचित्रांत 'डिव्हिजन ऑफ लेबर' हो विचार ठळकपणान जाणवता. रशियेच्या एका फामाद सोव्हीएत फुडाऱ्यान म्हणिल्लें, येसू ख्रिस्त हो पयलो साम्यवादी आशिल्लो. धर्म आनी साम्यवाद (communism) हीं तर दोन विरोधी तत्वां. ह्या चलचित्रांत संवाद नात. चित्र जशे तरेन चित्रायलां तशेंच नेपथ्य उबारलां. एका गांवचें वर्णन, लोक करतात तीं कामां, काम ाचे तांकां मेळिल्ले पयशे, असमान जिणेक लागून वाडपी चोरयो, दंड, भांडवलदार अशें करून बृगॅल राज्यवेवस्थेच्या सगळ्या थरांचें दर्शन घडोवन हाडटा. बृगॅलाचीं चित्रां 16व्या शेंकड्यांतलीं जेदेवेळार कसलीच अर्थीक वा राजकी विचारसरणी नाशिल्ली, राज्यवेवस्था नाशिल्ली, धर्मीक चित्रां भितर पुरोगामी राजकी निती आनी श्रमिकांचे संघर्श ओतपी हो चित्रकार कितलो फांकिवंत आसूंक शकता हाची कल्पनाय करूं नजो. आनी ह्या चित्राचेर एक चलचित्र करप ही तर एक आव्हानात्मक गजाल. दर एका चलचित्र दिग्दर्शकान ह्या चलचित्राची दखल न्हय तर देख घेवपाक जाय. हें चलचित्र पळोवप म्हणल्यार खरेंच एक आगळो वेगळो अणभव.

दिग्दर्शक लॅच माझेवस्की हो ह्या चलचित्राचो दिग्दर्शक. चलचित्राची लांबाय 92 मिनटां पूण ह्या पुराय राज्यवेवस्थेचो इतिहास हें चलचित्र शिकोवन वता.

**Mill and the cross** [2011/92 min/English-Spanish]

**दिग्दर्शक** : लेच माझेवस्की

**छायाचित्रकार:** लेच माझेवस्की, एडम सिकोरा

**अभिनय** : रूटगर हुयेर, मायकल योर्क

**संकलन** : नोबर्ट रूडझीक, एलिओट एम्स

**इनामां/ वांटो** : Sundance, Moscow, Durban Sao Ponter, Helsinki International film festival 2011




वाठार : हंगेरी
महोत्सव : 40वो इफ्फी 2009
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड

## FLUKE:

# दीसपट्टे जिणेंत सिनेमॅटिक कॉण्टेंट वळखुपाची कला

गांवगिरी जीण, शेती हांचो प्रभाव युरोपियन चलचित्र निर्मितीचेर वाडला, आनी देखून युरोपियन चलचित्र प्रादेशीक जायत आसात. येवरोपी चलचित्र निर्मिती पळोवन हंगेरी सरकारान आपले चलचित्र निर्मितीचे कायदे बदल्ले. आतां हंगेरीचे आनी येवरोपी संस्कृतीचें प्रदर्शन करपी चलचित्रांक सरकार अनुदान दितलें. येवरोपी युनीयन 20% अनुदान ह्या चलचित्रांक दितलें. अशे कायदे भारतांत येवपाची गरज आसा. प्रादेशीक चलचित्राची चळवळ वाडोवपाक असल्या सरकारी प्रतिसादाची गरज आसा.

गांवगिरे जिणेचेर आदारीत आशिल्लीं चलचित्रां सदांच प्रभावी आसतात. जावं तीं पुरोगामी येवरोपी आनी लाटीन अमेरिकी चलचित्रां मागीर जावं ती चीनी, इराणी मातयेतलीं चलचित्रां. गांव, शेती, लोकवेद लागींचेशें दिसता.

हंगेरीचीं चलचित्रां सदांच आपले मातयेची वळख करून दिता. Kind of

Amerika, Fathers Acre, Lost Land हे कांय नांवाजिल्ले हंगेरीचे सिनेमा. 'मॅझ्ली' (इंग्लिशींत ताका 'फ्लूक' अशें म्हणटात) हें हंगेरीचें चलचित्र.

ह्या चलचित्रांत दिग्दर्शकान नकसूदपणान हंगेरीच्या सैमाचो वापर केला. ह्या चलचित्राचे वैशिश्ट्य म्हणल्यार व्यक्तीरेखांचे केल्लें रंगीत व्यक्तीचित्रण. गांवांत लोक एकामेकां मदीं मेळून मिसळून रावतात, एकामेकांच्या उपकाराक पडटात.

पाचवोचार सैम, नितळ उदक, गांवांतले लोक, तांचीं सपनां, बारीक बारीक गजालींक लागून झगडीं, गांवांतल्या ह्या गजालींचो वापर पटकथाकार बालींट हाजेड्स हांणी बेस बरो केरून घेतला. ह्या चलचित्राचें कथानक एके गरीब आवतिकायेच्या गांवांत घडटा.

गांवांत परिस्थिती सामकी बिकट. पडिंग शेतां, सरकारी यंत्रणांचो अभाव, बेकारी, अशिक्षीतपण आनी गरिबीन व्यापिल्लो हो गांव. इस्तेव (आंदोर लुकाटा) आपले जिणेक वाजेल्लो एक मध्य पिरायेचो मनीस. इस्तेव आनी ताचो शेजारी इवान हांचें मदीं सदांच झगडीं जातालीं. आनी सगळ्यांत अजापाची गजाल म्हणल्यार इस्तेवाली चली मारगीट (काटालीन लाझार) आनी इव्हानालो चलो मोगांत पडटा. तीं पळून वचून लग्न जावपाचो कट रचतात. इस्तेव संवसारांतलें खंयचेंय दुख्ख पेलपाक शकता, पूण आपलें चली आपल्या दुस्मानाल्या चल्याच्या मोगांत पडटा हें तो सोंसपाक शकना.

इतल्यान इस्तेव आनी इव्हानाचें रंगीत किजील सुरू जाता. शेतांतलो नांगर, पोशिल्ले दुकर आनी रांदचे कुडींतलीं आयदनां घेवन ते झगडपाक लागतात. इव्हान वाजेवन एका झाडाक गोळ लायता आनी हुमकळटा. अचकीत त्या झाडाचो खांदोच मोडून तो सकयल पडटा. अजापानच तो वाटावता.

....आनी ह्या चलचित्राक एक वेगळेंच वळण मेळटा. इस्तेव झाडा वेल्यान पडटा थंय हंगेरी, ऑस्ट्रिया आनी युरोपीय राष्ट्रांचीं आंतरराष्ट्रीय पॅत्रॉलाची पायपलायन आसता. इस्तेव जेन्ना सकयल पडटा तेन्ना ते पायपलायनीचेर पडून ती ताच्या वजनान फुट्टा आनी पॅत्रॉलाचो फवारो तयार जाता. आपूण जितो आसा तें पळोवन इस्तेव अजापीत जाता.

ही गजाल पुराय गांवांत कळटा. गांव एकठांय जाता. बारीक बारीक

गजालींचेर झगडपी गांव एका निमतान पुरायपणान एक जाता, आनी एक नवी युक्त सोदता. ते सवाय मोलान पॅत्रॉल विकपाक लागतात. पॅत्रॉल खंयच्यान येता तें लिपोवपाक लागून ते पॅत्रॉलाच्या फवाऱ्याचेर इस्तेव्हाक एका मरणाच्या कांश्यावांत न्हिदयतात. कुशीक गांवचे पाद्रीक उबे करतात. पयसुल्ल्यान लोक लातां, बॅरलां, गाडयो घेवन सवाय पॅत्रॉल घालपाक गांवांत पावतात. पूण कोणाकूच खबर नासता पॅत्रॉल खंयच्यान येता तें!

ही गजाल पॅत्रॉल कंपनीक एक आव्हान थारता. तांकां कळना पॅत्रॉल खंय गळटा? देखून सगळ्या देशाचीं सरकारां एक जातात आनी आणिबाणी लायतात. हो विशय एक आंतरराष्ट्रीय समस्या जाता. पूण त्या गांवचे लोक मात हांसत खेळत ती चोरी करतात.

गांवांत उमेदीचें ल्हार पातळटा. युरोपी सैन्य, पुलीस हे गळटीचे चवकशेक लागतात. पुराय प्रसार माध्यमांय सोद घेतात. येदी व्हडली गजाल घडल्या म्हूण गांवांतल्या लोकांक कल्पना लेगीत आसना. आनी संवसारभराची नदर ह्या ल्हानशा गांवांचेर पडत हें ते सपनांत लेगीत चितपाक शकनात.

अशे रंगीत खीण फ्लूक ह्या चलचित्रान बंदिस्त केल्यात. हें चलचित्र आमकां एक देख दिता. बारीक बारीक गजालींचेर लेगीत चलचित्र जावपाक शकता. आमचे भोंवतणी खूब गजाली घडटात, पूण फकत नदर जाय 'सिनेमॅटिक कॉन्टेंट' वळखुपाची.

**Mazli/Fluke** [2009]

**दिग्दर्शक** : तामास कॅमॅनॅफ्की
**लेखन** : बालींत हेगेडस
**छायाचित्रकार:** डानियल गारास
**अभिनय** : आंदोर लुकास/इस्तावान युरीझा, काटी लाझार/विका केरेकेझ
**संकलन** : ज्युडीत झाको
**संगीत** : आंद्रास मानोरी
**इनामां/ वांटो:** Budapest (2009)
Festival of European Film Smiles (2009)




वाठार : फिनलॅण्ड
महोत्सव : 39वो इफ्फी 2008
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड

## BLACK ICE:

# व्यक्तीरेखेची मानसीक आंखणी आनी बांदावळ

चलचित्रांचींय खूब आंगां आसतात. पटकथा, कथानक, व्यक्तीरेखा, संकलन, एडिटिंग अशीं ताचीं मुखेल आंगां. कांय आंगां सर्जनशील तर कांय तांत्रीक. 90च्या दसका उपरांत उपरांत चलचित्रांत 'Technical Feeds' वाडल्यात. पूण ह्या नव्या तंत्राक लेगीत सर्जनात्मक नदर आसप गरजेची.

सर्जनशीलतायेक नव्या तंत्रान सांगात दिवप गरजेचें. 39व्या इफ्फींत कांय वेगळीं चलचित्रां पळोवंक मेळ्ळीं. नवो ट्रेंड तशेंच नव्या तांत्रीक बाजूचें तशेंच वेगळे स्टोरी टेलिंग पद्दतीचे. हातूंतलो एक चलचित्र आशिल्लें 'मुस्त जा'. हो एक फिनलॅण्ड देशाचो तसोच फिनिश भाशेंत आशिल्लें चलचित्र. इंग्लिशींत हाचो अणकार 'ब्लॅक आयस्' असो जाता.

हें चलचित्र पॅट्री कोटविका हांणी दिग्दर्शीत केला. एके वेगळे पद्दतीची

व्यक्तीरेखा आनी वेगळे पद्दतीचें स्टोरी टेलिंग तंत्र. कांय जाणकार म्हणटात चलचित्र हें 'Healthy Entertainment' खातीर आसतात. देखून चडशा चलचित्रांचो अंत 'Happy Ending' म्हणल्यार सूखमय पद्दतीन जाता. पूण ह्या चलचित्रांत अशें कांयच ना. द्वेश, निर्शेणी, दुस्मानकाय अश्याच गजालींचो आस्पाव ह्या चलचित्रांत जाता. कांय लोकांनी ह्या चलचित्राक रहस्यमय थरारनाट्य म्हणजेच 'Suspense Thriller' अशें म्हणलां.

बारीकसाणीन आनी खर कश्ट घेवन तयार केल्ल्यो दोन व्यक्तीरेखा सारा (ऑटी मायेनपा) आनी टूली (रिया कटाजा) ह्या दोन व्यक्तीरेखां भोंवतणीं चलचित्र घुंवता. सारा आनी लियो हें एक जोडपें. सारा एक दोतोर (गायनेक) आनी लियो हो एक वास्तुशास्त्रज्ञ. साराक आपणाक इतले बेगीन गुरवार जावपाची इत्सा नासता. देखून ताचें कुटुंबीक जिवीत घटस्फोटाच्या हुमऱ्यार आसा. टूली हें लियोचें विद्यार्थी आनी तांच्या नकळटां प्रेमसंबंद तयार जाता. साराक दुबाव आशिल्ल्यान तें टूली कडेन इश्टागत वाडयता. एक फटीची वळख घेवन तें टूलीच्या लागीं वता. मानसीक तशेंच शारिरीक संबंद टूली कडेन दवरता. ताचे आनी लियो भितरली बारीक बारीक गजाल समजून घेता. इतल्यान ताका टूलीच्या गर्भांत आपल्या घोवाचें भुरगें आसा म्हणपाचें समजता. सारा गायनेक आशिल्ल्यान तें तेमान त्या भुरग्याक मारपाचो यत्न करता. टूलीक साराचें खरें रूप कळटा. टूलीय फटीची वळख वापरून साराचे नदरेंतूच आपल्या भुरग्याक वाडयता.

ह्या दोगा बायलांच्या मानसशास्त्राचें झूज एकदम आंगार कांटो उबो करता. देखून हे कथेंत ह्या दोन व्यक्तीरेखांच्या मानसशास्त्राचो अभ्यास केला. देखून ह्या चलचित्रांक 'Pscychological Thriller' म्हणू येता. ह्या दोन व्यक्तीरेखांक ताळमेळ जोडून केल्ली पटकथा. मानसशास्त्र तशेंच 'Cinematography' मुखेल कथानकाक न्याय दिता. ह्या दोन बायलांची जितली वळख आसा तितली कमी आसा अशें दिसून येता.

खूब उण्या चलचित्रांनी अशें जाता. जेन्ना चलचित्र सोंपता कांय वेळ तकली बधीर जाल्ले भशेन दिसता. कांय गजाली तोखणायेक पात्र थारतात. त्यो म्हणल्यार स्पश्ट, एक गती घेवन वचपी अभिनय, दरेकल्यान आपले भुमिकेक न्याय दिला. दुसरी गजाल लेखकाचो ह्या दोन व्यक्तीरेखांच्या

मानसशास्त्राचेर अभ्यास आनी प्रभुत्व. एक गजाल मतींत दवरपाक जाय, पेट्री कोटवीका हे फिनलॅण्डाचे दिग्दर्शक. तांणी धा वर्सां कसलीच कलाकृती करिनासतना फकत नाटक आनी सिनेमा हाचो अभ्यास केला आनी तंत्राचेर प्रभुत्व जोडलां. आनी ह्या फिल्माची कथानक आनी पटकथा तसोच अभ्यास करपाक वट्ट आठ वर्सां लागीं. आनी ह्या चलचित्रांत तांची मेहनत बेस बरी दिसून येता. चलचित्र पळयल्यार स वर्सां जातलीं पूण सारा, लियो, टूली ह्यो व्यक्तीरेखा आजून तकलेंत घुंवता. खरेंच दोगा बायलां मदलो संघर्श इतलें विचित्र रूप घेवंक शकता काय? परत हें चलिचत्र पळयन जाला. खरेंच, हो सिनेमा फकत सिनेमा न्हय. More than Cinema.

## Musta Jaa/Black Ice

[2008/35mm/117min]

**दिग्दर्शक** : पॅट्री कॉटविका

**लेखन** : पॅट्री कॉटविका (पटकथा)

**छायाचित्रकार:** हॅरी रॅटी

**अभिनय** : ऑटी मायेनपा/मार्टी साइसालो, रिया काटाजा

**संकलन** : ज्युका नायकानॅन

**संगीत** : इक्का टॉपिनॅन

**इनामां/: वांटो** Berlin, Moscow, Brussels, Polic, Motovun (Zogrib), Calagory, Warsaw, Canlurra, Leeds,
Taipei Golden horse Festival, Osaka, Tallien, Bratislane Film Festival

| | | |
|---|---|---|
| **वाठार** | : | फ्रान्स |
| **महोत्सव** | : | 40वो इफ्फी 2009 |
| **विभाग** | : | सिनेमा ऑफ वर्ल्ड |




## COCO CHANEL & IGOR STRAVINSKY:
# कला, संगीत आनी क्रांती

खूब लोक अशें मानतात, अजून मेरेन जगांत जीं सगळ्यांत बरीं चलचित्रां जाल्यांत तीं कादंबरीचेर आदारीत आसात. हाका कांय कारणां आसात.

एका परिपक्व चलचित्राच्यो तीन गरजो आसतात – मजबूत कथा, बांदील पटकथा आनी फिशाल व्यक्तीचित्रण. चलचित्राक लागपी पटकथाच कादंबरीच्या रुपान परपिक्व आसता. लेखकान नाजूकसाणीन तयार केल्लें व्यक्तीचित्रणय आसता. देखून कादंबरीचेर आदारीत आशिल्ल्या चलचित्रांत कादंबरीक 'adapted screenplay' म्हणटात.

विसाव्या शेंकड्यांत कादंबरीक पड्ड्यार हाडपाचो प्रयोग एरीक वॅन स्ट्रोहॅम ह्या फांकिवंत ऑस्ट्रेलियन नटान केल्लो. ताणें फ्रॅन्क नॉरीसची कादंबरी 'मॅक टीग' हिचेर चलचित्र केलें. कादंबरीचो कॅनवास इतलो आशिल्लो, तें चलचित्र सोळा वरां लांबलें आनी उपरांत तें आठ मागीर दोन वरां भितर बसोवपाचो यत्न केलो.

पूण एक गजाल खरी, ती म्हणल्यार आजून मेरेन कादंबरीचेर जाल्लीं चलचित्रां हीं जागतीक चलचित्र निर्मितींत 'landmark' थारल्यांत.

'कोको ॲण्ड इगोर' ही कादंबरी क्रिस ग्रीनहाल्गा हाणें बरयल्या. नामनेचो ब्रॅण्ड छानेल हो ब्रॅण्ड स्थापीत करपी कोको छानेल आनी फांकिवंत क्रांतीकारी संगितकार इगोर स्ट्रेवेन्स्कीचे जिणेच्या कांय भागांचेर आदारीत आसा. कोको छानेल ही एका काळार फामाद, सुंदर अस्तुरी आशिल्ली. एका साद्या शिंप्या कडेन काम करतना छानेल हो डिझायनर ब्रॅण्ड जावपाक शकता हो तिचो हावेस आशिल्लो. 1905 ते 1917 ह्या काळांत जाल्ले रशियन क्रांती वेळार रशियेंत कितें घडटा तें आपल्या संगितांत दाखोवपी इगोर स्ट्रेवेन्स्की.

कोको छानेल आनी तिचे जिणेचेर आदारीत खूबशे सिनेमा आयल्यात. कोको छानेल एका काळा वयली सुंदर अस्तुरी आनी देखून इटेन बाल्सन, बॉय कापेटल, इगोर स्ट्रेवेन्स्की, इन्स गछर वॅन डिंगकलज आनी कितलेशेच 'west minister' कडेन तिचे मोगाचे संबंद आशिल्ले.

चलचित्राचें नांव 'coco chanel and igor stravinsky'. इगोर स्ट्रेवेन्स्कीच्या 'Rite of spring'चो प्रयोग पॅरिसांत जाता. रशियन क्रांतीचो गजर जगांत घुमसतालो. आपणाल्या बॅलटांत तो मांडपाचो इगोर स्ट्रेवेन्स्कीन प्रयोग केल्लो. त्या प्रयोगाक छानेल आनी ताचो मोगी बॉय कापेल आसता. लोकांक हो प्रयोग अजिबात आवडना. संगीत खूबच पुरोगामी आनी नाटक खूबच क्रांतीकारी अशें प्रेक्षकांचें म्हणणें जालें. बोवाळ जाता आनी प्रयोग बंद करचो पडटा.

इतल्यान 1920त चलचित्र एक लांब उडकी मारता. यूएसएसआरांत जेन्ना कम्युनिस्ट सत्ता आयिल्ली तेन्नाचो हो काळ. पूण सत्ता पुराय तरेन येवंक नाशिल्ली. जागतीक युद्ध सोंपिल्लें. तशेंच लेनीन आनी लिओन ट्रोस्कीचे मतभेद वाडपाक लागिल्ले. हाचो परिणाम येवरोपी देशांचेर जाल्लो. इगोर स्ट्रेवेन्स्की आपल्या परिवारा सयत रेफ्युजी कॅम्पांत रावतालो. इतल्यान कोको छानेलची वळख इगोर स्ट्रेवेन्स्की कडेन जाता. 'Rite of Spring'चो प्रयोग आपणाक खूब आवडलो अशें छानेल ताका सांगता आनी आपल्या म्हारग्या घरांत इगोर स्ट्रेवेन्स्कीक आनी ताच्या घरच्यांक घेवन रावपाक आपयता. इगोर स्ट्रेवेन्स्कीक काम करपाक पयशांची आनी घराची खूब गरज

आसता. देखून तो बायल भुरग्यांक घेवन पॅरिसाक वचपाक तयार जाता.

छानेल आपणाले डिझायनर कपडे, पर्फ्यूम करपांत गुल्ल आसता आनी इगोर आपल्या संगितांत. छानेल आनी इगोर लागीं येतात. ही असैमीक इश्टागत कसली तिवूय तांकां खबर नासता. तांचे मजगतींचें लागसारपण वाडीक लागता तें पळोवन इगोराची घरकान्न काट्रिना अस्वस्थ जाता. हें चलचित्र इतल्यान एके भावनीक घुस्पटांत वता. सगळ्यांच्यो सहानुभुती ह्या "Love triangle' भितरल्या कॅट्रिना कडेन वता. इगोराची घरकान्न, प्रामाणीक, सादी आनी घरकार इगोराचेर मनांतल्यान मोग करपी. पूण ह्या नात्यांतल्यान छानेल आनी इगोर स्ट्रेवेन्स्कीची एक अद्‌भूत कला भायर सरता.

ह्या चलचित्राक एक गजाल चिरंतन दवरता. ती म्हणल्यार ह्या चलचित्राची गती. दिग्दर्शक जॅन कावनन हाणें हे कादंबरीची नाडी वळखल्या. आनी फावो ती गती ह्या चलचित्राक दिल्या. एकदम सुरवेची फ्रेम ते रोलिंग क्रेडिट मेरेन हें सगळें चलचित्र याद उरता. जबरदस्त संगीत आनी आकांताचे 'सावंड डिझायनिंग', संगितकार गाब्रियेर यारेड आनी डिझायनर विन्सेंट टुली. छानेलाची भुमिका साकारपी आनी मांगलालीस, इगोर स्ट्रेवेन्स्कीची भुमिका साकारपी मॅड्स मिकेल्सन आनी कॅट्रिनाची भुमिका साकारपी एलिना मारोझोकन हांणी अप्रतीम काम केलां.

## Coco chanel & Igor Strarinsky

[2009/118min/French]

**दिग्दर्शक** : जॅन कॉनॅन

**लेखन** : क्रिस ग्रिनलाल्ग

**छायाचित्रकार:** डॅविड उंगारो

**अभिनय** : एना मोग्लालीस, मॅडमिकाल्सन, एलॅना मोरोझोवा, ग्रीगोरी मानाकोव

**संकलन** : ॲनी डॅन्चे

**संगीत** : गाब्रीएल यारॅल्ड (Original जिन-जॅक हार्ट, फ्रांसिस रॉय)

**इनामां/ वांटो** : Cannes Film Festival 2009
Toronto International Film Festival 2009

वाठार : अमेरिका




## THE SOCIAL NETWORK:

# मळब हुपपाचो हावेस!

नांवाजते आयरीश निबंदकार जॉनायन स्वीफ्ट हांणी म्हणलां, 'Inovation is the talent of youth, as judgement of age'. म्हणल्यार आविश्कार ही युवकांची प्रतिभा जो हे पिरायेर निर्णय थरता. खंयच्याय देशचो कायापालट करपाचें सामर्थ्य तरणाट्यां मदीं आसता. चमत्कारी मेंदू, जुवान सपनां आनी सळसळपी रगत. नव्या तंत्रगिन्याना वरवीं तरातरांचे सोद तरणाट्यांनीच लायल्यात. पांच वर्सां पयलीं 'सोशियल नॅटवर्क' हें उतर तर नाशिल्लेंच. ती कोणेंय कल्पना उक्तायिल्ली जाल्यार लेगीत कोणय हांसपाचो. पूण आयची गजाल वेगळीच. सध्याचे स्थितींत फेसबुका बगर जग चिंतपाक शकत? स्टेटस आपडेट केले बगर कोणाक न्हीद पडपाक शकत? सकाळीं उठना

बराबर अपडेट्स कोण पळयना? आयज 'सोशियल नॅटवर्किंग' हो जिणेचो एक अविभाज्य भाग जावन पडला.

तंत्रगिन्याना वरवीं क्रांती करपी बिल गॅट्स जेन्ना तरणाटे आशिल्ले तेन्ना तांच्या शिक्षकांनी तांचीं अशींच फकांडां केलीं. आपणाल्या तंत्राच्या पिशेपणाक लागून तांकां शिक्षणय सोडचें पडिल्लें.

कांय तेंपान इतिहासीक पुस्तकांनी नांव अज्रंवर जाल्ले मार्क झुकरबर्ग. किशोरावस्था ही जिणेची एक नाजूक अवस्था आसता. हे अवस्थेंत आपल्याक कितें करपाक जाय तेंच दरेकल्याक कळना. आजून मेरेन जगांत जीं चलचित्रां 'बेन्चमार्क' थारल्यांत तीं कादंबरीचेर आदारीत आशिल्लीं. 'द सोशियल नॅटवर्क' हें चलचित्र 'The accidental balliono' ह्या पुस्तकाचेर आदारीत आसा. हें चलचित्र मार्क झूकरबर्ग ह्या व्यक्तीमत्वाचेर आनी फेसबुकाचे थापणुकेचेर उजवाड घालता.

तंत्र, पटकथा 'insignificant' दवरून कथानक म्हत्वाचें थारावपी अशीं खूब थोडीं चलचित्रां आसात. पळयतल्याक फकत कथानकच गुंतोवन दवरता. फुडें कितें जातलें, मागीर कितें जाता काय? आमचो मेंदू दर खिणाक चालू दवरता. मार्क झूकरबर्गान फेसबुकाची कल्पना रुजयली. ताचें हें संशोधन आयचे जिणेचेर आकांताचो प्रभाव घालता म्हणून उत्सुकताय वाडटा आसुंये. कथानक 2003 वर्सा घडटा जेन्ना झूकरबर्ग फामाद हारवर्ड युनिवर्सिटींत शिकतालो. आकांताचो हुशार पूण तितलोच पुस्तकी शिक्षणांत ढ. इश्टांचे थोमणे आनी शिक्षकांच्यो खेपोवणी. ताचे जिणेची काणीच मजेशीर आसा. ताचे किशोर अवस्थेंतली मोगिका एरिका अलब्रयट, मार्काक सोडून वता. बाबडो झूकरबर्ग रागान सोरो पियेता आनी नशेंत तरंगपाक लागता. संगणका कडेन बसता आनी एकेक पिशेपणां करपाक लागता. आपले मोगिकेचीं गुपितां, फकांडां तो हारवर्डचे वेबसायटीचेर घालता आनी 'facemash.com' ही हारवर्ड युनिवर्सिटीची वेबसायट हॅक करून दरेका विद्यार्थ्याच्या फोटोची अदला बदल करता. वराक बावीस हजार 'हिट्स' मेळटात म्हणल्यार बावीस हजार लोक पळयतात. ह्याच प्रकाराक आयज 'ब्लॉग' म्हणटात. उपरांत फेसबुकाक येवपी एके एके अडचणीचेर हें चलचित्र उजवाड घालता. फेसबूक घडये झुकरबर्गान तयार केला आसुंये पूण हातूंत

पुराय कल्पना ताची एकल्याचीच नाशिल्ली. पूण ती कल्पना वास्तवांत हाडपाचें सामर्थ्य आनी बळगें फकत झुकरबर्गा कडेन आशिल्लें. बोल्सांत एकूय पयसो नासतना मळब हुपपाचीं सपनां पळोवपी त्या तरणाट्याची जिणूच सामकी थरारक आशिल्ली.

खंयच्याय आविश्काराची सुरवात तशी पिशेपणांतल्यानच जाल्या. हें चलचित्र फेसबूकाच्या सुरवेच्या दिसांचेर उजवाड घालता. मार्क झुकरबर्गान काडिल्ले त्रास, ताणें आपणायिल्ली रणनिती, दुस्मानकाय तशेंच संघर्श हांचेर उजवाड घालता. चलचित्राचो बरोचसो मजकूर म्हायतीपुरक आसा. चडशे 'indoor scene'. पूण खंयच वाजेवणे जावं ना. कट टू कट संकलन आनी विशाल पटकथा लेखन चलचित्राक जबरदस्त गती दिता.

मार्क झुकरबर्गाची भुमिका करपी जसी इसबर्ग, येदआदो करपी एन्ड्रीव गारफिल्ड, क्रिस्टी लि करपी ब्रँडा साँग, पारकर करपी जस्टीन टीबरलॅम्ब हांणीं पात्रांत जीव ओतला. पयलेंच फावट घडये एका जिवीत व्यक्तीमत्वाच्या करिश्माचेर निरिक्षण जावपाक शकना पूण गदरोक डेविड फ्रिचेर हांणी अद्‌भूत मांडावळ केल्या.

गुगल, मायक्रोसॉफ्ट, फेसबूक सारकिले आविश्कारी तंत्र वापरून जागतीक क्रांती घडावेपी तवनास, पिशे, नालायक तरणाट्यांक सलाम!

**The Social Network** [2010/120min/English]

**दिग्दर्शक** : डॅविड फिन्चर

**लेखन** : आरॉन सोर्किन (पटकथा) बॅन मेझ्रीच

**छायाचित्रकार:** जॅफ क्रॉनवॅथ

**अभिनय** : जॅसॅ आयजनबर्ग, ॲण्ड्रीव गार्फिल्ड, जॅस्टीन टिंबरलॅक, अर्मी हॅमर

**संकलन** : किर्क बक्सटर, ॲन्गास वॉल

**संगीत** : ट्रॅंट रॅन्झोर, ॲन्गास रोस

वाठार : अमेरिका




# 2012:

# म्हारगो, घुस्पल्लो अमेरिकी आशावाद

जगांत सगळ्यांत म्हारग चलचित्र निर्मितीचें स्रेय अमेरिकेक वता. म्हारग अशे visual effects, animation, sound effects करपाक तांचे लागीं म्हारगीं उपकरणां आनी स्टुडिओ उपलब्ध आसात. 2012 हो कोलंबिया पिक्चर्स हांणी निर्मित केल्लो सिनेमा. 2012 त जग सोंपपाचो सनसनाटी दावो करून प्रसिद्धी मेळोवपाचें भाग्य ह्या सिनेमाक मेळ्ळां. 2012 हो माया कॅलेन्डरान केल्लो एक दावो. हाचे प्रमाण 2012 उपरांतच्या तारखांचो उल्लेख ना देखून 2012 हो अंत अशें हे चलचित्र निर्मितीन मांडलां. हो सिनेमा काल्पनीक पूण एक 'सायन्स फिक्शन' अशें ह्या सिनेमांत म्हणलां.

ह्या चलचित्रांत कोलंबिया, वॉशिंग्टन, रिओ द जानेरो, कोलकाता आनी हिमालयांत ज्यो घडणुको घडटात त्यो दाखयतना. 2006, 2009 आनी 2012 ह्या वर्सांनी घडिल्ल्यो घडणुको हातूंत घेतल्यात. जगाचो विध्वंस आनी मनीस जातीक वांटावपाच्या यत्नांचेर हो सिनेमा भाश्य करता.

चलचित्राच्या प्लॉटाची आंखणी तशी खूब व्हडली. सिनेमाची सुरवातूच जातना असो भास जाता जशें कितें सगळें जगूच आतां दोळ्यां मुखार कोंसळटलें. चलचित्राची सुरवात जाता भारतांत. जंय एका भुगोलीक वैज्ञानिकाक, सतनामाक पृथ्वीच्या तळार चलपी कांय विचित्र गजालींचो थाव लागता. तो ती गजाल ॲड्रियन हेमिस्ले क सांगता आनी तो उपरांत अमेरिकी राष्ट्राध्यक्षांक सांगता. उपरांत हो प्रस्न सुटावो करपाक जी8 चे राष्ट्राध्यक्ष कामाक लागतात. ह्या विध्वंसाक लागून मनीसजात नानपयत जातली देखून तो गुप्तपणान हिमालयांत बोटीची बांदणी करता जंय जगांतले 40,000 लोक ह्या विध्वंसा उपरांत वाटावंक शकतात. हातूंत चीनाचे कांय लोक आनी दुबयचो राजा आनी जी8 राष्ट्रांच्या लोकांचो आसपाव आसा.

जॉन कुर्लीक हो एक लेखक आनी एक रशियन उद्वेगपती युरो कारपोय हाचो ड्रायव्हर. ह्या मनशाक सिनेमांत प्रोटोगोनिस्ट केला आनी तो संहितेक फुडें व्हरता. शेवटाक सुनामी, भुंयकांप आनी ज्वालामुखी फुटून पुराय जग नश्ट जाता. पूण कांय वेंचीक लोक हिमालयाच्या तळा बांदिल्ले बोटीचेर पावता. सिनेमाचो अंत सुखरूप जाता.

चलचित्राची खोलायेन समिक्षा करपा खातीर कांय म्हत्वाच्या मुद्यांचेर चर्चा जावपाक जाय. सिनेमाची पटकथा सामकी विस्कळीत आसा. ह्या सिनेमांत 2006, 2009, 2012 त घडटा तें दाखयलां आनी हे विस्कळीत कथे भितर स्पश्ट जावपा सारकें अजिबात कांयच ना. आकांताचो खर्च करून ह्या विध्वंसाचे visual effect आनी animation वापरल्यात. पूण चुकीच्या वेळाक लागून तें कथानकांत आनी पटकथेंत भडक आनी अडेचें दिसता.

रॉलॅन्ड एमेरीक हांणी विध्वंसाचीं अशीं कितलींशींच चलचित्रां दिग्दर्शीत केल्यात. ‘10000 बीसी द डे आफ्टर टुमारॉ’ आनी ‘गोडझिला’ हीं कांय मेजकींच चलचित्रां. असली विध्वंसक चलचित्र निर्मिती चडशी अमेरिकेंत जाल्या. हें चलचित्र जर अमेरिका कितली म्हान आनी खंयच्याय संकश्टांक तोंड दिवपाक शकता हाचेर आशिल्लें जाल्यार समजूं येतालें. पूण ह्या चलचित्रांत मदींच जगाचो विध्वंस म्हणपाचें येता आनी जी8 चो राष्ट्राध्यक्ष एक जावन मनीस जातीक वांटावपाचे यत्न करपाचें चिंतता. जी8 चे भायर

आसपी देशांनी मनीसजात ना? ह्यो कांय गजाली सिनेमाचे निर्मिती पेल्यानच्यो. सिनेमा, नाटक, संगीत ह्यो कांय गजाली देशाच्यो शिमो हुपून मनशाक मनशा कडेन ज़ोडपी. देखून सिनेमाचे निर्मितीचे हे कांय मुळावे घटक. अमेरिकेक कांय जाण पुरोगामी' विचारांचे अशें मानतात. पूण ह्या चलचित्रांत मात तांची संकुचीत वृत्ती दिसली. मनीसपणाच्यो कांय गजाली शेणोवन पुरोगामी विचार कसले? सिनेमा पळयतकच अशें दिसता, हो सिनेमा फकत जी8 प्रोमो फिल्म. देखून जी8 देशांनी ह्या चलचित्रांचे अधिकार विकते घेवचे.

निमाणें एक गजाल, हो सिनेमा तांणी 'सायन्स फिक्शन' म्हणलां. हातूंत कसलीच वैज्ञानीक गजाल ना. ग्लॉबल वॉर्मिंग वा फ्रिजींग, प्रदुशण असल्या कसल्याच गजालींचो ह्या सिनेमांत आसपाव ना. फकत कांय काल्पनीक गजाली घेवन 'सायन्स फिक्शन' करचे परस फुडले खेपे कांय खरेच वैज्ञानीक गजालींचो आसपाव करून घेवन अमेरिकेन आपली चलचित्र निर्मिती कितली पुरोगामी ती दाखोवची.

**2012**

**दिग्दर्शक** : Roland Emmerich
**लेखन** : Harald Kloser, Roland Emmerich
**छायाचित्रकार:** Dean Semler
**अभिनय** : John Cusack, Chiwetel Ejiofor, Amanda Peet, Oliver Platt, Thandie Newton, Danny Glover, Woody Harrelson
**संकलन** : David Brenner, Peter S. Elliott
**संगीत** : Harald Kloser, Thomas Wander

वाठार : रशिया
महोत्सव : 40वो इफ्फी 2009
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड



## YURIS' DAY:

# रशियन सिनेमा आजून सत्तापालटाच्या भोवन्यांत

दरेका देशाक आपली अशी आगळी वेगळी वळख आसता. भारताचें नांव तकलेंत येना फुडें तरेकवार रंग दोळ्यां मुखार येवपाक लागतात. ताजमहाल, लाल किल्लो आनी खूब कितें. इतली गरिबी आसूनय भारत हो रंगीत देश. ब्राझिल म्हणिना फुडें क्रिस्ताचो पुतळो आनी रंगीत कार्नवालाचें चित्र दोळ्यां मुखार झळकूंक लागता. अमेरिका हें उतर कानार पडना फुडें भूल भुलय्या 'डिझनी लॅण्ड' आनी 'स्टेच्यू ऑफ लिबर्टी'चो पुतळो दोळ्यां मुखार आयले बगर रावना. रशिया हें उतर कानार सादना बराबर दोळ्यां मुखार कांयच कित्याक उबें रावना? रशिया मातशें गंभीर प्रकृतीचें राज्य. रंग रंगयाळ्यो, भूल भुलय्या गजाली कित्याक दोळ्यां मुखार येनात? आपणाल्या भाशणांक आनी हिणसावणेच्या वक्तव्यांक लागून नांवाजतो ब्रिटीश पंतप्रधान विंग्स्टन

चर्चिलान एक फावट म्हणिल्लें, सोविएत हें एक भिरांकूळ कुवाडें, ताचें राजकारण आनी अर्थकारण म्हणल्यार एक गूढ. देखून रशिया म्हणिना फुडें कसलींच रंगीत चित्रां दोळ्यां मुखार उबीं रावना.

राज्य शास्त्राचो हांव विद्यार्थी आशिल्ल्यान सोविएत आनी रशिया हो म्हजो एक आवडीचो विशय. म्हाका एक फावटीं म्हज्या एका इश्टान विचारलें, 'रशियेचीं चलचित्रां सोंपी आसतात काय तांच्या राज्या भशेन निबर आनी कर्मठ आसतात?' पस्न विनोदी कसो दिसता. पूण योगायोगान तो वास्तवीकय आसा. कल्पनाच पयलीं विनोदी दिसली. चलचित्र निर्मितीचेर थळावे परिस्थितीचो, सैमाचो, प्रादेशीकतायेचो प्रभाव पडपाक शकता. पूण तत्वप्रणालीचो कसो जातलो? रशियाच्या इतिहासा भशेन रशियेची चलचित्र निर्मितीय बरीच घुस्पागोंदळाची आसा. 1917 त कम्युनिस्ट सत्ता आयली आनी रशियेचें यूएसएसआर जालें. अभ्यासक म्हणटात, 1917 पयलीं आशिल्ल्या रशियन साम्राज्यांत 'फादर सेरगस' आनी 'द क्वीन ऑफ स्पॅड्स' सारक्या चलचित्रांचीं आकांताळीं नांवाजती निर्मिती जाली. 1917 उपरांत कम्युनिस्ट सत्तेन कडक 'Censorship' हाडली. देखून चलचित्र निर्मितीक फावो तशें मेकळेपण मेळ्ळें ना. रशिया हें एक अजापाचें राज्य. जंय लादेमीर गार्डिन ह्या मनशान 'All - Union State institute of Cinematography' (आतांचें फांकिवंत 'Garasimau Institute of Cinematography') ह्या चलचित्र महोत्सवाची सुरवात 1917त केली. कम्युनिस्ट सत्तेन ह्या स्कुलाक खूब वाव दिलो. पूण चलचित्र निर्मितीक मात दिलो ना. पूण ह्या स्कुलान कांय नामनेचे चलचित्र लेखक, दिग्दर्शक घडयले. कांय वामपंथी राजकी पक्ष समलैंगीक संबंदांक अधिकृत पद्दतीन तेंको दितात. पूण रशियेंतले कम्युनिस्ट सत्तेन चलचित्रांत समलैंगीक संबंदांचेर बंदी हाडिल्ली.

रशियन चलचित्रां अजून 'कॉम्प्लेक्स' कित्याक? रशियन चलचित्र निर्मिती अजूनय सत्तापालटाचे घुंवळेंत आसा. चलचित्र निर्मितीचेर परिस्थितीचो प्रभाव पडिल्लो दिसून येता. पुरोगामी रशियन चलचित्र निर्मितीचें उदाहरण म्हणल्यार 'व्हर्नीश्ड अंपायर' आनी 2008तलो 'यूरीज डे'. रशियन चलचित्रां इतलीं 'regid' आनी 'complex' कित्याक तें ह्या

चलचित्रांतल्यान थोडे भितर दिसून येतलें. 'यूरीज डे' हें चलचित्र युबा (सॅनिया रॅप्पोपॅट) हे फांकिवंत गायिके भोंवतणीं घुंवता. ती आपणालो तरणाटो चलो ॲण्ड्रेया हाका घेवन आपणाल्या गांवांतल्या घरा वता. ताचें घर युरेव ह्या गावांत आसता. युबा आपणालें भाट–बेंस आनी घर विकपाक सोदता. खूब वर्सां उपरांत ती आपल्या घरा वता. ह्या चलचित्रांत युबा आनी तिगेलो तरणाटो पूत हांचे मदलो संघर्श उबो केला. हें चलचित्र म्हणल्यार आयज रशियेंत घडटल्या घडणुकांचें प्रतीक. एका काळार यूएसएसआर ही जागतीक महासत्ता म्हूण गाजली. आकांताळें सैन, मनभुलोवणें कम्युनिस्ट आदर्श, दोळे दिपकावपी आवाठ, अमेरिकेक शिंगां दाखोवपी यूएसएसआर ही एकूच जागतीक महासत्ता थारली.

पूण 1990त अचकीत हे आकांताळे सत्तेचो अंत जालो. म्हान इतिहासकार मानतात, सोविएत महासत्तेन लोकांची एक आगळी वेगळी जीवनशैली विकसीत केल्ली. दरेक मनीस देशाचो राजकी घटक जाल्लो. युबा ही गायिकाय त्याच विचारान घडिल्ली. पूण यूएसएसआरान आपल्या देशांत कितें चलता तें कोणाकच दाखयलें ना. युबाचो पूत ॲण्ड्रोव 1990त म्हणल्यार सत्तापालटा उपरांत जल्माक आयिल्लो. देखून युबा आनी ॲण्ड्रोव हांचे भितर आकांताळे मतभेद आसात. जिविता कडले दृश्टीकोण खूब वेगळे आसतात. ॲण्ड्रोव 90च्या दसकांत शारीकरण आनी जागतीकिकरणाच्या वातावरणांत वाडिल्लो भुरगो. ताका आपले आवयच्यो ह्यो गजाली खूब संकुचीत दिसपाक लागतात. देखून तांचे मजगतीं दरेका वाक्या कणकणी वाद निर्माण जाता. युबा ताका बळजबरेन आपल्या गांवांत व्हरता. एके सोविएत कम्युनिस्ट विचारसरणीचो आनी आपल्या पुताचो जागतिकीकरणाचो विचार. तीं दोगांय आपल्या गांवांत पावतात. युबाचो पूत आपले गाडयेंत बसून रावता. 1917त जेन्ना कम्युनिस्ट सत्ता आयली तेन्ना कांय धर्मीक थळांचेर बंदी घाल्ली, पूण आतां ती परतून सुरू जाल्ली. सगळ्यांत अजापाचें म्हणल्यार युवा वर्ग त्या थळांनी वतालो पूण कम्युनिस्ट विचारसरणीचे जाण्टे वचनाशिल्ले. ह्या चलचित्रांतल्यान एक विचित्र चित्र पळोवपाक मेळटा. हांगा कम्युनिजम एक विचार न्हय तर एक जीवनशैली जावन पडिल्ली. इतले नामनेची ओपेरा गायिका शारांत फामाद तर गांवांत

कोण वळखना. ह्या चलचित्रांतल्यान एक दिसून येता तें म्हणल्यार रशियेंत गांव आनी शार हांचे मदीं खूब व्हड फरक आसा. सत्ता पलटा उपरांत तर परिस्थिती बरीच नाजूक आसा. युबा आपल्या चल्याक मनोवपाचो खूब यत्न करता पूण ताका तो गांव, थंयचे अशिक्षीत लोक हीं फकांडां कशीं दिसपाक लागतात. युबा पुराय गांव भोंवता, पूण ताका कोणूच वळखना. आपूण स्वताच आपल्या भुरगेपणांतल्यो यादी काडटा. कम्युनिस्ट सरकारान बंद केल्ले इगर्जेंत वता. पयलेच खेप ती तें पळयता. इतल्यान तागेलो चलो गाडयेंतल्यान नाच्च जाता. त्या गांवांत तो कुतूहलान भोंवपाक लागता. आवय आनी पूत वेगवेगळे नदरेंतल्यान गांव नियाळटा. दोगांय गांवांत भटकतात. गांवची गरिबी, अशिक्षीताय, बेरोजगारीचो परिणाम युबाच्या पुताचेर जाता. कम्युनिस्ट सत्तेन जें देव, देवस्पण आनी अध्यात्म आळाबंदाक हाडिल्लें तें युबाक अणभवचें कशें दिसता. दोन विचारांचो अदलाबदल घडटा. 90 पूर्व कम्युनिस्ट विचार अध्यात्म, शांती कडेन वचपाक लागता तर 90 उपरांतचें जागतिकीकरण उदात्तीकरणाचे विचार कम्युनिस्ट जायत वता.

हो विचार पटप खूब कठीण पूण ही वास्तवीकताय कम्युनिस्ट महासत्ता ज्या नांवार थापिल्ली ताचें नांव आशिल्लें कार्ल मार्क्स आनी कार्ल मार्क्सान म्हणिल्लें धर्म ही अफूची गुळी.

**Yuris Day - Yurjev Den'** [2008/120min/Russia]

**दिग्दर्शक** : Kirill Serebrenni Kov
**लेखन** : Kirill Serebrenni Kov
**छायाचित्रकार:** Olev Luckichyov
**अभिनय** : Kseniya Rappaport, Yevgeniya, Kuznetsova
**संकलन** : Olga Grinshpan
**संगीत** : Srgei Nensky
**इनामां/ वांटो** : Locarno (2008) / Warsaw (2008)
Rotterdam (2009) / Melbourne (2009)




वाठार : फ्रान्स
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : मास्टर स्ट्रोक्स

# CALM AT SEA:

# दुसऱ्या संवसारीक झुजाची एक काणी

1648 वर्सा युरोपांत वॅस्ट फालियाची कबलात जाली. धर्म संस्थेचे सुवातेर राज्य वेवस्थेची थापणूक जाली. उपरांत युरोपांत उद्देगीक क्रांती जाली. ते उपरांत बौद्धीक, समाजीक, राजकी, अर्थीक आनी विज्ञानीक नितींचो सोदूय युरोपांत लागलो. उत्पत्ती, क्रांती, बदल ह्या सगळ्या प्रवाहांतल्यान युरोप गेला. देखून पुरोगामी विचारसरणी, लोकशाय, समाजवादाचो उगम युरोपांत जालो.

लोकशायेंत तयार जावपी तरेकवार विचारांचें मूळ युरोपांत धरलें. शीतयुद्धाचे सुरवेक मॉस्कोंत आशिल्ले अमेरिकेचे राजदूत ज्यॉर्ज कॅनन हांणी अमेरिकी सरकाराक 30 पानांचो तेलेग्राम धाडलो. तातूंत कॅनन हांणी म्हणलें

: अमेरिका आनी सोविएत रशिया फकत अर्थीक दुस्मान न्हय जाल्यार ते एकामेकांचे विचारसरणेचे दुस्मान आनी ह्या दोन टोकांचे विचारसरणेंत केन्नाच सहकार्य जावपाक शकना. ह्या दोन महासत्तां मदीं फकत सर्त जावपाक शकता, सहकार्य केन्नाच जावपाक शकना.

अजापाची गजाल म्हणल्यार उद्देगीक क्रांती वेळार भांडवलवाद आनी समाजवाद हांचें मूळ युरोपांतूच धरिल्लें. एडम स्मिथ वा कार्ल मार्क्स येवरोपांतूच जावन गेले. जरीय तांच्यो विचारसरणी वेगळ्यो आसल्यो तरी तांचो जल्म युरोपांतूच जाल्लो. देखून पुरोगामी विचारसरणी ह्या विरोधाभासांतल्यान तयार जाल्या तरी तांचें मूळ येवरोपांत आसा.

43वे 'इफ्फीं'त 'मास्टर स्ट्रोक' ह्या विभागांत संवसारांतल्या फामाद दिग्दर्शकांचीं चलचित्रां पळोवपाक मेळटात आनी ते ह्याच वैचारीक विरोधाभासाचेर उजवाड घालतात. नामनेचे दिग्दर्शक वॉलकर क्लॉडॉर्फ हाचें 'calm at sea' हें चलचित्र जेन्ना दोन विरोधी विचारसरणी एकाच वेळार उप्रासतात तेन्ना तांचे भितर सहकार्य न्हय तर फकत सर्त जावपाक शकता अशें जें जॉर्ज कॅनन म्हणटा तें खरें.

ह्या चलचित्राचें कथानक 1941 वर्सा घडटा. जेन्ना हिटलराचे जर्मनीन फ्रान्साचो भाग काबीज केल्लो. एका फ्रँच क्रांतीकारक जर्मन अधिकाऱ्याक मारलो म्हूण हिटलर बंदखणींत आशिल्ल्या फ्रँच कम्युनिस्टांक मारपाचो आदेश दिता. हिटलर सदांच ज्यू आनी साम्यवादाच्या विरोधांत आशिल्लो. सोविएत रशियेंत सत्तेर आशिल्ल्यांक बोल्शेविक म्हणटाले. हिटलर साम्यवादाक ज्युईश बोल्शेईझम अशें म्हणटालो. पयल्या धपक्यांत 30 कैद्यांक मारपाचो आदेश येता. हे 30 लोक समाजवाद स्वातंत्र्य, लोकशाय, कामगार एकता, विद्यार्थी अधिकारां कडेन जोडिल्ले. ह्या 30 लोकां भितर चडशे तरणाटे आसतात. एकलो 17 वर्सांचो भुरगो आसता. कम्युनिस्ट पक्षाचो आदेश म्हूण बंदखणींतले तीग जाण बंदखणींतल्यो गजाली भायर सांगपाक पळटात.

मरणाच्या कांय खिणां पयलीं ह्या कैद्यां मदीं चलिल्ले विचार आनी घडामोडी हें चलचित्र दाखयता. कांय खीण कैद्यांक मेळूंक आयिल्लो पाद्री आनी साम्यवाद्यां मदीं जाल्लो संवाद आंगार कांटे हाडपी आसा.

साम्यवाद्यां भितर श्रद्धा वा देव हांची संकल्पनाच ना. पूण मरणाच्या कांय खीण पयलीं एका साम्यवाद्यान पाद्री कडेन सादिल्लो संवाद ह्या दोन विरोधी विचारसरणेंतली श्रद्धा न्हय तर संघर्श आनी मनीसपणाचेर उजवाड घालता. जेन्ना ह्या कैद्यांक गुळी मारूंक व्हरतात तेन्ना तांच्या समर्थकांनी, केल्लो आकांत मन अस्वस्थ करून उडयता. त्या आकांतांत आनी गर्दैंत दर एका कैद्याची भावना दाखोवपाचें येस ह्या चलचित्रांत आयलां.

येवरोपाच्या झुजाच्यो काणयो सांगपी चलचित्रां इफ्फींत खूब पळोवपाक मेळटात. 2012 वसो नोबेल शांती पुरस्कार येवरोपी महासंघाक फावो जाला. दुसऱ्या संवसारीक झुजा उपरांत युरोपांत येदें व्हडलें झूज जावंक ना. तरीय युरोप सदांच झुजाचे भिरांतेंतूच आसता.

येवरोपान संवसाराक राष्ट्र ही संकल्पना दिली, राज्य वेवस्था दिली, पुरोगामी अर्थीक, राजकी विचार दिलो. पूण ह्यो विचारसरणी एकाच वांगडा कश्यो रावपाक शकतात हें केन्ना येवरोपांत पळोवपाक मेळ्ळें ना. एकाच देशांत एका वेळार वेगळ्यो विचारसरणी कश्यो उरूं येता हें युरोपान पळोवंक ना. युरोपान पुरोगामी लोकशायेचो विचार संवसाराक दिलो. मात लोकशायेंतल्या एका राष्ट्रा भितर समतोल आनी विविधतायेंतल्यान एकात्मता हो विचार युरोप केन्ना दिवपाक शकलो ना.

**Calm at Sea/LaMe e l'aube O**

2010/90min/Color/France-Germany

**दिग्दर्शक** : Volker Schlondroft

**निर्मातो:** Bruno Petit

**छायाचित्रकार:** Lubomir Bakohev

**अभिनय** : Leo Paul Salmain, Marc Barbe, Ulrich Mtthes

**संकलन** : Susanne Hartmaron

**संगीत** : Bruno Coulais

**इनामां/ वांटो** : Best Director, Luchon International Film Festival 2012
Berlin (2012)

वाठार : रशिया
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : आंतरराष्ट्रीय सर्त



# WHITE TIGER:

# झुजाचें मनसीक विश्लेशण

आंतरराष्ट्रीय राज्य वेवस्थेंत देशाचेर ताबो दवरपी कसलेंच शासन वा प्रशासन नासता. दर एक देश स्वतंत्र आनी sovereign म्हणल्यार सार्वबहुमत्ताय आसता. देखून दर एका देशान आपलें राष्ट्रीय हीत जपपाक जाय. राष्ट्रां मदीं झूज ही कायदेशीर गजाल अशें सगळे देश मानतात. कांय जाण war is politics by other means अशेंय म्हणटात. झूज टाळपाक दोन देशां मदीं जाय पडटा balance of power म्हणल्यार शक्तीचो समतोल. देखून 'देतांत' वा 'डिटरन्स' जाय पडटा. डिटरन्स ही एक

मानसीक संकल्पना. म्हणल्यारूच दुस्मान देशा कडेन जीं शस्त्रां आसात तीं आस्पावन घेवप आनी झुजा खातीर आपलोय देश तयार आसा हाचो भंय दाखोवप आनी हेच खातीर संवसारांत शस्त्रांची सर्त वाडत (carmsrace) आसा. झूज करपाक न्हय जाल्यार ताचो भंय दाखोवन झूज टाळपाक.

देशां मदली ही मानसीक संकल्पना शस्त्रांचे सर्तीक मोट्या प्रमाणांत चालना दिता आनी पुराय देशाची शक्त शस्त्रां मेळोवपाक गुंतयता. अशीच एक दुसऱ्या संवसारीक झुजाची काणी म्हणल्यार white tiger. ही काणी एका रणगाड्याची आनी रणगाड्याचे आवाज समजुपी पुराय लासून लेगीत जिवो उरिल्ल्या एका तरणाट्याची. सोविएत सैन्य जर्मनी काबीज करून फुडें वता आनी ताची गती एक रणगाडो आडायता. सोविएता कडेन खूब सैन्य आनी रणगाडे आसत पूण जर्मनीचो एकलो white tiger म्हूण नांव आशिल्लो रणगाडो सोविएताक नाका शेवट करता. ह्या रणगाड्याचो कसोच पराभव जायना. देखून सोविएत सैन्य दळांत खवदळ मातता. एक तर ह्या रणगाड्याक हारोवपाचो वा असलोच रणगाडो सोविएतान करपाचो. ह्या एका रणगाड्याक लागून सोविएत आपलें हजारांनी संख्येचें सैन्य, कोट्यांनी पयसो वगडायता. ह्या रणगाड्याची खासीयत म्हणल्यार हो एकूच रणगाडो कितल्याशाच रणगाड्यांक भूंय भरवण करूंक शकता आनी ह्या जर्मन तंत्राची मातूय कल्पना सोविएताक ना. पूण झूज सोंपता तशें हो रणगाडो नाच्च जाता. ह्या रणगाड्यान हल्लो करून वांचिल्लो, लासून जिवो उरिल्ल्या त्या तरणाट्याच्या मनांत मात white tiger थंयच आसा असो भास जाता.

आयज मेरेन झुजाचेर खूब चलचित्रां आयल्यांत पूण एक झूज मानसीक संकल्पनेंतल्यान हाताळपी चलचित्रां खूब उणीं आसात. देखीक ऑस्कर फावो जाल्लो No man's land. आनी white tiger ह्या चलचित्रांनी त्या रणगाड्याक चलचित्रांतलें एक पात्रूच केलां. white tiger एक कल्पना, जाका कोण हारोवपाक शकना, जाचे खातीर झूज चालूच उरतलें, जाका लागून शस्त्रांची सर्त केन्नाच सोंपची ना.

हें चलचित्र tankman हे कादंबरीचेर आदारीत आसा. चलचित्राचें दिग्दर्शन कारेन शोक्साझारोव हांणी केलां. चलचित्राचो अंत हिटलराच्या पराभवान जाता. चलचित्राची आवाज येवजण जबरदस्त जाल्या. चित्रीकरण आनी

अभिनय अप्रतीम आसा. झुजाचीं म्हारग आनी लांब चलचित्रां आयजवेर खूब येवन गेल्यांत, पूण खंयच्याच चलचित्रान अजून झुजाचे मानसीक प्रतिमेचेर उजवाड घालूंक नाशिल्लो.

### White Tiger/Belyy Tigr

2012/104min/Color/Russian

दिग्दर्शक : Kwan Shakhna Zaront

लेखन: Alexander Borodyansky, Karin Shakhnazarov

छायाचि[illegible]: [illegible]

अभिनय : Vilaly Kishchenko, Vladimir [illegible]

संकलन : Irina Kozhmyakia

[illegible] : Yuri Potanko, Konstantin Shevelyor

इनामां/वांटो: Shanghai (2012)
Montereal (2012)
Jerusalem (2012)

वाठार : स्वित्झर्लेंड
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : आंतरराष्ट्रीय सर्त




## SISTER:

# नैतीकताय सोंपिल्ल्या जगांतल्या कंवळ्या मनांतले सुस्कारे!

येवरोपाचें अर्थीक संकश्ट हें फकत एक अर्थीक संकश्ट न्हय तर ताचो भिरांकूळ परिणाम येवरोपाचे समाजीक जिणेचेर दिसपाक लागता. आनी हें पडबिंब येवरोपाच्या चलचित्रांनी दिसूंक लागलां. शिक्षणाचो खर्च सोडपाक कॉलेजींत वचपी चलयो कश्यो शिंदळकी वेवसायांत पावतात हाचें चित्र फ्रांसाच्या 'एल' (2012) ह्या चलचित्रांत पळोवपाक मेळ्ळें. पूण हाचे परस भिरांकूळ परिस्थिती स्वित्झरलॅण्डाच्या 'सिस्टर' ह्या चलचित्रांत पळोवंक

मेळ्ळी.

जागतीक पर्यटनाचें नांवाजतें नांव म्हणल्यार स्वित्झरलॅण्ड, पूण पर्यटनाचेरूच आदारून आशिल्ल्या ह्या देशांत कितली भिरांकूळ समाजीक परिस्थिती आसूं येता हाचें पडबिंब 'सिस्टर' ह्या चलचित्रांत पडिल्लें दिसता. पर्यटन मौसम सोंपतकच थंयच्या लोकांचे जिणेंत फुडें कशें जगपाचें हो एकूच प्रस्न पडटा. पर्यटक होच वाठाराचो केंद्रबिंदू आसलो जाल्यार पर्यटकांक कितें जाय तें दिवचें पडटा.

सोरो, ड्रग्स, जुगार, शिंदळकी वेवसाय हें सगळें आपसूक येता. 'सिस्टर' घसरत चलिल्ल्या नितीमुल्यांचेर उजवाड घालता. चलचित्राचें कथानक सायमन ह्या 12 वर्सां पिरायेच्या भुरग्या भोंवतणीं घुंवता. तो आनी ताची तरणाटी भयण, इतलोच तांचो घराबो. तांच्या आवय बापायचो संदर्भ ह्या चलचित्रांत दाखोवंक ना. दोगांय गरिबींतल्यान वाट काडपाचो यत्न करतात. तांचो एकूच वेवसाय. सायमन गिरेस्त लोकांच्यो वस्तू चोरता. कपडे, जॅकेटां, वक्लां. हेंच तो उपरांत बाजारांत विकता. ताची भयण लुईसा केन्नाय ह्यो वस्तू विकूंक दुसऱ्या शारांत वता. तांचेर मेळिल्ल्या पयशांचेर तांचो संवसार चलता.

ज्या जाग्यार कथानक घडटा थंय सगल्योच अनैतीक गजाली चलतात. चोरी, शिंदळकी वेवासायांत लुईसाक कांयच चुकीचें दिसना. तें सायमनाक हें सगळें करूंक आड्डाय बी ना. चलचित्राचें कथानक एक धपको दिवपी मोडण घेता जेन्ना सायमन आपले भयणीच्या मोग्याक सांगता लुईसा आपली भयण न्हय तर आप्पूण लुईसालो चलो.

चलचित्र उपरांत एका वेगळ्याच मोडणार पावता. सायमनाक लुईसा सदांच हिणसायता. ताचे कडल्यान ते पयशें व्हरता, मारता. पूण सायमन ताचे मायेक खूब आशेता. ताच्या मनांत लुईसा खातीर केन्नाच राग नासता तर आवयच्या मोगाची भूक आसता.

आवय-भुरग्याचें एक भिरांकूळ वास्तव चलचित्र उबें करता.

अस्वस्थ करून दवरपी हें एक चलचित्र, एकूच प्रस्न पडटा, मनशाच्यो भावना इतल्या सकयल्या थरार कश्यो पावंक शकतात? अशें कशें तरी हें नातें आसूंक शकता? सगल्योच गजाली अस्वस्थ करून उडोवपी. गरिबी

मनशाक नैतीकतायेच्या सकयल्या थरार कशी व्हरपाक शकता हें चलचित्र दाखयता.

एक सान भुरगो चोरी करून पयशे मेळोवप हे रितींतल्यान ताची जाल्ली वाड, स्वताची आवय चलो म्हूण मानपाक न्हयकारता, असले अमानवी परिस्थितींतल्यान एका भुरग्याची कशी वाड जावपाक शकता? हें चलचित्र मन सुन्न करता. चलचित्राचें कथानक बेस बरें रचलां. निमणे कडेन चलचित्र मनाचेर खोल प्रभाव घालून वता.

चलचित्राची गती मध्यम आसा आनी चलचित्राचो दर एक खीण मनशाच्या भावनांक स्पर्श करून वता.

## Sister/L'enfant d'en Hant

[2011/97min/French-English]

**दिग्दर्शक** : Ursula Meir

**लेखन:** Antoine Jaccud, Ursula Meir

**छायाचित्रकार:** Agnes Godard

**अभिनय** : Lea Seydoure, Kacey Mottet Klein, Martin Compston, Gillian Aneleson

**संकलन** : Nelly Quittier

**संगीत** : John Perish

**इनामां/ वांटो** : Silver bear - Berlin International Film Festival 2012
Cannes 2012




वाठार : अमेरिका
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : 'मिड फेस्ट फिल्म'

## YELLOW:

# चलचित्र निर्मितीचो क्रांतीकारी प्रयोग

कांय वर्सां फाटीं अनुराग कश्यप हांणी नो 'स्मोकिंग' हें चलचित्र दिग्दर्शीत केल्लें. नांवाजत्या चलचित्र समिक्षकांनी ह्या चलचित्राचेर टिकेचो शिंवर केल्लो. चलचित्राचे कितलेशेच जॉर्नर म्हणचेच प्रकार एकाच चलचित्रांत घेतिल्ले. वास्तव, surreality, abstract, imagination हे चलचित्राचे प्रकार एकाच चलचित्रांत आसपाविल्ले. पूण अनुराग कश्यपाचो हो प्रयोग भारतीय चलचित्र समिक्षकांक आवडूंक ना आनी भारतांत घडपी हो पयलोच प्रयोग आशिल्लो. ह्या चलचित्राचेर भारतांत चर्चा ना जावपाचें एकूच कारण म्हणल्यार हें चलचित्र सध्याच्या

काळा परस खूब मुखार आशिल्लें.

ज्या चलचित्र प्रकाराक भारतीय समिक्षकांनी न्हयकारलें त्याच चलचित्र प्रकाराचें चलचित्र 43वे इफ्फींत 'मिड फेस्ट' चलचित्र म्हणून दाखयलें. चलचित्राचें नांव 'येलो' (Yellow): हें चलचित्र मेरी होल्म हे कंत्राटी शिक्षिके भोंवतणीं घुंवता. चार भुरगीं, घर आनी अर्थीक परिस्थिती कडेन झुजपी एक मध्यम पिरायेचे बायलेची काणी हें चलचित्र दाखयता. चलचित्राची बांदणी फकत वस्तववादी वा काल्पनीक न्हय जाल्यार कितल्याश्याच चलचित्र प्रकारांचो आस्पाव एकाच चलचित्रांत करून घेतला. मेरी आपलेच विवंचनेंत मग्न आसता आनी बिकट परिस्थितींतल्यान कशी वाट काडपाची हाचोच विचार करीत आसता. हे मानसीक परिस्थितींत मनशाच्या मनांत कसले विचार येवपाक शकतात हें दिग्दर्शकान काल्पनीकपणान मांडलां. पूण चलचित्र एका स्वीच बटना सारकें वास्तववादा कडल्या कल्पना विश्वा कडेन वता. उपरांत वास्तवाक येवन मेळटा. थोडोसो फॅण्टसीचो प्रकार ह्या चलचित्रांत आसपावला. सपनां पडप, भास जावप. केन्ना केन्ना भासांतल्यान चलचित्र फुडें वता.

मन आनी बृहन्मनांतले विचार उक्तावपाचो यत्न ह्या चलचित्रांत जाला. देखून ह्या चलचित्राक एकाच चलचित्र प्रकारांत बंदिस्त करपाक जावचें ना. पूण चलचित्र निर्मितींत एक क्रांतीकारी ल्हार येवपाचें आसा हाची एक झळक तें दिता.

चलचित्राचे तरेकवार प्रकार एकाच चलचित्रांत हाडपाचें हें एक क्रांतीकारी पावल. हो प्रकार चलचित्रांची परंपरावादी मांडणी आनी बांदणी मोडटा. ह्या प्रकाराचेर अभ्यास करपाक एके नवे समजणेची गरज पडटली. आनी जर कथानक मनशाच्या मानसशास्त्रा कडेन जुळिल्लें आसत जाल्यार ही क्रांतीकारी शैली असले विशय बेस बरें हाताळपाक शकता.

जेन्ना हो प्रकार अनुराग कश्यपान भारतांत हाडलो तेन्ना त्या चलचित्र प्रकाराचेर टिकाच न्हय जाल्यार तो प्रकारूच न्हयकारिल्लो पूण कल्पकतायेचे आनी तंत्रीक बाबतींत ह्या प्रकारा भितर 'नो स्मोकिंग' 'येलो' परस खूब श्रेश्ठ आशिल्लें. ह्या चलचित्र प्रकाराचेर चर्चा जावपाक

जाय. पारंपारीक चलचित्र समिक्षेचीं कांय दारां उक्तीं जावपाक जाय. ह्या क्रांतीकारी प्रयोगाची तोखणाय न्हय जाल्यार दखल तरी समिक्षकांनी घेवचीच पडटली.

## Yellow

[2012/108min/English]

दिग्दर्शक : Nick Cassaretes

लेखन: Nick Cassaretes, Heather Wah Igist

छायाचित्रकार: Jeff Cutler

अभिनय : Heather Wahlguist, Sienna Miller, Melaine Griffith, Gena Rowlands

संकलन : Jim Flynn

संगीत : Aaron Zigman

इनामां/वांटो : Toronto (2012)
Tokyo (2012)
Gijon (2012)




वाठार : पोर्तुगाल-फ्रांस
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : मास्टर स्ट्रोक्स

## GEBO AND THE SHADOW:
# नाटकांतलें चलचित्र

कांय चलचित्रांचें लिखाण, आंखणी आनी बांदावळ सामकी पारंपारीक शैलींत आसता. पुरोगामी लेखन आनी तंत्रांचो प्रभाव तांचेर मातूय दिसून येना. पूण जे पद्दतीन चलचित्र एकदम नकसूदपणान हाताळटात तेन्ना कृत्रीम तंत्र जाय अशें दिसचना.

'मास्टर स्ट्रोक्स' ह्या विभागांत संवसारांतल्या नामनेच्या दिग्दर्शकांचीं चलचित्रां घेतल्यांत. मान्युएल द ओलिव्हर हांचे 'Gebo and The Shadow' हें चलचित्र ह्या विभागांत आस्पावला. गॅबो आनी ताची जाण्टी बायल, तरणाटो पूत आनी सून असो तांचो घराबो. गॅबो गरिबी खातीर हिशेब पळोवपाचें काम जाण्टेपणांतूय करता. ताचो पूत सामको बेकार. भीक मागप आनी चोरी करप होच ताचो धंदो. पूण ही गजाल गॅबो आपले बायले पसून

आनी सुने पसून लिपोवन दवरता. एके रातीं गॅबो कडेन सांबाळूंक दिल्ले पयशे ताचो पूत आरमारींतल्यान चोरता. गॅबो तरीय ही गजाल सगल्यां पसून लिपयता. जेन्ना पुलीस गॅबोच्या पुताक घरा कडेन सोदपाक येतात तेन्ना गॅबो आपूणच चोर म्हणून सांगता.

एक कुटुंबीक प्रस्न आनी जिणे भोंवतणीं चलचित्र घुंवता. चलचित्र चडशें जेवणाचें मेज आनी घरांतून घडटा. चलचित्राची शैली वेगळी आसा आनी ह्या प्रकाराक सोबसारकी मंद गती चलचित्राची आसा. हें चलचित्र शैलींत नाटकाचो प्रभाव खूब जाणवता. पूण ही चलचित्र शैली ना जायत चल्ल्या. चलचित्र लेखनाचें बदलतलें स्वरूप हाका कारणीभूत आसा. कांय वर्सां फाटीं इफ्फींत पळयिल्ल्या 'Silent light' ह्या चलचित्राची याद जाता.

चलचित्रांत फकत वास्तव जायच अशें ना. एक कल्पकताय नाट्यमय रुपांत सादर केल्यार ताचें चलचित्र जावपाक शकता. निकोलो मेकीवली हो वास्तववादी रणनितीशास्त्रज्ञ आशिल्लो पूण तो एक नाटकारूय आशिल्लो. ताच्या नाटकांनी तो नाट्य, कल्पकतायेचेर भर दितालो. तशेंच ह्या चलचित्रान नाटकाक चड म्हत्व दिलां.

## Gebo And The Shadow

[2012/94min/Colour/French]

**दिग्दर्शक** : Manoel De Oliveira

**लेखन:** Raul Brandao (मूळ लेखक), Manoel De Oliveira

**छायाचित्रकार:** Renato Berta

**अभिनय** : Michael Ionsdak, Claudier Cordinale

**संकलन** : Velerie Loiseleux

**संगीत** : Tiago Matas, Henri Maikoff

**इनामां/ वांटो** : Veniece (2012)
Toronto (2012)


Mexico
TX
LA
AL
GA
FL
Gulf of Mexico
Cuba
Puerto Rico
Guatemala
Caribbean Sea
Nicaragua
Venezuela
Guyana
Suriname
Colombia
RR
AP
Ecuador
AM
PA
MA
CE
RN
PB
PE
AL
SE
PI
Brazil
AC
RO
TO
BA
Peru
MT
GO
Bolivia
MG
MS
ES
Paraguay
SP
PR
RJ
Chile
SC
RS
Uruguay
Argentina
1000 mi
2000 km

लॅटीन अमेरीका

# लॅटिन-अमेरिका

**लॅटिन** भाशेंतल्यान आयिल्ल्यो भासो म्हणजे पुर्तुगेज, स्पॅनिश, फ्रेंच उलोवपी वसाहत शक्तींनी दक्षिण अमेरिकेचेर शेक गाजयिल्ल्यान ह्या अमेरिकेच्या दक्षिणी उपखंडाक नांव पडलें लॅटिन अमेरिका. पूण भाशा हें फकत संपर्काचें साधन न्हय तर भास हें साम्राज्य व्यापपाचें वाहन, देखून लॅटिन अमेरिकेक आजून 'Hispanic' अशें म्हणटात. 'Hispanic' म्हणजे येवरोपा कडेन पाळांमुळां आशिल्ले लोक. पूण लॅटिन वसाहती येवचे पयलींय दक्षिण अमेरिकेक आपली संस्कृती आशिल्ली. 16व्या शेंकड्याचे सुरवेक आनी ख्रिस्तोफर कोलंबसा उपरांत स्पॅनिश आनी पुर्तुगेज शक्तींनी दक्षिण अमेरिकेचो सोद लायलो. तेन्ना थंय थळावे जमातीचें राज्य आशिल्लें जाका इंग्लिशींत 'Indigeneous People' अशें म्हणटात. म्हणजेच मूळवासी. तांकां स्वताची भास आशिल्ली. पूण आयज ह्या जमातींची लोकसंख्या ह्या उपखंडांत फकत 13% उरल्या. बॉलेविया आनी गुवातेमाला देश सोडले जाल्यार उरिल्ल्या देशां मदीं बाकीच्या लोकां परस ह्या जमातीची लोकसंख्या 50% परस उणी आसा.

पूण वसाहतवादाच्या विरोधांतलें लॅटिन अमेरिकेचें झूज आनी संघर्श

तितलोच स्फूर्तदिणो आसा. लॅटिन भाशेचो प्रभाव जरी ह्या उपखंडाचेर पडला आसत तरी हो उपखंड येवरोपाचें 'Extension' न्हय. ह्या वाठाराक स्वताची वळख आनी स्वाभिमान आसा. हाचेंच उदाहरण म्हणल्यार वसाहतवादा आड उबी जाल्ली लॅटिन अमेरिकेची चळवळ. लॅटिन अमेरिकेक आशिया–आफ्रिका राष्ट्रां परस बेगीन स्वातंत्र्य मेळ्ळें. कित्याक तर थंय ब्रिटिश वसाहतवादाचो प्रभाव नाशिल्लो. 19व्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज, स्पेन आनी फ्रेंच हाचो प्रभाव उणो जाल्लो आनी उद्देगीक क्रांतीक लागून ब्रिटिशांचो प्रभाव वाडिल्लो.

पूण लॅटिन अमेरिकेक स्वातंत्र्य शांतीकायेन मेळूंक ना. 1776च्या अमेरिकेच्या स्वातंत्र्या उपरांत लॅटिन अमेरिकेचे 'हॅटी' हें अशें एक राष्ट्र जाणें 1804 वर्सा फ्रेंच वसाहत शक्तीची सत्ता भायर मारून स्वतंत्र राष्ट्र वसयलें. अमेरिके उपरांत शक्तीमान वसाहतीक झुजोवपी हॅटीच्या गुलामांच्या एकवटाचें तें प्रतीक आशिल्लें. उपरांत सायमन बोलीवार हो एक असो राजकी नायक जावन गेलो जाणें लॅटिन अमेरिकेंत पेटिल्ले उज्याचे किटीक होमखण करून सोडलें. देखून बोलीवार हाचो प्रभाव आदल्या लॅटिन अमेरिकेंतल्या स्पॅनिश वसाहत आशिल्ल्या राज्यांनी आजून दिसून येता. बोलिविया ह्या देशाचें नांव सायमन बोलीवारा वयल्यान आयलां. तर 'Venezuela' सारक्या देशाचें पुराय नांव 'Bolivarian Republic of Venezuela' अशें आसा.

बोलीवार हें लॅटिन अमेरिका राष्ट्रवादाचे जनक आशिल्लें. जरीय लॅटिन अमेरिकेचो पुरोगामी इतिहास 20व्या शेंकड्यांत सुरू जाला तरीय ह्या प्रांताक स्वताची अशी वळख आसा.

लॅटिन अमेरिकेचें साहित्य खूब प्रगल्भ आसा. पूण चलचित्र निर्मितीची उदरगत सध्या चालू आसा. तरीय हालीं तेंपार मॅक्सिको, ब्राझिल, कोलंबिया वांगडा नांवांजत्या हॉलिवूड चलचित्रांची सहनिर्मिती जावपाक लागल्या. पूण लॅटिन अमेरिकेचो सिनेमा आंग धरता आनी आपल्यो वेदना आनी संघर्श जगाच्या पड्ड्यार हाडटा.

समकालीन लॅटिन अमेरिकेच्या सिनेमांचीं वैशिश्ट्यां म्हण्यार लॅटिन संगीत, ताजेंपण, नविदाद, मुळावेपण, विविधताय आनी युवकांच्यो भावना. ह्या उपखंडांतलीं हालींच्या वर्सांतलीं चलचित्रां हेंच दाखयतात. आपल्या समाजाची काणी सांगपाक हे तरणाटे मात लेगीत कचरनात. भ्रश्टाचार, ड्रग्स,

हातूंत लॅटिन अमेरिका घुस्पल्या. ह्या उपखंडांत सुमार 34 देश आसात. आनी दर एकल्याक आपली वेगळी वळख आसा. इतलेंच न्हय तर दर एका देशांत समाजीक आनी राजकी परिस्थिती वेगळी आसा. चडशे देश आजूनय आपले राष्ट्रनिर्मणेचे प्रक्रियेंतल्यान वतात. ह्या देशांतले लोकशायेक भारता भशेन 'Noisy Democracy' म्हणूं येता.

ड्रग्स, आकांतवाद, चोरी, मारामारी, एड्स, गरिबी हें ह्या वाठारांतले कांय प्रस्न. लॅटिन अमेरिकन चलचित्रांची जबाबदारी युवा पिळगे कडेन आयिल्ल्यान ते आपल्या दृश्टीकोणांतल्यान लॅटिन अमेरिकेचीं चित्रां पड्ड्यार पितारतात.

ह्या वाठारांनी आंदोलनां जातात, सत्तापालट जाता, सरकाराच्या धोरणांक विरोध जाता, चळवळी जातात, चळवळी फुट्टटात, भरकट्टटात. दाव्या विचारांचो कट्टरवाद आसा, धर्मीक पंथ आसा आनी ह्या तमाम वातावरणांत लॅटिन अमेरिकेचो सिनेमा फुलता–फळटा कित्याक तर ह्या वाठारांत लोकशाय आसा.






वाठार : मॅक्सिको/जपान/अमेरिका
महोत्सव : 37वो इफ्फी 2006
विभाग : समारोप चलचित्र

## BABEL:
# मल्टिपल प्लॉट

'बॅबल' हें 2006 तलें अमेरिकेचें चलिचत्र. ह्या चलचित्राक अॅकॅडेमी नामांकनां मेळिल्लीं. हें चलचित्र आलेजांद्रो गॉन्जालेज इनारोट्र हांणी दिग्दर्शीत केलां तर गुईलार्नो आरियागा हांणी बरयलां. ह्या फिल्माचें मुखेल आकर्शण म्हणल्यार ब्रॅड पीट आनी कॅटक्लांचेट हांच्यो मुखेल भुमिका. हें 'मेनस्ट्रीम हॉलिवूड' फिल्म न्हय. तर एक आगळो वेगळो प्रयोग म्हणूं येता. संवसाराची समाजीक, अर्थीक, धर्मीक, मानसीक स्थिती, बदल आनी विध्वंसाचें चित्र हातूंतल्यान दोळ्यां मुखार उबें जाता. 'बॅबल' हें मनशाचे तकलेंतल्यान समाजीक, अर्थीक, धर्मीक, मानसीक दुस्वास आनी कुड्डेपणाचें दर्शन घडयता. तरातरांच्यो कथा, मनांतल्यो व्यथा, दुस्वास, मोग अशा कितल्याशाच भावनांचो अंत हातूंत दिसता.

बॅबल ही मल्टिप्लॉट स्टोरी. म्हणजेच तरेकवार कथांचें आंतरजाळें. दरेक कथा वेगळी. विशयान, आशयान आनी वाठारान.

दर वाठारांत विभागिल्ल्यो ह्यो कथा एकामेकांक जुळटात आनी ताची प्रचंडताय वाडटा. इतल्या अगडबंब आवाठाचो हो सिनेमा तयार जाता. ह्या तिनूय कथांचो सार घेत जाल्यार बॅबल हें मनशाचे विखारी मनोवृत्तीचें विचारमंथन. मनशाचें मोनेपण आनी निश्काळजीपण हांचें दर्शन.

फिल्माची सुरवात मोरक्कोच्या रेंवटांत जाता. जंय रिचर्ड (ब्रॅड पीट) आनी सुझेन (कॅट क्वचेट) सुटी मनोवपाक आयल्यांत. थंयच कांय भुरग्यांक तांच्या बापायन बोकडां मारपाक आर्म घेवन दिल्लें. सगळ्याक दुकळ, तेच भशेन ह्या प्रदेशांत सगळ्याक गरमी. दुसरे वटेन रिचर्ड (ब्रॅड पीट) आनी सुझेन (कॅट क्वचेट) आपल्या दोन सान भुरग्यांक अमेलिया (एड्रिया ब्रागांझ) आजये कडेन पातयेवन वतात. दोन भुरगे वाळवंटांत आर्मान खेळटात. दोंगराचेर बोकड्यांक मारपाच्या बोवाळांत तांचो नेम एके बशीचेर बसता. ती गुळी अचूक त्या अमेरिकन भोंवडेकाराक लागता आनी हांगासरल्यान सुरवात जाता एका थरारक चलचित्राची.

हें चलचित्र मुखेल चार वाठारांत चित्रायलां. मोरक्को, अमेरिका, मॅक्सिको आनी जपान. दरेक कथा एके वेगळे पद्दतीन चित्रायल्या. दर कथेंत कॅमेऱ्याचें वेगळें तंत्र आपणायलां. मोरक्कोच्या रेंवटांत रिचर्ड (ब्रॅड पीट) आनी ताची घरकान्न सुझेन (कॅट क्वेचट) हांचो जीवन मरणा कडलो संघर्श, चुकून गुळी मारिल्ल्या दोन तरण्या भुरग्यांचो गांवगिरे जिणे कडेन आकांतवादी म्हूण संघर्श, जपानांत रावपी चीको वाटीया हे चलयेची आपल्या मोनेपणा खातीरची व्यथा आनी मेक्सिकोंत अमेलिया आनी तिच्या नातरांचो आपले परिस्थिती कडेन जाल्लो संघर्श.

ह्या तरेकवार कथा आनी काणयांक जुळोवन हाडटा विज्ञाननिश्ठ पटकथा. बीबीसीन तर हाका आतां मेरेनची बरी पटकथा अशें म्हणलां. पटकथा सिनेमाची गती थारायता. ह्या चलचित्रांत तरा तरांचे वाठार आनी तरेकवार वाठारांत तरातरांच्यो व्यक्तीरेखा आसात. ह्या व्यक्तीरेखांक, वाठारांक आनी कथांक जोडपाक हे पटकथेचो बरो उपेग केला. बॅबलाक परफोर्मन्स मशीन म्हणूं येता. सिनेमाच्या दर आंगान अचूक, प्रबळ आनी परफॅक्ट अभिनयान

दर व्यक्तीरेखेक न्याय दिला. सिनेमाटोग्राफी सुंदर आनी शास्त्रशुद्ध, तशेंच सगळ्यांचो सुमेळ घडोवपी सुरेख पटकथा. वेगवेगळ्यो चार कथा, एक अंत, एक परफॅक्ट फिनीश, नव्या पटकथा तंत्राचो आविश्कार अशेंय म्हणूं येता.

**Babel** [2006/35mm/143 min/English]

दिग्दर्शक : Alejandra Ganzalez
लेखन : Guillermo Arriaga
निर्माती : Steve Collin/Jon Killik
छायाचित्रकार: Rodri g Prieto
अभिनय : Brad Pitt, Cat Blanchette, Gael Garria Bernal, Koji Yakushu
संकलन : Stephen Mirrione Douglas Crise
संगीत : Gustan, Santaolalla




वाठार : मॅक्सिको
महोत्सव : 39वो इफ्फी 2008
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड

## CUMBIA CONNECTION :

# संगितांतत्यान सळसळपी तरणेपण

भारतांत संगीतपट हे कल्पनेची व्याख्या आगळी वेगळी आसा. तातूंत पार्श्वगायकांचे आवाज, अडेचे नाच आनी जड संगीत आसता. थोड्या वेळा उपरांत ह्यो सगळ्यो गजाली अडेच्यो दिसपाक लागतात. लोकप्रिय सिनेमांत हे संगीतपट खूब खर्चिकूय आसतात. विविध डिझायनाचे कपडे, अडेचे नाच, भडक सॅट, कॉरियोग्राफी आनी हांची सांगड घालपाक केल्लें संगीत. चडशे फावटीं भारतीय संगीतपटांचो चड संबंद बॉक्स ऑफिसा कडेन आसता. पूण संगीत आनी सिनेमा कडेन न्हय.

कुंबिया कॉलरा – Cumbia Collera वा कुंबिया कनॅक्शन – Cumbia Connection हें मूळ मॅक्सिको हांगा तयार जाल्लें चलचित्र. चलचित्राचें दिग्दर्शन रेनी व्हिलारियल हांणी केलां. ह्या संगीतपटांत चड संवाद नात. पूण जे आसात ते स्पॅनीश भाशेंत आसात. संगीतपटाची लांबाय वट्ट 95 मिनटां आसा. हो संगीतपट सोंपेपणान आनी उण्या खर्चान जाला. कुंबिया ही मूळ आफ्रिकेच्या रानवटी प्रदेशांत तयार जाल्ली संगिताची आनी नाचाची एक शैली. पूण कुंबिया हे शैलीचो प्रभाव येवरोप आनी दक्षिण अमेरिकेचे संस्कृतींतूय रिगलो आनी आपली वेगळी अशी वळख कुंबिया शैलीन घेतली. कुंबिया संगिताचे कांय ठेके येवरोपांतले आदिवासी हिपोप (Chip-hop) शैली कडेन जुळटात. कुंबिया कडेन आनीक लागींचो प्रकार आसा वालेन्टो - Vallento.

कुंबिया कॉलरा ह्या संगीतपटाचें कथानक प्रेमाचें एक त्रिकूटच म्हणल्यार जाता. कथानक घडटा मॅक्सिकोंतल्या मॉटेरी ह्या शारांत. चारूय वटांनी दोंगरांनी रेवाडिल्लें हें शार. ला कॉरी (फॅर्नांदा ग्रासिया) हे 17 वर्सांचे जुवान चलये भोंवतणीं हें कथानक घुंवता. कथानक तशें सोंपें आनी सरळ. मॉटेरी ही मॅक्सिकोची उद्देगीक राजधानी आनी झोंपडपट्टेचो आसपाव आशिल्लें शार. ला कॉरीचो मोगी गुरूपी (एंड्युल झांब्रान), हो ते झोंपडपट्टेंत रावपी तरणाटो. झोंपडपट्टेंत रावपी कमी शिकिल्ले, तवनास, सुबेज, गरीब पूण सर्जनशील अशे मनोवृत्तीचेर उजवाड घालपी. संगीतपटाचें चडशें चित्रीकरण मॉटेरी शाराचे झोंपडपट्टी वाठारांत आनी आलिशान लोकवस्तीच्या फुटपाथाचेर जालां.

लॉ कॉरी आनी गुरूपी हांचे मदीं नॅटो (ऑलिवर कुते) हो लग्नाचे फोटू काडपी एक हौशी छायाचित्रकार. एक दीस लग्नाच्या कोलंबियानोबॉला - Colombianoball कडेन गेल्ल्या ला कॉरीचेर ताची नदर पडटा. उपरांत ला कॉरीक आपल्या कॅमेऱ्यांत घेवपाक तो ताची फाट धरता. हांगासरल्यान कथानकाची सुरवात जाता.

ला कॉरी, गुरूपी आनी नॅटो हें एक प्रेमी त्रिकूट. तिगांय आपल्या वेगवेगळ्या राहणीमानांतल्यान आयिल्लीं आसतात. तिगांय तरणाटीं आनी तांकां एकामेकां बराबर जुळोवन वा एकठांय हाडटा कोलंबियानो -

Colombiano संगीत. कुंबिया कनॅक्शन ही काणी तिगां जाणांचे जुवानीची, तांच्या सपनांची, तांचे उमेदीची, तांचे निर्शेवणेची आनी सगळ्यांत चड म्हणल्यार हातूंतल्यान तयार जावपी संगिताची आनी सर्जनतायेची.

नॅटोचो ला कॉरीचेर मोग. गुरूपीक नॅटोची नसाय आनी दोगां मदल्या एकल्याक वेंचपाचो ला कॉरी मुखार आयिल्लो पेंच.

हो म्हायतीपट तसो सादो आनी सोंपो. चड खर्चीक अशें कांय ना. कुंबिया संगीत हें स्टुडियोंत तयार केल्लें संगीत न्हय. तर सादे पद्दतीन कांय मुळावीं वाद्यां घेवन तयार जाल्लें हें संगीत. पूण हो संगीतपट वेगळो कित्याक? कित्या खातीर आयज ताची तोखणाय जगभर जाता?

ह्या चलचित्राचें सादेपण हेंच ताचें खाशेलेपण. ताजेपणान पड्ड्यार मांडिल्ली तरणाट्यांची कथा. मोग, दुस्वास, निर्शेवणी, संगितान हांचो आसपाव ह्या चलचित्रांत जाता. कथानक साद्या व्यक्तीरेखांचेर आदारीत आशिल्ल्यान हो संगीतपट कोणाकय लागींचो दिसता. भारतांत कॉलेज जिणेचेर तरणाट्यांचे मानसीकतायेचेर जायतीं चलचित्रां पळयल्यांत. पूण कुंबिया कॉलरा सारकें सरळ विशय घेवन शारी तशेंच झोंपडपट्टेंत पोसपी मनोवृत्तीचेर कोण चलचित्र काडूंक शकत व्हय?

### Cumbia Connection/Cumbia Calleru

[2007/35mm/95min/Spanish]

**दिग्दर्शक** : Rene U. Vellurreal

**लेखन** : Ana Rebelta, Rene U. Vellurreal

**छायाचित्रकार:** आंतोन बेल्ट्रान

**अभिनय** : Fernando Gracia Costandu, Oliver Cantu, Andul Zambrano, Celsoo Pena

**संकलन** : Rene Vellurreal

**संगीत** : Luis Manuel Lopez, Carrea Jose Manuel Mendoza Alvarez

**इनामां/वांटो** : Los Angeles Latino Film Festival




**वाठार** : आर्जेंटिना
**महोत्सव** : पुणे आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव 2008
**विभाग** : वर्ल्ड सिनेमा

## HUNABKU:

# सैमाकडेन सदिल्लो संवाद

सिनेमाचो आवाठ व्हडलो आसता. देखून सिनेमाचे विशय वा कॅनवास व्हड आसपाक फावो. व्हड विशयांचे वा कॅनवासांचे सिनेमा चड प्रभावी थारतात असो भोवतेकांचो समज आसा. पूण विशय सामकोच सादो आसलो जाल्यार साद्या विशयाचेर सिनेमा करपाक जाता? काय तो प्रभावी जावचो ना? आमचें जिवीत खूबशा बारीक बारीक गजालींचेर निंबून आसता. हे बारीक बारीक विशय 'सिनेमा मटेरियल' जावपाक शकतात?

सैम हो मनशाचे जिणेंतलो अविभाज्य असो घटक. मनशान तंत्रगिन्यानाच्या नेटार कितल्योय जरी बढायो मारल्यो तरी ताचें जिवीत सैमाचेरच आदारून आसा. झाडां-पेडां, पाळां-मुळां, जीव-जंतू वा वनस्पत हांचो शंबर टक्के

भ्यास करपाक मनीस अजून येसस्वी थारूंक ना. सैमाचीं रहस्यां आनी पितां अजून मनशा कडल्यान सुटिल्लीं नात.

सैमाच्या रहस्यांकच धरून चलचित्रां जावंक शकता? जीणभर आपली जनशक्त वा कलात्मकताय वापरीत रावल्यार सैमाचीं गुपितां पड्ड्यार डोवपाचो यत्न आमी केन्ना तरी करतले?

पाब्लो सीजर हे आर्जेंटिनांतले एक दिग्दर्शक. तांणी आपलीं सगळीं लचित्रां सैमाक केंद्रबिंदू धरून केल्यांत. 'ब्लड', 'युनिकॉर्न', 'गार्डन ऑफ फ्राटस्', 'ग्रेय फायर', 'द होली फॅमिली' हीं तांचीं कांय गाजिल्लीं लचित्रां.

आपल्या 'हुनाब्कू' ह्या चलचित्रांत तांणी सैमा कडेन संवाद सादपाचो त्न केला. आमच्या जिविताचें तत्वगिन्यान सैमाच्या गोपांत लिपिल्लें ासा. तें जाणून घेवपाक कसलीच शाळा, कॉलेज वा पुस्तक नाका. फकत ैमा कडेन संवाद सादचो पडटा. उपरांत सैमच दरेकल्याच्या जिविताचें त्वगिन्यान सांगता.

'हुनाब्कू' हें स्पॅनिश भाशेंतलें चलचित्र. चलचित्राची लांबाय 100 मिनटां ासा. चलचित्राचें कथानक लुकास ह्या किशोरावस्थेंत आशिल्ल्या भुरग्या ोंवतणीं घुंवता. देखून लुकासूच हाका सिनेमाचो 'प्रोटोगोनिस्ट' पात्र म्हणू ता. लुकास (ताहियो आराव्हिलो) आनी ताचो वास्तूशास्त्रज्ञ बापूय फॅड्रीक राव तायबू) आनी आवय मॅबल (फ्लॉरेन्सियो रागी) असो एक घराबो. ुकासाच्या बापायक पॅण्टागोनिया ह्या रानवटी प्रदेशांत रिसॉर्ट बांदपाचो कल्प मेळटा. देखून तांकां शारी जीण सोडून पॅण्टागोनियाच्या रानांनी च्चें पडटा आनी हांगासरल्यान सिनेमाक सुरवात जाता. लुकास ह्या सान ुरग्याक एकलेपण सतावपाक लागता. देखून तो दर्या देगेर, रानांनी वा न्हंये देगेर भोंवता. सैमाच्यो कांय गजाली तो जाणून घेवपाचो यत्न करता. पूण तो सैमाच्या विचारांत घुस्पता. लुकास पॅण्टागोनियाच्या हिमनदी (ग्लेशियर) कडेन आपलो दीस सारता. तो दिसानदीस ग्लेशियरा भितर वचपाचो यत्न करता. लुकास ह्या भुरग्याच्या मनांत तरातरांचे विचार घुंवतात. पूण आपणाक केतें जाता तें ताका उतरांनी सांगपाक कळना. इतल्यान ताका निकोल्स (बॉय ओल्मी) हो रानांत भोंवपी मानवशास्त्रज्ञ मेळटा तो लुकासा कडेन

सैमाचीं आनी पॅण्टागोनियाचे हीम न्हंयेचीं गुपितां उक्तीं करता.

ही काणी एका मध्यमवर्गीय कुटुंबाची आनी ताच्या सपनांनी व्यापिल्ल्या संवसाराची. लुकासाचें एकसुरेपण आनी ताची जाल्ली आवतिकाय ताच्या आवय–बापायक कश्टदायक जाता. निकोलस ताच्या जिविताचो 'deadlock' सोडोवपाचो यत्न करता. ताका जिविताचें तत्वगिन्यान सांगता.

चलचित्र सुरवेक मंद गतीन चलता. मनीस आनी सैमाचो संघर्श ह्या चलचित्रांत दाखयला. मंद गतींतल्यान चलचित्र उलोवपाक लागता. हुनाब्कू हें एका सोंप्या विशयाचेर केल्लें चलचित्र, पूण खूब तात्वीक आनी प्रभावी. दिग्दर्शक पेब्लो सीजर हे सैमाचेर चलचित्रां करपी दिग्दर्शक. तांचें मुखेल आकर्शण म्हणल्यार भारतीय सैम आनी संस्कृतीचो तांचेर पडिल्लो प्रभाव.

तांणी ह्या फिल्मांत संतूर आनी सतारेचो वापर केला. पार्श्वसंगिताक लागून सैमाचें गूढ उक्तें जातना उमळशीक वाडीक लागता.

**Hunabkdo**

[2007/35mm/100min/Colour]

**दिग्दर्शक** : पाब्लो सिझर

**अभिनय** : राउल तायबो, फ्लोरॅन्सीचा राग्गी, बॉय ऑल्मी

वाठार : आर्जेंटिना
महोत्सव : 40वो इफ्फी 2009
विभाग : आंतरराष्ट्रीय सर्त

# 4 3 2 ONE:
# विचारांचे रंग आनी ढंग

कांय चलचित्रां प्रतिकात्मक आसतात. ह्या चलचित्रांनी व्यक्तीरेखा, टकथा, संगीत, नाट्य अश्यो खंयच्योच गजाली ठळकपणान दिसनात. तशें एखादें चित्र abstract आसता तशें एखादें चलचित्रूय abstract आसूं ता. पूण भारतांत असलीं चलचित्रां क्वचितूच पळोवंक मेळटलीं. कांय माणांत उदाहरण घेवपाचें जाल्यार अनुराग कश्यप हांणी दिग्दर्शीत केल्लें नो स्मॉकिंग' जंय तांणी वास्तवीक आनी काल्पनीक गजालींचो मेळ करून क प्रायोगीक चलचित्र केल्लें.

'4 3 2 उनो' हें अर्जेंटिनाचें एक चलचित्र. चलचित्राची लांबाय आसा ट्ट 70 मिनटां. चलचित्र तशें खूब घुस्पल्लें आनी समजुपाक कठीण अशें. ानसीक अवतिकायेचेर आदारून आशिल्लें हें चलचित्र.

चलचित्रांत चार बायलांचो अभिनय आसा. पूण तांकां कांयच संवाद ना. कांय वेळा उपरांत त्यो एकामेकाच्यो इश्टिणी अशें समजून येता. मुळांत चलचित्र ह्या चार बायलांच्या दुख्खाच्या वेळार तांची प्रतिक्रिया कितें आसता ाचेर अवलंबून आसा.

ह्या चलचित्राची खासीयत म्हणल्यार मन आनी अंतरमनाच्यो गजाली ड्ड्यार हाडल्यात. ज्यो गजाली उतरांनी सांगपाक जमना वा मनशाक समजुपाच्या पेल्यान आसा अश्यो गजाली ह्या चलचित्रांत दाखयल्यात. पूण

ह्यो गजाली कॅमेऱ्यांत आसपावन घेवप सोंपें न्हय. चार जाण आपापल्या दुख्खाक कशे तरेन पळयतात आनी तांच्या मनांत तशें अंतरमनांत कसले भाव येतात तें ह्या चलचित्रांत दाखयलां.

चलचित्राची पटकथा बरोवचे पयलीं व्यक्तीचित्रण करचें पडटा. जाका लागून खंयचे व्यक्तीरेखेची, खंयच्या प्रसंगाचेर कसली प्रतिक्रिया आसतली ताची कल्पना येता. पूण ते भाव दाखोवपाक मेळनात. ही abstract कल्पना घेवनच ह्या चलचित्राची निर्मिती केल्या. एखाद्रो मनीस जेन्ना दुख्खाचो विचार करीत आसता तेन्ना अचकीत एक खीणभर त्या दुख्खांत लेगीत सूख आसपावता हाची जाणीव जाता.

ह्या चलचित्राचे चित्रीकरण लेगीत दुख्खा वेळार Black & White रुपान आनी एका खिणयाळ्या सुखाच्या वेळार रंगीत दाखयलां. ह्या चलचित्रांतली म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार खास अशा तांत्रीक गजालींचो वापर करूंक ना. मनशाच्यो भावना आनी दुख्खाची सांगड सैमा कडेन घालून हें चलचित्र एक अदभूत मेळ घडयता. ना animation, ना visual effects, ना तांत्रीक संकलन. सैम, कॅमेरा, तोंडी हावभाव आनी संगीत ह्योच गजाली ह्या चलचित्रांत दिसून येतात. ना कसलें कथानक, ना कसली पटकथा आनी ना कसलेंच चित्रीकरण. मनशाची मानसीक परिस्थिती आनी ते परिस्थितींत उप्रासपी भाव आनी भावना, समजुपाक त्रास जाता. हें चलचित्र मरसडीज फोरीयोल्स हांणी दिग्दर्शीत केला. हें चलचित्र विचित्र आनी abstract. पूण आगळें वेगळें.

**4 3 2 One** [67min/2009]
**दिग्दर्शक** : मर्सडीज फार्रियोल्स
**छायाचित्रकार:** सॅबॅस्टॅन कार्डोना
**अभिनय** : माउरा फ्रान्झेन, पेपे गिल, गाब्रिएल फेलेपरीन, मारिया लॉरेन्झुट्टी, रोमान कापूरो
**संकलन** : सॅबॅस्टॅन कार्डोना
**संगीत** : मार्टिन क्युंझियो




वाठार : कोलंबिया
महोत्सव : 42वो इफ्फी 2011
विभाग : आंतरराष्ट्रीय सर्त
(भांगरा मोर जैतिवंत)

# PORFIRIO:
# दीसपट्टे जिणेंतल्यान कोरांतिल्ली व्यक्तीरेखा

जे तरेन रेखाचित्रकार धव्या कॅनवासाचेर ठळक रेखाचित्रां चितारतात तशे कांय पटकथाकार पड्ड्याचेर व्यक्तीरेखा उब्यो करतात. व्यक्तीरेखेचें व्यक्तीचित्र एकदम चोख, पर्फेक्ट आसपाक जाय. अशीं कांय अवघींच चलचित्रां आसात जीं एकेच व्यक्तीरेखे भोंवतणीं घुंवतात. पुराय चलचित्र एकेच व्यक्तीरेखे भोंवतणीं आस्पावन दवरप म्हणजे एक कलाच. हाकाच लागून असल्या चलचित्रांनी पटकथाकारांची कसरत जाता. 2011 वर्साचो इफ्फींतलो भांगरा मोर असल्याच एका चलचित्राक फावो जालो. हें चलचित्र आशिल्लें 'पोरफिरियो'. लॅटिन अमेरिकेंतल्या कोलंबिया देशांतलें. ह्या चलचित्राचें कथानक एके सत्य घटनेचेर आदारीत आसा. 2005 वर्सा एका अपंग मनशान विमान अपहरण करपाचो एक यत्न केलो. ताचेंच नांव आशिल्लें पोरफिरियो. पोरफिरियो हो कोलंबिया देशांतलो एक गिरेस्त शेतकार आशिल्लो. पूण एक फावट पुलीस फारपेटा वेळार ताचे फाटीक गुळी लागली आनी तातूंत ताचें अर्दें आंग अपंगूळ जालें. तेन्ना सावन तो पुलिसे कडल्यान लुकसाण भरपाय घेवपाक झगडटा.

पोरफिरियोची दरेक भावना चलचित्र वास्तवपणान मांडटा. पोरफिरियो, तागेलो चलो आनी बायल असो तांचो सुपुल्लो घराबो. पोरफिरियोचें दर एक सूख-दुख्ख ह्या चलचित्रांत आसा. ताचें परिस्थिती कडलें झूज, ताच्यो

शारिरीक गरजो आनी कुडीच्यो सैमीक प्रक्रिया. खंयच अडेची भावना ना वा कसलीच भेसळ ना. समाजा कडल्यान जाल्ली आडनदर आनी पुलिसांनी लुकसाण भरपाय दिवपाक लायिल्लो कळाव. पोरफिरियोची अर्थीक परिस्थिती घसरत वता आनी ताचो परिणाम ताच्या पुराय कुटुंबाचेर जाता. पोरफिरियो आपल्या व्हीलचेरा वयल्यान पुराय शार भोंवता. आदवोगाद ताका फटयतात. पोरफिरियोक लोकांचें लक्ष आपणाचेर ओडिल्लें जाय. देखून ताचे तकलेंत एक विचार येता. विमान अपहरण करपाचो. ताका लागून पिस्तुलां घेवपाक तो आपणा कडेन आशिल्लें सगळें विकता.

विमान अपहरण करपाक ताचेर उप्राशिल्ली परिस्थिती. प्रशासनाचें दुर्लक्ष, लोकांची हिणसावणी आनी कुटुंबाचे वाडटे प्रस्न कारण जाता. पोरफिरियोची आगळी वेगळी कथा.

ह्या चलचित्राची खासीयत म्हणल्यार स्वता पोरफिरियोन ह्या चलचित्रांत भुमिका केल्या. हें चलचित्र अपंगूळ जिणेचें वास्तव मांडटा. फिशालकायेन केल्लें संकलन आनी जबरदस्त व्यक्तीचित्रण हातूंतल्यान पोरफिरियोची व्यथा पड्ड्याचेर बेस बरी मांडप जाल्या. दिग्दर्शक अलेजाव्रो लांडेचाक हाचें पुराय स्रय फावो जावंक जाय. पेजाद व्यक्तीचित्रणाचें दर्शन – पोरफिरियो. एके व्यक्तीरेखे भोंवतणीं घुंवपी चलचित्रां खूब आसतलीं पूण व्यक्ती आनी परिस्थिती हांची सांगड घालपी पटकथा आसपाक जाय. देखून हें चलचित्र एक वेगळीच छाप दवरून वता.

**Porfirio**

**दिग्दर्शक** : आलेजेन्ड्रो लांड्रेस

**छायाचित्रकार:** थिमियोस बकाताकीस

**अभिनय** : एम पोरफेरियो, अल्डाणा, जॅर्लिन्सन, रामरीझ रॅनॉसॉ

**संकलन** : इलीन काट्झू

**इनामां/वांटो** : Grand jury prize, World Cinema Amsterdam (2011), Prix (2011)
Directors Fortnight (2011)
Toronto International Film Festival (2011)
San Sarostial International Film Festival (2011)
Busa International Film Festival (2011)



**वाठार** : पॅराग्वे
**महोत्सव** : 43वो इफ्फी 2012
**विभाग** : आंतरराष्ट्रीय सर्त

## 7 BOXES: पड्ड्यार जुवानीचो अवसर हाडपी चलचित्र

खंयच्याय आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांतलें चलचित्र सोंपतकच किळच्यो, हुयेली, ताळयो, किलोवण्यो घालून कितल्या चलचित्रांक दाद फावो जाल्या? कितल्या दिग्दर्शकांक थेटरांनी आडावन दवरल्यात आनी तांकां वेंग मारून, हात मेळोवन तांकां शाबासकी दिल्या? हे कांय खीण आशिल्ले कला अकादमींतले जेन्ना 7 boxes हें चलचित्र सोंपलें.

ह्या चलचित्राक प्रेक्षकांनी आकांताचो प्रतिसाद दिलो. हें चलचित्र पॅराग्वे ह्या देशांतलें. आयज मेरेन जितलेय लॅटीन अमेरिकेंतलीं चलचित्रां आयल्यात तातूंत एक गजाल स्पश्टपणान दिसता – ताजेपण आनी तरणाटेपण. तरण्या मनाची अस्वस्थताय हीं चलचित्रां पड्ड्यार हाडटात. हें चलचित्र 17

वर्सांचो व्हिक्टर हाचे भोंवतणीं घुंवता. ताका रोखडोच पयसो करूंक जाय म्हणून तो 100 डॉलर दिता म्हणून एका अनवळखी मनशाचें सामान दुसरे कडेन पावोवपाक राजी जाता. आनी हांगा सावनच चलचित्र गती घेता. ह्या चलचित्रांतल्यान एक गजाल स्पश्ट जाता – हांसो आनी विनोद तयार करूंक भास लागना जाल्यार लागता कथा आनी जिणेशैली.

पुरोगामी लॅटिन अमेरिकेच्या चलचित्रांचें वैशिश्ट्य म्हणल्यार तरणाट्यांचे प्रस्न, आशा, अपेक्षा चलचित्रांनी हाडटात. पूण ह्या चलचित्र लेखनाची देख घेवपाक जाय. नकसूदपणान केल्लें व्यक्तीचित्रण आनी मूळ संहितेक बांदून केल्लें चलचित्राचें लेखन. हें चलचित्र स्पॅनीश भाशेंत आसा. पूण जर चलचित्रांत विनोद हाडूंक भाशेची गरज पडना जेन्ना चलचित्राचें लेखन जबरदस्त जाता.

हें चलचित्र प्रेक्षकांक एकदम समरस करून घेता आनी देखून चलचित्राक इतलो आकांताचो प्रतिसाद मेळटा. चलचित्राचें दिग्दर्शन जुआंव कार्लोस मानेग्लिया आनी टॉना चेंबारली हांणी केलां. अप्रतीम पटकथा, फिशाल संकलन आनी चित्रीकरण ह्यो चलचित्राच्यो ठळक गजाली.

**7 Boxes (7 CAjas)** [Paraguagy/2012/105min/Colour/Spanish-Guorani]

**दिग्दर्शक** : Juan Carlos Maneglis, Tona Schembori

**छायाचित्रकार:** Richard Careaga, Pablo Meilicke, Marlin Oddone

**अभिनय** : Celso Franco, Lali Gonzalrez, Nicolraria

**संकलन** : Juan Carlos Maneglia, Juan Sebastian Zalander

**इनामां/वांटो** : Toronto (2012), Sanseletiane (2012)




आशिया आनी आशिया-पॅसिफीक

# आशिया-
# आशिया पॅसिफिक

**आशिया** हो जगांतलो सगळ्यांत चड लोकसंख्या आशिल्लो खंड. राजकी अस्थिरताय, विकासशील अर्थवेवस्था, मनीसबळाचें अखंड सामर्थ्य ह्या खंडांत आसा. सगळ्यांत रंगीत, विविध धर्म, जाती, जमाती, विस्वास, मान्यताय आशिल्लो हो वाठार. जितले विविधतायेन हो समाज नटला तितले विविधतायेन ह्या प्रांताच्या इतिहासाचीं तासां उमटल्यांत. जपान सारको अर्थीक विकास सादिल्लो देश ह्या प्रांतांत आसा. जगांतली सगळ्यांत व्हड लोकसंख्या, सैन्य, अणूशस्त्रां आनी अवाढव्य अर्थवेवस्था सांबाळपी भारत-चीन सारकिले देश. तशेच पाकिस्तान, उत्तर कोरिया सारकिले अस्वस्थ, आजूनय अण्वस्त्रां बाळगुपी देश आनी माल्दीव, भूतान, श्रीलंकां, फिलीपायन्स सारके कवळे देश आसात. तशेंच इंडोनेशिया, मलेशिया सारकेय देश आसात. राष्ट्रवाद आसा आनी राष्ट्रवादाच्या नांवार पोळी भाजपी संधीसाधू शक्तीय आसात. देव, देंवचार, भुतां-खेतां तशेंच आकांतवाद आसा, वामपंथ आसा. विविधताय आसा, पूण भेदभावूय आसाच. तशेंच मनशाचे सुसंस्कृतीन आनी विकृतीन कळस गांठला, आनी हाचोच थाव घेता आशियाचो सिनेमा.

ह्या वाठारांत असमानताय आनी अर्थीक विशमताय आसा. जगांतल्या

गिरेस्तांचीं घरां आसात, ताजमहाल, ग्रेट वॉल सारक्यो इतिहासीक सुवातो आसात. पूण तेच बराबर धारावी आनी चीनांतल्यो झोंपडपट्ट्यो लेगीत आसात. भोवरंगी आनी भोवढंगी लोक जीवना खातीर जगांतले नामवंत चलचित्रकार ह्या वाठारा कडेन आकर्शीत जातात. हो एकूच असो वाठार जंय दर एका देशाचो खंबीर सिनेमा आसा आनी त्या सिनेमाक वेगळी वळख आसा, देखून ह्या वाठारा भायल्या चलचित्रकारांक आकर्शीत करता. हो वाठार हाँगकाँग सारक्या प्रदेशांत जॅकी चॅना सारको चलचित्रकार जागतीक चलचित्रांची सह निर्मिती करता. तरातरांच्यो राजकी, समाजीक, वैचारीक चळवळी ह्या खंडांत चल्ल्यात. अर्थीक विशमताय मोट्या प्रमाणांत ह्या वाठारांत आसात. भांडवलवाद, दडपशाय आनी वसाहतवादान हो वाठार कितलेशेच शेंकडे चिड्डला. अमेरिकेच्या आकांतवादा आडच्या झुजाचो केंद्रबिंदूच आशिया आसा.

पूण ह्या सगळ्या विशयांनी एका नव्या सिनेमा चळवळीक जल्म दिला. आकांतवादान रेवाडिल्लो प्रदेश पाकिस्तान, अफगाणिस्तान हांगा तरणे पिळगेचे भुरगे चलचित्रां काडूंक लागल्यात.



| | | |
|---|---|---|
| **वाठार** | : | चीन |
| **महोत्सव** | : | 37वो इफ्फी 2006 |
| **विभाग** | : | आशिया-आफ्रिका-लॅटिन अमेरिका सर्त (भांगरा मोर जैतिवंत) |



# THE OLD BARBER:

# व्यक्तीरेखेची आंखणी आनी बांदणी

2009 वर्साक चीनान आपले कम्युनिस्ट सत्तेचीं 50 वर्सां उमेदीन मनयलीं. आपल्या शस्त्रांचें तशेंच सैन्याचें शक्तीप्रदर्शन केलें. माजी राष्ट्राध्यक्ष व्हू जीन ताव हांणी सैन्याक सलामी दिली. पूण अजापाची गजाल म्हणल्यार जो देश ह्या शतमानांत जागतीक महासत्ता जावपाक सोदता त्या देशान मात कवायत, घरा टीव्हीचेर पळोवपाची शिटकावणी लोकांक दिल्ली. येदें व्हडलें राष्ट्र. अर्थीक नदरेन प्रगतशील इतलीं वर्सां शस्त्रां आसून लेगीत ही

शिटकावणी कित्याक? असली खंयची गजाल आसा जाका लागून आपल्या लोकांक वांटेकार ना जावपाचीं शिटकावणी चीनाक दिवची पडली? लोकशाय नासतनाय जागतीक महासत्ता जावपाचीं सपनां बाळगुपी ह्या कम्युनिश्ट देशा भितर कितें शिजता? चीनाचे लोक खरेंच सुरक्षीत आसात काय कितें?

चीनाचे अर्थीक, धर्मीक, सामाजीक जिणेंत कम्युनिस्ट जिणे शैली आनी विचारपद्दत मुरल्या. चीनांत लोकांक धर्मीक स्वातंत्र्य ना आनी प्रसार माध्यमांचेरूय बंधना आसात. देखून आमकां भितरल्यो गजाली कळनात. आमचे कडेन एकूच मार्ग आसा आनी तो म्हणल्यार सिनेमा. हें सगळें पळोवन चीनाचे वास्तवीक जिणेची वस्तुस्थिती मांडपी कांय चीनी सिनेमा म्हज्या दोळ्यांच्या पड्ड्यार झळकले 'द रोड', 'एक्झाम', 'शाफ्ट' अशे हे कांय वेंचीक सिनेमा जातूंत वस्तुस्थितीचें दर्शन घडटा. कांय सिनेमांचो प्रभाव तर बरोच तेंप तिगून उरता. असोच एक सिनेमा 'द ओल्ड बार्बर'.

ह्या चलचित्राक भारतीय आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत भांगरा मोर लाबिल्लो. ह्या चलचित्राची लांबाय आसा वट्ट 105 मिनटां आनी चलचित्रांची दिग्दर्शन केलां हसी चावूली हांणी.

केंस कापपाचो वेवसाय करपी 93 वर्सां पिरायेच्या म्हाताऱ्या, झिंगा भोंवतणी ह्या चलचित्राचें कथानक भोंवता. झिंग ह्या म्हाताऱ्याचे व्यक्तीरेखेची बारीकसाणेन केल्ली आंखणी आनी बांदणी हें ह्या चलचित्राचें खाशेलेंपण. जो असो एकाद्रो चित्रकार आपल्या कागदाच्या कॅन्वासाचेर व्यक्तीरेखेच्यो रेशा जितले नाजूकसाणेन पॅन्सिलीन आंखता तितल्याच नक्सूदपणान हे म्हातारे व्यक्तीरेखेची आंखणी केल्या.

ह्या सिनेमांत निखट्या एका जाण्टेल्याचीच काणी ना. तर त्या जाण्टेल्याच्या रुपांत चीनांत कितें चल्लां आनी शिजता हाची बेस बरी जाणीव करून दिवपाचो यत्न जाला. ह्या 93 वर्सां पिरायेच्या जाण्टेल्यान कोमीतांगची राजवट, डेंग ची विचारसरणी ते वॅन जीया बाव मेरेनचो अणभव घेतला. साम्यवादाच्या नांवान चीनांत घडिल्ल्या बदलाचो लोकांचेर जाल्लो वायट परिणाम म्हाताऱ्याच्या रुपान दाखयला.

एका वेळार सगळें त्यागून माओच्या फाटल्यान उबो रावन जे खातीर सत्तापालट केल्ली त्या उद्देशाचो चीनाच्या आयच्या साम्यवादाक विसर

पडला काय कितें? हो म्हातारो पारंपारीक पद्दतीन केंसांची कापणी करता. जाल्यार आतां नव्या सलुनांनी आनी पाश्चात्य पद्दतींक लागून ह्या पारंपारीक वेवसायाचेर हावळ आयल्या.

हें चलचित्र पुराय बिजिंगाची भोंवडी करून हाडटा. आपलो कॅमेरा फकत म्हाताऱ्या झिंगाचे हालचालींचेर दवरून हो सिनेमा घडटा आनी उलोवपाक लागता. चलचित्र तशें पळोवंक गेल्यार साद्या गजालींचेर आदारीत आसता. पूण ताचो विस्तृत प्रभाव मात लोकांचे विशाल विचारसरणीचेर पडटा. भोव नक्सूदपणान एके व्यक्तीरेखेचेर उबें केल्लें चलचित्र लेगीत खंयच्याच आंगान उणे पडना. हें असलें चलचित्राचें खाशेलेंपण म्हणपाक जाय.

**The Old Barber** [2006/35mm/China/105mi]
**दिग्दर्शक** : Hasi Chaolu
**लेखन** : Ranping
**निर्माते** : Li Shuihe
**छायाचित्रकार:** Jinkui
**इनामां/वांटो:** भांगरा मोर – 37वो इफ्फी 2006,
Tokyo International Film Festival

वाठार : इराण–अफघाणिस्तान
महोत्सव : 42वो इफ्फी 2011
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड –'मिड फेस्ट फिल्म'



## GOLCHIREH:
# सिनेमाचेर आशिल्ली निश्ठा, प्रेम आनी बांदिलकी

सीडी वा डीवीडीची मर्यादा 10 ते 15 वर्सां. पॅन ड्रायव्ह हार्ड डिस्क केन्नाय क्रॅश जावपाक शकता. पूण कागद, रीळ हें शेंकड्यांचे शेंकडे तिगून उरतात. ऑस्कर जैतवंत रसूल पुकूटीन एक फावट म्हणिल्लें, रीळ ही सिनेमाच्या तंत्राची मर्यादा. अजून मेरेन रिळाक पर्याय येवंक ना. तशेंच लोकशाय आनी चलचित्राचो एक खोल संबंद आसा. स्वतंत्र आशिल्ल्या देशांनी चलचित्र निर्मिती पर्जळटा. फ्रान्स, ब्राझिल, अमेरिका, भारत हांगा घटमूट लोकशाय आसा. देखून ह्या देशांतल्या चलचित्रांनी आपलो जम बसयला. लोकशाय आनी चलचित्राचो संबंद आशिल्लो अशेंच एक चलचित्र 'गोलचिरे'. हें चलचित्र अफगाणिस्तानांतलें.

हें चलचित्र अशरफ खान ह्या सिने मोग्याचे भोंवतणीं घुंवता. खानाचें एक सिनेमा थेटर आशिल्लें. काबूल शारांत. आनी त्या चलचित्र घराचें नांव गोलचिरे. असरफ खाना कडेन हजारांनी चलचित्रांचीं रिळां आशिल्लीं. पूण अफगाणिस्तानाक नागरी झुजाचो आकांताळो इतिहास आसा. वीस वर्सांची नाजिबुल्लाची कम्युनिस्ट सत्ता, मुजादिनाची दादागिरी ह्या सगळ्या

मानगडींनी गोलचिरे वर्सांचीं वर्सां बंद पडिल्लें. पूण 90च्या दसकांत खंय तरी लोकशाय येता अशें जाल्लें. म्हूण खान आपलें गोलचिरे सारकें करता. पोरणो प्रोजेक्टर चलना म्हूण तो इराणांतल्या एका मनशाक आपयता. पूण ह्या वेळार अफगाणिस्तानांत मुजायदिनाचो प्रभाव वाडिल्लो आनी थंयच्या कट्टरवादी सत्तेन संगीत, सिनेमा, नाटकांचेर बंदी हाडिल्ली. गोलचिरेचेर हल्लो जाता, चलचित्रां दाखोवपाचीं बंद करपाचें फर्मान येता. आनी दोन दिसां भितर चलचित्रांचीं रिळां भर बाजारांत जळोवपाचो निर्णय तालिबान घेता. मजगतीं तालिबान अफगाणिस्तानाच्या चलचित्र पुरातन विभागाकय उजो लायता. पूण अशरफ खान आनी सांगाती जिद्द सोडिना. आनी चलचित्रांच्या रिळांची एक प्रत घराच्यो वण्टी फोडून भितर पुरून परत वणत बांददतात. हें काम 24 वरां भितर जाता. दुसऱ्या दिसा तालिबान भर बाजारांत हजारांनी चलचित्रांच्या रिळांक उजो घालता. हो खीण पळयतल्या दर एका चलचित्र मोग्याच्या काळजाक पिंवळ पडटा. धा वर्सां जातकच अमेरिकेच्या झुजा उपरांत तालिबानाची सत्ता सोंपता. अफगाणिस्तानाचो परत एकदां धूप जाता. मागीर अशरफ खानाचे सांगाती वणत फोडून लिपोवन दवरिल्लीं रिळां भायर काडटात. सगळ्यांच्या तोंडार एक वेगळोच हांसो फुलता. हो खीण पळोवपाक अशरफ खान मात जितो आसना. गोलचिरे परतून सुरू जाता. पयलें चलचित्र सत्यजीत रेचें 'पाथेर पांचाली' लागता.

दर एका चलचित्र मोग्यान हें चलचित्र पळोवचें. चलचित्रांचें जतन आनी सांबाळ करूंक कितले त्रास जातात तें समजून येतलें. अशरफ खान लेखक न्हय, दिग्दर्शक न्हय पूण चलचित्रांचेर निखळ मोग करपी व्यक्तीमत्व. हें चलचित्र वाहीद मौसेन हांणी दिग्दर्शीत केलां आनी चलचित्राची लांबाय आसा 108 मिनटां.

**Golchireh** [2011/108min/Farsi/Colour/35mm]

**दिग्दर्शक :** वहीन मौसन हौमन बेहमानेश

**छायाचित्रकार:** हौमन बेहमानेश

**संकलन :** नाझनीन मोफाखान

**इनामां/वांटो:** Kish (2011), BIAFF (2011)

वाठार : पाकिस्तान
महोत्सव : 41वो इफ्फी 2010
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड




## SLACKISTAN:

# पोटार्थी शिक्षणाचे बळी!

मार्क्स विचारसरणींत 'ॲलिनेशन' हो एक अस्वस्थ करपी विशय. मार्क्साच्या भौतीक वादांत मनीस आपल्या कामा पसून, समाजा पसून आनी मनीस कुळये कडल्यान पयस वता. तो सामाजीक प्रवाहांतल्यानूच कुशीक पडटा. आपले भोंवतणचें वातावरण, परिस्थिती हांचे कडेन ताचो कांयच संबंद उरना. ह्याच गजालीक alienation म्हणटा मार्क्साचे विचारसरसणींत हें जावपाक capitalist mode of production म्हणल्यारच भांडवलशाय उत्पाद पद्धतीक जबाबदार धरलां

'ॲलिनेशन' ही मनीसकुळयेचे उत्पत्तींत जाल्ली एक विचित्र आनी भयानक गजाल. एक मनीस आपले भोंवतणच्या प्रवाहांतल्यान कित्याक पयस वता?

जर मार्क्सान 'ॲलिनेशना'क भांडवलशाय उत्पादन पद्दत जबाबदार धरिल्ली जाल्यार 21 व्या शतमानांत आमची शिक्षणीक पद्दत कांय प्रमाणांत जबाबदार आसा. आशीयायी देशांत जंय गरीब आनी गिरेस्त जगां समांतर वाडटा थंय हें बेस बरें पळोवंक मेळटा. ह्या जगांत सगळेच एके फसवणुकीचे बळी थारल्यात. एका व्हडल्या कारस्थानाचो बळी. आपलो भुरगो बरे शाळेंत शिकचो, ताका बरो पोस्ट ग्रॅज्युएट प्रोग्राम मेळचो आनी वजनदार पगाराची पॅकेज. गरीब वा गिरेस्त सगळ्यांची एकूच अपेक्षा! आपलो देश खंयचो? तो खंय आसा? कोणाक पडलां भोंवतणचे परिस्थितीचें? पोटार्थी शिक्षणाचो होच एक मंत्र!

भुरगें शिकता, आवय–बापूय बोट दवरता त्या विशयांत वता, पदव्यो घेता, नोकरी मेळटा, पूण फुडें कितें? कोणें ह्या भुरग्यांचेर विचार केला? आपली भोंवतणची परिस्थिती डावलून वा विचार करिनासतना जो भुरगो शिकता तो 'ॲलिनेशन' चो बळी थारता.

हाचें भयानक दर्शन स्लॅकिस्तान ह्या पाकिस्तानी चलचित्रांत घडटा. हम्मद खान ह्या तरणाट्यान कांयच बजेट आनी कोण प्रॉड्युसर नासतना हें चलचित्र दिग्दर्शीत केलां. खान हो स्वता पाकिस्तानी वंशाचो लंडनांत रावपी तरणाटो. खान हांणी शिकिल्ल्या गिरेस्त घराण्यांतल्या पाकिस्तानी तरणाट्यांची भावना, दशा आनी उत्फर्के ह्या चलचित्रांत घेतल्या.

तरणाटे राष्ट्रीय आनी सामाजीक प्रवाहांतल्यान कशे पयस गेल्यात तें ह्या चलचित्रांत दाखयलां. चलचित्राचें चित्रिकरण इस्लामाबाद शारांत जालां. चलचित्राचें कथानक हसन आनी ताच्या दोन इश्टां मदीं घुंवता. हे तरणाटे विदेशी शिक्षण पद्दतीचे प्रॉडक्ट. हे भुरगे शिकल्यात, एक अभियंतो, दुसरो एमबीए. तांचे आवय बापूय गिरेस्त अधिकारी वा उद्देगपती. पूण हे भुरगे घुस्पल्यात. ह्या भुरग्यांक शिक्षणान पदव्यो दिल्यात, नोकऱ्यांच्यो संदी दिल्यात पूण पाकिस्तानांत कशें रावप तें शिकोवना. ते घुस्पल्यात, विदेशांत तांकां हिणसावणेची वागणूक मेळटा. तांकां थंय कोण स्विकारूंक तयार

नासता.

पाकिस्तानाची परिस्थिती आनी तरणाट्यांचीं सपनां हातूंत तंटो उप्रासला. शिकिल्लो तरणाटो पाकिस्तानी प्रवाहांतल्यान पयस गेला. तो घुस्पला. तो पाकिस्ताना कडेन परत नातें जोडूंक सोदता, पूण ताका कितें करप तेंच खबर ना.

हें चलचित्र सगळ्यांचेरूच एके तरेचें मौन घालून वता. दर एकल्या तरणाट्याक अस्वस्थ करून दवरता. हे परिस्थितीक जबाबदार कोण? आमी सदांच आमचे भोंवतणचे गरिबीक हिणसायतात, पूण केन्नाच स्विकारून ताचेर मात करपाचो प्रयत्न करिना. म्हजो गांव, म्हजो वाठार, म्हजो देश हें शिकोवपी शिक्षण वेवस्था शेणल्या काय कितें? हे प्रस्न हें चलचित्र विचारता. दिग्दर्शक हम्मद खान आनी ताची घरकान्न शान्दना आयुबान हो भयानक विशय उक्तो केला. आमी सगळे पोटार्थी शिक्षणाचे बळी थारल्यात.

दर एकलो आवय-बापूय आपलो भुरगो बरो शिकचो म्हूण भोंवतणचे परिस्थितीची जाणीव करून दिना. पूण हेच भुरगे व्हडले जातात आनी भोंवतणची परिस्थिती पळयतात तेन्ना ती समजुपाक तांकां खूब वेळ गेल्लो आसता.

हालीं खूब जाण म्हणटात: शिक्षण पोट भरूंक नासता? शिक्षण आनी संस्कृतीचो संबंद कितें? पालक भुरग्यांचो फुडार कित्याक थारावंक शकना? एकूच जाप- स्लॅकिस्थान!

**Slakistan** [2010/UK/Pakistan]

**दिग्दर्शक** : हम्मद खान

**लेखन** : शान्दना आयुब, हम्मद खान

**छायाचित्रकार:** अदमान मलीक/हम्मन खान

**संकलन** : हम्मद खान

अभिनय : शाबाझ सिग्री, आयशा अख्तर, अली रहमान खान, उसमान खलीद भट

वाठार : इंग्लंड/पाकिस्तान
महोत्सव : 41वो इफ्फी 2010
विभाग : आंतरराष्ट्रीय सर्त–'ओपनिंग फिल्म'




## WEST IS WEST:

# पाकिस्तान हें विफळ राष्ट्र ?

स्वतंत्र भारत आनी पाकिस्तानाची उत्पत्ती एकाच वेळार जाली. शेंकड्यांनी वर्सांची राजेशाय, हुकूमशाय, वसाहतवादा आड एके नवे लोकशायेचो जल्म जालो. शेंकड्यांनी वर्सांचे जुल्म सोंशिल्ल्या ह्या देशांनी लोकशाय फकत राजवेवस्था म्हणपाक जावची ना. एके नवे सभ्यताये कडेन वचपाचें तें पयलें पावल आसलें. पाकिस्तानान घडये लोकशाय आपणायिल्ली पूण ताची मूलभूत संविधानीक बांदावळ धर्माचेर आशिल्ली. ह्या भयानक धार्मीक गणतंत्राचो कसो विध्वंस चल्ला तो आयज पाकिस्तानांत पळोवंक मेळटा. एक प्रस्न पडप सभावीक आसा, 'पाकिस्तान हें विफळ राष्ट्र?'

धर्मा बाबतींतले कट्टरपंथी विचारसरणेक लागून विदेशांत आशिल्ल्या

पाकिस्तानी नागरिकांक सतत हिणसावणी सोंसची पडल्या. आयूब खान दीन हे पाकिस्तानी वंशाचे फामाद ब्रिटिश अभिनेते आनी नाटककार. तांचें चडशें लिखाण स्वताच्या अणभवांचेर आदारीत आसा. East is East आनी West is West हे तांणी बरयिल्लें गाजिल्लें चलचित्र. West is West हें चलचित्र तांणी बरयलां आनी ऍंडी डे इमोनी हांणी तें दिग्दर्शीत केलां. हे चलचित्र East is East ह्या चलचित्राची फुडली आवृत्ती आशिल्ल्यान तातूंतली मुखेल पात्रां तींच आसात.

पाकिस्तानांतले गरिबीक लागून थंयचे नागरीक ब्रिटन, अमेरिका सारकिल्या देशांनी वतात. थंयच्या वातावरणा कडेन आपलो सांस्कृतीक संघर्श आनी आपलें अस्तित्व तिगोवन दवरपाची तांची धडपड.

चलचित्राचें कथानक जॉर्ज खान (ओम पुरी) म्हणजेच ब्रिटिश नागरिकत्व घेवचे पयलींचो जहाँगीर, हाचे भोंवतणी घुंवता. जॉर्ज खानाक दोन पूत आनी ब्रिटिश नागरिकत्व मेळोवपाक जॉर्जान केल्लें ब्रिटिश बायल इला (लिंडा बासेट) हिचे कडेन लग्न. जॉर्ज खानाक पंजाब-पाकिस्तानांत बायल आनी भुरगीं आसतात. गरिबींतल्यान वाट काडपा खातीर केल्ली जॉर्ज खानाची ही तडजोड. विदेशांत शाळांनी आनी विदेशी आवय म्हन्यांत वाडिल्ले जॉर्जाचे दोनूय पूत. तांकां इस्लामी संस्कारांनी वाडोवपाची जॉर्जाची इत्सा. देखून आपल्या पुतांक घेवन जॉर्ज अकस्मात पंजाब पाकिस्तानांत पावता. थंय जॉर्जाची बायल, नांव दिवंक ना (इला अरूण) आनी लग्नाच्यो धुवो आसतात. विदेशांत वाडिल्ले खान भाव गांवच्या वातावरणा कडेन संघर्श करतात आनी लोकां मदीं भरसतात हें मार्मिकपणान दाखयलां. विदेशांतली जॉर्जाची बायल इला आपल्या घोवाक आनी भुरग्यांक सोदीत पाकिस्तानांत पावता. आनी ह्या घुस्पागोंदळांतल्यान चलचित्र फुडें वता.

भावना हो खंयच्याय चलचित्राचो आत्मो. जॉर्जाची विदेशी बायल इला (लिन्डा बासेट) आनी जॉर्जाची पाकिस्तानी बायल जिचेर घरकारान सुमार 30 वर्सां दुर्लक्ष केल्लें (इला अरूण), हांची भेट जाता तेन्ना चलचित्र एक वेगळीच उंचाय गांठटा. दोगी बायलांक एकामेकाची भास येना पूण त्यो उलयतात. दोगांयचेंय दूख एक, दोगी धर्माच्या आनी संस्कृतीच्या नांवार चलिल्ल्या कुड्डेपणाच्यो बळी.

ह्या वर्सांनी पाकिस्तानांतल्यान खूब चलचित्रां आयल्यांत आनी तीं असलेच विशय घेवन आयल्यांत. West is West ही एक खरी व्यथा लोकां मेरेन पावयता. गरिबी मनशाक खंयच्याय थराचेर व्हरता. कितेंय करूंक लायता. ही कथा आयूब खान दीन हाचे सत्य घटनेचेर आदारीत आसा. खुदा के लिए, स्लॅकिस्तान, रामचंद पाकिस्तानी हीं कांय हालीं आयिल्लीं पाकिस्तानी चलचित्रां. दर एक चलचित्र वेगवेगळो वयोगट दाखयता, पूण पाकिस्तान आनी पाकिस्तानाची परिस्थिती दर एका चलचित्रांत सारकीच आसा. धर्मीक आतंकवाद आनी गरिबी. खरेंच Is Pakistan a failed State? पाकिस्तान हें विफळ राष्ट्र?

**West is West** [2010/United Kingdom/102min]

**दिग्दर्शक** : ॲण्डी दे एमोनी
**लेखन** : आयुब खान दीन
**निर्माते** : लेजली उडवीन
**अभिनय** : ओम पूरी, लींडा बासेट, अकीब खान, जीमी मिस्त्री, एमील मार्था, लेजली निकोल, इला अरूण, विजय राज
**छायाचित्रकार**: पिटर रोबर्टसन
**संकलन** : जॉन ग्रिगोरी, स्टिफन ओ कानोल
**संगीत** : रॉव लॅन, शंकर एहसान लॉय




वाठार : पाकिस्तान
महोत्सव : 41वो इफ्फी 2010
विभाग : इन्सपीरेशन्स ॲण्ड करेज

## BHUTTO:
# वादग्रस्त व्यक्तीमत्व

पाकिस्तान हो जगांतलो भिरांकूळ देश. परंपरावाद, आकांतवाद, धर्मीक संघर्श, गरिबी, अस्थिरताय हातूंत घुस्पल्लें राष्ट्र, पाकिस्तान. खूब जाण म्हणटात पाकिस्तान हें असफळ राष्ट्र. पूण पाकिस्तान आजून आसा आनी तातूंत चलपी आकांतवाद, अस्थिरतायी वस्तुस्थिती आसा. भारता वांगडा स्वतंत्र जाल्लो पाकिस्तान आजून आटापांत येना.

पाकिस्तानाचे राजकी उत्पत्तींत कांय अभिव्यक्ती अग्रंवर जाल्यात. तांचें पुराय जिवीत एक विचारसरणी जावन पडलां. तातूंतली अशीच एक व्यक्ती बेनाझीर भुत्तो. बेनाझीर भुत्तोच्या जिवीतभरांतली 'व्हिडियोक्लिप्स', 'ऑडियोक्लिप्स', मुलाखती, भाशणां घेवन 'भुत्तो' हो म्हायतीपट डुआन बघमन आनी ज्योनी ओ हारान दिग्दर्शीत केला. 115 मिनटांत बेनाझीरचें पुराय जिवीत पड्डयार उबें करपचो यत्न पटकथाकार ज्योनी ओ हारान आपले आगळे वेगळे पटकथा शैलींत केला. फामाद संकलक जसीफ हेराल्डज हांणी फिशालकायेन ह्या म्हायतीपटाचें संकलन केलां.

बेनाझीर भुत्तोची राजकी कारकीर्द वादग्रस्त आशिल्ली. तिचो बापूय झुल्फीकार भुत्तो एका वेळा वयलो प्रभावी वक्तो आनी पाकिस्तानाचो पंतप्रधान आनी उपरांत पाकिस्तानाचे परंपरे प्रमाण भुत्तोक फांशी दिली. हाचे उपरांत राजेशाय थाटांत वाडिल्ली, ऑक्सफर्ड ग्रेज्युएट, पाकिस्तानाच्या राजकारणाचो कांयच गंध नाशिल्ली बेनाझीर भुत्तो राजकारणांत येता. बेनाझीर भुत्तोची राजकी कारकीर्द केन्नाच थीर आनी नितळ नाशिल्ली. बेनाझिरचें व्यक्तीमत्व पाकिस्तानाच्या लोकांक सदांच 'Larger than the life' अशेंच आशिल्लें. ऑक्सफर्ड ते वेंचणूक. वेंचणूक ते हद्दपार आनी हद्दपार ते दुखेस्त मरण. बेनाझीर पयली पाकिस्तानी बायल प्रंतप्रधान आशिल्ली. पूण सगळ्यांत भ्रश्ट शासक अशीय तिची प्रतिमा आशिल्ली.

भुत्तोच्या जिवितांतले सगळेच आयाम ह्या म्हायतीपटांत घेतल्यात आनी देखूनच हो म्हायतीपट आगळो वेगळो थारता. 41 वे इफ्फींत 'Inspirations: Tales of courage' म्हणजेच 'स्फूर्त: धाडसाच्यो काणयो' ह्या विभागांत ह्या म्हायतीपटाची निवड जाल्ली. ह्या म्हायतीपटान पुराय जगांत नामना मेळयल्या.

हालींच्या काळांत म्हायतीपटाची व्याख्या खूब बदल्ल्या. म्हायतीपटांत आतां नवें तंत्रगिन्यान आनी पटकथा आयल्यात. देखून एक वेगळी गती ताका मेळ्ळ्या. 'भुत्तो' हो म्हायतीपट, एके वेवसायीक पद्दतीन एका म्हायतीपटाची निर्मिती कशी जावं येता ताचें बेस बरें उदाहरण. बेनाझीर ही पाकिस्तानाच्यो परंपरा आनी आकांतवादांतल्यान लोकशायेचें पुनर्वसन करपी व्यक्ती आशिल्ली. हट्टी, निश्ठूर, भ्रश्ट राजकारणी अश्यो कितल्योश्योच उपाधी तिका दिल्ल्यो. पूण सामान्य मनशाचे नदरेंत ती राजकी मसिहा! ती हुतात्मो आशिल्ली.

**Bhutto** [2010/USA/115min]
**दिग्दर्शक** : डुआन बघमन, ज्योनी ओ हारा
**लेखन** : ज्योनी ओ हारा
**छायाचित्रकार:** जिन मूलरायन, स्कॉटमिलर
**संकलन** : जसीक हर्नाडिज

वाठार : पाकिस्तान
महोत्सव : 38वो इफ्फी 2007
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड




## KHUDA KE LIYE:

# चलचित्रांतल्यान पकिस्तानाचें पडबिंब

गोंय सरकाराच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयान घडोवन हाडिल्ल्या डी. डी. कोसंबी विचारांच्या एका उत्सवांत फांकिवंत अभ्यासकार गुरूचरण दास हांणी एक म्हत्वाचो मुद्दो मांडलो. तांणी म्हणलें, अमेरिकेचे आदले राष्ट्राध्यक्ष जॉर्ज बुश हांणी भारताक पाकिस्तानाच्या जाग्यार चीनाक स्पर्धक म्हूण पळोवपाक लायलो. राजकी दृश्टीन हो मुद्दो बराबरय आसत. ज्या देशाच्या संविधानाचीच बांदावळ धर्माचेर आदारीत आसा आनी 'न्युक्लीयर बॉम' करपी आनी अत्याधुनीक सैन्य वापरपी भारताच्या शेजारी देशाची हालत कितें जाल्या ही एक विचार करपा सारकी गजाल.

पाकिस्तानाचे निर्मणेक सुमार 60 वर्सां जावन गेलीं तरिपूण कितलेशेच खेपे आणिबाणी, लश्करी राज्य जाल्यार कितलेशेच खेपे संविधानूच बरखास्त केलां. भारतांतल्या लोकांनी पाकिस्तानाक फकत एक दुस्मान म्हूण पळयला. पाकिस्तानाची राजकी परिस्थिती तशी आशिल्लीय बी. धर्माचेर पाकिस्तानान आपलें गणराज्य व्यापलें. धर्माचो वापर करून ऍटम बॉम तयार केलो. धर्माचेर आदारून सैन्य व्यापलें, धर्माचेर आपल्यो राजकी आनी समाजीक पोळयो भाजल्यो. पूण त्या देशांत रावपी मनशांचें कितें?

पाकिस्तान आयज सगळ्या वटांनी कोसळटा. समाजवेवस्था, राजकी स्थैर्य, अर्थवेवस्था तर तालिबानान आयज काबार करून उडयलां. थंयच्या लोकांक कितें दिसता हें आमकां कशें कळटलें? तांचे कडेन सबळ अशीं प्रसार माध्यमांय नात आनी दिसाळींय नात. कांय मोजकी पाकिस्तानी चलचित्रां पळयलीं जाल्यार पाकिस्तानाच्या लोकांचे जिणेची थोडीभोव कल्पना येता. अशें आसतना दोन पाकिस्तानी चलचित्रांचीं नांवां घेन दिसतात आनी तीं परत परत पळयन दिसतात.

सगळ्यांत चड तोखणाय करीन दिसता 2007 वर्सा रिलीज जाल्ल्या चलचित्र 'खुदा के लिए'ची. हें चलचित्र गोंयांत आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत रिलीज जाल्लें. हें चलचित्र शोएब मन्सूर हांणी दिग्दर्शीत केलां. हें चलचित्र हांवें तीन फावटीं चलचित्र महोत्सवांनी पळयलें. एक प्रिमियर शो, उपरांत ताचोच रिपीट शो आनी ताचे उपरांत पुणे आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत. पूण तिनूय फावटीं ह्या चलचित्रान म्हजेर मोनेळ घालो.

चलचित्रांत त्रुटी कितल्योय आसूं, पूण पाकिस्ताना सारक्या देशांत असले चलचित्र निर्मितीचें धाडस आनी दिग्दर्शकाची संवेदनशीलताय तोखणाय करपा सारकी आसली. हें चलचित्र जर चित्रमय आनी तंत्रीक बाबतींत जोखलें जाल्यार हें चलचित्र आनी ताचे संहितेचेर अन्याय जातलो. पाकिस्तानाचे समाजीक आनी राजकी परिस्थितीक लागून फुगार जाल्ल्या धर्मीक संविधानीक बांदावळ आशिल्ल्या देशाची दुखेस्त काणी.

ह्या चलचित्रांत व्हडलें कथानक आनी पोकळ आशावाद अशें कांयच ना. पाकिस्तानांत धर्माच्या नांवार जें कितें चल्लां तेंच दाखोवपाचो यत्न ह्या चलचित्रांत केला. ह्या चलचित्राच्या घडणुकां कडेन खेळोवन दवरता तें ह्या

चलचित्राचें संगीत. आनी हें पुराय चलचित्र पाकिस्तानी संगिताचेर आदारीत आसा. जावेद आनी रौहेल ह्यातान गांवगिरें, सुफी, शास्त्रीय संगीत एकठांय हाडून एक अद्भूत मिलाफ तयार केला. चलचित्राचे निमाणे कडेन नसरुद्दीन शाह तर ह्या चलचित्राक एके आगळे वेगळे उंचायेर व्हरून दवरता. फकत धा मिनटांच्या तांच्या सीनांत हें चलचित्र एक वेगळीच उंचाय गांठ्ठा.

**Khuda Ke Like**

दिग्दर्शक : Shoaib Mansoor

लेखन : Shoaib Mansoor

छायाचित्रकार: David Lemay, Ali Mohammad, Neil Lisk, Ken Seng

अभिनय : Shaan, Nasseruddin Shah, Fawad Afzal Khan, Imam Ali, Hameed Sheikh

संकलन : Ali Javed

संगीत : Rohail Hyatt

वाठार : विएतनाम
महोत्सव : Goa International Film Festival for documentary Short and animation films 2007
विभाग : म्हायतीपट

# VIETNAM SYMPHANY :
# म्हायतीपटांचे बदलतें स्वरूप

विएतनाम झूज हें संवसारांतलें एकूच झूज जंय अमेरिकेक पराभव स्विकारचो पडलो. गोंय आंतरराष्ट्रीय लघुपट, म्हायतीपट आनी ॲनिमेशन चलचित्र महोत्सव. ह्या महोत्सवांत जगांतले दोन नामनेचे म्हायतीपट दाखयले. हे म्हायतीपट पळयतकच सगळ्यांनीच म्हायतीपटाचें स्वरूप बदलत आसा हें मान्य केलें. पयलीं 'विएतनाम सिम्फनी' आनी 'इमेजीस ऑफ डिक्टेटरशीप' हे म्हायतीपट दाखयले. हरशीं म्हायतीपटांनी गंभीर मुलाखती, गंभीर संगीत आनी दोन तीन कॅमरा अँगल आसतात. पूण आयच्या म्हायतीपटांक उपाट तंत्रीक गजालींची जोड आसता. खूब कॅमेरा अँगल, मुलाखत घेवपाची नवी पद्दत आनी आधुनीक पद्दतीन दिल्लो वॉयस ऑवर. ह्यो सगळ्यो गजाली ह्या म्हायतीपटांत पळोवपाक मेळटात. 'विएतनाम सिम्फनी' हो विएतनामी भाशेंतलो एक म्हायतीपट. हो म्हायतीपट टॉम उझ्झुब्रिकीन दिग्दर्शीत केला. पुराय म्हायतीपट 52 मिनटां चलता. ह्या म्हायतीपटाचें खाशेलेपण म्हणल्यार झुजा मळा वयलीं दुर्मिळ चित्रां आनी फुटेज. हांगा त्या मनशाच्यो व्यथा दाखयल्यात जे झुजा वेळार हिनोय शाळेंत शिकताले. तांकां झुजा वेळार हिनोय शार सोडून वचें पडटा आनी एका वेगळ्याच जाग्यार ते शिकतात. तो जागो भुंयारी आनी भुंयारांतूच शाळेचे वर्ग भरतात. पूण संगिताक ते आपले

जिणे परस व्हड मानता. मुखेल करून थंय विएतनामी शास्त्रीय संगीत शिकयतात. ते त्या संगिताचे जतनाये खातीर वावुरतात.

एक देखाव पळोवपा सारको आसा. जेन्ना एक भुरगो रणगाड्यार रावन व्हायोलीन वाजयता आनी ताचेच फाटल्यान बॉम्ब फुट्टटा. ह्या म्हायतीपटांत पुराय तीन पिळग्यांच्या लोकांचो आसपाव आसा. म्हायतीपटाची मुखेल सुत्रधार डा वॅन डे हिच्या बापायचें त्या संगिता विशींचे विचार आनी ताच्या पुताचो त्या संगिता कडेन पळोवपाचो दृश्टीकोण मांडला. डा वॅन डे हाणें झुजाच्या वेहार आपलें घरदार सोडून विएतनामी शास्त्रीय संगीत वांचोवपाचो वावर केलो. पूण ताच्या पुताक तें संगीत नाका. तो झाज, रॉक असल्या प्रकारां कडेन वळटा. जेन्ना ताचो बापूय डा वॅन डे, झुजा वयल्या ताच्या त्यागाची खबर सांगता तेन्ना ताचें मतपरिवर्तन जाता. ताकाय दिसता, आपणें तें सांबाळपाक जाय. ह्या म्हायतीपटांत चडशे देखाव झुजा वेळार चलिल्ले शाळेचे आसात. निमाणो देखाव – जेन्ना डा वॅन डेच्या चल्याचें मतपरिवर्तन जाता आनी तो व्हायोलीन हातांत घेता, ताचे फाटल्यान सान भुरगीं व्हायोलीन खांदार मारून धांवतात. इतलो बरो क्लायमॅक्स मेळप म्हणल्यार आयज दुर्मिळ. ह्या म्हायतीपटांत सगळेंच आसा. संगीत, प्रेम, इश्टागत, नातीं, भावना आनी त्याग.

**Vietnam Symphany**

[2005/DVC PRO/52min/Vietnam]

इनामां : Silver Conch -
Mumbai International Film Festival (2006)


Tajikistan
Afghanistan
Islamabad
Lahore
Pakistan
New Delhi
Nepal
Jaipur
Lucknow
Bhutan
Karachi
Bangladesh
Ahmedabad
India
Kolkata
Myanmar
(Burma)
Mumbai
Pune
Hyderabad
Yangon
Chennai
Bay of
Bengal
Bangalore
Arabian
Sea
Andaman
Sea
Sri Lanka
Laccadive
Sea
1000 km
500 mi

# भारत

# भारत

**साबार** भाशा, रंग, धर्म, जाती, परंपरा, संस्कृती हांचो एक देश म्हणल्यारच भारत. हजारांनी वर्सांचो चौफेर इतिहास, संस्कृती आनी परंपरा लाबिल्लो प्रदेश. शांतीकायेचो संदेश दिवपी बुद्ध, महावीर, गांधी हांगाच जल्मले. रगताचे पाट व्हावोवन झुजां जिखलीं तो हो प्रदेश. पुरोगामी भारताचो जल्म जालो तेन्ना जग दोन कंपूंनी विभगिल्लें. गरीब समाजांत लोकशाय चड वेळ तग मारूंक शकना ही येवरोपी मानसीकताय आशिल्ली आनी भारत तर भोवरंगी आनी भोवढंगी संस्कृतींत विखुरिल्लो. पूण साठ वर्सां उपरांत भारत ही जगांतली सगळ्यांत व्हडली प्रबळ लोकशाय म्हूण उबो रावला. पूण भारताचे निर्मणेक भायल्यान जितलो धोको आशिल्लो ताचे परस चड धोको भितरल्यान आशिल्लो. धर्मीक हिंसा, भाशीक वाद, प्रांतभेद, नक्सलवाद आनी हेर. ह्या गजालींक लागून म्हत्वाची थारता ती म्हणल्यार राष्ट्र निर्मणी.

राष्ट्रनिर्मणेचे प्रक्रियेंत विविध प्रांतांक एक देश म्हूण जोडूंक जाय. आपली अस्मिताय जपून भारत देशाच्या अखंड प्रवाहांत तांकां हाडूंक जाय. गांधी, सरदार पटेल ते जयप्रकाश नारायण मेरेन भारत जोडपाच्यो विविध चळवळी जाल्यो. समाजीक तश्यो राजकीय. कांय जाण भारताक आजून एक देश न्हय

तर ‘Multinational entity’ मानतात. आमी एक देश? काय 28 वेगवेगळे देश? पूण भारताचे लोकशाय प्रक्रियेंत विविध विरोधी मतांचो आस्पाव करून घेतला. अर्थीक प्रगती आनी राजकी स्थैर्याक लागून भारताचें ‘फॅडरेशन’ जैतिवंत थारूंक लागलां. पूण राष्ट्रनिर्मिती हो संविधानीक वा कायद्याचो विशय न्हय. देखून पुरोगामी भारताचे इतिहासकार रामचंद्र गुहा आपल्या ‘इंडिया आफ्टर गांधी’ ह्या पुस्तकांत म्हणटात, ‘संविधाना बराबर क्रिकेट आनी सिनेमा ह्या दोन गजालींनी भारताक एकसंघ दवरला’. ह्या विधानांत तथ्य आसाच. चेन्नय–झारखंड संबंद कितें? पूण झारखंडांतल्या एका गांवांतल्यान येवपी महेंद्र सिंग धोणी आयपीएल सर्तींत चेन्नयचो मुखेली जावपाक शकता आनी लोक तें स्विकारतात. तशेंच सिनेमा, भारतांत जगांतली सगळ्यांत व्हडली वेवसायीक चलचित्र निर्मिती जाता तशेंच हजारांनी प्रायोगीक चलचित्रां दर वर्साक निर्माण जातात. सेल्यूलॉयड ते डिजिटल फॉर्मेट मेरेन भारताची चलचित्र निर्मिती अखंड जाल्या.

दादासाहेब फाळके हांणी भारतांत पयलेच खेप चलचित्रांची निर्मिती केली. स्वातंत्र्या उपरांत सिनेमांचो भांगराळो काळ, समांतर सिनेमा आनी डिजिटल यूग ह्या कालखंडांनी भारतीय सिनेमा विभागला. व्ही. शांताराम, रित्विक घटक, बिमल रे, सत्यजीत रे, अडूर गोपालकृष्णन, मणी कौल, गोविंद निहलानी अशा साबार व्यक्तीमत्वांनी भारतीय सिनेमांचेर आपली शाप दवरल्या.

भारतीय सिनेमांचें पुराय तरेन प्रतिनिधित्व जावचें आनी प्रादेशीक भाशांक न्याय मेळचो म्हूण भारत सरकार भारतीय पॅनोरमांत चलचित्र वेंचता. ह्या विभागांत भारतीय भासांतलीं साबार चलचित्रां येता आनी अधिकृतपणान भारताचें प्रतिनिधित्व जागतीक मळार करता.

पुर्व उत्तर भारतांत तशी लोकप्रिय वा वेव्हारीक चलचित्र संस्कृती ना. पूण थंयूय चलचित्रां जाता, तीं बाकीच्या भासां कडेन सर्त करतात. कोंकणी सिनेमा तसो खूब उण्या प्रमाणांत आसा पूण तो स्पर्धात्मक आसा. भारतांत दर एका प्रांताची वळख वेगळी, भास, संस्कृती, मान्यताय वेगळी पूण सिनेमा एक. खऱ्यांनीच, विविधतायेन नटला भारतीय सिनेमा. तशेंच लोक–काणयो, अध्यात्म, पुराय इतिहासाचो गडगंज प्रभाव सिनेमाचेर आसा.




**वाठार** : भारत
**महोत्सव** : 41वो इफ्फी 2010
**विभाग** : भारतीय पॅनोरमा (फिचर)

# 3 IDIOTS:

आमीर खान, विधू विनोद चोप्रा, राज कुमार हिरानी, बोमन हिरानी हीं नांवां जेन्ना एखाद्या पड्ड्याचेर झळकतात तेन्ना नक्कीच कितें तरी वेगळें आनी भव्य जातलें म्हणपाची कल्पना येता. वयलीं नांवां पुरोगामी भारतीय प्रायोगीक आनी वेवसायीक चलचित्रांमदीं सांगड घालपी नांवां. ह्या सगळ्यांची जुगलबंदी '3 इडियट्स' ह्या तांच्या नव्या चलचित्रांत अणभवपाक मेळ्ळीं. 2009 तलें हें सगळ्यांमदीं चर्चीत आनी भारतीय चलचित्र इतिहासांतलें अतीशय लोकप्रिय अशें चलचित्र. बॉक्स ऑफिसाचेर तर आमीर खानान स्वताचोच रिकोर्ड मोडून ह्या चलचित्रान नवो इतिहास रचलो. जितलें हो चलचित्र आगळें वेगळें तितल्याच आगळे वेगळेपणान ह्या चलचित्राचें प्रमोशन कल्लें.

भारतीय युवक आनी विद्यार्थी हांचे मनोवृत्तीचेर आनी प्रस्नांचेर उजवाड

घालपी हें चलचित्र. आवय बापाय खातीर आनी समाजा खातीर पारंपारीक वेवसायीक शिक्षण म्हणजे अभियांत्रिकी शिक्षण घेवपी विद्यार्थ्यांचेर हें चलचित्र उजवाड घालता. मन मारून तशेंच आवड नासून फकत आवय बापायचे इत्से खातीर अभियंत्याची पदवी मेळोवपा खातीर शिकपी भुरग्यांचेर म्हणजेच 3 इडियट्साचेर हें चलचित्र व्यापिल्लें आसा. फरहान (आर. माधवन), राजू रस्तोदी (शर्मन जोशी) आनी रँचो (आमीर खान) हीं ह्या चलचित्राची मुखेल पात्रां. उपरांत वीरू सहस्त्रबुद्दे, महाविद्यालयाचे कुलगुरू, जांकां विद्यार्थी व्हायरस म्हणटाले (बोमन हिरानी), चतूर रामलिंगम (ओमी वैद्य) आनी पिया (करिना कपूर) ह्या पात्रांचो आसपाव जाला.

कथानकाची सुरवात जाता फरहान आनी राजू आपलो इश्ट रँचो हाका सोदतात तेन्ना. तांकां साथ दिता तांचो कॉलेजींतलो प्रतिस्पर्धी चतूर. रँचो आनी चतूर हांचेमदीं एक पैज लागिल्ली– फुडल्या पांच वर्सांत कोण खंय पावला आनी कितलो जैतिवंत जाला तें मोलावपाक तांणी पांच सप्टेंबराक मेळपाचें. फरहान आनी राजूक आपल्या शेंणिल्ल्या इश्टाक मेळपाची उमेद. तर चतूर, रामलिंगमाक आपलो प्रतिस्पर्धी रँचोक कमी दाखोवपाची सर्त. हातूंतल्यान जश्यो जश्यो घडणुको घडत वतात तशें तशें कथानक फुडें वचत रावता.

जितलीं व्हडलीं नांवां ह्या चलचित्रा कडेन संबंदीत आसात, तितलीच जापसालदारकी तांच्या भुजार आसपाक जाय. राजकुमार हिरानीन आपल्या 'मुन्नाभाई एमबीबीएस' आनी 'लगे रहो मुन्नाभाई' ह्या चलचित्रांतल्यान भारतीय चलचित्र निर्मीतीक एक नवो पायंडो घालून दिल्लो. पटकथा लेखन कशें आसचें, संवाद, दिग्दर्शन ते कथानक मांडपा मेरेनचो एक बरो अविश्कार पड्ड्यार हाडिल्लो. चलचित्राचें प्रमोशन यूथ फिल्म म्हणून केल्ल्यान आमीर खानाच्या 'रंग दे बसंती' आनी 'तारे जमीन पर' चलचित्राची याद जाले बगर रावना. ते खातीर हें चलचित्र एकदम रिती तकली दवरून पळोवपाक वचप अशक्य. हें चलचित्र, आशय आनी विशयान वेगळेंच. मुन्नाभाईंत विनोदांतूच नवेंपण आशिल्लें. वास्तव आनी फँटसीक जोडपाची हिरानीची अदभूत शैली आशिल्ली. आमीर खान, आर. माधवन, करीना कपूर, शर्मन जोशी, ओमी वैद्य, बोमन हिरानी आनी मोना सिंग हांणी प्रामाणीकपणान

ाबार कश्ट घेवन आपल्यो भुमिका साकारल्यात. अभिनयांत घेतिल्ली ्हनत स्पश्टपणान दिसता. पूण राजकुमार हिरानी आनी अभिजात जोशीन रयिल्ली स्क्रिप्ट थोडीशी विस्कळीत आसा हें जाणवता.

हें चलचित्र चेतन भगताच्या "5 point someone" हे कादंबरीचेर आदारीत ासा. हांगा चलचित्राच्या पटकथा लेखकांनी चेतन भगताचे लेखन शैलीचेर ारको अभ्यास करूंक ना. चेतन भगताची लेखनाची शैली वेगळीच आसा. ्गांतली बऱ्यांतली बरी चलचित्र निर्मिती कादंबरीचेर आदारीत आसा. देखून ्या चलचित्रांनी कादंबरीकच एडोप्टेड स्क्रिनप्ले म्हणटात आनी ताचेर आपलें ्लचित्र व्यापतात. जो वाद पुस्तकाचे लेखक आनी चलचित्र निर्मात्या भितर ालू आसा तो कडेक दवरून लेगीत चलचित्राचो घुस्पागोंदळ चलचित्रांत ्सून येता. खरें म्हणल्यार कादंबरी लेखकाचे तकलेंत पात्रां, घडणुको, ्ळ, वेळ हें सगळें मेळूनच येता. चलचित्रा भाशेन ताका वेगळी कथा ानी पटकथा लागना. देखून ही एक सादी गजाल न्हय तर चलचित्राची ्टकथा ही एक तांत्रीक बाब. आनी म्हणूनच कादंबरी ही एक पटकथाच ासता. आतां चलचित्राच्या येसाचें स्रय घेवपाक कितल्याय जाणांनी झोपय ारूं पूण हें कथानक, व्यक्तीरेखा, मनोवृत्ती आनी आयच्या तरणाट्यांच्या ्स्नांचेर आपले अदभूत शैलीन उजवाड घालपी चेतन भगताक वालोर.

वीस वर्सां पिरायेच्या तरणाट्याक लेगीत न पेलपी तरणाट्याची भुमिका ्बी करपी चाळीशी हुपिल्ल्या आमीर खानाचो अभिनय, ओमी वैद्याचें ोलेपण, मोना सिंगाचें ताजेपण, आर. माधवन, शर्मन जोशीची तवनासपणां ानी बोमन हिरानीन साकारिल्ली भुमिका निदान हें तरी पळोवपाक हें ्लचित्र परत परत पळयन दिसता.

**Idiots**

010/Hindi/35mm/170min]

**्दर्शक** : राजकुमार हिराणी

**्मिते** : विधू विदोन चोप्रा

**ायाचित्रकार:** सी. के. मुर्लीधरण

**भिनय** : आर. माधवन, शर्मन जोशी, बोमन इराणी, मोना सिंग, ओमी वैद्य

**कलन** : राजकुमार हिराणी

**गीत** : शांतनु मोइत्रा




**वाठार** : भारत
**महोत्सव** : 41वो इफ्फी 2010
**विभाग** : भारतीय पॅनोरमा (फिचर)

# आबोहमनः
# पटकथेंतली फिशालकाय

बदलत्या तंत्रगिन्यानाच्या युगांत चलचित्र निर्मितीची व्याख्या बदलून उडयल्या. संगीत, चित्रीकरण, संकलनात खूब प्रमाणांत नव्या तंत्राचो वापर जाता. पूण केन्ना कथानक फुडें व्हरपाक तंत्रगिन्यानाचो वापर जायत काय? पटकथेंत सृजनशीलताय आनी तंत्राची सांगड घाली जाल्यार आगळे वेगळे प्रयोग करूं येतात.

हे प्रयोग गुरू दत्त हांणी आपल्या चलचित्रांत केले. पूण आतांच्या काळांत मणी रत्नम, विशाल भारद्वाज, अनुराग कश्यप हांणी सृजनशीलताय आनी तंत्र घेवन आपल्यो वेगळ्यो पटकथा शैली विकसीत केल्यात. देखून पटकथेंत व्हडा प्रमाणांत तांत्रीक आयाम येवपाक लागल्यात. पटकथा ही

ख्यंयचेय चलचित्र निर्मितीचो कणो आनी तातूंत प्रयोग करप हें खूब कठीण काम. असलो प्रयोग पळोवंक जाय जाल्यार अबोहमन हें बंगाली चलचित्र वेंचून काडून पळोवचें.

सदांच तमीळ चलचित्रां आपल्या तांत्रीक बाजूंचेर आपलो प्रभाव आनी सातत्य दवरपी म्हूण फामाद आसा. पूण साहित्य, तंत्रगिन्यान, कल्पकतायेचो मेलाफ बंगाली चलचित्रांनी पळोवंक मेळटा. अबोहमन हें चलचित्र रितूपर्णो घोष हांणी दिग्दर्शीत केलां आनी तांणी ताची कथा, पटकथाय बरयल्या.

ह्या चलचित्रांतल्यान दोन गजाली शिकपा सारक्यो आसा. पटकथेची मांडावळ आनी फिशाल संकलन. एक सोंपें समीकरण, बरी पटकथा–बरें चलचित्र. पटकथेक जोड लागता ती अभ्यास, तंत्र आनी कथानकाची समज. आनी हें प्रभावी करूंक व्यक्तीरेखेचें मिश्रण. अबोहमन सुरू जातनाच एक वेगळ्याच सिनेमाचे दुनयेंत पावल दवरिल्ले भाशेन दिसपाक लागता.

'कट टू कट' करून हें चलचित्र एका काळा वयल्यान दुसऱ्या काळांत वता आनी परत थंयच येवन रावता. ही तर रितूपर्णो घोषाचें खाशेलपण. केतलीय कठीण गजाल ताच्या चलचित्रांत एकदम सुटसुटीत शी दिसून येता. अंकीत (दीपांकर डे) हो एक फामाद चलचित्र दिग्दर्शक, ताची बायल दिप्ती (ममता शंकर) एका वेळा वयली फामाद अभिनेत्री. दिग्दर्शक जावंक सोदपी ताचलो अप्रतीम (जिशू सेन गुप्ता) हे व्यक्तीरेखे भोंवती चलचित्राचें कथानक. पूण जेन्ना अंकीताच्या नव्या चलचित्रांत काम करपाक नवी अभिनेत्री शिखा (अनन्या चटर्जी) येता तेन्ना तांची पुराय जीण बदलता. अंकीत आनी शिखा भितर एक नातें तयार जाता आनी दिप्ती आनी अप्रतीमाचेर ताचो प्रभाव पडटा.

कांय लोक म्हणटात ह्या चलचित्राचें कथानक सत्यजीत रे हांचे जिणेंतल्या कांय प्रसंगाचेर आदारीत आसा. मनशाच्या मनांतलो भावनीक संघर्श हो घोशाचो आवडीचो विशय. आनी ह्या चलचित्रांतूय तांणी ह्यो भावना बऱ्यो तरेन भायर काडल्यात.

अंकीत सारक्या फामाद दिग्दर्शकाचे जिणेंत तरणी अभिनेत्री येवप आनी ताचे घरकान्नीचो संघर्श आनी अप्रतीमाक आपल्या बापाय आड भडकावप. पूण हें सगळें करतना घोष खंयच अडेचो भावनीक भडीमार करिना. देखून

ह्या चलचित्राक दिग्दर्शन, संकलन, अभिनय-अनन्या चटर्जीक राष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळ्यात.

पटकथा हो सदांच कठीण पूण अत्यंत म्हत्वाचो विभाग. तंत्र आनी कल्पकता घेवन आपले युवा अवस्थेंत धाडसी प्रयोग करपी पटकथा लेखकांक सलाम.

**Abohaman** [2009/Bengali/35mm/122min]

**दिग्दर्शक** : रितूपर्णो घोश
**लेखन** : रितूपर्णो घोश
**निर्माते** : रिलायन्स बिग पिक्चर
**छायाचित्रकार:** अविक मुयोपाध्याय
**अभिनय** : दिपाकर डे, जिशू सेनगुप्ता, अनन्या चटर्जी, ममता शंकर, रिया सेन
**संकलन** : आझाकमल मिस्ता
**संगीत** : 21 ग्राम्स




वाठार : भारत
महोत्सव : 42वो इफ्फी 2011
विभाग : भारतीय पॅनोरमा (फिचर)

## O MARIA:

# दर्जेदार प्रादेशीक चलचित्र

प्रादेशीक चलचित्रां म्हणल्यार फकत प्रादेशीक भाशेंत तयार जाल्लीं चलचित्रां न्हय. प्रादेशीक चलचित्रां म्हणल्यार प्रादेशीक विशय हाताळपी चलचित्रां. लक्ष्मीकांत शेटगांवकाराच्या 'पलतडचो मनीस' ह्या चलचित्रान एक संवसारीक पायंडो घालून दिलो. शेटगांवकारान कोंकणी चलचित्र एके वेगळेच उंचायेर व्हरून दवरलें. इतल्या कमी वेळांत इतलें लौकीक मेळयले उपरांत गोंयचे चलचित्र निर्मिती कडल्यो अपेक्षाय वाडल्यात आनी आतां निरिक्षकांनी तरी गोंयच्या चलचित्रां कडेन सहानुभुतीची भुमिका सोडची पडटली. गोंयांत इफ्फी सुरू जाले उपरांत राजेंद्र तालक हांणी सातत्यान दोन दोन वर्सांनी चलचित्रां काडल्यांत. आनी सगळ्यांचोच प्रिमियर इफ्फींत

जाला.

'पलतडचो मनीस' ह्या चलचित्रा उपरांत गोंयचे चलचित्र निर्मितीचो दर्जो कायम उरपाची जी अपेक्षा आशिल्ली ती 'ओ मारिया'न सिद्ध केल्या.

प्रादेशीक चलचित्र म्हणल्यार प्रादेशीक भाशांतलेंच न्हय तर तें प्रादेशीक विशयांचेर आसपाक जाय हें तालक हांणी बेस बरें मांडलां. 'अंतर्नाद' ह्या चलचित्रांत कथानक ताजें आसलें. तेंच ताजेपण आनी तेज 'ओ मारिया'त दिसून येता. गोंयच्यो जमनी कश्यो भायल्यांक विकतात, दर्यादिग वाठारांत बदलती जीण शैली, पारंपारीक वेवसाय ना जावप, जुगार, लोकांचो संघर्श ह्या विशयांचेर चलचित्र उजवाड घालता.

चलचित्राचें कथानक मारिया (शहनाज पटेल) भोंवतणीं घुंवता. मारिया ही चाळीशी हुपिल्ली एक बायल. आपल्या दर्यादिगे वयल्या घरांत पर्यटकांक राबितो दिवप आनी ल्हानशें एक हॉटेल चलोवप हो तिचो वेवसाय. खूब उद्देजकांची त्या जाग्याचेर नदर आसता. मारियाचो बापूय अंतरले उपरांत जाग्याचे दोन वांटे जातात, तातूंतल्यान भयण आनी भाव हांचे मदीं संघर्श जाता. हो संघर्श दुसरे पिळगे मेरेन चालू उरता. मजगतच्या काळांत त्याच घरांत रावपी मायक ह्या पर्यटका कडेन मारियाचें आगळें नातें निर्माण जाता. होच मायक उपरांत मारियाच्या संघर्शाक तेंको उक्तावंक म्हूण गांवच्या लोकांक एकठांय करून 'जाग गोंयकार' अशी चळवळ चालू करता, अशें हें थोडे भितर कथानक.

चलचित्रांत मारिया साकारपी शहनाज पटेलान आपले भुमिकेक न्याय दिला आनी त्या अभिनयांतल्यान खूब कितें शिकपा सारकें आसा. भावना आनी अभिनय हांचो तोल पटेलान बेस बरो सांबाळ्ळा. मिनाक्षी मार्टिन्स हिची भुमिका देखणी जाल्या. मात त्या दोनूय भुमिकांक सिनेमाटोग्राफी साथ दिना. आर्यन खेडेकार आनी कॅविन डिमेलोन आपल्या अभिनयांत खूब मेहनत घेतल्या. एका अपेशी निराश तरणाट्या जॅकाची भुमिका आर्यन खेडेकारान बेस बरी केल्या.

ल्हारां, दर्यो आनी रेमोचें पांयांक ठेको धरपाक लावपी संगीत. पयल्याच मध्यांत चलचित्र गती घेता. पूण उपरांत पटकथा मात्शीशी मंद जाता. चलचित्राचें संकलन चुको लिपोवपाक अपेशी थारलां. गोंयचो सोबीत सैमाची

वाट लागता ह्या विशयाचेर चलचित्र आदारीत आसा. पूण ह्या चलचित्रांत गोंयचो सैमूय तितलोसो दाखोवंक ना. ताका लागून चलचित्राचो प्रॉडक्शन डिझायन भक्कम जाय आसलो, तशेंच सावंड रिकॉर्डींग आनी मिक्सिंग दर्ज्याचें ना. पूण तालकान आपलें दिग्दर्शकीय कसब सिद्ध केलां हें म्हत्वाचें. देखून ह्या चलचित्रा कडेन आडनदर करपाक जावची ना.

**O Maria** [2010/35mm/105min/Konkani]

**दिग्दर्शक** : राजेंद्र तालक
**निर्माते** : भालचंद्र बखले
**छायाचित्रकार:** सनी जोसेफ
**अभिनय** : शहनाज पटेल, कॉरी गॉल्डबर्ग, सुलभा आर्या
**संकलन** : विशाल कोटकार
**संगीत** : रेमो फॅर्नांडीस

वाठार : भारत
महोत्सव : 41वो इफ्फी 2010
विभाग : भारतीय पॅनोरमा (फिचर)




# I AM KALAM:

# जीण बदलपाची शक्त आशिल्लें चलचित्र

भारता सारकिल्या गरीब देशांत एका गांवगिन्या वाठारांतलो भुरगो जेन्ना परिस्थिती कडेन झूण मांडून जागतीक विज्ञानीक नितीक आव्हान दिता तेन्ना कितल्याशाच लोकांचो तो आदर्श थारता. भारताचे आदले राष्ट्रपती डॉ. ए पी जे अब्दुल कलाम हें पळोवपाक तशें सादें व्यक्तीमत्व. केंस उगोवपाची सादी पद्दत, सादो भेस, भारताचो खंयचोय मनीस तांचे कडेन संपर्क सादूंक शकता अशें व्यक्तीमत्व. डॉ. कलामांक भुरग्यां विशीं एक वेगळीच आपुलकाय आसा. खंयचेय कार्यावळीक गेल्यार ते भुरग्यांचो चोंबो

पळयतात आनी तांचे मदीं वचून भरसतात आनी रमतात. देखून येदो व्हडलो मनीस जेन्ना भारत देशाचो राष्ट्रपती जाता तेन्ना खंयच्याय भुरग्याच्या मनांत आपणेंय कितें एखादें वेगळें करपाचो आत्मविस्वास निर्माण जावप सभावीक आसा. अश्योच कांय गजाली वीला पांडान आपल्या 'I am Kalam' ह्या चलचित्रांत दाखयल्यात.

डॉ. कलामांचे विचार एका गरीब तशेंच गांवगिऱ्या भुरग्याची जीण कशी बदलूंक शकता तें ह्या चलचित्रांत पळोवपाक मेळटा. चलचित्राचें कथानक छोटू (हर्ष मयर) ह्या भुरग्या भोंवतणी घुंवता. छोटू हो गरीब पूण हुशार आनी शिटूक भुरगो. ताका खूब शिकपाची आवड. पूण गरिबीक लागून ताची आवय ताका भट्‌टी (गुलशन ग्रोवर) च्या धाब्यार कामाक दवरता.

एक दीस प्रजासत्ताक दिसाच्या सुवाळ्यांत जाल्लें डॉ. कलामांचे भाशण छोटूच्या कानार पडटा. आयकून तो अजापीत जाता आनी हो कलाम कोण हें तो सोदपाक लागता. कलामाच्या भाशणांतलीं कांय उतरां ताका आपले परिस्थिती कडेन जोडून व्हरतात. डॉ. कलाम म्हणटात– घरची अर्थीक स्थिती वायट आशिल्ल्यान आपणाक शिकपाक खूब त्रास जाले, देखून भुरगेपणांत आपूण रस्त्यार पेपर विकतालों. छोटूक दिसता, राष्ट्रपतीच्या वांट्याक जर अशी अवतिकाय आशिल्ली जाल्यार आपली स्थिती हाचे परस वेगळी ना. इतले गरिबींतल्यान जर डॉ. कलामा सारके व्हड फाकिवंत मनीस जावपाक शकतात जाल्यार आपणाच्यानय शिकपाक जाता. ताका हे गजालीचो दिश्टावो जाता. दुसरे दिसा सावन तो डॉ. कलामा सारके केंस उगोवपाक लागता आनी कोणेंय नांव विचारल्यार आपलें नांव कलाम म्हूण सांगता.

इतलें मजगतीं, ताची वळख राजेशाय घराण्यांतल्या एका राजकुंवरा लागीं जाता. रणविजय (हसन साव). छोटू रणविजया कडल्यान डॉ. कलामा विशीं खूब कितें जाणून घेवपाचो यत्न करता. तांचीं पुस्तकां घेवनच छोटू शिकता. छोटू डॉ. कलामाक चीट बरयता, तातूंत तो म्हणटा: 'धन्यवाद, तुमकां लागून म्हाका म्हजी नव्यान वळख घडली. तुमकां पळोवन म्हज्यांतूय आत्मविस्वास आयलो. हांव शिकपाक शकतां.' आनी असोच छोटू डॉ. कलामांच्या सोदान नवी दिल्लीक पावता. हें चलचित्र एका गांवगिऱ्या

भुरग्याचे परिस्थिती कडलो संघर्श दाखयता. भारताच्या गांवगिऱ्या वाठाराचें वास्तव दाखयतां.

ह्या चलचित्राचे दिग्दर्शक नीला पांडा हांणी हाचे पयलीं सुमार साठेक म्हायतीपट दिग्दर्शीत केल्यात. ह्या चलचित्रांतल्यान एक नवी प्रेरणा मेळटा. साद्या साद्या गजालींक लागून एखाद्या भुरग्याची दिशाच बदलून उडोवंक शकता. भारत एक गरीब देश. आमच्या देशाचे गरिबीक लागून, दळडिराक लागून आमच्या देशाक हिणसावणी सोंसची पडल्या. पूण डॉ. कलाम, डॉ. रघुनाथ माशेलकार, डॉ. अनील काकोडकार, सचिन तेंडुलकर, नारायण मुर्ती सारकेल्या म्हान मनशांची जिद्द कोणूच आडावंक शकले नात. देखून भारतांत तांचे सारके कितलेशेच आदर्श तयार जाले आनी कितल्याशाच छोटूंक तांचे खातीर नवी वळख मेळ्ळी.

हें चलचित्र दर एके शाळेंत दाखोवपाक जाय. दर एके बालवाडींत दाखोवपाक जाय.

**I Am Kalam** [2010/35mm/87min/Hindi]

**दिग्दर्शक** : नीला पांडा
**लेखक** : संजय चौहान
**निर्माते** : स्मायल फावंडेशन
**छायाचित्रकार:** मोहना कृष्णा
**अभिनय** : हर्ष नायर, हसन साद, गुल्शन ग्रोवर, पिटोबॅश, मिना निर
**संकलन** : प्रशांत नायक
**संगीत** : सुशमीता बोस

वाठार : भारत




# गुलालः
# चलचित्रांतलें अदभूत नाटक

निकोलो मॅकिवली हे एक म्हान राजकी विचारवंत आनी रणनिती शस्त्रज्ञ जावन गेले. हॉक्स हांणी लॅवीएथन, कार्ल मार्क्स हांणी dictatorship of proletariat अशे नामनेचे राज्य अवस्थेचे विचार मांडल्यात. पूण राज्य चलोवपी लोक कशे आसचे हाचो विचार खूब उण्या विचारवंतांनी केला. प्लॅटोचो फिलोझफर किंग आनी निकोलो मॅकिवली चो प्रिन्स हे दोन विचार दोळ्यां मुखार येतात. मॅकिवली एक राजकी शास्त्रज्ञ आशिल्लेच पूण ते व्हड नाटककारय आशिल्ले. तांचीं नाटकां दुर्मीळ आसात. ते आपले राजकी विचार आपल्या नाटकांतल्यान मांडटाले. तांचीं नाटकां म्हणल्यार 'पॉलिटिकल रिएलिझम' (राजकीय वास्तवीकताय) आनी 'पॉलिटिकल

आयडेलिझम' (राजकीय आदर्शवाद) हांचे भितरलो फरक दाखोवपाचो हारसो आशिल्लो. पूण मॅकिवली हांणी राजकी वास्तवीकताय आनी राजकी आदर्शवादाचेर नाटकां बरयलीं आसलीं तरी तांणी नाट्य हाचेर भर दिल्लो.

नुक्कड नाट्य, पथ नाट्य, नौटंकी, दशावतार आमच्या लोकसंस्कृतायेचो अविभाज्य घटक थारला. आमच्या चलचित्रांनी नाटकाचो प्रभाव बऱ्याच प्रमाणांत आसा. पूण एका चलचित्राचें मुखेल आंगूच नाट्य आसलें जाल्यार? अनुराग कश्यप हे आपल्या चलचित्रांनी असलो प्रयोग करीत आयल्यात. कश्यप हांच्या नांवाजत्या 'ब्लॅक फ्रायडे' उपरांत आयिल्लीं 'गुलाल', 'डेव डी', 'नो स्मोकिंग', हीं तांचीं प्रायोगीक चलचित्रां. 'गुलाल' ह्या चलचित्रांत नौटंकी अनुराग कश्यप हांणी आपल्या चलचित्राचो मुखेल मजकूर म्हूण घेतला.

'गुलाल' ह्या चलचित्राचें कथानक एका नौटंकींतल्यानच फुडें वता. 'गुलाल' हें चलचित्र एक राजकी चलचित्र म्हणूं येता. ह्या चलचित्रान 'डेमोक्रेसी बार ॲण्ड रॅस्टोरंट', 'डेमोक्रेटीक व्हिस्की', 'रिपब्लिक बीयर' असले भडकावपी शब्द आयकूंक मेळटा. हें चलचित्र कॉलेज राजकारणाचें मळिल्लें चित्र दाखयता. चलचित्राचो प्रटोगोनिस्ट रणसा (अभिमन्यू सिंग) एक शिकिल्लो तरणाटो, बंडखोर आनी राजशायी कुटुंबांतलो भुरगो. 'अभी डेमोक्रेसी ही चल नही रही है, और ये एरिश्टोक्रेसी चाट रहे है' ह्या एका संवांदातल्यानच रणसाचें व्यक्तीचित्र स्पश्ट जाता. राज्यशायेची उबगण आयिल्लो हो तरणाटो.

डुक्की बनां (के के मेनन) हो राजपुताणा ह्या स्वतंत्र्य राजपूत राज्याच्या चळवळीचो मुखेली. दिलीप (राजसिंग चौधरी) हो बिकानेर सावन नवोच शारांत शिकपाक आयिल्लो भुरगो. ह्या चलचित्राचें कथानक राजपूर ह्या कथीत शारांत घडटा. पृथ्वी बना (पियुश मिश्रा) हो डुक्की बनाचो भाव. तो आनी ताचो नाचपी इश्ट नौटंकीच्या आदारान कथानक फुडें व्हरता. पृथ्वी बना हो 'ॲबस्ट्रॅक्ट' सुत्रधार म्हूण येता. पृथ्वी बना हो एक 'ऑक्सफोर्ड' पदवीधर सदांच जॉन लेनॉनाचो फोटू गळ्यांत घालून भोंवता. पृथ्वी बना ह्या मनशाक सगळेच पिसो लेखतात. पूण तो राष्ट्रीय तशेंच आंतरराष्ट्रीय राजकारणाचेर आपल्या पदांतल्यान टिका करता.

स्वतंत्र राज्याची चळवळ कॉलेज राजकारण मोगाचें त्रिकूट, जुंवान उमाळे आनी सपनां हांचो विचित्र मिलाफ 'गुलाल' ह्या चलचित्रांत जाता. युवा अवस्थेंतल्यो सुंदर गजाली सगळेच सांगतात. पूण रॅगिंग, खून, बलात्कार हे विशय सगळेच टाळटात, पूण ह्या चलचित्रान जिणेची दुसरी बाजू दाखयल्या.

हें चलचित्र वास्तवाक धरून आसा. पूण ह्या चलचित्रांत नाट्य आनी कल्पकताय आसा. पृथ्वी बना आनी ताचो नाचपी इश्ट ह्या चलचित्राक एक वेगळेंच रुप दिता. हो अनुराग कश्यपाचो प्रयोग येसस्वी जालो अशें म्हणूं येता. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार ह्या चलचित्रांत केल्लें व्यक्तीचित्रण. कश्यप हांणी खंयचीच बाजू मेकळी सोडूं ना. पटकथाकार राजसिंग चौधरी आनी अनुराग कश्यप हांणी व्यक्तीरेखांचो मिलाफ एकदम सुंदरपणान केला. राजकारणाचेर टिका, व्यंग एकदम समजिकायेन केला. अनुराग कश्यपाक शाहीर लुधियानवी हांची पदां आयकून प्रभावीत जावन ह्या चलचित्राची कल्पना सुचली. देखून हें चलचित्र कश्यप हांणी लुधियानवीक अर्पण केलां.

**Gulaal** [2000/Hindi]

**दिग्दर्शक** : अनुराग कश्यप
**लेखक** : राज सिंह चौधरी, अनुराग कश्यप
**छायाचित्रकार:** राजीव रवी
**अभिनय** : राज सिंह चौधरी, के के मेनन, दीपकक दोब्रीयाल, माही गिल, अभिमन्यू सिंह, आयेशा मोहन, जेसे रांधवा, आदित्य श्रीवास्तव, पियुश मिश्रा
**संकलन** : आरती बजाज
**संगीत** : पिशुय मिश्रा



**वाठार** : भारत
**महोत्सव** : 41 इफ्फी 2010
**विभाग** : भारतीय पॅनोरमा (फिचर)

# झिंग चिक झिंगः
# सुंदर, खरें आनी वास्तववादी

नामनेचे मराठी कवी जांकां कामगार कवी म्हणून वळखतात ते नारायण सुर्वेहांणी एका काळार म्हणिल्लें, मराठी कविता कवीच्या पॉएटिक डिप्रेशन आनी रोमेंटीक फ्रश्ट्रेशनांत घुस्पल्ली. खंयचेय साहित्य निर्मितींत, नाटक चळवळींत वा चलचित्र निर्मितींत अशे trend वा ल्हारां येवप सभावीक आसात. भोंवतणी ज्यो घडणुको घडटात ताचो निर्मितीचेर प्रभाव पडप सभाविकूच आसता.

मराठी चलचित्र निर्मिती भारतीय चलचित्र इतिहासांतली एक बुन्याद. ाळकेचो आवाज नाशिल्लो तो 'राजा हरिश्चंद्र' ते उमेश कुलकर्णीचो 'वळू'. राठी चलचित्र निर्मिती आपल्या जैताच्या, संघर्षाच्या काळांतल्यान गेल्यात. ानी अशेच कांय भोवआयामी आनी भोवढंगी चलचित्रां मराठींत पळोवपाक ळटात. पूण हालींच्या काळांत जबरदस्त मराठी टीव्ही नॅटवर्कान मराठी लचित्र बळिश्ट आनी भक्कम जाला. पूण ह्या वेवसायीक साच्यांत तयार ावपी चलचित्रान कसलो trend उबो जातलो हें आतांच सांगप कठीण.

महाराष्ट्र हें एक अशें राज्य जंय किलतेशेच विरोधाभास सांपडपाक ाकतात. एके वटेन आयटी पंढरी पुणें, देशाची अर्थीक राजधानी मुंबय, भरतीं शारां आनी एके वटेन विदर्भा सारको भयानक वाठार जंय दर एका ाठ वरांनी एकलो शेतकार आत्महत्त्या करता, ह्या वास्तवाचो थाव घेवपाचो त्न 'झींग चीक झींग' हें मराठी चलचित्र करता. नामनेचे दिग्दर्शक नितीन ंदन हांणी हें चलचित्र दिग्दर्शीत केला. हें चलचित्र श्याम हें एका सान ुरग्याचे नदरेंतल्यान फुडें वता.

श्याम हो शाळेंत वचपी एक सान भुरगो. घरची परिस्थिती गरीब. कापसाचो ाळो आनी कापूस सरकारी मिलींनी व्हरून विकप आनी मेळिल्ल्या पयशांचेर र चलोवप. श्यामाचीं दोनूच सपनां. एक बोतो नाशिल्लें कलसांव घालून न्ना तरी शाळेंत वचप आनी एक दीस तरी घरा केल्लीं भजीं खावप. पूण ाच्यो ह्यो दोनूय इत्सा भागोवंक कुटुंबा कडेन पयशे नासता. बापूय मावली भरत जाधव). आवय मंदा (माधवी जुवेकार), भयण दिप्ती (आरती मोरे) ो श्यामाचो घराबो.

मास्तर राजाले सर (संजय मोरे) आनी कवी (दिलीप प्रभावळकर) कथानकांत हाडून कथानक रंगीत केला. रिणाचें वजें माथ्यार घेवन जगपी ामाचें कुटुंब. ह्या चलचित्रांत एक वेगळो आयाम दिग्दर्शकान मांडपाचो यत्न केला. सरकार लोकांक बिगर अन्न बियां देखीक कापूस, किल्लोवपाक ोत्साहन दिता आनी तीं माफक मोलान घेता. देखून शेतकारांचें प्रस्न देशांत तशेच उरल्यात.

मावली आपल्या नाइलाजान आत्महत्त्या करूंक कसो फुडें सरता हें बेस रें दाखयलां. आयज मेरेन शेतकारांच्या आत्महत्त्यांचेर खूब चलचित्रां तयार

जाल्यांत. पूण हें चलचित्र वेगळें. हें चलचित्र ह्या समस्यांक जाब दिता.

पूण कांय गजाली मराठी चलचित्रांत खटकता. भावनांचो अडेचो भडीमार, इमोशनल अत्याचार आनी हें एका चलचित्रान न्हय तर सातत्यान मराठी चलचित्रां अशींच वतात. हें चलचित्र दर एका गंभीर विशयाक आफडून वता पूण मदींच त्या अडेच्या भावनीक भडीमाराच्या जाळांत तें घुस्पता. हें भावनीक जाळें मराठी चलचित्राचो trend थारायना मूं? पूण हें चलचित्र सुंदर आसा, कित्याक तर तें खरें आसा, वास्तव दाखयता.

**Jhing Chik Jhing** [2009/Marathi/35mm/6min]

**दिग्दर्शक** : नितीन नंदन

**लेखक** : नितीन नंदन

**निर्माते** : कॉजिटो एंटरटेनमॅण्ट प्रा. लि.

**अभिनय** : चिन्मय कांबळी, भरत जाधव, दिलीप प्रभावळकर, माधवी जुवेकर, संजय मोने, आरती मोरे

**संकलन** : राज सुर्वे

**संगीत** : राहुल रानडे

वाठार : भारत
महोत्सव : 40 इफ्फी 2009
विभाग : भारतीय पॅनोरमा (फिचर)



# पलतडचो मनीसः
# जागतीक चलचित्र निर्मितीतलो एक वाटचिरो

कांय वर्सां फाटीं डॉ. जब्बार पटेल गोंयांत आयिल्ले तेन्ना तांणी एक सोंपो असो मुद्दो मांडिल्लो. तांणी म्हणिल्लें, 'चलचित्र संस्कृतीचो हट्ट सोडात. चार-पांच तरणाटे एकठांय जायात आनी बऱ्यांतलीं बरीं चलचित्रां काडात. चलचित्र संस्कृती नकळटा रूजतली.' कांय वर्सां उपरांत डॉ. जब्बार पटेलांचें विधान वास्तवीकताये कडेन पाविल्लें दिसपाक लागलें. गोयांतल्या पेडणें सरक्या ग्रामीण वाठारांतलो तरणाटो जेन्ना जागतीक चलचित्र निर्मितीक आव्हान दिता तेन्ना तर डॉ. जब्बार पटेलांचें विधान शंबर टक्के वास्तवीक दिसता.

लक्ष्मीकांत शेटगांवकाराचें 'पलतडचो मनीस' हें फकत प्रादेशीक चलचित्र न्हय, तर जागतीक चलचित्र निर्मितींत एक वाटचिरो थारिल्लो

आसा. आपलीं मुळां मातयेंत खोल रुजोवन पुराय जगाक आव्हान दिवपाचें हें प्रकरण. जागतीक चलचित्र निर्मितींत सध्या एक नवो trend येवपाक लागला. इफ्फींत हो trend ठळकपणान झळकला. युरोपी आनी लॅटीन अमेरिकेंतले देश आपल्या ग्रामीण जिविता कडेन वचपाक लागल्यात. भारत तर काणयांचो आनी कुवाड्यांचो एक देश. आशियाई देशाचे चलचित्र निर्मितीचेर नदर मारली जाल्यार भारतीय उपमहाद्वीप आपल्यो काणयो सांगपाक धगधगता तें जाणवतलें.

'पलतडचो मनीस' हो प्रादेशीक वा राष्ट्रीय चलचित्र निर्मितीचो लॅण्डमार्कूच न्हय तर तो जागतीक चलचित्र निर्मितीक आव्हान दिता. इफ्फींत आनी पुणे आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत हांव चडांत चड जागतीक चलचित्रां पळयतां. वर्साक तीं सुमार साठां वयर जातात. जागतीक चलचित्र आनी 'पलतडचो मनीस' हातूंत दर्ज्याचे नदरेन कांयच फरक जाणवना. तें चलचित्र जागतीक चलचित्राचे तोडीचें आसा.

कांय दिसां फाटीं एका चॅनलाचेर गोंयची चलचित्र निर्मिती ह्याच विशया संदर्भांत एक चर्चा चलताली. कांय जाणांचें म्हणणें अशें, कोंकणी चलचित्रां चलना,तांकां मार्केट ना. अर्थीक थिरताय ना. पूण ह्या चलचित्रान हे चर्चे चो सूर वलांडून एक लांब पावली मारल्या. आमचे कडेन तशीं खूब उण्या प्रमाणांत चलचित्रां आसात खरीं. पूण 'पलतडचो मनीस' ह्या चलचित्राच्या रुपान जगांतलीं बऱ्यांतलीं बरीं चलचित्रां आमचे कडेन नक्कीच आसा.

'पलतडचो मनीस' हें जागतीक चलचित्र निर्मिती कडलो 'trend setter' कित्याक तर ताका कारणां आसात.

## Story Teller

शेटगांवकार हो एक Story teller. लक्ष्मीकांत शेटगांवकारा कडेन हें Story tellerचें एक आगळें वेगळें तंत्र आसा. हें तंत्र सगळ्यांकच जमता अशें ना. हिंदींतल्या लोकप्रिय चलचित्र निर्मितीचो मुखेल प्रस्न म्हणल्यार स्टोरी टेलराचो उणाव. एखादी कथा वा काणी कशे तरेन हाताळप ही स्टोरी टेलराची कसवटी. हाका लागता तें भावनांचें मिश्रण, तंत्राचो वापर आनी संवेदनशीलतायेची सांगड. शेटगांवकारान आपल्या 'एका सागर

किनारी'त लेगीत हेंच सिद्ध केलां. शेटगांवकारान आपली आगळी वेगळी शैली विस्तारल्या. आयज हिंदी चलचित्रांत बऱ्यांतले बरे स्टोरी टेलर नात.

सत्यजीत रे हांणी आपली वेगळीच अशी स्टोरी टेलिंग शैली विकसीत केली. भारतीय चलचित्र निर्मितींत स्टोरी टेलराचीं ठळकपणान नांवां घेवपाचीं जाल्यार दोन नांवां तोंडार येतात, तीं म्हणल्यार मणिरत्नम आनी विशाल भारद्वाज. दोगांयच्योय वेगळ्यो शैली. पूण आकांताळे संवेदनशीलतायेच्यो. विशाल भारद्वाजाचें 'ओंकारा' आनी 'ब्ल्यू अंब्रेला' हांचो बारीकसाणीन अभ्यास केल्यार तांचे शैलीची जाणीव जाता. स्टोरी टेलिंग हें तंत्र न्हय तर समजिकाय, जाणीव आनी संवेदनशीलतायेचो तो एक भाग. जगांतलो उत्कृश्ठ दिग्दर्शक बरो स्टोरी टेलर आसताच अशें ना. गुलजाराच्या चलचित्रांनी गुलजारूय एक बऱ्यापैकी स्टोरी टेलर. 'एका सागर किनारी' आनी 'पलतडचो मनीस' घेतल्यार शेटगांवकार हो स्टोरी टेलर म्हूण सिद्ध जाता. भावना हें शेटगांवकाराच्या चलचित्राचें मुखेल आंग. 'एका सागर किनारी'त जसो एक मास्तर बदलाक साक्ष दिता तशें 'पलतडचो मनीस' हातूंत फोरेस्ट गार्ड आपणा भोंवतणीं घडपी बदल पड्ड्यार दाखयता. 'पलतडचो मनीस' हातूंत फकत फोरेस्ट गार्ड उलयना तर आख्खो गांव उलोवपाक लागता.

## व्यक्तीचित्रण

भावनांचो सुमेळ हो शेटगांवकाराचो आवडटो विशय. पूण भावना मांडपाच्यो जाल्यार भक्कम अशे व्यक्तीरेखेचें व्यक्तीचित्रण लागता. जागतीक चलचित्रांत व्यक्तीचित्रणा खातीर फामाद आसात तीं चीनी चलचित्रां. जसो एखादो चित्रकार कॅनवासार नकसूदपणान पिशोल भोंवडायता ते प्रमाण लेखक आपल्यो व्यक्तीरेखा कोरांतून काडटा. व्यक्तीचित्रण ही चीनी चलचित्रांची खासीयत. पूण 'पलतडचो मनीस' हातूंत त्याच रानांतल्यान, गांवांतल्यान, तिठ्या वयल्यान व्यक्तीरेखा सामक्यो कोरांतून काडल्यात अशें दिसता. हातूंत दिग्दर्शकाची पुराय मेहनत दिसता. चलचित्रांतली दरेक भुमिका पुरायपणान याद उरता. फोरेस्ट गार्ड विनायक ते तिठ्यार बसपी लोकां मेरेन सगळेंच याद उरता जशे परी 'एका सागर किनारी'तलो शाबू

मास्तर आनी नॅन्सीची व्यक्तीरेखा आजूनय दोळ्यां मुखार येता. व्यक्तीरेखा मांडप आनी त्यो साकारप हे व्यक्तीचित्रणाचें दोन भाग. व्यक्तीचित्रणय शेटगांवकाराचो एक selling point म्हणू येता. चडशा भारतीय चलचित्रांनी व्यक्तीचित्रण ही गजाल दुर्लक्षीत जावन पडल्या.

## प्रादेशीकताय

ह्या जागतीक प्रवाहांत शेटगांवकार चलचित्र करता त्या प्रवाहाचो मंत्र आसा प्रादेशीकताय. बंगालांत, केरळांत प्रादेशीक चलचित्रान जेन्ना मूळ धरलें तेन्ना प्रादेशीक विशयांचेर चलचित्रां येवपाक लागलीं. फकत भाशा प्रादेशीक आसली म्हणून जायना, विशय प्रादेशीक जाय. देखून आयज येवरोपी आनी अमेरिकी चलचित्रां गांवगिऱ्या वाठारांनी वाटचाल करपाक लागल्यात. शेटगांवकाराच्या चलचित्रांनी प्रादेशीकताय झळकता देखून हें चलचित्र मातयेंत आपलीं मुळां घट करून जागतीक चलचित्र निर्मितीक आव्हान दिता. 'एका सागर किनारी' आनी 'पलतडचो मनीस' म्हणल्यार समाजीक बदलाचें चित्रण.

## अभिनय

'पलतडचो मनीस' ह्या चलचित्रांत आनीक एक गजाल भुलोवन वता ती म्हणल्यार अभिनयाचो समतोल. फोरेस्ट गार्ड विनायक ही भुमिका चित्तरंजन गिरी हांणी साकारल्या. कोरांतून काडिल्ले हे व्यक्तीरेखेंत गिरी हांणी जीव ओतला. कांयच उलयनासतना लेगीत गिरी खूब कितें सांगून वता. चित्तरंजन गिरी ह्या नटाकडल्यान खूब कितें शिकपा सारकें आसा. तोंडार ताचे हावभाव, चलपाची पद्दत, एकदम अप्रतीम... जेन्ना फोरेस्टर येता तेन्ना ताचे भोंवतणीं घुटमळप, सायकली फाटल्यान चलत वचप, केन्ना केन्ना संवाद नासतना लेगीत चित्तरंजन गिरी जायतें कितें सांगून वता. पिशे बायलेची भुमिका करपी वीणा जामकर पुराय व्यक्तीरेखेक न्याय दिता. बारीकशे भुमिकेंतल्यान लेगीत पुराय फिल्माचेर कसो प्रभाव पडटा हें वसंत जोसलकारान आपले अभिनय कुशळटायेन दाखोवन दिलां. मावशेची भुमिका साकारपी प्रशांती तळपणकारानय आपले भुमिकेक न्याय दिला.

## पटकथेची गती

लक्ष्मीकांत शेटगांवकार हो story teller. देखून ताणें पटकथेची गती रायल्या. गती जिका आमी tempo म्हणटात. पटकथा चलचित्राची गती रायता. कांय आंतरराष्ट्रीय समिक्षांनी त्या चलचित्राची गती थोडी मंद अशें णिल्लें. पूण केन्ना केन्ना चलचित्रच एक मंद गती मागता. शेटगांवकाराची ory telling शैली वेगळी आसा. आनी ही मंद गती ते शैलीक बेस बरी बता.

'पलतडचो मनीस' हें चलचित्र काडपाक खूब कश्ट आनी श्रम लागले, पळयतना जाणवता. शेटगांवकाराची पुराय मेहनत दरेका खिणाक ह्या ळचित्रांत दिसता. विशयाची खोलाय, आशयाची समज, तंत्राची जाण नी संवेदनशीलताय वापरून शेटगांवकारान एक अप्रूप घडयलां.

कोंकणी चलचित्र एक तर 'पलतडचो मनीस' सारको आसचो नासल्यार वे परस बरो आसचो हें गोंयचे चलचित्र निर्मितीक आव्हान आसा.

**ltadcho Munis** [2009/35mm/96min/Konkani]

**दर्शक** : लक्ष्मीकांत शेटगांवकार
**ब्रक** : महाबळेश्वर सैल (कथा), लक्ष्मीकांत शेटगांवकार (पटकथा)
**र्माते** : एन.एफ.डी.सी.
**भिनय** : चित्तरंजन गिरी, वसंत जोसलकार, प्रशांती तळपणकार, विणा झामकार
**याचित्रकार:** अरुप मंडल
**कलन** : संकल्प नेशराम
**ीत** : वेद नायर
मां : Critics award- Toronto International film festival 2009
Hongkong Asian Film Festival (2009)
PIFF (2009)] Istalbul (2009), Cairo International Film Festival 2009




वाठार : भारत

# रावणः
# मणी रत्नमाची एब्स्ट्रेक्ट वास्तवीकताय

थोर विचारवंत कार्ल मार्क्स हांणी म्हणलां, तांणी अशेंय म्हणलां, समाजीक समीकरणां जर खंयच्याय कलाप्रकारांत येना जाल्यार त्या कलाप्रकाराची मोलावणी जावप शक्य ना. फाटल्या दोन दसकांत दक्षिणेंतले नामनेचे दिग्दर्शक मणि रत्नम हांणी देशांतले समाजीक विशय आपल्या चलचित्रांनी हाताळ्ळ्यात. मणिर त्नम हें वास्तवीक चलचित्र शैलींतलें एक म्हत्वाचें नांव. मणि रत्नमाचीं चलचित्रां म्हणल्यार देशाचे बदलते समाजीक, राजकी, अर्थीक परिस्थितीचेर केल्लें भाश्य. 'रोजा', 'बोम्बे', 'दिल से', 'इरूवर', 'युवा' हीं तांचीं नामनेचीं चलचित्रां. मणि रत्नम हांणी बॉलिवूडाच्या झगझगाटांतल्यान वाट काडीत वास्तवीक सिनेमा लोकप्रिय करपाचें मुळावण घालें. हें शक्य जालें तें फकत मणि रत्नम हांचे विशय हाताळपाचे आगळे वेगळे शैलीक लागून. मणिरत्नम हांचो सिनेमा वास्तवीक आसता पूण

मणि रत्नम तो मानवीक दृश्टींतल्यान हाताळटा. ते खातीरच तांचे सिनेमा देखणीय आसतात.

हालींच मणि रत्नम हांणी दिग्दर्शीत केल्लें 'रावण' हें फिल्म रिलीज जालें. पयल्याच दिसा समिक्षकांनी आपणालें तोंकाचें समिक्षण दिलें. थोड्यांक हें चलचित्र खूब आवडलें आनी थोड्यांक तें मातूय आवडूंक ना. मणि रत्नमाच्या चलचित्रांचे बाबतींत अशें जावप सभावीक आसा. हांव स्वता मणि रत्नमाचें चलचित्र घोस्तान पळयतां. पूण तांच्या 'गुरू' चलचित्राचो उल्लेख हांव मुद्दाम टाळटां. खूब जाण 'गुरू' चलचित्राची तोखणाय करतात. पूण म्हाका हें चलचित्र मणि रत्नमाचे तोडीचो दिसतना.

'रावण' ही नक्षलपूर्व, प्रस्थापितां आड उबारिल्ल्या आदिवासी राज्याची काणी. तांचो मुखेली 'बिरा' (अभिषेक बच्चन) हाचे भोंवतणीं कथानक घुंवता. आमी भारतांत रामायण, महाभारत हे धर्मीक ग्रंथ मानल्यात. तातूंतल्या व्यक्तीरेखांक आमी भजतात, पुजतात, तांचीं मंदिरां उबारतात. ग्रंथां प्रमाण आमी देवत्व आनी राक्षसत्व वांटून घालां. तातूंत बदल केल्लो आमकां अजिबात सोंसना. तें पळोवन घेवपाचीय आमची तयारी नासता. आयज देशांत नक्षलवाद आनी माओवाद तेंगशेर पावला. पूण ते आदिवासी चळवळीक जर वामपंथी वारें लागना जाल्यार ती स्वतंत्र प्रस्थापितां आड आशिल्ल्या आदिवासी राज्याची चळवळ जाता. मणि रत्नमान 'बिरा' हाका आपल्या कथानकाचो 'abstract' रावण केला. ताका रॉबिनहूडय म्हणूं येता. बीरा हो एक आदिवासी फुडारी. तो खंयचीच सरकारी यंत्रणा आपल्या रानांत येवपाक दिना. अशिक्षीत, धाडसी, शिटूक आनी प्रस्थापितां आड तो त्या जिल्ल्यांतल्या सुपरिटेंडेंट ऑफ पुलीस (विक्रम केनेडी)ची घरकान्न राघिनी (ऐश्वर्या राय) हिचें अपहरण करता. तिका जंगलांत दवरता. सरकारी यंत्रणेचे दादागिरीक लागून बीराक लोकप्रियता मेळटा.

आमचो प्रस्न आगळोवेगळो आसा. हालींच आयिल्लें 'राजनिती' हें चलचित्र आमी आधुनीक महाभारत म्हूण स्विकारूंक शकतात. कित्याक तर तें जगच भूलभुलय्या. म्हारगे कपडे, म्हारग्यो गाडयो, गिरेस्तांचीं दुख्खां. पूण रावण आमी स्विकारूंक शकनात. कित्याक तर रावण हें आधुनीक रामायण न्हय. तर रामायणाची 'abstract' व्यक्तीरेखा घेवन तयार केल्ली एक कलाकृती आनी ह्या चलचित्रांत कोण रावण, सीता आनी राम आपसूकच

जाय अशें ना.

मणि रत्नमाची आनीक एक खासीयत म्हणल्यार तांचें तांत्रीक बाजूंचेर आशिल्लें प्रभुत्व. मणि रत्नम हो एक 'Story teller'. तांचीं चलचित्रां वास्तवीक आसतात, पूण वास्तवांत आसा तश्शें आसना. ताका 'Cinematic realism' म्हणूं येता.

मणि रत्नम हे वास्तवीकताय लेगीत मानविकतायेन हाताळपाक शकतात. मणिरत्नम हांची पटकथा म्हणल्यारच एक तंत्र. रावण ह्या चलचित्रांत संतोश सीवन आनी वी. मणिकंदन हांणी केल्लें चित्रीकरण दोळे दिपकावपी आसा.

रावण चलचित्रांत सगळ्योच गजाली 'perfect' जाल्यात. जेन्ना संगीतकार ए. आर. रेहमान आनी गीतकार गुलझार एकठांय येतात तेन्ना एक वेगळोच जादू जाता. बीराची मानिल्ली भयण जमुनिया (प्रिया मणी) पड्ड्यार झळकतनाच चक्क करून सोडटा. मणि रत्नमाचो 'abstract' हनुमान 'संजीवनी' (गोविंदा) हाणें भुमिकेक न्याय दिला. बीराचो उजवो हात 'सिद्धार्थ' (रवी किशन) हांणी आपली भुमिका बेस बरी केल्या. पूण चलचित्राचीं मुखेल पात्रां बीरा आनी राघिनी हीं पुरायपणान अयेसस्वी. युवा फिल्मांत अभिषेक बच्चनान आपली छाप दवरिल्ली. पूण रावण सिनेमांत मुखेल पात्रां अभिषेक बच्चन आनी ऐश्वर्या राय एकदम अस्ताव्यस्त दिसतात. अभिनयांत तर अजिबात दम ना. 'Coordination' ना. पूण चलचित्राच्या व्यक्तीचित्रणाक लागून चलचित्र गुंथून उरता.

जे कोण सांगतात, रावण ह्या चलचित्रांत रामायणाची वाट लायली म्हणून, तातूंतल्यान एकूच दिसता, आमकां बदल आपणावपाचो ना. ह्या देशांतल्या चलचित्रांचें बॉलीवूडकरण करपाचें हें एक षडयंत्र.

**Raavan** [2010/139min/Hindi (Raavanan-Tamil)]
**दिग्दर्शक** : मणि रत्नम
**लेखक** : वाल्मिकी (कथा), मणि रत्नम (पटकथा)
**निर्माते** : मणि रत्नम
**अभिनय** : अभिषेक बच्चन, ऐश्वर्या राय, विक्रम प्रियामणी
**छायाचित्रकार:** संतोष सिवन, व्ही. मणिकादन
**संकलन** : श्रीकर प्रसाद
**संगीत** : ए. आर. रेहमान

वाठार : भारत




# नो स्मोकिंगः
# मन आनी बृहन्मनांतले विचार

अनुराग कश्यप हें एक आगळें वेगळें व्यक्तीमत्व. ताणें स्वताची अशी एक abstract' चलचित्र निर्मितीची शैली विकसीत केल्या. सुरवेच्या 90तल्या सकांत अनुराग कश्यपाची ही शैली कोणाक समजनाशिल्ली. देखून सेन्सोर ोर्डान ताच्या चलचित्रांचेर बंदी घाल्ली. आयज अनुराग कश्यपाचीं चलचित्रां वास्तव आसात. चलचित्रांचे सगळे आयाम घेवन अनुराग कश्यप तांचो ापल्या कथानकांत प्रयोग करता. आयज मेरेन अनुराग कश्यपाच्या लचित्रांक तोंकाचे रेव्हू मेळ्ळ्यात. कोणें 1–2 स्टार दिल्यात तर कोणें –5 स्टार दिल्यात.

'नो स्मोकिंग' हें चलचित्र 2007त रिलीज जाल्लें. अनुराग कश्यपान

आपली आगळी वेगळी कल्पना वापरून हें चलचित्र दिग्दर्शीत केल्लें. विशाल भारद्वाज, जांची चलचित्र निर्मिती भारतीय चलचित्र निर्मितींत 'bench mark' थारल्या, तांणी ह्या चलचित्रांची निर्मिती केल्ली. हें चलचित्र फामाद अमेरिकी कथाकार आनी पटकथाकार स्टीफन किंग्स हांचे 'Quiters, Inc' हे कथेचेर आदारीत आसा. स्टीफन किंग्स हेच एक रहस्यमय कथाकार, तांकां अमेरिकेंत 'fantasy fiction' लेखक म्हणून वळखतात.

कथानकांतलो प्रोटोग्रोनिस्ट 'K' (जॉन अब्राहीम) ही एक 'abstract' व्यक्तीरेखा म्हूण उबारल्या. 'K' हो तीस वर्सां पिरायेचो एक आत्मविस्वासू, हुशार, श्रीमंत तरणाटो जो सिगारेटीच्या व्यसनाचे आधीन जाला. तागेल्या सिगारेटीच्या धुंवराक लागून ताचो भाव आपलो एक पुलमांव वगडायता. ताची बायल अंजली(आयेया टाकिया) तागेल्या सिगारेटीच्या धुंवराक लागून पयलींच अस्वस्थ आसता. पूण 'K'क एक विचित्र सपन पडटा. तो एका रयिशन बर्फाच्या दोंगरार एके खोंपींत न्हिदला. थंय आसतात vodkaच्यो बाटल्यो आनी सिगाराचीं पाकिटां. पूण सिगरेट पेटोवंक लायटर, फस्क कांयच ना. तो तळमळटा आनी इतल्यान ताका पयसशें एक बाथ टब दिसता. तो धांवता. तें पळोवन ताचे फाटल्यान रशियन पुलीस धांवतात. 'K' त्या टबा कडेन पडटा आनी तो सिगारेट तोंडांत घालता. हात वयर काडटा, आर्म घेतिल्ल्या पुलिसां कडेन लायटर मागता आनी ह्याच खिणाक 'K'ची न्हीद खळटा. तो जागो जाता.

एक दीस अंजली मुद्दाम 'K'क 'कलकत्ता कार्पेट' ह्या एका पुनर्वसन केंद्रांत सिगरेटीचें व्यसन सोडूंक धाडटा. 'K'चो इश्ट अब्बास (रणवीर शौरी) हो ताका पत्तो दिवपाक मजत करता. थंयच ताका एक 'abstract' दोतोर बाबा बंगाली (परेश रावल) मेळटा. तो ताका सिगारेट सोडपाचे उपाय सांगता. उपरांत ताणें जर सिगारेट ओडली जाल्यार ताचे कान वतले, आनीकय ओडली जाल्यार बोट वतलें, आनीकय ओडली जाल्यार ताचो भाव मरतलो. आनीकय ओडल्यार बायल मरतली. पूण 'K' ताचें कांयच आयकना. अट अशीय आसता, उपरांत जर आनीक कोणाय सिगारेट ओडप्याचो पत्तो दिलो जाल्यार ताका बोट, भाव, बायल परतून मेळपाक शकता. एक एक करून 'K'ची सगळें कुटुंब काबार जाता. रशियेच्या दोंगरा

वयलें तें सपन ताका परतून पडटा आनी हे खेपे मात तो त्या बाथ टबांत उडकी मारता.

न्हीद खळटकच ताका कळटा आपलो फकत तो एक भ्रम आशिल्लो. ताचीं बोटां, भाव, बायल सगळीं वेवस्थीत आसात. हातूंतल्यान ताका कळटा, हो सगळो आपल्या मनाचेर जाल्लो परिणाम आशिल्लो. तो भियेवनच सिगार सोडटा.

ह्या चलचित्रांतल्यान जिणेची एक म्हत्वाची बाजू दाखोवन दिल्या. सगळ्यो गजाली मेंदवाचेर आदारीत आसतात. ते खातीर सदांच संयम आसचो पडटा. जिणे परस कसलेंच व्यसन श्रेश्ठ न्हय. हें चलचित्र मनशाच्या मनांतल्यो आनी बृहन्मनांतल्यो गजाली सांगून वता. देखून हें चलचित्र मनशाच्या मानसीक अवस्थेचेर आदारीत आसा.

## No Smoking

[2007/128min/Hindi/India]

**दिग्दर्शक** : अनुराग कश्यप
**लेखक** : अनुराग कश्यप (पटकथा), राज सिंघ चौधरी (कथा)
स्टिफन किंग्स हांच्या 'Qitters' कथेचेर आदारीत
**निर्माते** : कुमार मंगत पाठक
**अभिनय** : जॉन इब्राहम, आयेशा टाकिया, परेश रावल
**छायाचित्रकार:** राजिव रवी
**संकलन** : आरती बजाज
**संगीत** : विशाल भारद्वाज

वाठार : भारत
महोत्सव : 41वो इफ्फी 2010
विभाग : भारतीय पॅनोरमा (फिचर)




# पिपली लायव्हः
# एक पॉपकॉर्न फ्लीक

विचार करात, तुमी चवथीक बाजारांतल्यान एक कार्रेगाद, पेजाद गर्नेल हाडटात. ताची वात भायर काडटात आनी ताचेर उजवात धरतात आनी सट करून कोनशाक धांवतात. तुमची समजिकाय आसता आतां व्हडलो आवाज जातलो. आतां सगळीं जाणां भियेवन कच्च करून आंग काडटलीं म्हणून तुमी उत्सुकतायेन ते पेट्टे वातीक पळयत रावतात. पूण इतल्यान तो गर्नाल एक फोगेट कशी फुट्टा – सुर्र.... मागीर दिसतलें न्हय

अजाप तुमकां? कांय प्रमाणांत अशीच आवतिकाय चर्चीत चलचित्र 'पिपली लायव्ह'ची जाल्या. रिलीज जावचे पयलीं खूब आशा दाखयिल्ली. पूण उपरांत 'तारे जमीन पर' जालें. आमीर खान प्रॉडक्शनाचो बॅनर, ज्वलंत विशयाचें कथानक, तातूंत अजापाचें म्हणल्यार इंडियन ओ़शन ह्या बॅण्डाचें संगीत. आमीर खानाच्या नांवाक लागून सगळ्योच गजाली परफॅक्ट आसपाक जाय आशिल्ल्यो अशी आशा आशिल्ली. पूण एका व्हडल्या कॅनवासाचेर एक विस्कळीत चित्र दिश्टी पडलें. दिग्दर्शक अनुशा रिझ्वी हांचें हें पयलेंच चलचित्र. तांणी कथा, पटकथा, संवादय बरयल्यात. चलचित्राचें कथानक शेतकारांचे आत्महत्यांचेर आदारीत आसा. पूण हें चलचित्र मूळ मुद्याक हातूच घालिना. हें चलचित्र फकत हवेंतलें वयल्या वयलें एक चित्रण करता.

कथानकाची मुखेल पात्रां नत्था (ओमकार दास माणिकपूरी), ताचो भाव बुधिया (रघुबीर यादव), ताची घरकान्न नंदिता (मलायका शणय) आनी ताची आवय अम्मा (फारूख जाफर) असो तांचो घराबो. उपरांत गांवचो एक पत्रकार रामेश (नवाजुद्दीन सिद्धीकी), धनीया (शालिनी वत्तस), कुमार दीपक (बविशाल शर्मा), शेतकी मंत्री (नसरुद्दीन शाह) हांचो आसपाव जाता.

नामनेचे नाटककार हबीब तन्वीर हांच्या 'नया थिएटर' पंगडांतल्यान ह्या चलचित्रांतले चडशे कलाकार घेतल्यात. कथानक घडटा मध्य प्रदेश ह्या कथीत राज्यांतल्या पिपली गांवांत. दुकळान पिडिल्लो हो गांव. दळडीर, पडंग शेतां आनी शेतकारांचीं रिणां, आशेचें कसलेंच किरण ना. नत्था आनी बुधीया हांकां बँकेचें रीण फारीक करपाक जायना. ते गांवच्या तशेंच शारांतल्या दरेका कोनशांनी भोंवता. पूण अखेरेक रिणाक लागून जमीन घाणाक दवरचीच पडटा. उपरांत तांच्या कानार पडटा, शेतकाऱ्यान आत्महत्या केल्यार पुराय कुटुंबाक सरकारी सहाय मेळटा म्हणपाचें. खूब चिंतले उपरांत नत्था आत्महत्या करपाचें थारायता. गांवांतल्या राकेश ह्या पत्रकाराच्या कानार ही बातमी पडटा. तो ती छापता. राष्ट्रीय प्रसार माध्यमां बातमी उखलून धरता आनी आपल्यो ओ. बी. व्हॅनी घेवन पिपली गांवांत पावतात. नत्था आत्महत्या करतलो काय ना हाचेर बोवाळ जाता. बातमी 24 वरां लायव्ह आशिल्ल्या कारणान सरपंच ते केंद्रीय कृषी मंत्र्याक मदीं

पडचें पडटा. वेंचणुकेचो वेळ आशिल्ल्यान वातावरणय बरेंच तापता. उपरांत बातमी आपशींच न्हिवता. कसलेंच सरकारी सहाय मेळना, परिस्थिती जैसे थे. उपरांत अचकीत जाल्ले एके घडणुकेक लागून एके झोंपडेक उजो पेट्टा आनी तातूंत नत्था मरता अशें सगळ्यांक दिसता. पूण नत्था पळून वता आनी शारांत खंयच्या तरी बांदकाम चलता त्या जाग्यार मजुरेच्या कामाक लागता.

अशा ह्या सोंप्या, सरळ कथानकांतल्यान एक विचित्र चित्र दिसून येता. फाटीं सीएनएन–आयबीएनचे मुखेल संपादक राजदीप सरदेसाय हांणी म्हणिल्लें – प्रसार माध्यमां म्हणल्यार एक मांसाहारी पक्षी. ताका चोवीसय वरां खावड घालची पडटा. खावड घालिना जाल्यार तो जगपाक शकना. हेंच चित्र ह्या चलचित्रांत दिसता.

हें चलचित्र खूबशा आंगांनी कमी पडटा. ह्या चलचित्राची पटकथा विस्कळीत जाल्ल्यान चलचित्रान घडणुकांक घुस्पावन दवरूंक ना. बौद्धीक संशोधनांत हें चलचित्र खूब उणें पडटा. शेतकाऱ्याची आत्महत्त्या हो गंभीर विशय. पूण ताचें गांभिर्य सादपाक चलचित्र सफल जावंक ना. चलचित्राचें व्यक्तीचित्रण बरेंच अपुरें पडलां. फकत नत्थाची बायल आनी आवय अम्माच्या व्यक्तीचित्रटणाचो तोल सोडल्यार बाकीचें सगळेंच विस्कळीत जालां. शेतकाऱ्यांचे आत्महत्येचेर जायतीं चलचित्रां आयल्यांत आनी तीं भारतीय चलचित्र निर्मितींत बेंच मार्क थारल्यात. हालींच आयिल्लें 'समर 2007' हें अजूनय लक्षांत उरलां.

हालींच रिलीज जाल्लें चलचित्र 'इश्कियाँ'. ह्या चलचित्रान समाजांतल्या गढूळ आंगाचेर उजवाड घाल्लो. पटकथा लेखकान ह्या चलचित्रांत परिस्थिती आनी हास्य ह्या आंगाचो तोल राखिल्लो. पूण तशें कांय पिपली लायव्हांत ना. एक गजाल मात तोखणाय करपा सारकी आसा, हें चलचित्र खूब विस्कळीत आसूनय ह्या चलचित्रांत भावना उब्यो करपाचें काम दिग्दर्शक रिझ्वी हिणें केलां. आनी हें सहवेदनपणान फकत बायल दिग्दर्शकच करपाक शकता.

ह्या सगळ्या गजालींनीं एक सिद्ध जाता, बरी स्क्रिप्ट, संगीत, कलाकार, प्रॉडक्शन बॅनर इतलेंच आसलें म्हणून जायना, तर आपणा भोंवतणीं कितें

ल्लां त्या गजालीं कडेन संवेदनशील नदरेन पळोवन विशयाचो अभ्यास ऽरप गरजेचो आसा. मनशाच्या दुखण्यांतल्यन हांसो तयार जाता पूण ताचे रिबींतल्यान न्हय. हें चलचित्र सगळ्यांक आवडलें. पूण विदर्भांतल्या आनी ुंदेलखणाच्या शेतकारांनी मात ह्या चलचित्राक आक्षेप घेतलो. तुमकां जर ोतकारांच्यो आत्महत्या वर्तमानपत्रांतल्या बारीक कॉलमांतल्या बातम्यांनी ळोवपाक आवडटा जाल्यार हें चलचित्र तुमकां जरूर आवडटलें.

आनी निमाणें, हें चलचित्र शारांतल्या मल्टिप्लॅक्स प्रेक्षकां खातीर तयार ऽलां. तांकां ही वास्तवीकताय एकदम फकांडांची दिसता आसुंये. देखून ुा चलचित्राक एक पॉपकॉर्न फ्लीक म्हणूं येता. ह्या चलचित्रान गरिबीचें glorification' मात भरपूर प्रमाणांत केलां.

**'eepli Live**

2010/104min/Hindi/India]

**दिग्दर्शक** : अनुश्का रिझवी

**ोखक** : अनुश्का रिझवी

**नेर्माते** : आमीर खान, किरण राव

**भिनय** : ओमकार दास, माणीक पूरी, रघुबिर यादव, शालीनी वस्त, मालायका शणय, नवाझुद्दीन सिद्दीकी, नसरुद्दीन शाह

**गयाचित्रकार:** शंकर रमण

**ंकलन** : हेमंती सरकार

**ंगीत** : इंडियन ओशन, ब्रिज मंडल, नागीर तन्वीर, राम संपत

**ुनामां/वांटो:** भारताची अधिकृत नामांकन ऑस्करा खातीर

वाठार : भारत



# युवाः
# तरणे हावेस

कांय विशयाचेर आमी समाजांत उलोवपाक कांचवेतात. सदांच काळे आनी धवे आसताच अशें ना. म्हणून तांकां ग्रे एरिया अशें म्हणटात. हे विशय मणि रत्नम हांणी 90च्या दसकांत मोट्या धाडसान आनी खंबीरपणान मांडले. मणि रत्नम खूबश्या प्रमाणांत हे विशय संवेदनशील रितीन हाताळटा. वास्तवीक कथानक आनी ताका सांगात दिवपी मजबूत आनी अभ्यासू पटकथा. देखून खूब जाण मणि रत्नमाचे पटकथा शैलीक "Cinemotic poetry' अशें म्हणटात.

म्हजी पिळगी जागतीकरणाच्या दसकांनी वाडली. आनी हेच पिळगेचे उमाळे दाखोवपी चलचित्रां मणि रत्नमान पडद्यार हाडलीं. तेच खातीर मणि रत्नमाचें 'युवा' आजूनय काळजांत घर करून बसलां. समाजांतल्या वेगवेगळ्या थरा वयल्या युवकांचीं सपनां, उमाळे, विचार आनी व्यथा

ुवा' पड्ड्यार हाडटा. आनी हे दाखोवपाक मणि रत्नमान कुशळ पटकथा ापरल्या. कांय समिक्षक हे पटकथा शैलीक "Hyperlink Format' अशें हणटात.

मायक (अजय देवगण) एक विद्यार्थी फुडारी. राजकी बदलाचीं सपनां ळोवपी आनी समाजांत वावुरपी भोवतीक विज्ञानांतलो भांगरा पदक ळिल्लो तरणाटो. आपलें शिक्षण अर्धार सोडून राजकारणांत सक्रीय ावपाची ताचीं सपनां. अर्जुन (विवेक ऑबेरॉय), ताचो बापूय आय ए एस ाधिकारी. पयशाची पर्वा नाशिल्ल्यान ताच्यांत विलासी वृत्ती बळावता. देश ांयूंय पावूं, अमेरिकेक वचपाचीं सपनां. लल्लन (अभिशेक बच्चन) सदांच ुसऱ्यांच्या विचारांनी चलपी तरणाटो. तोडफोड हेंच ताचें काम. हाका लागून ाजकारणी सदांच ताका हाता लागीं धरतात.

ह्या पात्रा बराबर इशा देवल, करिना कपूर आनी राणी मुखर्जी हांचें यक्तीमत्व बेस बरें जालां.

हें चलचित्र आयच्या तरणाट्यांचे उमाळे दाखयता. हें चलचित्र हिंदींत ानी तमिळांतूय रिलीज जाला. तमिळांत तो 'आयूझू आयूथू' म्हूण रिलीज ााला.

ह्या चलचित्रांत मनशाचे विचार बदलपाची तांक आसा. युवक ही देशाची ाक्त. युवा ही अवस्था खूब बळिश्ट आनी प्रभावी. एक तर ती बऱ्या खातीर ापरूं येता वा तिचो वापर वायटा खातीर जावं येता. हेंच हें चलचित्र ाखोवन दिता. केन्नाय निर्शेवणी येत वा गोंदळाची अवस्था आसत जाल्यार ं चलचित्र मुजरत पळोवचें. हें चलचित्र आगळो कारण "Its great to be oung and restless!'

**uva** [2004/161mm/Colour/Hindi]

**ेखन आनी दिग्दर्शक :** मणी रत्नम

**ाभिनय :** अजय देवगण, अभिशेक बच्चन, विवेक ऑबेरॉय, राणी मुखर्जी, करिना कपूर, इशा देओल, सोनू सूद

**ायाचित्रकार:** रवि चंद्रन

**ंकलन :** ए. स्रिकनप्रसाद

**ंगीत :** ए आर रहमान




वाठार : भारत

# लव्ह, सॅक्स और धोखाः
# आनी भारतीय युवक

'ल्वह, सॅक्स और धोका' आवयस! इतलें भडक नांव आयकल्यार सर्वसामान्य मनीस भियेवन वचपाचो. उपरांत एकता कपूर आनी बालाजी टेलिफिल्म नांव ह्या चलचित्राक जुळयलें जाल्यार आनीकय भयानक दिसपाचें. पूण उपरांत दीबाकर बॅनर्जीचें दिग्दर्शन म्हणल्यार मातशें कितें तरी वेगळें आसतलें हाची कल्पना येता. भारतीय चलचित्र निर्मितींत इतल्या भडक नांवाचें चलचित्र आसतलें तरी कशें? पूण भारतीय चलचित्र निर्मिती कितली फुडें पावल्या आनी संवेदनशील जाल्या हाची गवाय हें चलचित्र दिता.

हें चलचित्र एके आगळे वेगळे पद्दतीन चित्रीत केलां. चडशे लोक अशे पद्दतीक 'found footage' अशें म्हणटात. हातूंत एखाद्या सादारण

चलचित्राचें चित्रीकरण करता तसो आंवाठा (सेटअप) नासता. तर चडशीं चित्रां (footage) चोरयां घेतिल्ली आसता. 'found footage' वयल्यान नांवाजतें अमेरिकी चलचित्र 'Paranormal activity' सगळ्यांनी पळयलांच आसतलें. 2009 वर्साचे इफ्फींत एक 'मॉली कॅम' म्हूण फिनलॅण्डचें चलचित्र आशिल्लें. पूण सगळ्यांत चड भावलें तें 'लव्ह, सॅक्स और धोका'. 'found footage' पद्दतीन आसूनय चलचित्राचें संकलन जबरदस्त जालां. ही बाब चलचित्राक एके उंचायेर व्हरता. असलीं चडशीं चलचित्रां अस्पश्ट आसतात आनी पळोवपाक त्रास जाता. एक म्हायती मेळोवपाचें साधन म्हणून हीं चलचित्रां पळोवचीं पडटात. पूण हें चलचित्र एकदम स्पश्ट आनी सुरळीत आसा. हें चलचित्र पळयता आसतना फकत एक मनरिजवण म्हूण पळोवचें न्हय. हें चलचित्र मनाची मनरिजवण अजिबात करिना. पूण निराश आनी आयचे जुवान भारतीय मनोवृत्तीचें कोडू सत्य दाखयता. हें चलचित्र एके आगळे वेगळे पद्दतीन आशिल्ल्यान चलचित्राचें विस्तृत कथानक बरोवपय समा न्हय. ह्या चलचित्रांत तीन सब-प्लॉट आसात. म्हणजेच ह्या चलचित्राक तीन कथानकां आसात आनी दिग्दर्शक दीबाकर बॅनर्जीन ते सब-प्लॉट बेस बरे हाताळ्ळ्यात. चलचित्राचीं पात्रां साकार करपी कलाकार तर सगळेच नवे पूण तांकां ह्या चलचित्राचो प्रत्येक आयाम बारीकपणान समजला. चलचित्राचें चित्रीकरण करपी निकोस अण्ड्रीसाकीस हांची मेहनत पड्ड्यार पुरायपणान दिसून येता.

ह्या चलचित्रांतल्यान भारतीय चलचित्र निर्मितीन कांय म्हत्वपूर्ण ध्येयां गांठल्यांत. क्रिकेट आनी परिक्षा ह्या वेळांत नांवाजते आनी दिग्गज भारतीय चलचित्र निर्माते आपलें चलचित्र रिलीज करपाक भियेतात. क्रिकेट आनी परिक्षेच्या काळांत रिलीज जावन लेगीत एक अजापीत प्रेक्षक ह्या चलचित्रान ओडला. भारतीय चलचित्र निर्मितीच न्हय तर भारतीय प्रेक्षक लेगीत एका 'टॅबू' म्हणल्यार अस्पृश्य विशयाचेर चर्चा करपाक तयार जाला. अभ्यसक्रमांत सॅक्स एज्युकेशन कितलें म्हत्वाचें तें हें चलचित्र पळोवन कळटा. दुसरी गजाल, ह्या चलचित्राची निर्मिती फकत भारतांतूच जावपाक शकता. एखादो टॅबू विशय जे संवेदनशीलतायेन दिग्दर्शकान हाताळ्ळा तो आनीक कितलीशींच आव्हानात्मक चलचित्रां येयस्वीपणान पेलूंक शकता.

भारतांत लोकांक गिरेस्त मनशांचीं दुख्खां पळोवपाक आवडटात. जांव तें 'कभी खुशी कभी गम', जावं हालींच रिलीज जाल्लो 'पा'. पूण वास्तवाचेर उजवाड घालपी चलचित्र पळोवपाचें धाडस खूब उणे लोक करतात. म्हाका याद जाता एक मॅक्सिकन संगीतपट 'कुंबिया कनॅक्शन'. तो मॅक्सिकोंत वाडपी शारांनी जुवान मनोवृत्तीचेर उजवाड घालता. हातूंत युवकांचे बदलपी विचार, शारिरीक बदल खूब उक्तेपणान आनी हलकेपणान मांडल्यात. पूण भारतांत परिस्थिती खूब बिकट आसा. वास्तवांत Premarital sex ह्या विशयाचेर कितले भारती युवक मेकळेपणान उलोवपाक तयार आसतले? 2007 वर्सा इफ्फींत एक रोमानियन चलचित्र उक्तावणाचें चलचित्र आशिल्लें. '4 मन्थ्स, 3 विक्स, 2 डेस' हें एके जुवान चलयेच्या गर्भपाताचेर आदारीत चलचित्र. थंय हाजीर आशिल्ल्या ह्या चलचित्राच्या दिग्दर्शकान सांगिल्लें, हें चलचित्र युरोपांत कॉलेजींनी दाखोवपाचो प्रस्ताव आसा. 'लव्ह, सॅक्स और धोका' हें एक कोडू चलचित्र पूण शंबर टक्के वास्तवीक. आयज भारतीय युवकां मदीं बदल घडटा ताचेर चर्चा करपाक आमकां कित्याक लज दिसपाक जाय? समलैंगीक संबंद कायदेशीर जावचे काय ना हाचेर पुराय देश चर्चा करता. पूण ताचे परस कितलेशेंच म्हत्वाचें आसा तें अभ्यासक्रमांत सॅक्स एज्युकेशन.

जर '4 मन्थ्स, 3 विक्स, 2 डेस' आयज येवरोपांत कॉलेजींनी दाखयतात जाल्यार तितलेंच म्हत्वाचें, प्रभावी, वास्तवीक जावन आसा 'लव्ह, सॅक्स और धोका'. हो म्हत्वाचो निर्णय खंयच्याय सरकार वा कॉलेज प्रशासनाक घेवपाचें धाडस आसतलें? जर तुमी आतांच कॉलेजींत वतात, आतांच किशोरावस्थेंतल्यान भायर आयल्यात, 18 वर्सां पूर्ण जाल्यांत जाल्यार तुमी तुमच्या पुराय कुटुंबा सयत हें चलचित्र पळोवप गरजेचें.

**Love, Sex Aur Dhokha**

**दिग्दर्शक** : दिबांकर बॅनर्जी
**लेखक** : दिबांकर बॅनर्जी, कानू बहल
**अभिनय** : अन्शुमन झा, नुसरत भारूचा, राजकुमार यादव
**छायाचित्रकार:** निकोस आण्ड्रित्साकीस
**संकलन** : नम्रता राव

वाठार : भारत
महोत्सव : 41वो इफ्फी 2010
विभाग : भारतीय पॅनोरमा (नॉन-फिचर)

# लघुपटः प्रयोग, नाविन्य आनी सृजनशीलतायेचे कसब

शॉर्ट फिल्म म्हणल्यार आपली कल्पना जाता तितल्या कमी वेळांत मांडपाची कला. लघुपटाचे वाडटे सर्तीक लागून कमी वेळेचो वापर ही ह्या गटाची खासीयत जावन पडल्या. चलचित्र निर्मितीच्या अभ्यासक्रमांत भुरगें आपले 'डिप्लोमा फिल्म' करून नव्यो नव्यो कल्पना हाडटात. शॉर्ट फिल्म विद्यार्थीच करता अशें ना. तर नामनेचे चलचित्र दिग्दर्शक आपले सृजनशीलताय पणाक लावन आपलें सामर्थ्य सिद्ध करता. फरहान अख्तर, अनुराग कश्यप, विशाल भारद्वाज, मीरा नायर हे नामनेचे दिग्दर्शक आसूनय नवे प्रयोग लघुपटांतल्यान करीत आसात.

लघुपटाच्या वाडट्या प्रतिसादाक लागून भारतीय पॅनोरमांत आपल्या नॉन फिचर गटाचो आंवाठूय वाडयला. नॉन फीचर गटांत फकत म्हायतीपटूच न्हय तर लघुपटूय खूब प्रमाणांत येवपाक लागले.

चित्तरंजन त्रिपाठी हे ओरिया नाट्य क्षेत्रांतले नावाजते कलाकार. तांणी नौटंकी हो नाटकाचो प्रकार वापरून तो प्रयोग एक आगळो वेगळो केलो. ताच्या लघुपटाचो आस्पाव भारतीय पॅनोरमांत जालो. ताच्या लघुपटाचें नांव courtroom nautanki. लघुपटाची लांबाय वट्ट 14 मिनटां आसा. लघुपटांत कोर्टांतल्या कांय घडणुकांचें विडंबन केलां आनी तें पारंपारीक नौटंकीचे शैलींत साचेबंद केलां. पारंपारीक वाद्यां आनी न्यायमूर्ती आनी गुन्यांवकारी हांच्या उत्स्फूर्त संवादांची जुगलबंदी हो लघुपटाचो आशय, झल्लन सिंग हो गुन्यांवकार जाका चोरी करतना धरलो. तो चोरी करुन

पळटालो इतल्यान राष्ट्रगीत आयकूंक आयलें आनी तो मानान उबो रावलो.

राष्ट्रगीत सोंपसर ताका पुलिसांनी धरलो. न्यायालया मुखार प्रस्न पडटा असले परिस्थिती भितर सांपडिल्ल्या मनशाक फाशीची ख्यास्त कशी जावपाक शकता. झल्लन सिंग आपलें समर्थन करता, ताच्या राष्ट्रवादी तत्वा खातीर ताका उबो रावचो पडलो. चोराक फकत चोरी करतना धरप ही पुलिसाची नैतीक लागणूक अशें ताचें म्हणणें. ह्या 14 मिनटांत गांधी, आंबेडकर, नेहरू, सगळ्यांचो संदर्भ येवन वता.

प्रयोग आनी नाविन्य हो लघुपट चळवळीचो अर्थ. नवे नवे प्रयोग करप आनी ते मुखार पुराय लांबीच्या चलचित्रांत वापरप. नौटंकी हो एक political theatre चो प्रकार. गोंयांत आमचे कडेन कितलेशेच प्रकार आसा 'जागोर' आनी तियात्रांतलो 'त्रियो' आसा. हांचो वापर करून आमी खूब प्रयोग करूंक शकतात.

'मिस्टर इंडिया' म्हायतीपटांत प्रयोग करप खूब कठीण काम. म्हायती, व्यक्ती, परिस्थिती वापरून म्हायतीपटाची रचना करची पडटा. आनी हांगाच दिग्दर्शकाच्या सर्जनात्मक कसबाची परिक्षा थारता. भारतीय पॅनोरमा हो भारतीय चलचित्र प्रवाहाचो हारसो. आमची चलचित्र चळवळ खंय पावल्या आनी खंय वचपाक जाय हाचें दर्शन आमकां भारतीय पॅनोरमांत पळोवपाक मेळटा. होबम प्रबन कुमार ह्या तरणाट्या दिग्दर्शकान 'मि. इंडिया' म्हणचेच प्रदीप कुमार सिंग हाची काणी उक्ताडार हाडली. प्रदीप कुमार सिंग हाका 2000 त आपले कुडींत एचआयव्ही व्हायरस आशिल्ल्याचें कळ्ळें. ताका दोतोरांनी सांगलें body building बंद कर. पूण ताणें आपले जिद्दीन जिमांत कसरती करप सुरू केलें.

2007 वर्सा 'मिस्टर मिणपूर' जिखलो आनी एक दीस मि. इंडिया जिखपाचो निश्चय केलो. हो म्हायतीपट चलचित्राच्या आयामाच्या पेल्यान व्हरता. जगपाची जिद्द, परिस्थिती कडेन झगडपाचें सामर्थ्य हातूंतच जगपाची मजा आसा. ह्या दोनूय चलचित्रांचो आसपाव भारतीय पॅनरोमांत जाला. हे काय देशांतल्या तरणाट्यांनी केल्ले चलचित्राचे प्रयोग. जर हे लोक तांची लोकसंस्कृती वापरून असले प्रयोग करूंक शकता जाल्यार आमी कित्याक करूंक शकना?




वाठार : भारत

## BLACK FRIDAY:

# बदलत्या भारताच्यो तरण्यो सहवेदना

कांय वर्सां आदीं पाकिस्तानाचे आदले सुरक्षा सल्लागार मुहम्मुद अली दुराणीन एके मुलाखतींत सांगिल्लें, भारतांतलीं आनी पाकिस्तानांतलीं प्रसार माध्यमां लोकांचे मत 'दाखयनात' तर लोकांचें मत 'तयार करतात' ही गजाल वादाची थरूं येता. पूण कांय प्रमाणांत हें खरेंय बी.

आमच्या सिनेमांनी लेगीत हें थोडेभोव प्रमाणांत जाणवता. भारतीय उपमहाद्विपांतले सिनेमा पळयल्यार आमकां हें दिसून येतलें. चीन, भारत, पाकिस्तान, श्रीलंका, इराण ह्या देशांतले थळाव्या विशयावेले सिनेमा पळयल्यार कांय सिनेमा मनाचेर खर प्रभाव दवरून वतात. तातूंतले परिस्थितींतल्यान कळून येता, भारतीय उपमहाद्वीप काणयांनी धगधगता.

थंयच्यो व्यथा आनी काणयो पड्ड्यार येवपाक भुकेल्यात. हालींच्या कांय वर्सांनी एका परस एक सिनेमा ह्या महाद्विपांतल्यान भायर सरल्यात. मागीर ते चीनी कम्युसिस्ट सत्तेचें विटकुरें दर्शन घडोवपी 'शाफ्ट' आनी 'ओल्ड बार्बर' आसूं वा 'ट्रेन' आसूं वा पाकिस्तानाची आयची दशा घडोवपी 'रामचंद पाकिस्तानी' आसूं वा 'खुदा के लिए' आसूं. ह्या सिनेमांत सुसज्ज वा असो तांत्रीक आदार नासूं पूण तांचें कथानक आकांताळें आनी भयानक वास्तववादी आसता.

कांय चलचित्रां मनोरंजन करिनात. तीं मनाक त्रास दितात, चिंतेस्त करतात, राग हाडटात आनी चिंतपाक लायतात. अनुराग कश्यप हाका कांय वर्सां पयलीं 'अनरीलिज्ड' चलचित्रांचो दिग्दर्शक म्हणटाले. सॅन्सर बोर्डान तांचीं दोनूय चलचित्रां प्रदर्शीत करूंक दिलीं ना. ह्या चलचित्रांचेर 1994त सॅन्सर बोर्डान 'सिनेमा हें सशक्त मनोरंजना खातीर आसता आनी हीं दोनूय चलचित्रां हें उद्दिश्ट साध्य करिना' अशा उतरांनी ह्या चलचित्रांचेर बंदी हाडली. तो काळूय वेगळो आशिल्लो आनी बाबड्या अनुराग कश्यपाक सांगात दिवपी प्रसार माध्यमांय बळिश्ट नाशिल्ली. पूण अनुराग कश्यपान मनोरंजना बगरची चलचित्र निर्मिती चालूच दवरली आनी आपलें आयुश्य पणाक लावन 'ब्लॅक फ्रायडे' हें चलचित्र निर्माण केलो. काळ बदलिल्लो, भारतांत कांय प्रमाणांत मनोरंजनाची व्याख्याय बदलिल्ली. पूण आदले दोन चलचित्रां सॅन्सर बोर्डाचे फायलींत, तशेंच हेंवूय चलचित्र कोर्टाचे प्रक्रियेंत घुस्पलो. मुंबय उच्च न्यायालयान आदेश दिलो, हें चलचित्र 1993 बॉम्ब ब्लास्ट निकाल जाय मेरेन भारतांत प्रदर्शीत करचो न्हय.

2006 वर्सा हें चलचित्र भारतांत पड्ड्यार आयलें. चलचित्राक लागून उफाळिल्लो वाद सोडून ह्या चलचित्रान भारतीय चलचित्र निर्मितींत एक नवी उंचाय गांठली. एक संवेदनशील युवा दिग्दर्शक जो शारी 'दील चाहता है' तरणाटो आनी 'मुन्ना भाईच्या' कॉलेज कॅम्पसाच्या पेल्यान ताणें नदर पावयली. 'न्यू यॉर्क टायम्स' ह्या दिसाळ्यान तर ह्या सिनेमाक rare आनी genuine masterpiece अशें म्हणलें. कांय जाणांक अजाप जालें, असलीं चलचित्रां भारतांत जावपाक शकतात काय कितें?

'ब्लॅक फ्रायडे' हें चलचित्र 1993 वर्सा जाल्ल्या मुंबय सिरीयल ब्लास्टाचेर

आदारीत आसा. हें चलचित्र मुंबय ब्लास्टाचें कारण आनी परिणाम सोदता. हें चलचित्र मनोरंजन तर निखालस करिना. उरफाटें चिंतपाक लायता. ह्या चलचित्राची समिक्षा करतना कांय गजाली मतींत दवरच्यो पडटल्यो. एक म्हत्वाची गजाल- हें चलचित्र "Black friday- The true story of Bombay bomb blast" ह्या हुसैन एस झयदी हांचे कादंबरीचेर आदारीत आसा. कादंबरीचो कॅन्वास खूब व्हडलो आसता. कादंबरींत दरेक गजाल एके जोडणेन आनी गतीन येता. देखून चलचित्राचे पटकथेची बुन्याद घटमूट जाता. हें ह्या चलचित्राच्या येसाचो एक भाग.

चलचित्राची सुरवात जाता मार्च 9, 1993 ह्या दिसा सावन. गुल महमद हो एक ल्हानसो पाकीटमार चोर पुलिसांक सांगता, मुंबयंत कितें तरी व्हडलें जावपाचें आसा, मुंबय हालपाची आसा. पूण पुलीस ताचें म्हणणें गंभीरतायेन घेनात. उपरांत चलचित्र ह्या बॉम्ब ब्लास्टाचें कारण सोदता. बाबरी मशीद उडयले उपरांत मुंबयंत उप्राशिल्ले हिंदू-मुसलमान दंगलेंत सरासरी 1500 लोक मेले. हे दंगलेंत टायगर मेनोन हाणें दुबयंत वचून एक व्हड कट रचलो. आपलें ऑफिस जाळिल्ल्याचो राग ताणें धर्मीक वादांत बदल्लो. 'डी' कंपनी, 'आयएसआय'क घेवन ताणें तरण्या भुरग्यांक जातीवादाच्या नांवान धर्मरक्षणा खातीर तयार केले. उपरांत तांकां आकांतवाद्यांच्या कँपांत प्रशिक्षण दिलें. ह्या चलचित्रांतली पटकथा कादंबरीच्या प्रकरणां प्रमाण घेतल्या. देखून हें चलचित्र स्पश्ट आनी विस्तृतपणान मांडिल्लें आसा. उपरांत शस्त्रां, आरडीएक्स, बॉम्ब रत्नागिरीचे तडेर पावोवप, मागीर ते मुंबय पद्धतशीर थळा मेरेन पावोवप. हें एकेक प्रकरण पळोवन आंगार कांटो फुलता. उपरांत येता बॉम ब्लास्टाची तारीख. त्या दिसा कितें कितें आनी खंय आनी कशें घडलें हें लागींच्यान पळोवंक मेळटा. आनी निमाणे ह्या बॉम ब्लास्टाक लागून जाल्ले परिणाम दाखयल्यात. ह्या कटांत सामील जाल्ल्या लोकांची हालत आनी तांच्या कुटुंबांतल्या लोकांचे हाल दाखयल्यात.

ह्या चलचित्रांत सगळ्या वास्तवीक लोकांचीं नांवां घेतल्यांत. देखीक, मुंबयचे तेन्नाचे डेप्युटी कमिशनर राकेश मारिया, मुखेल आरोपी बादशाह खान आनी मुखेल सुत्रधार टायगर मेनोन. हांगा मेमन वापरिनासतना तें मेनोन केलां. राकेश मारियाची भुमिका के के मेनोन हांणी, बादशाह

खानाची आदित्य श्रीवास्तव जाल्यार टायगर मेनोन हाची भुमिका पवन मल्होत्रान नकसूदपणान केल्या. ह्या चलचित्राचें मुखेल वैशिश्ट्य म्हणल्यार नकसूदपणान उबारिल्ल्यो व्यक्तीरेखा. आनी बारिकांतलें बारीक व्यक्तीरेखेक न्याय दिवपी कलाकार.

हे कादंबरीचें मुखेल कथानक म्हणल्यार, ह्या बॉम ब्लास्टांत तिनशां परस चड लोक मेले. करोडांचें लुकसाण जालें. पूण कितें साद्य जालें? ह्या कटाचो मुखेल सुत्रधार टायगर मेनोन आपल्या घरच्यां सयत सुखरूप दुबय पावलो. 'डी' कंपनी वा 'आयएसआय' ह्यो अजून सक्रीय आसात. ज्या तरणाट्या भुरग्यांनी बॉम दवरले तांकां आनी तांच्या घरच्यांक खर आनी गंभीर ख्यास्त जाली.

बॉम ब्लास्टा उपरांत बादशाह खान (आदित्य श्रीवास्तव) हो पुलिसांक लिपत लिपत रामपूर, राजस्थान, कोलकाता भोंवता. तो पुलिसांक 10 मे 1993 दिसा मेळटा आनी उपरांत सरळ ह्या कटाचो गवाय जावपाक तयार जाता. ह्या सिनेमांत निमाणे कडेन नदरो चोरून व्हरता तो दाऊद इब्राहीमाचो दोन मिण्टांचो देखाव. ही भुमिका विनय रिझवीन केल्या. आनी हुबेहूब दाऊद इब्राहिमाची प्रतिमा थंय दिसता. उपरांत वास्तवीक व्यक्तीरेखा येडा याकूब, याकूब मेमन, दाऊद फणसे, असघर मुकादम, परवेझ शेख हांच्योय व्यक्तीरेखा आसात.

ह्या चलचित्राचे चित्रीकरणाची तोखणाय करीत तितली थोडी. मुंबयची झोपडपट्टी, गर्देचे जागे हांचें बेस बरें चित्रीकरण केलां. कांय वेळ अशें दिसता, चोरयां कॅमेरा लावन हें चित्रीकरण केलां कांय कितें? गिदाच्या दोळ्यांनीच हाचें चित्रीकरण केलां अशेंय म्हणूं येता. ह्या चलचित्राचें चित्रीकरण करपी नटराजन सुब्रह्मण्यम हांचे कडल्यान खूब कितें शिकपा सारकें आसा.

चलचित्राचें संकलन आरती बजाज हांणी केलां आनी हें एक दोश विरयत आसा. खास करून जो के के मेनोन दोशींची जबानी घेता आसतना तांबडो टोन वापरला तो चड उठून दिसता. निमाणें दर एकाचो मेंदू सुन्न करपी संगीत आनी तीं गितां. ह्या चलचित्राक संगीत दिलां 'इंडियन ओशन' ह्या बँडान. गितां बरयल्यांत नामनेचे नाट्य कलाकार पियूश मिस्रा हांणी. वट्ट दोन पदां आसात आनी दोनूय पदां खूब फामाद जाल्यात. 'अरे रुक जा रे

बंदे' हें तर चलचित्र प्रदर्शीत जावचें पयलींच खूब लोकप्रिय जाल्लें.

कांय चलचित्रां बॉक्स ऑफिस आनी पुरस्कारांच्या वयर आसतात. कितलें बजेट आशिल्लें, कितलें जोडलें वा कसले पुरस्कार मेळ्ळ्यात. हो सिनेमा पळयतकच ह्या सगळ्या गजालींचो थोडो वेळ वीसर पडटा. ह्या चलचित्राचो प्लॉट थंयच्या सामान्य गजालीचेर अवलंबून ना. हें चलचित्र फकत बॉम ब्लास्टाचेर उजवाडूच घालिना. हें चलचित्र घडणुके फाटलीं कारणां सोदता. एके जबरदस्त कादंबरीचेर आशिल्लें हें चलचित्र. घडये मनोरंजना खातीरूच न्हय तर दुख्खी करपी वा प्रस्न विचारपी. ह्या चलचित्रांत दिसून येता ती दिग्दर्शक अनुराग कश्यप हांची चिकाटी आनी एक वेगळेपण दाखोवपाची इत्सा. हें वेगळेंपण दाखोवपाक लागता धाडस आनी निश्ठा. आनी घडये तेच खातीर हो सिनेमा सगळ्याच आंगानी श्रेश्ठ आनी बळकट आसा कित्याक तर ह्यो बदलत्या भारताच्यो तरण्यो सहवेदना. Because its different. Its new age Indian cinema.

**Black Friday (2004)**

**दिग्दर्शक** : अनुराग कश्यप

**लेखक** : हुसैन झायदी (ब्लॅक फ्रायडे कादंबरी)

**अभिनय** : के के मेनन, पवन मल्होत्रा, आदित्य श्रीवास्तव, इमतियाझ अली

**छायाचित्रकार:** नटराजन सुब्रमण्यम

**संकलन** : आरती बजाज

**संगीत** : इंडियन ओशन

**इनामां/वांटो** : Locarno (2004)

वाठार : भारत
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : भारतीय पॅनोरमा (फिचर)




# दिगंत:
# कोंकणी भास आनी भौस दिगंताक पवोवपी चलचित्र

39व्या इफ्फींत कझाकिस्तानाच्या 'तुलपान' चलचित्रान सगळ्यांचेर मोनेळ घालो. 39व्या इफ्फींत त्या चलचित्रांक भांगरा मोर फावो जालो. कझाकिस्तान, जो देश आजून आपल्या राष्ट्र निर्मणेचे प्रक्रियेंत घुस्पला, ज्या देशांत चलचित्र संस्कृती न्हय तर कितलीं सिनेमा घरां आसात ताचो लेगीत अदमास कोणाक ना. पूण ह्या देशांतल्या 'तुलपान' ह्या चलचित्राक त्या वर्साचो भांगरा मोर फावो जाल्लो. मेंढ्यो राखपी लोकांचे जिणेचेर हें चलचित्र आशिल्लें. भटक्या लोकांचे प्रस्न आनी व्यथा ह्या चलचित्रांत मांडिल्ली. आसा ते परिस्थितींत सिनेमॅटिक कंण्टेंट सोदून ताचेर त्या तरणाट्यांनी चलचित्र तयार केल्लें.

अशीच अस्सल गोंयचे मातयेंत रुजिल्ली काणी 'दिगंत' पड्ड्यार हाडटा. गोंयचो सैम, ग्रामीण जीण, जीव, जिवावळ, समृद्ध आसा. ह्या गजालींतल्यान

सोदपाचो यत्न 'दिगंत' करता. फाटलीं दोन वर्सां कोंकणी चलचित्र प्रतिशठीत भारतीय पॅनोरमांत आपलें कसब दाखयता आनी 'दिगंत' हें चलचित्र कोंकणीक संवसारीक पांवड्यार सर्तीच्या सातत्याची विस्वासार्हता जागयता. 'दिगंत' चलचित्र म्हणल्यार पुरोगामी तंत्र आनी चलचित्र लेखन शैलीची देख.

चलचित्रांत पुरोगामी पटकथा शैली वापरल्या. तंत्रीक बाजूंचेर आशिल्लें सातत्य आनी तोल, पटकथेंतली गती, फिशाल संकलन, नकसूद व्यक्तीचित्रण ह्यो चलचित्रांतल्यो तांत्रीक खासीयती. पूण चलचित्राची मुखेल गजाल म्हणल्यार चित्रीत केल्ली ग्रामीण जीण, बोली आनी भावना.

'दिगंत' हें चलचित्र बोकड्यो राखपी धनगर समाजाचेर आदारीत आसा. पुराय रान आपलें घर, निराकार देव, जनावरां होच आपलो संवसार मानपी ह्या समाजाचे वास्तववादी चित्र दिग्दर्शक पड्ड्यार उबें करता. जन्या (राजेश पेडणेकार) आनी ताचो चलो राया हांच्या नात्यांतल्यान हें चलचित्र सुरू जाता. थंय आपणाल्या स्थायीक जावपाच्या घराचीय ना कल्पना, त्या वाठारांत शिक्षणाची कल्पना कशी रुजतली? जन्याक (राजेश पेडणेकार) समजावन मास्तर आपले वांगडा रायाक (प्रणव बिचे) शाळेंत शिकूंक व्हरता. उपरांत सरकारी शिश्यवृत्ती मेळून शारांतल्या आर्किटॅक्चर महाविद्यालयांत राया वता आनी थंय ताचो संबंद रुक्मा (समिक्षा देसाय) आनी ताचो गिरेस्त बापूय (राजू नायक) हांचे कडेन येता. राया आनी रुक्मा दोन विश्वांतलीं मनशां. ह्या सगळ्या गजालींतल्यान चलचित्र घडटा. दोन पिळग्यां मदले विचार, शार आनी गांवगिरी जीण ह्या फरकांचेर चलचित्र उजवाड घालता.

चलचित्राची गती आनी तंत्रीक गजालींचो समतोल, ह्या गजालींक लागून चलचित्र पुरोगामी चलचित्र निर्मितीचो एक प्रकार आसा. कांय खिणांत एक गांव, शार, पणजी पड्ड्यार प्रस्थापीत करपाचें कसब ह्या चलचित्रांतल्या चित्रीकरणा खातीर फावलां. देखून छायाचित्रीकरणांत घेतिल्ली मेहनत पुरायपणान दिसून येता. गांवगिरी जीण आनी तातूंतली सैमीकताय उबी करूंक येस मेळ्ळां, तातूंत कृत्रीम कांय दिसना.

चलचित्राचें कथानक प्रसाद लोलयेंकार हांचे कथेचेर आदारीत आसा. पारंपारीक पटकथा लेखनाची परंपरा मोडून पुरोगामी पटकथा शैली पटकथाकार ज्ञानेश मोघेन आपणायल्या. देखून जन्याक आपूण एके खणींत

आशिल्लो भास, रायाक आपल्या भुरगेंपणाच्यो यादी पटकथेंत बेस बऱ्यो आसपावन घेतल्यात. आनी ह्यो गजाली चलचित्राचे गतीक आडखळ हाडिना. चलचित्र वट्ट 96 मिण्टांचो आसा.

अभिनयाचे बाबतींत हें चलचित्र म्हणल्यार एक सरप्रायझ पॅकेज. पात्रां साकारतना कलाकारांच्या दर्जेदार अभिनयाचें दर्शन चलचित्र घडयता. जन्या आनी ताची बायल (दीपलक्ष्मी मोघे) ह्यो व्यक्तीरेखा सैम, बोकडां आनी रान हातूंतल्यानच कोरावन काडिल्ले भशेन दिसता. हांचें व्यक्तीचित्रण आनी पात्रांची निवड जबरदस्त जाल्या. राजेश पेडणेकार आनी दीपलक्ष्मी मोघे पात्रां जगल्यांत. रुक्माची भुमिका साकरपी समिक्षा देसायान आपल्या पात्राक न्याय दिला. समिक्षाचें अभिनय कसब दिसून येता. रायाचें व्यक्तीचित्रण नकसूद जालां आनी तें गूढ आनी वास्तववादी व्यक्तीचित्रणाचें पात्र साकारतना प्रणव बिचेचो अभिनय समाधानकारक जालां. चलचित्र खूब गजालींक स्पर्श करून वता. पूण तें मूळ संहितेक बादा हाडिना. गोंयचें स्वातंत्र्य आनी ताचो जिणे कडेन जोडिल्लो संबंद लेगीत निखळ आसा. संहिता भरकटावप ना आनी साबार विशयांक स्पर्श करून वचप हातूंत पटकथाकाराचें कसब दिसून येता.

कांय गजाली टाळूं येताल्यो. तातूंत येता पार्श्वसंगीत. कांय जाग्यांचेर भंडक तर कांय वेळार गरज नासतना आस्पाव जाला. चलचित्रांत जेन्ना कलाकारांचो अभिनय अप्रतीम जाता, तेन्ना डबिंग ही आडखळ जाणवपाक लागता. ह्यो कांय तांत्रीक तडजोडी म्हूण करच्यो पडटा आसुंये. पूण प्रकट आवाज घेतल्यार बरें दिसपाचें. तशेंच चलचित्र रानांत घडटा देखून रानांतले आवाज घेतल्यार आवाजा येवजण आनीक बरी जावं येताली. रुक्मा आनी राया हीं कथानकांतलीं दोन तरणाटीं पात्रां. रायाची व्यक्तीरेखा ही गूढ आनी वास्तववादी, पूण रुक्माच्या व्यक्तीचित्रणांत आनीक ताजेपण हाडपाक जातालें. ह्या व्यक्तीरेखांनी प्रस्न उबे करूंक जाय, बिनधास्त उलोवपाक जाय. तरणाट्यांचें जें प्रतिबिंब आसता तें हातूंत दिसपाक जाय आशिल्लें. कारण तरणाटीं पात्रां कथानकांत भरसतात तेन्ना एक चैतन्य, शक्ती, ताजेपण चलचित्राक मेळटा. समिक्षा देसायाचें अभिनय कसब रुक्माचे भुमिकेक साथ दिता. देखून रुक्मा हे व्यक्तीरेखेची आंखणी वयर म्हणिल्ले

ाण जाल्ली जाल्यार तिची व्यक्तीरेखा आनीक फुलतली आसली. चित्राची वेशभुशा बेस बरी जाल्या. पूण रंगभुशे कडेन थोडें अदीक लक्ष पाक जाय आसलें.

पूण चलचित्राच्या दर एका आयामांत 'दिगंत' उठून दिसता. आनी 96 टांत पटकथाकार, संवाद लेखक, छायाचित्रकार आनी दिग्दर्शक ज्ञानेश चेची मेहनत आनी साधना नदरेंत भरता.

प्रतिशठीत भारतीय पॅनोरमांत ह्या चलचित्रान पावल मारलां. आनी भारतीय रमांतलेच सिनेमा संवसारभर चलचित्र महोत्सवांनी भोंवतात. कोंकणी ीस, भास, भौस, भूंय, सैम ह्या चलचित्रान 'दिगंत' येस प्राप्त करूं.

**gant**

12/35mm/96min/Konkani]

**दर्शक** : ज्ञानेश मोघे
**व्रन** : प्रसाद लोलयेंकार (कथा)
**भिनय** : राजेश पेडणेकार, दीपलक्ष्मी मोघे, प्रणव बिचे, समिक्षा देसाय
**याचित्रकार:** ज्ञानेश मोघे
**कलन** : ज्ञानेश मोघे
**ीत** : मुकेश घाटवळ
**वाज** : प्रकाश निकम
**ामां/वांटो:** बर्लिन (2013)




वाठार : भारत
महोत्सव : 41वो इफ्फी 2010
विभाग : भारतीय पॅनोरमा (नॉन–फिचर)

## LEAVING HOME:

# 'इंडियन ओशन': जिद्द, संघर्श आनी क्रांती

इफ्फींतच न्हय तर सगळ्याच चलचित्र महोत्सवांत चलचित्र प्रदर्शना वेळार गंभीरतायेचें वातावरण आसता. संवसारभरयांतले समीक्षक, विद्यार्थी, परिक्षक एकाच वेळार सिनेमाघरांत बसून चलचित्रां पळयतात. चलचित्र पळयतना चुकून लेगीत हांसपाक आयल्यार हजार फावटी विचार करचो पडटा. पूण कांय थोडींच चलचित्रां हाका आडवाद थारतात, जंय सगळेच एका चित्तान त्या चलचित्रांत समरस जातात. ह्या वर्सा इफ्फींत भारतीय पॅनोरमाचें उक्तावण "Leaving Home" च्या म्हायतीपटान जालें. ह्या म्हायतीपटांत सगळ्यांकूच संगिताच्या तालार ताळयांचे ठेके धरपाक, पांय जमनीर मारपाक आनी धोलपाक लायले.

"Leaving Home" हो म्हायतीपट फामाद भारतीय संगीत पंगड
ंडियन ओशन'च्या वांगड्यांची जीण आनी संघर्शाचेर आदारीत आसा.
डियन ओशन हें अशेंच एक बँड जाचे फॅन फॉलोवर सगळ्या थरांचेर आनी
गळ्याच वयोगटांतले आसात. संस्कृत श्लोक, शास्त्रीय संगीत, लोक
गीत, सुफी संगीत, वनस्पती शास्त्र आनी क्रांतीचो आसपाव ताचे दरेक
क्यांत अणभवपाक मेळटा. पारंपारीक पद्धतीच्या संगिताचीं चार वाद्यां घेवन
वाजयतात. गिटार, फ्लुइड गिटार, ड्रम्स आनी तबलें. कोणाकूय अजाप
इसूं येता हीं वाद्यां घेवन पुरोगामी 'जाझ' आनी 'रॉक' करूं येता काय
कतें? तेच खातीर इंडियन ऑशन सगळ्यांकूच आवडटा. ताका 100%
ारतीय बँड म्हणूं येता. तांचें संगीत सगल्यां खातीर आसता. आपलें संगीत
स्वताचे वेबसायटी वयल्यान फुकट डावन लॉड करपाक दितात. तरीय
ांगेलें 'लायव्ह' सादरीकरण पळोवपाक लाखांनी लोकांची गर्दी जाता.

अशीम चक्रवर्ती (तबलें), राहुल राम (गिटार), आमीत किलम (ड्रम)
ानी सुश्मीत सेन (फ्लुईड गिटार) अशे तांच्या बँडाचे वांगडी. आशीम
क्रवर्ती 2009 वर्सा संवसाराक अंतरले. ह्या म्हयातीपटाचें दिग्दर्शन जयदीप
र्मा हांणी केलां. इंडियन ओशन फाटलीं कितलींशींच वर्सां आपलो संघर्श
रीत आसा. पयशे, प्रसिद्धी नासतना भारता सारकिल्या देशांत संघर्श करप
रेंच कठीण. खरेपणी ह्या म्हायतीपटाची लांबी वट्ट 240 मिनटां जाता,
ण संकलन करून वट्ट 115 मिनटांचेर हाडल्या. इंडियन ओशनाचीं
ांय फामाद पदां म्हायतीपटांत घेतल्यात. सुधीर मिश्रा, प्रनोय रोव, शोभा
डगल, पालाश सेन, अनुराग कश्यप हांच्या प्रक्रियांचोय आसपाव ह्या
ह्यायतीपटांत आसा.

हो म्हायतीपट एक वेगळीच उमेद आनी प्रेरणा दिवन वता. परिस्थिती
डेन झगडप. पयशे नासतना दोन दसकां संघर्श करप म्हणल्यार फकांडां
हय. इंडियन ओशना उपरांत तांची प्रेरणा घेवन युफोरिया, परिक्रमा, रघू
क्षित प्रोजेक्ट ह्या बँडांची थापणूक जाली. पलाश सेन ते रघु दीक्षित हे त्या
ळार तरणाटे आशिल्ले. तांणी अभियांत्रिकी आनी वैजकी शिक्षण घेतिल्लें.
इंडियन ओशनचो संघर्श पळोवन तांकां विस्वास बसलो. मातयेंत रुजिल्लें
गीत घेवन एक चमत्कार जावपाक शकता. कंदीसा बन्दे, मा रेवा, झीनी,

देस मेरा हीं इंडियन ओशन चीं कांय फामाद पदां. तांच्या संगिताच्या दर एका ठेक्यांत वनस्पतीशास्त्र, बंड आनी क्रांतीची सया मारता. दर एका संगिताची लय, ताल, ठेको पुराय तरेन भारतीयाचो ठसो दवरून वता. कंदिसा ह्या पदाचे बोल, कोणाकूच ताचो अर्थ खबर ना. खुद्द इंडियन ओशन च्या वांगड्यांक लेगीत खबर ना. पूण कंदिसा हें अजून मेरेनचें सगळ्यांत लोकप्रिय पद थारलां. आयज मेरेन तांणी फकत एकाच चित्रपटाक संगीत दिलां. ब्लॅक फ्रायडे आनी पीपली लायव्ह ह्या चित्रपटाक दोन पदां दिल्यांत. ते चडशे वेवसायीक प्रयोग करिनात. तांच्या पदाची लांबाय सरासरी परस चड म्हणल्यार आठ मिनटां वयर आसता, पूण तरी लेगीत लोकांक ताचें संगीत आवडटा.

हो म्हायतीपट म्हणल्यार इंडियन ओशन चे जिद्दीक, संघर्शाक दिल्ली मानवंदना. ह्या म्हायतीपटांतल्यान कांय गजाली स्पश्टपणान दिसून येतात. पयसो आनी सूख ह्या गजालींचो एकामेका कडेन संबंद ना. जिणेंत कांय नव्यो गजाली करतले. जाल्यार थोडे त्रासय काडचे पडटात. खास करून म्हजे पिरायेच्या तरणाट्यांनी हो म्हायतीपट पळोवचो. जाका खूब कितें करपाचें आसा, पूण कशें जातलें, कितें जोडटलो, पोट कशें भरतलो ह्या चिंतनानीच बुडून वता. म्हाका अभिमान भोगता, हांव इंडियन ओशन चें संगीत आयकून वाडलां. जेन्ना कोणूय निर्शेल्लो आसता वा दुखेस्त आसता ताणें हो म्हायतीपट जरूर पळोवचो.

## Learning Home

[2010/English/Digital/15min]

**दिग्दर्शक** : जयदीप वर्मा

**लेखन** : जयदीप वर्मा

**छायाचित्रकार:** गार्गेय त्रिवेदी, परमीर सिंह

**संकलन** : निमिश गौर

**संगीत** : इंडियन ओशन

**वाठार** : भारत
**महोत्सव** : 41वो इफ्फी 2010
**विभाग** : आंतरराष्ट्रीय सर्त
(भांगरा मोर जैतिवंत)



# मोनेर मानूशः
# संहिता आनी तंत्राचो सुमेळ

वट्ट धा वर्सां वाट पळयले उपरांत इफ्फींत भारतीय चलचित्राक 'भांगरा मोर' मेळ्ळो. 2000 वर्सा भारतीय चलचित्राक तो मेळिल्लो. मात 2000 वर्साचे आनी 2010 वर्साचे इफ्फींत खूब फरक आसा. इतलो तेंप इफ्फीची सर्त आशिया, आफ्रिका आनी लॅटिन अमेरिका ह्या देशांच्या पुरतीच मर्यादीत आसली. 2010 वर्सा पयलेच खेपे इफ्फीची सर्त संवसारीक जाली. संवसाराच्या कोनशा कोनशांतल्यान सुमार 18 चलचित्रां सर्ती खातीर आयिल्लीं. ताका लागून सर्तीचो पांवडो अकस्मात ऊंच जालो. पूण भारतीय चलचित्रांनी संवसारीक चलचित्र निर्मितीक भक्कम आव्हान दिल्लें. लल्लन फकीराचेर आदारीत 'मोनेर मानूश' ह्या बंगाली चलचित्राक

भांगरा मोर मेळ्ळो. मुळांतूच अंदूंची भारतीय पॅनोरमाची निवड अचूक आनी दर्जेदार आसतात. पूण संवसारीक पांवड्यार सर्त करप म्हणल्यार एक व्हडलें आव्हान. मात बंगाली चलचित्र निर्मितीन आपलें सामर्थ्य सिद्ध केलां. दिग्दर्शक गौतम घोषान आपले आगळे वेगळे स्टोरी टेलिंग शैलींत मोनेर मानूश ही कादंबरी मांडल्या. नामनेचे बंगाली नाट्य सृश्टींतले घोष हांणी दखल घेवपा सारके 'अब्बर आरन्ने' ह्या चलचित्रांत आनी 'हंगरी ऑटम' ह्या म्हायतीपटांत तरातरांचे प्रयोग केल्यात. रवींद्रनाथ टागोरांचे व्हडले भाव ज्योतिंद्रनाथ टागोर आनी लल्लन फकीर हांचे मदीं जाल्लीं सभाशणां चलचित्र पड्ड्यार हाडटा. लल्लन फकीर हांणी रचिल्लीं पदां आपले वेगळे शैलींतल्या संगितांतल्यान घोष कथानक फुडें व्हरता. लल्लन फकीराचें हिंदू, बौद्ध आनी इस्लाम धर्मांतले धर्मनिरपेक्ष आनी उदारमतवादी विचारां भोंवणीं चलचित्राचें कथानक घुंवता. नव्या तंत्राचो वापर करून घोष हांणी इतिहासीक काळ उबो केला. उत्कृश्ट संगीत, सोबीत व्यक्तीचित्रण, बेस बरें चित्रीकरण, भक्कम पटकथा आनी फिशाल संकलन हांच्या प्रभावांत नवो चलचित्राचो अविश्कार मोनेर मानूशान तयार केला.

संहिता खंयच्याय चलचित्राक एका सुत्रान बांदून दवरता. सदांच बंगाली चलचित्रां संहितेचे बाबतींत बळिश्ट आसतात. संहिता आनी तंत्रीक बाजूचो तोल सांबाळप हें तमीळ चलचित्रांचें वैशिश्ट्य. तांचे हे कले वांगडा आतां बंगाली चलचित्रांय सर्त करपाक लागल्यांत. 41व्या इफ्फींत भारतीय पॅनोरमांत चलचित्रांची निवड सुंदर जाल्ली. गौतम घोष हें बंगाली रंगमाचये वयलें नांवाजतें व्यक्तीमत्व. तांची चलचित्रांय खूब गाजल्यांत. ताचें संगीतमय वैचारीक चलचित्र 'मोनेर मानूश' हाची भारतीय पॅनोरमांत निवड जाल्ली. लल्लन फकीर हांचे जिणेचेर आदारीत हें चलचित्र आसा. ह्या विशयाचेर फामाद बंगाली कादंबरीकार सुनील गंगोपाध्यायाचे कादंबरीचेर आदारीत आसा.

जेन्ना बंगालांत कुड्डे भावार्थ, अंधश्रद्धेन तेंगशी गांठिल्ली तेन्ना लल्लन ह्या सामान्य, गांवगिन्या, अशिक्षीत मनशान हिंदू, बौद्ध आनी इस्लाम ह्या धर्मांतले विचार घेवन गांवगिन्या लोकांक नवी निधर्मी विचारसरणी दिली. लोकसंगीत आनी लोकनृत्याचो वापर बरो केला. गौत घोष हांणी ह्या विशयाचो

ील अभ्यास केला. दरेका मिनटाक तांचे पुराय कश्ट दिसून येतात. बंगाली चलचित्र निर्मितींत खूब सामर्थ्य आसा आनी 41 वे इफ्फींत ाली चलचित्रांनी भारतीय पॅनोरमांत आपलें पुराय वर्चस्व दवरलें. आयज वसारीक पांवड्यार कोणूय म्हणपाक शकता, तो आगळो, तो बंगाली नेमा...

**oner Manush/The Quest**

10/Bengali/35mm/50min

**ग्दर्शक** : गौतम घोश
**खन** : गौतम घोश/सुनील गंगोपाध्याय (मूळ लेखक)
**भिनय** : प्रसनजित चटर्जी, रसूल असाड, चचल चौधरी, प्रियांशू चटर्जी, सयद इमाम, पावली डॅम
**याचित्रकार:** गौतम घोश
**कलन** : मोलोय बंदोपाध्याय
**गीत** : गौतम घोश
**ामां/ टो** : भांगरा मोर (इफ्फी 2010)

# आफ्रिका-मध्य पूर्व

**शेंकड्यांनी** वर्सांचो वसाहतवाद, नागरी झुजां, संघर्श, रंगभेद अशा कितल्याशाच वेदनांनी व्यापला आफ्रिका प्रदेश. निसर्गसंपन्न आनी गिरेस्त खनिजाचे साठे जाच्या गोपांनी आसा ती आफ्रिका. पूण शेंकड्यांनी वर्सांच्या इतिहासांत जागतीक शक्तींनी ह्या खंडाच्या केल्ल्या अर्थीक शोशणा परस मनशाचें केल्लें शोशण चड खर आशिल्लें. देखून पुराय आफ्रिका देशाचो विकासच अपंगूळ जावन पडला. आफ्रिका म्हणिना फुडें खिणांत आमच्या दोळ्या मुखार येता ती गरिबी, भूक, घसरत चलिल्लो मनीस विकास. एक अशी जागा जंय दर एके गजालीक जागतीक आदाराची गरज आसा. खनिज संपत्ती आसून लेगीत दीसपट्टी आपली लूट पळयता ती आफ्रिका. मनीसबळ आसूनय खूब जागतीक ताकदीच्या भांडवलदाराच्या जाळांत सांपडिल्ली आफ्रिका.

1950 उपरांत आफ्रिकी देशांक स्वातंत्र्य मेळपाची प्रक्रिया सुरू जाली. पूण अर्थीक शोशण आजून सोंपूंक ना. आदीं वसाहती शक्तींनी आफ्रिकेचेर शेक गाजयलो आतां आयएमएफ आनी वर्ल्ड बँक हांचीं रुपडीं घेवन वसाहतवादी शक्तींच्या कचाट्यांत आफ्रिका आसा. प्वामे क्रूमा ते नेल्सन मंडेला अशीं

कितलींशींच व्यक्तीमत्वां आफ्रिकेच्या संघर्शांत एक विचार जावन उबीं रावलीं. आजूनय 40% वयर जनता दारिद्र्य रेशेच्या खाला जगता.

जंय दोन वेळच्या जेवणाचीय मारामारी थंय सिनेमा चळवळ कशी उबी जातली? घडये आफ्रिके कडेन साधन सुविधा नासत पूण वेदना आनी संघर्श तरी आसा. सुमार 54 देशांचो हो खंड आफ्रिका जंय आजून लोकशाय तळ धरूंक शकूंक ना. दर एके गजालीक संयुक्त राष्ट्राचो हस्तक्षेप करून शांती हाडची पडल्या.

सिनेमाचे नदरेंतल्यान ह्या खंडाचो विचार केल्यार ह्या खंडाचीं चलचित्रां मनरिजवणेक न्हय तर प्रदेशांतल्या राजकी आनी समाजीक समस्यांचेर आदारीत आसात. पूण जागतीक चलचित्र महोत्सवांनी प्रदर्शीत जावपी चलचित्रांचे मजगतीं आफ्रिकी चलचित्रांचो वांटो एका टक्क्या परस उणो आसा देखून आफ्रिकी चलचित्रांचें प्रदर्शन जावपाची प्रक्रिया साप्प उणी आनी खंडीत आसा. देखून अशें म्हणटा, आफ्रिकेचेर आदारीत चलचित्रां चडशीं येवरोपी चलचित्रकारांनीच काडल्यांत. पूण हे गजालींतल्यान एक परकी दृश्टीकोण आफ्रिकेचेर लादिल्ले भशेन जाता. आफ्रिके कडेन संवसारांतले लोक आपूण एक लाचार आनी मजतीची वाट पळोवपी प्रदेश म्हूण पळयता. देखून येवरोपी चलचित्रकारांच्या दृश्टीकोणांतल्यान येवपी चलचित्र आफ्रिके कडेन दया, सहानुभुतीचे नदरेंतल्यान पळयता आनी ह्या सगळ्या गजालींतल्यान मुलभूत समस्या आनी वेदना लिपून उरतात. चलचित्रांत गरिबीचें पडबिंब पडप वेगळें आनी लाचारीचें 'ग्लोरिफिकेशन' जावप वेगळें. देखून थळाव्या गजालींचेर चलचित्र निर्मिती जावपाक लागली. ओसामान सॅम्बेन हांच्या 'ब्लॅक गर्ल'च्या आफ्रिकी चलचित्राक पयलेच फावट आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार फावो जालो. उपरांत 1969 वर्सा आफ्रिकी खंडा खातीर बुर्किनी फासो ह्या देशांत पयलो स्वताचो आफ्रिका चलचित्र महोत्सव सुरू जालो ही म्हत्वाची गजाल. आफ्रिकेचे सिनेमा चळवळींत जगा मुखार हाडली ती अफ्रिका म्हणजे मोनोलीथ न्हय.

आफ्रिका विविधतायेन व्यापला. तरतरांच्यो संस्कृतायो, भाशा, धर्म, जाती हातूंत बहरल्या, आफ्रिका खंड हो एक देश न्हय. तर ह्या खंडांत विविध राष्ट्रवादाच्यो चळवळी उब्यो जाल्यात. दक्षिण आफ्रिकेचो संघर्श पुराय

जागतीक मळार प्रसिद्ध आसा. पूण ताचे इतलोच म्हत्वाचो आसा घाना, केनिया, पॅन आफ्रिका परिसराचो इतिहास आनी संघर्श. आनी ह्यो गजाली आयज मेरेन दुर्लक्षीत उरिल्ल्यो. देखून आफ्रिकेच्या सिनेमाची चळवळ खूब उणी आसा तरी गती घेता. अफ्रिकेच्या चलचित्रांची प्रदर्शन प्रक्रिया सुरळीत करूंक जाय. कांय म्हत्वाचे मुद्दे समकालीन आफ्रिकी चलचित्रांनी दिसून येतात ते म्हणल्यार 'संघर्शांतली स्त्री' (वुमन इन कॉनफ्लिक्ट), शिक्षण आनी अस्मितायेची चळवळ. 1960 च्या दसकांत आफ्रिकी चलचित्राक पुरस्कार मेळ्ळो तो 'ब्लॅक गर्ल' हाका. हें चलचित्र बेकायदेशीरपणान फ्रांसाक वचून घरकाम करपी एके आफ्रिकी बायलेचेर उजवाड घालता. 'आफ्रिका ऑर्गनायझेशन ऑफ स्टेट्स' ते 'आफ्रिकन युनियन', आफ्रिकेच्यो साबार प्रादेशीक संघटना वा संयुक्त राष्ट्र, आफ्रिकेंतल्या स्त्री शिक्षणा कडेन चड लक्ष दिता. आफ्रिका खंड हो तमाम जमातींनी व्यापिल्लो खंड आनी ह्या जमातीं भितर बायलां विशीं भयानक समज, गैरसमज पातळिल्ले आसात. देखून आफ्रिकेच्या दर एका संघर्शांत बायलेचो वांटो आनी सहभाग भोव मोलाचो आनी प्रभावी थारता.

मध्य-पूर्व म्हणजेच 'मिडल इस्ट' हो एक खंड वा भुगोलीक नदरेंतल्यान तयार जाल्लो वाठार न्हय तर तो जागतीक अर्थकारणाचे नदरेंतल्या सोयी खातीर केल्लो एक काल्पनीक भाग. चड करून हो युरोपी विचारवंतांनी केल्लो भाग देखून ताका 'Eurocentric concept' अशेंय म्हणटात. 'मिडल इस्ट' हें उतरच जरी वादास्पद आसलें तरिपूण हो एक म्हत्वाचो भाग. एक अस्वस्थ वाठार जंय झगडीं झुजां थांबपाचे कसलेच संकेत नात. 1948 इस्त्रायलाचें स्वातंत्र्य शितयुद्धांत के.जी.बी. आनी सी.आय.ए. हांचे दीसपट्टें झूज आनी 1990 उपरांत सोविएत विखुरिल्ल्या कारणान मध्य आशिया वाठारांत जाल्लीं नवीं राष्ट्रां. ह्यो दर गजाली हिंसक आनी हातूंत लाखांनी लोकांचो बळी घेतला. इस्रायल-पॅलेस्टायन संघर्श, इस्रायल-अरब संघर्श, इराण-इराक संघर्श अशा कितल्याश्याच संघर्शांनी व्यापला हो प्रदेश. जगांतल्या खांप्या हुकुमशायांनी ह्या प्रांतांत सत्ता गाजयल्या आनी तांच्या आड जाल्लो संघर्शय तितलोच खर आनी हिंसक थारला. इराणाची इस्लामीक क्रांती उपरांत आयतुल्ला, कोहमिनी, हौसनी मुबारक, सद्दाम

हुसेन, मोहामार गद्दाफी हे हालींच्या काळांतले कांय हुकुमशाय. यासीर आराफत, मुस्लीम ब्रदरहूड, तालिबान, हिजबूल, हकानी, अल कायदा हीं ह्या वाठारांतलीं कांय ठळक व्यक्तीमत्वां, नांवां आनी शक्ती.

पूण संघर्श आनी सिनेमांचो खूब लागींचो संबंद आसा. ह्या वाठारांत चलचित्र चळवळूय तितलीच प्रभावी आनी संघर्शमय आसा. हांगा प्रतिभासंपन्न इराणी सिनेमा आसात. संघर्श आनी आपलो इतिहास सांगपी इस्रायली सिनेमा आसात. तशेच परिस्थिती कडेन झिजून तयार जाल्लो पॅलेस्टायनाचो आगळो सिनेमा आसा. तेच भशेन 2008 वर्सा इफ्फींत काझाकिस्तानाच्या 'तुलपान' चलचित्राक भांगरा मोर मेळ्ळो तेन्ना ह्या वाठाराक कमी लेखूंक जायना हाची जाणीव जाली.






वाठार : इस्रायल–पॅलेस्टायन
महोत्सव : Goa International Film Festival of Documentary, Short & Animation Film 2007
विभाग : म्हायतीपट

## ZERO DEGREE OF SEPARATION:
# भावना, नातीं आनी आकांतवाद

आंतरराष्ट्रीय म्हायतीपट, लघूपट, ॲनिमेशन चलचित्र महोत्सवांत स्वातंत्र्य चळवळीचेर आदारिल्ले दोन म्हायतीपट.

एक इंडोनेशियांतली स्वातंत्र्य चळवळ जाल्यार दुसरो इस्रायल आनी पॅलेस्टायनांतलो आकांतवाद. पयलो 'द ब्लॅक रोड' आनी दुसरो 'झिरो डिग्री ऑफ सेपरेशन'. 'द ब्लॅक रोड' हो इंडोनेशियांतली स्वातंत्र चळवळ दाखयता. हो एक संवेदनशील विशय. हो म्हायतीपट हेर म्हायतीपटां वरीच आसा. विशयाची मांडणी गंभीरपणानच केल्या. गंभीर वॉयस ओवर, भिरांकूळ संगीत आनी रहस्यमय कथा.

दुसरो म्हायतीपट, 'झिरो डिग्री ऑफ सेपरेशन' हो म्हायतीपट इस्रायल आनी पॅलेस्टायनांतल्या शिमांचेर चलपी आकांतवाद दाखयता. ह्या म्हायतीपटाचो मुखेल विशय म्हणल्यार इस्रायलांत आशिल्लें एक समलिंगी जोडपें. हें जोडपें चळवळी वृत्तीचें, एडीत आनी समिरा. समिरा पॅलेस्टायनचें

पूण इस्त्रायलांत रावता. तांच्या नात्याक कोणाचोच आक्षेप ना. म्हणल्यारच समलिंगीपणाचेर न्हय तर एक पॅलेस्टायन नागरीक इस्त्रायलांत रावता हाचेर चड वाद. उपरांत हो म्हायतीपट कांय शिमांचेर रावपी रेफ्युजींचेर उजवाड घालता. मूळ कथासूत्र म्हणल्यारच इस्त्रायलांत आपणायिल्ली पॅलेस्टायन विरोधी येवजण. हो म्हायतीपट खूबच मंद गतीन चलता. पूण उबगण हाडिना. मूळ म्हायतीपट इस्त्रायली भाशेंत आसा आनी ह्या म्हायतीपटाचें चित्रीकरण करतना कसलेच कॅमेरा अँगल वापरूंक नात. सोंपे भाशेंत सांगपाचें जाल्यार हो म्हायतीपट मोबायला वयल्यान चित्रीत केला कशें दिसता. पूण पळयतना विचित्र अशें कांयच दिसना. वयल्यान प्रेक्षकांची उमळशीक वाडयता.

म्हायतीपटांत खास तंत्रीक गजालींची जोड ना. पटकथा लेगीत सारकी ना. ह्या म्हायतीपटांत मुखेल करून गाझा, जेरूसलेम, रामाल्ला, बॅथलहेम हीं शारां ठळकपणान दाखयल्यांत.

सगळोच म्हायतीपट स्लॉ मोशनांत आसा अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. ह्या म्हायतीपटांतलें मुखेल पात्र एझू हो एक आदलो इस्त्रायली सैनीक. तो पुराय इस्त्रायली आनी पॅलेस्टायन शिमेर भोंवता. भोंवतना शिमेचेर वणत बांदपाचें काम चलता. ही वणत दोन देशांची विभागणी करता – इस्त्रायल आनी पॅलेस्टायन.

ह्या म्हायतीपटांत दोन–तीन मनशांच्यो व्यथा दाखयल्यात. जण एकल्याचें दुख्ख, चिंता वेगळ्यो. पूण तांचें कारण एकूच. आकांतवाद. हो म्हायतीपट निमणें चिंतपाक लायता – एक सामान्य नागरिकांक इस्त्रायल आनी पॅलेस्टायन शिमावादा विशीं कांय अडचण ना जाल्यार निमाणो वाद कित्याक?

## Zero Degree of Separation

2005/Canada

**दिग्दर्शक** : ऍले फ्लँडर

**संकलन** : 2nd best documentary Film (above 60min) Silver Conch + Rs. 1,00,000/-

वाठार : दक्षिण आफ्रिका
महोत्सव : 38वो इफ्फी 2007
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड




## GOODBYE BAFANA:

# इतिहासीक चलचित्र निर्मिती: अभ्यास आनी समज

इतिहासीक गजालीचेर वा व्यक्तीचेर चलचित्र काडप खूब कठीण. हातूंत इतिहासाची जाण, समज आनी अभ्यास जाणा जावप खूब म्हत्वाचो भाग थारता. दरेकलो आपल्या स्वतंत्र दृश्टीकोणांतल्यान इतिहासा कडेन पळयता. देखून असले चलचित्र निर्मितीक हात घालपाचें धाडस कोण करिना. हालींच्या काळांत श्याम बेनेगल हांणी 'बॉस द फॉरगोटन हिरो' आनी डॉ जब्बार पटेल हांणी 'डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर' हीं इतिहासीक चलचित्रां काडलीं. अभ्यासपूर्ण आनी संशोधनांनी भरिल्ल्यो अश्यो ह्यो भारतांतूच तयार जाल्ल्यो चलचित्र निर्मणी आशिल्ल्यो. 'गूड बाय बफाना' बीली ऑगस्ट

हांणी दिग्दर्शीत केल्लें इतिहासीक चलचित्र. चलचित्राची लांबाय आसा वट्ट 140 मिनटां आनी हाची निर्मिती जाल्या जर्मनी, फ्रांस, बेल्जियम, दक्षिण आफ्रिका, इटाली ह्या देशांतल्यान. हें चलचित्र आसा नेल्सन मंडेलाच्या कादयेंतल्या कांय वर्सांतल्या गजालींचेर आदारीत.

कांय इतिहासीक चलचित्रां लांबचेलांब आसतात आनी तीं आकांताळ्या व्हडल्या कॅनवासाचेर निंबून आसतात. पूण हें चलचित्र तर नेल्सन मंडेला आनी तांचे बंदखणी भोंवतणीं घुंवता. वर्सांचीं वर्सां बंदखणींत काडले उपरांत मंडेलाचे नदरेंतल्यान हें चलचित्र मांडलां. नेल्सन मंडेला (डॅनिस हॅथबर्ट) आनी ताचो बंदखण अधिकारी जेम्स ग्रीगोरी (जॅसिफ फिएन्स) हांच्या संबंदांचेर हें चलचित्र खोलायेन उजवाड घालता.

जेम्स ग्रीगोरी हो एक गोरे कातीचो बंदखण अधिकारी. काळ्या कातीचे लोक हे मनीस न्हय अशी ताची मानसीकताय. देखून तो तांचेर चेपण हाडपाचेर आनी पिळवणूक करपाचेर विस्वास दवरता. दक्षिण आफ्रिकेच्या आदिवासी वाठारांत ताचें भुरगेपण सरलां. देखून तो आदिवासी भास 'झोसा' (Zhosa) बरे तरेन उलोवंक शकता. आनी देखूनच तर ताका मंडेलाचेर बारीकसाणीन नदर दवरपाक नियुक्त केला. जेणे करून तो मंडेलाच्या गोपांतल्यो गजाली काडून घेवंक शकतालो.

ग्रीगोरीच्या मतान मंडेला हो आकांतवादी आनी ताचे खातीर खोशेची आनी आनंदाची गजाल म्हणल्यार आपणाक आफ्रिकेच्या सगळ्यांत व्हडल्या आकांतवाद्याचेर नदर दवरपाक मेळ्ळ्या ही. पूण हाचो परिणाम उरफाटो जाता. ज्या उद्देशान जेम्स ग्रीगोरीक मंडेलाची जापसालकी दिली तो उद्देश फाटीं पडटा. इतले दीस आनी इतलीं वर्सां जेम्स ग्रीगोरीक मंडेलाचो सहवास लाबले उपरांत ताचेंच मतपरिवर्तन जावपाक लागता.

दिग्दर्शक बीली ऍगस्ट हांणी हो काळ संवेदनशील रुपान पडद्यार मांडला. जेम्स ग्रीगोरी हाचें दर एका पांवड्यार जावपी मतपरिवर्तन आनी बौद्धीक बदल खोलायेन मांडला. उपरांत कांय वेळ अशें दिसूंक लागता, कोणें कोणाक बंदखणींत घाला? आनी कोण कोणाची सुटका करता? नेल्सन मंडेला हे म्हान व्यक्ती कडेन कितल्योश्योच गजाली जुळिल्ल्यो आसात. जग बदलपी इतिहासांत कांय समाजीक, राजकी बदल तांणी केल्यात. तांणी

ततलींशींच जैतां मेळयल्यांत आनी कितल्याश्याच गजालींचेर तांणी मात
ल्या.

तांचे जिणेचेर जायतीं चलचित्रां, म्हायतीपट जाल्यात. पूण हें एक सादें
ानी आगळें वेगळें चलचित्र. मंडेला आनी जेम्स ग्रीगोरी हांचे भितर जावपी
भाशणां, संवाद, वाद बरे तरेन मांडल्यात. हें चलचित्र एकाच विशया
ंवतणीं घुंवता. ह्या चलचित्राचें चित्रीकरण बंदखणींतूच केलां. पूण ल्हानशा
शया वयल्यान हें चलचित्र खूब कितें सांगून वता. आनी देखून एक व्हड
चारसरणी एका ल्हानशा विशयांतल्यान मांडप ही एक कला. It is very
fficult to be simple. निमाणें एकूच, मंडेला हांचे विचार, संघर्श आनी
त्वां ह्या ल्हानशा विशयांतल्यान जायतें आमचे मुखार प्रदर्शीत करता.

मंडेला आनी ग्रीगोरी हांची आगळी वेगळी इश्टागत, ग्रीगोरीच्या वागपाची
ानी बौद्धीकतायेची विचारसरणी बदलता. तशेंच समाजा कडेन पळोवपाचो
श्टीकोण बदलता.

ह्या चलचित्रांत आकर्शक लोकेशन वा संगीत अश्यो तंत्रीक वा आकर्शक
जाली कांयच नात. फकत मंडेला भितरले संवाद आनी वाद. पूण चलचित्र
ठून दिसता. तातूंत मुद्दो आसा.

**oodbye Bafana**

07/35mm/140min/Colour/English

ग्दर्शक : Bille August

खन : Grey Latter, Bille August

भिनय : Joseph Fiennes, Dennis Haysbert, Diane Kragir, Mega Smith

याचित्रकार: Robert Fraisse

कलन : Herne Schneid

ीत : Dario Morianelli




**वाठार** : दक्षिण आफ्रिका, केनया
**महोत्सव** : 42वो इफ्फी 2011
**विभाग** : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड

## THE FIRST GRADER:
# शिक्षण, मनशाक मनीस करपाची प्रक्रिया

हालींच पाकिस्तानांत तालिबानान मलाला ह्या 14 वर्सांच्या माणकुल्या भुरग्याच्या गळ्यांत गुळयो घाल्यो. त्या माणकुल्याची एकूच चूक, ताणें वाचपाचें बरोवपाचें सोडलें ना. ताका शिक्षणाची खूब ओड आशिल्ली. हातूंतल्यान एक स्पश्ट जाता तें म्हणल्यार शिक्षण हें बंदूक आनी शस्त्रां परस प्रभावी.

ही काणी आसा 80 वर्सांच्या मारुगे ह्या केनयाच्या स्वातंत्र्य सैनिकाची. हें चलचित्र एके सत्य घटनेचेर आदारीत आसा. आफ्रिकेंतले देश वेगवेगळ्या जमातींत विभागल्यात. ते एकसंघ नात. शेंकड्यांनी वर्सांचीं नागरी झुजां, वसाहतवाद आनी झगड्या झुजांची परंपरा ह्या देशाक आसा. अशा ह्या

मागिल्ल्या प्रदेशांत स्वतंत्र जावन लोकशाय तिगोवन दवरप ही एक ठीण गजाल. आफ्रिकेंतले खूबशे देश अजून राष्ट्र निर्मितेचे प्रक्रियेंतल्यान ात. 80 वर्सांचो मारुगे जाणें आपलें पुराय आयुश्य केनयाच्या स्वातंत्र्या तीर ओंपलां ताचो हावेस वाचूंक आनी बरोवंक शिकपाचो. म्हणू तो एक स सरकारी शाळेंत वचून बसता. पूण प्रशासनांत हे गजालीची खळबळ टा. इतलो जाण्टो मनीस भुरग्यांचे शाळेंत कसो बसपाक शकता? गजाल एकदम वयल्या थरार पावता आनी मारूगे दर एके सरकारी रेंत भोंवता. स्वातंत्र्या खातीर जीण ओंपिल्ल्या मारूगेचें म्हणणें कोणूच यकून घेना. मारूगे थकता, पूण आपली जिद्द सोडिना. म्हणूनच तो एक स सचीवालयांत पावता आनी मंत्रिमंडळा मुखार आपलें म्हणणें दवरता. रूगेक प्राथमीक शाळेंत बसपाची परवानगी मेळटा आनी तो 80 वर्सांचेर पली पयली यत्ता उत्तीर्ण जाता. म्हणूनच ह्या चलचित्राचें नांव 'द फर्स्ट र'.

शिक्षण मनशाची पुराय विचारधाराच बदलून उडयता. आयज फुकट क्षणाचो प्रसार वा शिक्षण हक्क कायदो आसा. पूण मागाशिल्ल्या देशांनी ं ना. शिक्षण मेळोवपाक एक जिद्द लागता. परिस्थिती कडेन झुजचें टा. चलचित्राचें दिग्दर्शन जस्टीन चंडवीक हांणी केलां आनी चलचित्राची र्मिती इंग्लंड, केनया आनी दक्षिण आफ्रिकेंत जाल्या.

**e First Grader** [2010/103min/English/Colour/35mm]

**दर्शक** : Justin Chandwick

**भिनय** : Noami Harris, Oliver Litolo, Tony Kgoroge, Shoki Vusi Kanene

**याचित्रकार:** रॉब हार्डी

**कलन** : पॉल नायट

**ीत** : Alex Heefes

**मां/वांटो:**Durban/Dona/Toronto Pan Africa Film fest

वाठार : पॅलेस्टायन-जॉर्डन
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : आंतरराष्ट्रीय सर्त


*When I Saw You*
By Annemarie Jacir

# WHEN I SAW YOU:
# पॅलेस्टायनाचो अंदल्लो आवाज आनी वेदना

आयज मेरेन जायत्या आंतरराष्ट्रीय माचयांचेर पॅलेस्टायनांचो आवाज बंद करपाचो यत्न इस्रायल आनी अमेरिकेच्या चेपणांतल्यान जाता. पूण भारतांत तरेकवार आंतरराष्ट्रीय मळार पॅलेस्टायनाच्या स्वातंत्र्याचो मुद्दो उखलून धरला आनी भारतांतल्या नांवाजत्या विद्यापिठांनी पॅलेस्टायनाच्या स्वातंत्र्याक जोडिल्ल्यो कार्यावळी जाल्यात. देखून पॅलेस्टायनाचो मुद्दो दाखोवपी चलचित्राक भारतांत आक्षेप येना आनी when I saw you हें चलचित्र दर एकल्याक पॅलेस्टायनाच्या स्वातंत्र्या कडेन ओडटा.

हें चलचित्र 11 वर्सांच्या तारेक ह्या भुरग्या भोंवतणीं घुंवता. चलचित्र 1967त घडटा जेन्ना पॅलेस्टायनाचे कांय रॅफ्युजी जॉर्डन ह्या देशांत आयिल्ले. तातूंत तारेक आनी ताची आवय हांचो आसपाव जाता. तारेक हो मस्तो भुरगो जो प्रस्न खूब विचारता. ताका आपूण बंदखणींत आशिल्ले भशेन दिसता आनी ताका आपलो वाठार स्वतंत्र जावचो अशें दिसता. ताचे नदरेंतल्यान स्वातंत्र्य म्हणल्यार सैन्य नासतना मुक्तपणान भोंवप. देखून तो स्वातंत्र्याच्या सोदांत एका रानांत पावता. थंय ताचो संबंद एके दावे विचारसणेंतल्या कट्टरपंथी लोकां कडेन येता. तारेकाक तांची समान वागणूक दिवपी विचारसरणी आवडपाक लागता. देखून हे पद्दतींतल्यान आपल्याक स्वातंत्र्य मेळटलें अशें ताका दिसता. ह्या सान भुरग्याक सोदीत ताची आवय ह्या कट्टरवाद्यांच्या कॅम्पांत पावता.

तारेकाचें मन ह्या कॅम्पांतल्यान उठ्ठा. ताका झुजपाचें आसता. आपलो देश स्वतंत्र जाल्लो ताका पळोवपाचें आसता. ताका परत पॅलेस्टायनांत वचपाचें आसता. देखून तो कोणाक सांगिनासतना फांतोडेर पॅलेस्टायनाचे शिमेर पावता.

आयज मेरेन पॅलेस्टायनान खूब कितें पळयलां. आपल्या स्वताच्या देशांत तांचें अस्तित्व न्हयकारलां. आंतरराष्ट्रीय चेपणाक बळी पडून पॅलेस्टायनाचें स्वातंत्र्य आडावन दवरलां. दीस रात जावपी बॉम्ब, झगडीं हातूंत ह्या देशाची तरणाटी पिळगी काबार जाल्या. स्वातंत्र्याचो अर्थ समजुपाक पिराय लागना. चलचित्राचें दिग्दर्शन आन्नामारी जासीर हांणी केलां. आंगार कांटो उबो करपी हें चलचित्र. पॅलेस्टायन! तुज्या संघर्शाक सलम!

## When I Saw You

**दिग्दर्शक** : Anna Marie Jacir
**अभिनय** : Mahamoud Asfa, Ruba Bial, Saleh Bakri
**छायाचित्रकार**: Helene Louvart
**संकलन** : Anna Marie Jacir, Panos Voustaras
**संगीत** : Kamran Rastegar




वाठार : दक्षिण आफ्रिका
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड

# MATERIAL: भारतः जगांतल्या सपनांतलो देश

कांय वर्सां फाटीं इफ्फींत 'फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड' म्हूण विभाग आशिल्लो. ह्या विभागांत भारताचे संबंदीत चलचित्रां आस्पावतालीं. पूण जागतीक चलचित्र निर्मितींत प्रखरपणान बदल घडत आसात अशें दिसून येता. जगांतल्या आनी चड चलचित्रांनी भारताचो उल्लेख दिसून येता. आंतरराष्ट्रीय अभ्यासशास्त्रांत देशाचो प्रभाव आनी जागतीक दर्जो मेजपाक दोन मापां वापरतात. 1 हार्ड पावर – म्हणचे देश जो अर्थीक वा सैनीक नदरेन मजबूत आसता ताका हें माप महासत्ता मानता. 2. सॉफ्ट पावर – म्हणचे देशाची संस्कृती, लोकशाय, चलचित्र, अध्यात्म, कला हांचो जागतीक प्रभाव बाकीच्या देशांचेर पडटा.

भारताक जगांतली नांवाजती सॉफ्ट पावर म्हणटात. देखूनच जागतीक चलचित्र निर्मितीचेर भारताचो प्रभाव मोट्या प्रमाणांत आसा. भारतांत तरेकवार धर्म आसात. बळकट लोकशाय, रंगीत संस्कृती, खोल अध्यात्मीक इतिहास देखून जागतीक चलचित्र निर्मितींत भारतान आपलो प्रभाव सिद्ध केला. देखूनच 43व्या इफ्फीच्या उक्तावपणाक प्रसार माध्यम मंत्री मनीश तिवारीन भारत आनी जागतीक चलचित्र निर्मितींत जोड निर्मिती करपाचे प्रक्रियेचेर 12व्या पांच वर्सुकी येवजणेंत आसपाव जातलो अशें म्हणलां. भारतीय चलचित्र निर्मितीच्या इतिहासांत हें एक म्हत्वाचें पावल. इफ्फीच्या उक्तावणाचो चलचित्र म्हणल्यार Life of Pi ह्या चलचित्राचें कथानक भारतांतल्यान सुरू जाल्लें आनी चलचित्राचे लेखक, दिग्दर्शक वा निर्माते

बिगर भारतीय आशिल्ले.

पूण दक्षिण आफ्रिकेचें 'मटेरीय' हें चलचित्र भारता कडेन आशिल्ल्या आकर्शणाचें प्रतीक. भारतांत तरेकवार धर्म आनी संस्कृती वसता पूण स्वातंत्र्य आनी लोकशाय आशिल्ल्या कारणान धर्मीक गजाली जिवितांत बंधनां घालूंक शकनात. देखून भारत हो उदरगत सादपी देशांतल्या लोकांचो आदर्श कसो जावपाक शकता तो हें चलचित्र दाखयता. हें चलचित्र प्रेक्षकांक हांसयता. कथानका कडेन जुळोवन घेवपाक लायता. चलचित्राचें कथानक एक मुसलमान तरणाट्या भोंवतणीं घुंवता.

रियाद मोसा ताचें नांव. ताच्या बापायचो कपडे विकपाचो वेवसा;. ताचें मन ह्या वेवसायांत रुचना. ताका टिवल्यो बावल्यो करूंक खूब आवडटा. देखून तो दर सप्तकाक शारांतल्या बारांत लिपचोरयां आपले विनोदी कार्यक्रम करता. ताचो बापूय परंपरावादी आनी चड हांसप म्हणल्यार धर्मांत 'हराम' हें मानपी. आपलो चलो बारांत एक विनोदी कार्यक्रम करता हो विचारूच ताका पटना. उपरांत मोसाच्या बापायचें वायटपण आशिल्ले पयशिल्ले चलये कडेन मोसाचो मोग जाता.

आपल्या आयुश्यांतल्या ह्या प्रस्नां कडेन झगडून वाट काडपी मोसाची ही काणी. ह्या चलचित्राचें कथानकांत भारतीय इस्लामांत कितलें स्वतंत्र आसा, हाचेर चर्चा आनी विनोद खूब जाल्यात.

आमच्या जिवितांतल्या बारीक बारीक गजालींतल्यान चलचित्र कशें सोदून काडप हाचें बेस बरें उदाहरण म्हणल्यार मटेरियल. हें चलचित्र रियाद मोसाचे खरेले जिणेचेर आदारीत आसा. चलचित्राचें दिग्दर्शन क्रेग फ्रेमोड हांणी केलां.

**Material** [South Africa/2012/93min/Colour/English]

**दिग्दर्शक** : Craig Freimond

**अभिनय** : Vincent Ebrahim, Riaad Moosa, Joey Rasdian, Denise Newman

**छायाचित्रकार:** Treror Calverley

**संकलन** : Megal Gill

**संगीत** : Elizabeth Rennie

**निर्मिती** : Robbie Thorpe, Ronne Aptekar




वाठार : कोंगो
महोत्सव : 43वो इफ्फी 2012
विभाग : सिनेमा ऑफ वर्ल्ड

# WAR WITCH:
# आफ्रिकाः वेदना, संघर्श आनी धाडस

आफ्रिका ह्या खंडाचो इतिहास उग्र, भडक आनी हिंसक. रंगभेद, जातीभेद, वर्णभेद हाचें मनीसघाणें चित्र आफ्रिकेंत पळयलां. देश बांधणीचे प्रक्रियेंत आजून आफ्रिकेचे देश आसात. वसाहतवाद, नागरी झूज ह्या सगळ्या गजालींनी अफ्रिकेक आजून आर्थीक शोशणाचे पांगेंतूच दवरलां. फाटल्या वर्सा घानाचें चलचित्र 'फस्ट ग्रेडर' पळोवपाक मेळ्ळें. घाना हो एकूच असो आफ्रिकी देश ज्या देशाच्या विकासांत फाटल्या दसकभरांत स्थैर्य आसा. ह्या चलचित्राचें पुराय कथानक कोंगो ह्या देशांत घडटा. चलचित्राचें कथानक एका 14 वर्साचे चलये भोंवतणीं घुंवता. कोंगोंत कितलींशींच बंडखोर हिंसक संघटना आसात. पूण हांचो कसल्याच विचारसरणी कडेन

संबंद ना. 'वॉरलॉर्डस' अशें ताका म्हणटात. राज्यवेवस्थेचे अनुपस्थितीक लागून चोरी, मारामारी, खून होच तांचो उद्देश आनी धंदो. पुराय गांवांतल्या लोकांक मारून उडोव आनी भुरग्यांक शस्त्रां दिवन आपल्या सैन्यान घेवप हीच प्रथा जावन पडल्या. हे चलयेक 12 वर्साचें आसतना शस्त्र दिवन स्वताच्याय आवय बापायक मारपाक लायता. सान चली शस्त्रांक भियेवन आपल्याच आवय बापायचेर धडाधड गुळयो घालता. सान वयाचे आसतना हे चलयेक दीस वता. जिविता कडलो संघर्श आनी एक सान चलयेचें धाडस तोखेवपाक लेगीत काळीज हालता. गुरवारपणान हे चलयेन केल्लो संघर्श आनी ताची मानसीक परिस्थिती एक चली भयानक वल्डलॉर्डाक कशे काबार करता हें तोखेवपाचें. सान मन आशिल्ल्यान ताका रातचीं विचित्र सपनां पडटात. तें आबूज जाता. आपले कुडींत कोण तरी वेगळो आसा असो भास ताका जाता. ताचेर भार येता ते लोकांच्या आंगार वता. एकलें रानांत स्वता पोटांतल्या भुरग्यांक कसो जल्म दिता तें पळोवपाक धाडस लागता. विशय संवेदनपणान हाताळिल्ल्या कारणान चलचित्राचो लेखक आनी दिग्दर्शकाक सलाम मारीन दिसता.

व्हीच म्हणचे हापशी. कुडींत एक वेगळी आत्मा आसप. ताका इंग्लिशींत व्हीच म्हणटा. पूण लेखकान चलचित्राचें कथानक अंधश्रद्धे कडेन व्हरनासतना त्या वेगळ्या मनशाच्या मनांत चलपी भयानक वास्तवा कडेन व्हरून सोडटां. चलचित्राचें दिग्दर्शन किन नागूये हांणी केलां.

**War Witch** [2012/90min/Colour/French]

**दिग्दर्शक** : Kim Nagayen

**अभिनय** : Rachel N Wansa, Alain Bostein, Serge Nanyida, Ralph Prosper

**छायाचित्रकार:** Nicolas Bolduc

**संकलन** : Richard Comeau

**निर्मिती** : Pierre Even, Marrie Claude Paulone

**इनामां/ वांटो** : Berlinale (2012)
Tribeca (2012)
Academy Award (2013 nomination)




वाठार : इराण
महोत्सव : 39वो इफ्फी 2008
विभाग : समारोप चलचित्र

THE SONG OF SPARROWS:

# इराणी सिनेमा वैशिश्ट्यतायेचें प्रतीक

1990 उपरांतलीं हीं दसकां जागतीकरण आनी उदात्तीकरण हांच्या बऱ्या वायट परिणामांक गवाय थारल्यांत. गरिबी आनी गिरेस्तकायेची पोकळी भरून काडपाचो हावेस दवरून जागती करण, खासगीकरण हाची अर्थीक प्रगतीशील देशांनी ताची अर्थीक बांदणी केली. पूण पोकळी भरली ना, वेल्यात ती वाडत गेली. गिरेस्त, गिरेस्त जायत गेले आनी गरीब, गरिबूच उरले. एकाच देशांत वा एकाच राज्यांत दोन मनोवृत्ती एक दुसऱ्याच्या समांतरान वाडत गेल्यो. बंद कांचेच्या फ्लॅटांनी आनी 6 लेन हायवेचेर वाडपी एक मनोवृत्ती. आनी दारां, जनेलां नाशिल्ल्या झोपडपट्टीची मनोवृत्ती दुसरी.

म्हारग्या गाडयांनी, मखमलच्या पड्ड्यांनी, डिजायनर कपडे घालपी

लोकांच्यो व्यथा, दुख्खां, सपनां आमी कितल्याशाच चलचित्रांनी पळयल्यांत. पूण गांवगिरे जिणेचेर उजवाड घालपी यत्न खूब उण्या जाणांनी केला.

जंय दोन वेळचें जेवण आनी दीस सारपाचीच मारामार त्या लोकांचींय सपनां आसतात. तांच्या यत्नांचें अपेस निर्शेवणेंत बदलता तेन्ना तांकां दुख्खूय जाता. देखून कांय जाण परतून परिस्थिती कडेन नेटान झगडटात तर कांय जाणां सपनां पळोवपाचींच सोडटात.

अशेच कांय अणभव इराणी चलचित्रां पळयल्यार सांपडटात. हीं चलचित्रां भयानक नासतात तर फुडें कितें तरी वायट घडपाचें आसा हाचोच चड भंय आसता. खर परिश्रम आनी मेहनतीन तयार जातात इराणाचीं चलचित्रां. इराणांत प्रसार माध्यमांक चडशें स्वातंत्र्य नाशिल्लें. ताका लागून चलचित्र निर्मितीकूय कांय बंधनां पडलीं. देखीक बायलांचे वेशभुशेचेर आनी स्त्री व्यक्तीरेखा चित्रणाचेर आशिल्लीं बंधनां. अशेंच एक चलचित्र The Song of Sparrows हें चलचित्र नामनेचे इराणी दिग्दर्शक माजीद मजीदी हांणी दिग्दर्शीत केला. तांच्या आदल्या Children of heaven ह्या चलचित्रांक समिक्षकां कडल्यान दाद मेळ्ळ्या.

ह्या चलचित्राचें चित्रीकरण इराणांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या गावांत जालां. ह्या चलचित्राचें कथानक करीम ह्या पात्रा भोंवतणी घुंवता. करीम हो एका शहामृगाच्या फार्मांत काम करपी मनीस. थंय मेळटा ते जोडीचेर तो आपली बायल आनी दोगां भुरग्यांक पोसता. ताच्यो आपणाल्यो कितल्योशोच गरजो आनी व्यथा आसात. ताचो धाकलो चलो मस्तो, आडांगी तर दुसरे चलयेक सारकें आयकूंक येना. घराचें पाखें कशें दुरूस्त करपाचें, लोकांचीं रिणां कशीं फारीक करपाचीं अशीं कितलीशींच प्रस्नचिन्नां.

असलेच चिंतेंत आसतना फार्मांतलें एक शहामृग करीमाचे नदर चुकीन वंय हुपून पळटा. करीमाक तें शहामृग कशेंच सांपडना. तो ताका सोदपाचे जायते यत्न करता. पूण ताचे यत्न फळादीक जायनात. देखून शहामृगाच्या कळपाचो धनी ताका नोकरे वयलो काडून उडयता. पयशांची अडचण करीमाक सगळे वटेन सतायता. ताचे धाकले चलयेच्या कानांत आशिल्लें hearing aid उदकांत पडून इबाडटा. ताका तर ताचे बगर आयकूंक येना. देखून एक दीस करीम तें 'ॲड' घेवन तेहरान ह्या शारांत वता. थंय तें सारकें

करप शक्य ना हें ताका कळटा आनी नवें घेवपा बगर गत्यंतर ना. तें घेवप ताका परवडपाचें न्हय. ताचे कडेन पयशेय ना आनी नोकरीय ना. निर्शेवन घरा परततना कोणतरी चुकून ताका मोटरसायकल पायलट समजता आनी तो ताचे मोटरसायकलीचेर बसता. करीम ताका पावयता. तो ताका पयशेय दिता. दुसऱ्याय दिसा अशेंच घडटा. करीमाचे कश्ट पळोवन आनी ताच्या प्रामाणीकपणा खातीर कोणूय ताचेर पातयेता. ताका दीसवड्याचे पयशे सुटपा इतली येणावळ जाता पूण 'ॲड' घेवपा इतलें पयशे गांठीक उरना. कितलेशेच यत्न करूनय करीमाच्यो गरजो तश्योच उरतात.

ह्या चलचित्राची एक खाशेली गजाल म्हणल्यार इराणाचें वातावरण, झाडां-पेडां, रेंवट ह्या सगळ्यांचो चलचित्रांत योग्य तो वापर केला. देखून हें चलचित्र तेच मातयेंतल्यान तयार जाता म्हणपाचें दिसून येता.

प्रादेशीक चलचित्रांत फकत प्रादेशीक काणयो आनी भास आसली म्हूण जायना तर तो सैम आनी वातावरणय आसप तितलेंच गरजेचें.

करीमाची भुमिका करपी रेजा नाजी हाची तोखणाय करीत तितली थोडी. ह्या चलचित्राचें कथानक 'करीम' ह्या पात्रा भोंवतणी घुंवता. ह्या चलचित्राचें संगीत गांवगिरो नामनेचो संगीतकार हुसैन अलीझाड हांणी दिलां.

ह्या चलचित्राचो अंत मात सुखद जाला. इतले सगळे पयशे जोडपाचे यत्न असफल थारिल्ल्यान एक दीस करीम असोच आपले मोटरसायकलीन परतता. तेन्ना एके दोंगुल्लेचेर ताका शेणिल्लो शहामृग सांपडटा. चानयेच्या गितांचेर तो शहामृग विचित्र नाच करता. करीमाक आपले आशेचें एक किर्ण दिसता. तो शहामृग आपूण परत व्हरून दितलों, आपणाक नोकरी मेळटली, चलयेच्या कानांलें आयकुपाचें 'ॲड' विकतें घेवपाक मेळटलें, चलयेक आयकूंक येतलें. अशे तरेचे बरेच प्रस्न सुटावे जातले. ताची निर्शेवणी बाबड्या मुखामळाचेर उदेता. निमाणे कडेन कांय गजालीं कडेन सगळ्यांचे दोळे ओडून वतात. करीमाचें तोंड, चानयेचीं गितां आनी ते रेंवट दोंगुल्लेचेर शहामृगाचो नाच. ह्या निमाण्या खिणांत कितलेशेच भाव आसात, आनंद, उमेद, चैतन्य मनशाचे आनी जनावरांचें, मनीस आनी जनावरांचें नातें!

# फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड्

**पाकिस्तानी** चलचित्र 'खुदा के लिए' (2007) हातूंत भारताची लोकप्रियता दाखोवपी एक देखाव बेस बरो चित्रायला. एक पाकिस्तानी युवक अमेरिकेक वता आनी एका हॉटेलांत बशिल्ले एके अमेरिकन चलये कडेन संवाद सादता. तांचे मदीं गजाली सुरू जातात तेन्ना ती चली त्या चल्याक विचारता, 'तुजो देश खंयचो?' चलो जाप दिता 'पाकिस्तान'. तें अमेरिकन चली तोंड वांकडें करता. ताका पाकिस्तान देश आसा हें लेगीत खबर ना. तो चलो ताका समजावपाचो यत्न करता. निमणें सांगता, 'भारताचे कुशींतलो देश तो पाकिस्तान'. भारत हें आयकना फुडें ते चलयेच्या तोंडार प्रसन्न हांसो फुलता आनी ती म्हणटा 'Oh! India!' इतलेंच न्हय तर ती फुडें सांगता, भारतांत आपूण केन्नाच पावंक ना. पूण भारता विशीं खूब आयकलां. भारता विशींची इतली लोकप्रियता जगभरांत आसा. आंतरराष्ट्रीय अभ्यासशास्त्रांत देशाची ताकद दोन पांवड्यार मेजतात.

1. 'हार्ड पावर' म्हणल्यार सौम्य, अर्थीक, उद्देगीक मळार आशिल्लें त्या देशाचें वजन.

2. 'सॉफ्ट' पावर' म्हणल्यार देशाची संस्कृती, भास, अध्यात्म, सिनेमा,

संगीत, नाटक, कला, जीवनशैलीचो जगाचेर आशिल्लो प्रभाव.

भारत एक विकसनशील देश तरीय ह्या देशाची 'सॉफ्ट पावर' जगांत जबरदस्त आसा. जगभरांत भारतीय पातळ्ळ्यात. वतना तांणी आपली संस्कृती थंय व्हेल्या. कांय वर्सां सावन अमेरिकी राष्ट्राध्यक्ष अधिकृतपणान अमेरिकेच्या भारतीयांक दिवाळेचीं परबीं भेटयता. पुराय जगाक आसा भारताचें आकर्शण आनी पिशें. देखून भारत हो जागतीक 'सॉफ्ट पावर'चो केंद्रबिंदू आसा. देखून भारताचे फाटभुंयेचेर आदारीत आशिल्ल्या विदेशी वा एनआरआय दिग्दर्शकांनी तयार केल्ल्या चलचित्रांक 'फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड' माची दिता. कांय वर्सां पयलीं 'FIWW' ह्या नांवान इफ्फींत एक विभाग तयार जालो. हो विभाग म्हणल्यार भारताचेर आदारीत आशिल्ल्या बिगर भारतीय चलचित्रांक दिल्लो जागो.



| | | |
|---|---|---|
| **वाठार** | : | भारत |
| **महोत्सव** | : | 38वो इफ्फी 2007 |
| **विभाग** | : | फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड |



## द पूलः
# तंत्राचो सुमेळ

कांय वर्सां फाटीं इफ्फींत 'फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड' हो फिल्मांचो एक विभाग आशिल्लो. भारता कडेन संबंदीत आंतरराष्ट्रीय चलचित्रां ह्या विभागांत आस्पावतात. हाचो दिग्दर्शक भारता भायलो आसूं येता वा कथा भारतांतली आसूं येता. पूण फाटल्या दोन वर्सांत महोत्सवांत ह्या विभागाक बरीच प्रसिद्धी मेळ्ळ्या. फाटल्या वर्सा ह्या विभागांत एका अमेरिकन चलचित्रान लक्ष ओडून घेतलें. विशय आशिल्लो 9/11चें आक्रमण. दिग्दर्शन केल्लें भारतांतले तनुजा चंद्रा हांणी आनी अभिनय केल्लो अनुपम खेर आनी महिमा चौधरी हांणी. चलचित्राचें नांव आशिल्लें 'हॉप ॲण्ड लिटल श्यूगर'.

इफ्फींतलें हें ह्या विभागांतलें एका वर्साचें बाळक. ह्या वर्सा अमेरिकन

चलचित्र 'द पूल' ह्या चलचित्रान ह्या विभागाची सुरवात जाली. 36 वर्सांच्या ख्रिस स्मीथ ह्या अमेरिकन दिग्दर्शकान हें दिग्दर्शीत केलें. हिंदी भाशेंतलें हें चलचित्र जे भाशेची जाणीव दिग्दर्शक आनी छायाचित्रकार स्मीथ हाका अजिबात नाशिल्ली. हें चलचित्र पुराय पणजी–गोंय हांगा चित्रीकरण केलां. दोन मुखेल व्यक्तींचेर आदारीत ही कथा आसा त्यो म्हणल्यार व्यंकटेश (व्यंकटेश चौहान) रुमबॉय – शारांतल्या एका हॉटेलांतलो आनी तागेलो सांगाती जांगीर (जांगीर बादशाह). तांची दोगांयची वळख जाता ती सांजवेळा ते दोगूय चड पयशे कमावपा खातीर प्लास्टिकाच्यो पिशव्यो विकपाचो वेव्हार करतना. व्यंकटेशाक शिकपाची खूब म्हत्वाकांक्षा आसता आनी ताका बऱ्यो बऱ्यो वस्तू जाय आसतात. खरेपणीं ताका आपल्या शिक्षणा खातीर पयशे जाय आसतात. एका होलीडे घरांतल्या फाटले वटेन एक स्विमिंग पूल आसता ताचे कडेन तो आकर्शीत जाता. फाटले कितलेशेच दीस तो वापरूंक नासून बंद आसता. कंपावंडांतल्या एका आंब्याच्या झाडार चडून तो खूब फावटीं हो स्विमिंग पूल पळयत आसता. व्यंकटेश आनी ताचो सांगाती हांकां दोगांकय मोटी उमळशीक आसता ह्या होलीडे होमांत कोण रावता तें पळोवपाची. जेन्ना एकलो (नाना पाटेकार) आनी ताची धूव आयेशा (आयेशा मोहन) कांय दिसां खातीर त्या घरांत रावपांक म्हूण येतात तेन्ना हांची उमळशीक पूर्ण जाता. व्यंकटेश मालका कडेन (नाना पाटेकर) संदी सादून त्या होलीडे होमांत येवपाचो यत्न करता. आनी एक दीस नाना ताका घरांतले बागेचें काम करपाक आपयता. व्यंकटेशाचें अदीं मदीं यो–वच हातूंत नाना आनी ताचे मदीं आपुलकाय निर्माण जाता.

व्यंकटेश आनी ताचो सांगाती जांगीर हांकां नानाची धूव आयेशा कडेन वळख घडपाचीय उमळशीक लागता. पूण तिच्या आनी नाना मदीं खूब रूक्ष आनी कडक तरेचें संभाशण जाता तें ते नियाळटात. आयेशाचें व्यक्तीमत्व हें पुराय डार्क आनी कन्फ्युझिंग. अजाप म्हणल्यार हे दोगूय भुरगे कांय दिसां भितर आयेशा कडेन बरें खेळीमेळीचें नातें तयार करतात. तीं सायट सिईंग आनी बोटिंगा खातीर वांगडा वतात. इतलेंच न्हय तर नाना आनी ताची धूव आयेशा व्यंकटेशाक आपापल्या वेगवेगळ्या कारणां खातीर व्हरतात. नाना एकी कडेन व्यंकटेशाक नितीमुल्यां शिकयतना म्हणटा, 'पैसा है तो

कोई भी चुराएगा, दीमाग है तो कोई नहीं चुरा सकता'' आनी दुसरे कडेन आयेशा व्यंकटेशाक सांगता, ''मेरा बाप बहुत कमीना है'. वापरिनासतना उरिल्ल्या त्या स्विमिंग पुलाचें रहस्य भायर सरता जेन्ना व्यंकटेश स्विमिंग पुलांत पेंवपाची इत्सा प्रकट करता तेन्ना तो ताका जतनाय घे म्हूण सांगता. कित्याक तर तागेची 4 वर्सांची चली तातूंत बुडिल्ली. नाना आनी आयेशा मदले मतभेदय तांकां कळून येतात जेन्ना ती म्हणटा 5 वर्सांचें भुरगें पुला कडेन आनी उदका कडेन 4 वर्सांच्या भुरग्याक कशें सांबाळपाक शकता?

हीं असलीं फिल्मां पळोवपाक वचे पयलीं म्हत्वाचें आसा तें जाणून घेवपाचें हीं असलीं फिल्मां काडपाचें प्रयोजन कितें. कित्याक तर तीं वेवसायीक न्हय, ग्लेमरस (आकर्शक) न्हय आनी गडगंज बजेटांतलींय न्हय. सगळे तरेची मांडणी आनी तडजोड करूनच तीं केल्लीं आसतात. पूण ती सेलिल्यूडाचेर येनात. ह्या चलचित्राक डिझायनर कस्ट्यूम नात, लांबाय उणी आनी साद्या एचडी-कॅम फॉर्मेटांत तें केलां. पूण निमाणे कडेन ताचो प्रभाव घडटा, जो पळोवपा सारको आसा. आतां प्रात्यक्षिकां विशीं सांगपाचें जाल्यार कथेंत तीन व्यक्तीचित्रणां आसात. पयलीं आसात तीं खरेलीं व्यक्तीचित्रां व्यंकटेश आनी जांगीर, हीं खरेलीं व्यक्तीचित्रां. तांची फाटभूंय आनी कथा ह्यो प्रकृतीन खऱ्यो आसात. हे अभिनेते न्हय पूण दिग्दर्शकान तांकां खरेल्या जिवितांतले उखलून हाडल्यात. मजा अशी, ती खरेलीं भुरगीं आनी ते थलांतरीत कामदार. तांची कथा निर्माण करूंक ना आनी तांच्या खऱ्या जिवितांत घडटा तें दाखयलां. दुसरें व्यक्तीमत्व हें 'डार्क' व्यक्तीचित्र. चली आयेशा (आयेशा मोहन) हें चडांत चड गूढ प्रकारान दाखयलां. चड वर्णन करपाचें जाल्यार हें व्यक्तीचित्र गूढ आनी घुस्पावपी. लेखक आनी दिग्दर्शक ह्या व्यक्तीचित्रांची डार्क बाजू बरे तरेन दाखोवपाक येसस्वी जाल्यात आनी तिसऱ्या तरेच्या व्यक्तीचित्रा कडेन वळटना येता नाना पाटेकार. कथा फुडें व्हरपा खातीर तें निर्माण केलां. स्टोरी लायन स्पश्ट करपाक तें निर्माण केलां. आमी ताका वर्णनात्मक अशें म्हणपाक शकना. पूण निमाणे कडेन आयेशाचें गूढ भुमिकेंतल्यान आनी व्यंकटेश आनी जांगीराच्या खरेपणांतल्यान जायतें स्पश्ट जाता. पूण अखेरेक ह्या व्यक्तीचित्रणाचें भरसप येसस्वी करपा खातीर एक सशक्त स्क्रीनप्ले आनी स्क्रीन वेळ

सांबाळप गरजेचें आसा. आनी ह्या चलचित्राक एक सशक्त स्क्रीनप्ले आनी व्यक्तीचित्राचें चित्रण करपाचें सगळें स्रय फावता तें क्रीस स्मीथ आनी रेंडी रसेल हांकां. ह्या स्क्रीप्टाचें आनीक एक वैशिश्ट्य म्हणल्यार ह्या चलचित्राक एकूय फ्लॅश बॅक ना. आनी तो नासतनाय तें बरें वता हें म्हत्वाचें. केन्ना तरी घडून गेल्लो असो म्हत्वाचो आशय आनी तें लक्षांत घेवन कथा 95 मिनटां चलता. आयेशाचीं आवयबापूय एकठांय रावनात. बापूय मुंबय आनी आवय रावता दिल्लींत. आयेशाचो हो दुखदिणो भूतकाळ आनी तो चालू काळांत कथीत केला आनी ताका फ्लॅश बॅक ना. हाचे वयल्यान आमकां हें जाणून येता, फाटलो काळ वर्णन करपाक लांब फ्लॅश बॅकाची गरज ना. ह्या चलचित्रांत हें नवे तरेचें स्टोरी टेलिंग तंत्र आपणायलां.

आनी आतां चलचित्रांतल्यो ह्यो कांय उचक्यो. पयली गजाल, व्यंकटेश आनी जांगीर हीं दोन मुखेल व्यक्तीचित्रां. हे अभिनेते न्हय पूण तरीकय तांच्यो भुमिका बऱ्यो जाल्यात. जेन्ना अभिनय करपाक वतात तेन्ना आडखळटात. त्या वेळार तांचो अभिनय कृत्रीम दिसता. हाचो दोश तांकां दिवं नजो कित्याक तर हें चलचित्र हिंदींत केलां जी भाशा चलचित्राच्या दिग्दर्शकाक येना. कांय संवादाचे बाबतींत कसले भाव दाखोवपाची गरज आसा हें दिग्दर्शकाक समजना आसुंये. दुसरो दोश संकलनाचो. कांय देखाव्यां कडेन सदळताय दिसता. पूण जेन्ना एक सुंदर विशय घेवन सगळ्या व्यक्तीचित्रांची वेवस्थीत सरमिसळ जाता तेन्ना ह्यो सगळ्यो उचक्यो ध्यानांत घेवनय निमाणें त्यो उखलून येवपाची गरज ना कशें दिसता.

व्यंकटेश आनी जांगीराचें खरेपण आनी ताजेपण कायम दवरपाक दिग्दर्शक येसस्वी जाला देखून ताका परबीं फावतात. तेच भशेन आयेशाची डार्क बाजू आनी नाना पाटेकार ताचे कल्पनेंतल्यान एक खरें पात्र निर्माण करप! आनी फिल्माची भुमिका तयार करप. विशेश करून आयेशा मोहन सुरवात ते शेवट मेरेन ताचे भाव आनी भुमिका हाचो तोल सांबाळून दाखोवप हें ज्युस्ताज्यूस्त आनी सर्वोत्तम जालां. नाना पाटेकाराचे भुमिके विशीं दुबावूच ना. तो तर अजापांचोच आनी भाव-भावनांचो मास्टर. तशेंच व्यंकटेश आनी जांगीर, ते जरी अभिनेते नासले आनी तांची पयलीच खेप आसली तरी तांणी आपलो निश्पाप भाव बरे तरेन दाखयला.

चलचित्राचो निमाणो भाग ओडलायणो. नाना पाटेकार आनी आयेशा मुंबय वचपाक वतात तेन्ना नाना व्यंकटेशाच्या हातांत भोंवरो दिता आनी ताची आनी घराची काळजी घे म्हूण सांगता. निमाणें सगळ्या लोकांची वळख घडटकच पुलांत पेंवपाची व्यंकटेशाची इत्सा अर्दकुटी उरता आनी तो आपलो वेळ पुला भोंवतणीं घुस्पटायत सारता, एक हलको फुलको भावनात्मक शेवट.

## The Pool

[2007/HD-CAM/Colour/95mins/Hindi]

**दिग्दर्शक** : Chris Smith
**अभिनय** : Sahangir Badshah, Venkatesh Chavan, Ayesha Mohan, Nana Patekar
**लेखन** : Chris Smit, Randy Russell
**छायाचित्रकार:** Chris Smit
**संकलन** : Burray Poltermann
**इनामां/ वांटो** : Berlinale (2012)
Tribeca (2012)
Academy Award (2013 nomination)

| | | |
|---|---|---|
| **वाठार** | : | भारत |
| **महोत्सव** | : | 38वो इफ्फी 2007 |
| **विभाग** | : | फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड |




# AIDS JAAGO:

# फास्ट ॲण्ड क्विक

हें जग म्हायती आनी तंत्रगिन्यानाचें. दिसान दीस म्हायती आनी तंत्रगिन्यानाची व्याख्या बदलत वता. आनी ह्या Compact जगाचो मंत्र आसा "Fast and Quick" म्हणचेच सुटसुटीतपणां. आपलें म्हणणें उण्यांत उण्या वेळांत मांडपाचें. देखून SMS, Instant Messangers वा Internet ह्यो गजाली वाडत चल्ल्यात. दरेके गजालीची लांबाय उणीं जायत वता. भारतांत लोकप्रिय आशिल्ले क्रिकेटीची लांबाय उणीं जावन ती पांच दिसां वेल्यान T 20 चेर पावल्या. सगळ्यांचेरूच ह्या सुटसुटीतपणाचो प्रभाव पडल्यार सिनेमा तरी हातूंतल्यान कसो फाटीं पडत?

लघुपट हो सिनेमाचोच एक प्रकार. हो प्रकार तसो नवो न्हय. जागतीक पड्ड्याचेर ताचे प्रयोग कितल्याशाच वर्सां सावन चालू आशिल्ले. पूण हो प्रकार भारतांत कितल्या प्रमाणांत येसस्वी जावपाक शकता हो दुबाव आशिल्लो. आमकां लांबलचक सिनेमा पळोवंक आवडटा, तातूंतलीं तीं मागीर पदां, बेभानपणाचे नाच, ॲक्शन रोमान्स बी.

तेच बराबर भारतांत दर वर्सा कितलेशेच लघुपट येतात. कांय जाण सामाजीक विशयांचेर, कांय जाण आपले "graduation film" तर कांय जाण हौशी प्रयोग करतात. भारतांत social networking site ऑर्कूट,

facebook, twitter, you tube वॅबसायटींचो वापर चड प्रमाणांत आशिल्ल्यान ह्या लघुपटांक खूब लोकप्रियता मेळ्ळ्या. आयज भारतांत ह्या प्रकारा कडेन पळोवपाची लोकांची नदर बदल्ल्या. तांकां हो प्रकार आवडपाक लागला. ह्या लघुपटांची online सर्ती आयज भारतांतय जावपाक लागल्यात. देखून भारतीय लघुपटांनी आयज जागतीक दर्जोमेळयला.

लघुपटांत कथानका कडेन उण्यांत उण्या वेळांत लोकांक कशे व्हरप ही एक कला. ह्या प्रकाराचेर उलयतना इंग्लंडचे आदले प्रधानमंत्री टॉनी ब्लॅयर हांणी एक फावट म्हणिल्लें, प्रभाव हो म्हत्वाचो. तांच्याच उतरांनी सांगपाचें जाल्यार "maximum impact in minimum time" आकांताचो प्रभाव पूण उण्या वेळांत. आयज लघुपटांचे निर्मितेक तंत्रगिन्यानान आगळी वेगळी जोड दिल्या.

लघुपटाच्या नव्या प्रवाहाचो जेन्ना विचार जाता तेन्ना कांय फिल्मांची याद जाले बगर रावना. 'जागो ॲड्स' हो मीराबाई फिल्मस आनी बील गॅट्स फावंडेशन चो एक प्रकल्प. ह्या सिनेमाच्या आगळ्या वेगळ्या प्रकल्पा खाला चार लघुपटांची निर्मिती जाल्या. मीरा नायर हांचें 'मायग्रेशन', संतोष सावन हांणी दिग्दर्शीत केल्लें 'प्रारंभ', विशाल भारद्वाज हांणी दिग्दर्शीत केल्लें 'ब्लड ब्रदर्स' आनी फरहान अख्तर हांचें 'पॉसिटिव्ह' ह्या प्रकल्पांचे खाशेलेपण म्हणल्यार ह्या चारूय लघुपटांची लांबाय वट्ट तीस मिण्टां जातात.

मीरा नायर, संतोष सीवन, फरहान अख्तर आनी विशाल भारद्वाज वेवसायीक आनी प्रायोगीक सिनेमांतली हीं कांय गाजता त्या दिग्दर्शकांचीं नांवां. तांच्या परिपक्व विशयांचे मांडावळी खातीर नांवाजतीं आशिल्लीं हीं नांवां देखून ह्या दिग्दर्शका कडल्यान अपेक्षाय व्हडल्यो आसतल्योच.

लघुपटाचो मंत्र आसता उणो वेळ आनी गूढ आसता कथानक, आनी ज्या दिग्दर्शकाक उण्या वेळांत कथानकाची सांगत घालपाची कला सादून येता त्याच लघुपटाचो प्रभाव पळयतल्याचेर पडटा.

पयलो सिनेमा 'मायग्रेशन', दिग्दर्शक मीरा नायर, वेळ वट्ट सात मिनटां. ह्या लघुपटांत रायमा सेना, शायनी अहुजा, इरफान खान अशा कांय अभिनेत्यांनी अभिनय केला. समलैंगीकतायेंतल्यान 'ॲड्स' चो जाल्लो

फैलाव आनी तो एका दीसवड्याच्या कामगारा कडेन कसो पावता ह्या विशयाचेर आदारीत आसात.

दुसरो लघुपट 'प्रारंभ', दिग्दर्शक संतोष सीवन, वेळ वट्ट इकरा मिनटां. ह्या लघुपटांत प्रभुदेवा हाणें अभिनय केला. एका सान भुरग्याक 'ॲड्स' जाल्ले आवय कडल्यान हें दुयेंस आयिल्ल्याची ही व्यतीथ कथा.

तिसरो लघुपट 'पोझिटिव्ह'. दिग्दर्शक फरहान अख्तर, वेळ वट्ट पांच मिनटां. ह्या लघुपटांत बमन इराणी आनी शबाना आझमी हांणी अभिनय केला. एचआयव्ही ॲड्स दुयेंसाची लागण जाल्ल्या बापायची अवतिकाय पळोवपी एका तरनाट्या भुरग्याची व्यथा मांडल्या.

चवथो लघुपट 'ब्लड ब्रदर्स'. दिग्दर्शक विशाल भारद्वाज, वेळ वट्ट सात मिनटां. 'ॲड्स' ची तपासणी करपाक गेल्ल्या एका तरणाट्याची ही काणी. ह्या लघुपटांत तमीळ अभिनेतो सिद्धार्थ हांचो अभिनय केला.

'ॲड्स' ही चालू काळांत संवसारांतली एक व्हड समस्या. हे सिनेमा ह्या सामाजीक विशयांचेर आदारीत आसात. पूण एक फावट पळयतकच बरोच काळ मेरेन तांचो प्रभाव मनाचेर उरता. देखून हीं चलचित्रां बदलत्या ट्रेंडाची गवाय दितात. मीरा नायराच्या लघुपटाची खोलाय आनी आशयाची मांडणी जावं संतोष सावनाच्या लघुपटांत आशिल्लें नाविन्य आनी ताजेंपण. तशेंच फरहान अख्तर हांच्या 'पॉझिटिव्ह' लघुपटाचो काळजाक हात घालपी विशय. तेचवरी विशाल भारद्वाजाच्या लघुपटांत आंगार कांटो हाडपी थरार नाट्य हे लघुपट नव्या लघुपटां खातीर ट्रेंड सॅटर म्हणूं येता.

**Aids Jaago**

**दिग्दर्शक** : मिरा नायर (Migration)
संतोष सिवन (**प्रारंभ**)
विशाल भारद्वाज (Blood Brother)
फरहान अख्तर (Positive)




वाठार : स्वित्झलैंड
महोत्सव : 39वो इफ्फी 2008
विभाग : फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड

## TANDOORI LOVE:
# संवसार भारताक पळयता

Film India World Wide (FIWW) हो आंतरराष्ट्रीय चलचित्रांतलो एक विभाग. ह्या विभागाचें खाशेलेंपण म्हणल्यार ह्या विभागांत भारता कडेन संबंद आशिल्लीं चलचित्रां आसतात. चडशीं चलचित्रां NRI दिग्दर्शकांचीं वा निर्मात्यांचीं आसतात. कांय चलचित्रां भारतीय विशयांचेर आदारीत आसतात. दर वर्सा प्रदर्शीत जाल्लीं ह्या विभागातलीं चलचित्रां बारीकसाणेन नियाळीत जाल्यार जग खंयचे नदरेंतल्यान भारता कडेन पळयता तें दिसून येतलें. जीं चलचित्रां भारतीय चलचित्र निर्मितीन हाताळपाक जाय आसल्लीं तीं जागतीक चलचित्र निर्मितीन हाताळिल्लीं दिसून येतलें. ह्या विभागातलीं चडशीं चलचित्रां युवा दिग्दर्शकांनी दिग्दर्शीत केल्लीं आसतांत. देखून तातूंत चड संवेदनशीलताय आसता आनी चड करून युवा विचारसरणीचेर आदारीत आसतात.

थोड्यांची अशी समजीकाय आसता ती म्हणल्यार गंभीर चलचित्र निर्मिती हीं फकत वास्तवीक विशयांचेरच आदारीत आसता. पूण कांय गंभीर चलचित्रां लेगीत हलक्या फुलक्या विशयांचेरय आदारिल्लीं आसपाक शकतात. तांची फॅन्टसीय जावपाक शकता. पूण ते विशय तितलेच गंभीरतायेन हाताळपाची गरज आसता. 'तंदुरी लव्ह' हातूंत असोच एक आगळो वेगळो अणभव मेळटा. हें हेंवूय एक जागतीक चलचित्र पूण भारतीय विशयाचे धर्तरेचेर आदारिल्लें. हातूंत आसा बॉलिवूड सिनेमा सारकीं संगीतमय पदां आनी सिनेमांतलो प्रेमाचो त्रिकोण. ह्या चलचित्राची निर्मिती अर्जेन्टिना आनी जर्मनी ह्या देशांतली. जाल्यार चित्रिकरण जालां स्वित्झर्लँडांत.

ह्या चलचित्राचें दिग्दर्शन फामाद जर्मन दिग्दर्शक ऑलिवर पावलूस हांणी केलां. ह्या चलचित्राचें कथानक सोंपें आनी सरळ. एका बॉलिवूड चलचित्राचें चित्रिकरण करपाक एका सिनेमाचो पंगड स्वित्झर्लँडाक येता. थंय ते बॉलिवूड अभिनेत्री शिवेटर आपल्या बराबर भारतीय पद्दतीचें जेवण रांदपी आपलो एक रांदपी राजा हाका (विजय राजा) व्हरता. अभिनेत्रीचे नखरे आनी वयल्यान तापोवणी हाका लागून राजा सामको बेजारून वता.

राजाची व्यक्तीरेखा म्हणल्यार एक गरीब सावळो युवक. स्वित्झर्लँड भोंवता भोंवता ताका एक हॉटेल सांपडटा. थंय ताच्या जेवणाची खूब तुस्त तोखणाय जाता. हॉटेल धनी मार्कूस आनी ताची प्रेयसी सॉन्जा मेळून तें हॉटेल सांबाळटात. थोड्या दिसांनी त्या राजाचें जेवण त्या हॉटेलाचें खाशेलेपण जावन पडटा. पूण हांगासरूय कथानकांत एका प्रेमी त्रिकोणाचो आसपाव जाला.

राजा आनी सॉन्जा मदीं आकर्शण वाडपाक लागता. दोगांय एकामेकांच्या मोगांत पडटात. तांचो मोग तडीक व्हरपाचो यत्न हाचेरूच ह्या चलचित्राचो प्लॉट व्यापला. दोन व्यक्ती मदीं न्हय तर एका परस कितल्याशाच अशा संस्कृती मदलो संघर्श ह्या चलचित्रांत दाखोवपाचो यत्न केला.

कांय चलचित्रां गंभीर स्वरुपाचीं आसूनय ताची एक संगीतमय फॅन्टसी कशी करूं येता हाचे बेस बरें उदाहरण ह्या चलचित्रांतल्यान पळोवंक मेळटा. पुराय चलचित्र विजय राज हांणी साकारिल्लें रांदपी राजा हे व्यक्तीरेखे भोंवतणी घोळटा. पूण विजय राज आपलो तोल खंयच वगडायना. ह्या

चलचित्राची वास्तवीकताय नासूनय पुराय वेळ पळयतल्याक रमोवन दवरता. ह्या विभागांतलें चलचित्र पळोवन हें हलकें फुलकें संगीतमय मनोरंजन सिद्ध जाता. जागतीक निर्मितीचो दोळो भारताचेर आसा.

भारत देश काणयांनी समृद्ध, विविधतायेन नटिल्लो देश. हांगाचो सैम वा काणयो आनी तातूंत घुस्पल्ल्यो व्यक्तीरेखा कोरांतून काडूं येता. आनी रांदपी राजाक असोच खंय तरी ऑलिव्हर पावलू हांणी सोदून काडला आसतलो. Yes! The World is watching us.

**Tandoori Love** [2008/35mm/Colour/92min/Swis-English-Hindi]

**दिग्दर्शक** : Oliver Paulus
**लेखन** : Oliver Paulus, Stefen Hillebrand
**अभिनय** : Vijay Raj, Lavinia Wilson, Martin Sachick, Shweta Agarwal, Asha Sachdev
**छायाचित्रकार**: Daniel Knap
**संकलन** : Isabel Maer, Andri Bigouelr
**संगीत** : Marcel Vaid, Eradil Tosum, Jesse Milliner
**इनामां/वांटो**: Cairo

वाठार : भारत
महोत्सव : 39वो इफ्फी 2008
विभाग : फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड




# बाराह आनाः
# हलकें फुलकें चलचित्र

कांय चलचित्रांची निर्मिती एका विशिश्ट समुहाक टार्गेट करून जाल्ली आसता. भारतीय चलचित्र निर्मितींत हो एक नवो ट्रेंड जावन पडला. पूण हो ट्रेंड जितलो बरो तितलोच वायटूय बी. पूण असल्या ट्रेंडाक लागून नव्या कल्पनांक आनी सृजनशीलतायेक वाव मेळटा जाल्यार एक बऱ्यांतली बरी चलचित्र निर्मिती जावपाक शकता. Multiplex audianceक

टार्गेट करून जर 'खोसला का घोंसला' सारकें एक प्रायोगीक हलकें फुलकें चलचित्र भायर सरता जाल्यार एक बरी गजाल. भारतीय शारांची नस वळखून ज्यो कलाकृती घडटात त्यो पळोवपा सारक्यो आसतात. ह्या मोट्या मोट्या शारांनी सर्वसामान्यां परस उणें अशें जे लोक चिंत्तात ताचें पडबिंब ह्या कलाकृतींनी दिसून येता. पुलीस, न्यायालयां, सरकारी कचेऱ्यो हातूंत जावपी वेव्हार सामान्य मनशाक ताचो लाव मेळत काय कितें?

अशेंच एक सादें सोंपें चलचित्र 'बाराह आना'. मनशाक ह्या जगांत जगपा खातीर कितें जाय? खाण-जेवण, कपडो-लत्तो, घर आनी चिमटीभर मान. वयल्यो तिनूय गजाली मेळना जाल्यार लेगीत मनीस थोडोभोव खोशी जावपाक शकता. पूण चार चवगांत जर मान नासलो जाल्यार तो चवताळटा आनी तो मेळोवपा खातीर कितेंय करपाचें धाडस करता. मुंबयच्या झोंपडपट्टी वाठारांत पोसपी एके मनोवृत्तीक राजा मेनोनान आपल्या 'बाराह आना' ह्या चलचित्रांत ज्यूस्त टिपल्या.

आमचो देश आयज जागतिकीकरणाच्या प्रवाहांत आसा. ह्या संवसारीकरणाच्या युगांत गरीब आनी श्रीमंतां मदीं एक बरीच व्हडली पोकळी तयार जाल्या. ह्या संवसारीकरणाच्या शॉपिंग मॉल, डिस्को, क्लबच्या भुलभुयणाऱ्या जगाक सर्वसामान्य मनीस कसो प्रतिसाद दिता तें ह्या चलचित्रांत बेस बरें दाखयलां. सोंपें कथानक आनी सुमारशें बजेट आशिल्लें हें चलचित्र.

'बाराह आना' ह्या चलचित्राचें कथानक शुक्ला (नसरुद्दीन शाह), यादव (विनय राज) आनी अमन (अर्जुन माथूर) ह्या पात्रां भोंवतणीं घुंवता. मुंबयचे झोंपडपट्टेंत रावपी ह्या लोकांच्या सपनांचेर हें चलचित्र उजवाड घालता. शुक्ला (नसरुद्दीन शाह) हो एका श्रीमंतागेर गाडी चलोवपाक आसता. यादव हो एक वॉचमन आनी अमन हो एक शिकिल्लो बेरोजगार युवक. ह्या तिगांयच्योय आपणाल्यो स्वताच्यो अश्यो व्यथा आसात. दुख्खां आसात. जंय एका वेळाच्या जेवणाचीय मारामार थंय तांच्या सपनांक अर्थ तरी कसो उरतलो? हे तिगूय मेळून एक नवो धंदो करपाचें येवजितात. तर नवो धंदो तरी कसलो? अपहरण करपाचो. अपहरण म्हणल्यार व्हडलें कांय न्हय. मुंबय सांजेच्या वेळार भोंवपी सर्वसामान्य अशे मनीस आनी घरांतलीं

सादीं मनशां. पुलीस आनी सरकाराक भियेवपी कुटुंबां. तांचे कडल्यान चड व्हड न्हय तर ल्हान खंडणी वसूल करून घेवपाची. पांच हजार, धा हजार अशी ल्हान रक्कम. सांजे धरप आनी सकाळीं पयशे जोडप. अशी सादी सोंपी काणी. हें फकत ते कोणें तरी आपणाक हीन लेखलो आनी अपमानीत केलो ताचो सूड उगयतात. साद्या, सोंप्या आनी हलक्या फुलक्या चलचित्राचें एक बेस बरें उदाहरण.

**Barah Ana** [2008/Super 16/Colour/97min/English-Hindi]

**दिग्दर्शक** : राजा मेनन
**लेखन** : राजकुमार गुप्ता (पटकथा)
**अभिनय** : नसरुद्दीन शाह, विजय राज, अर्जुन मथूर, बियोलांटे प्लासिडो, तीश्ठा चटर्जी, जयंती भाटीया, मेहवानू मोदी–कोतवाल, बेंजामीन निलानी
**छायाचित्रकार:** प्रिया सेठ
**संकलन** : हेमाती सरकार
**संगीत** : श्री

# इफ्फी 2008: नियाळ

**'वॉर लॉर्ड्स'** ह्या चलचित्राच्या प्रदर्शनान भारताचो 39वो आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सव सुरू जालो. ह्या चलचित्राचें दिग्दर्शन पिटर चँग हांणी केलें. ते ह्या वर्सा महोत्सवाच्या आशिया, आफ्रिका आनी लॅटीन अमेरिका चलचित्रांच्या परिक्षक मंडळाचे अध्यक्ष आशिल्ले. भव्य दिव्य सेट, कितलेशेच ॲक्शन सीन, झुजाचो आटाप, आकांत खर्चीक बजेट हीं ह्या चलचित्राचीं कांय खाशेलेपणां. चीनाचो नांवाजतो अभिनेतो जेट ली हाणें हातूंत गॅन पांगाची मुखेल भुमिका वठयल्या. चलचित्राचें कथानक क्विंग राजवटींत घडटा. चीनाक विदेशी बंदेपणांतल्यान स्वतंत्र करप हीच मोख. सत्तेची खुमखुमी आनी सत्ता हातासपाचें हावरटपण. निमणें कडेन सगळो विध्वंसूच जाता. चलचित्र जरी झुजाचेर आदारिल्लें आसलें तरी तें तीन दादले आनी एके बायले भोंवतणीं घुंवता. झुजाचो येदो व्हडलो विशय आसतना त्या चार जाणां मदीं भावनीक बदल घडटा आनी हाचें संवेदनशील प्रदर्शन करपाचें स्रय पिटर चँग हांकां वता. वट्ट आठ जाणांनी ह्या चलचित्राची पटकथा बरयल्या. ह्या चलचित्राचें निर्मिती चित्रण खर्चीक जालां. पूण तें तितल्याच आकांताचें प्रभावी जालां.

व्हडल्योश्यो तांत्रीक गजाली नात. पार्श्वसंगीत लेगीत ना. पूण इतलें आसूनय देड वर प्रेक्षकांक आपले भितर गुंथून दवरपी चलचित्र म्हणल्यार 'तुलपान'. सादें कथानक, सरळ वचपी पटकथा आनी रेंवटांतलें चित्रीकरण. अशा गजालींचो आसपाव आशिल्लें हें चलचित्र पूर्ण जालां.




एक वेगळें 'स्टोरी टेलिंग टेक्नीक'. काझाकिस्तान प्रांताची हवाई चित्रां. दोंगर सड्या वयल्यान पालशी करून घेतिल्लीं चित्रां सुंदरतायेंत भर घालतात. 'तुलपान' म्हणल्यार मनीस आनी सैमा मदीं सादिल्लो सोंपो, मोनो संवाद. 'तुलपान' ही पड्ड्यार अणभवपाक मेळपी सुंदर, रंगीत कविता कशी. चीनाचीं चडशीं चलचित्रां वास्तववादी आसतात. तांच्या चलचित्रांतली 'स्टोरी टेलिंग' म्हणल्यार काणी सांगपाची पद्दत सोंपी आनी सरळ आसता. जावं तो 2006च्या आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत भांगरा मोर मेळयिल्लो 'द ऑल्ड बार्बर', 2007चे सर्तींत वांटेकार जाल्लो 'द एक्झाम' आनी 2008 वर्साचे सर्तींत आयिल्लो कुटुंबीक नदरेंतल्यान चीनाची समाजीक आनी अर्थीक परिस्थिती मांडपी 'द शाफ्ट'. सगळ्या चलचित्रांचेर चीनाचे मार्क्सवादी विचारसरणीचो प्रभाव आसा.

'शाफ्ट' चलचित्रांतल्यान एकाच कुटुंबांतल्या मनशांक मध्य भागाक दवरून चीनाचे समाजीक जिणेचेर उजवाड घाला. ह्या चलचित्राचें कथानक कांय बेकायदेशीर धंद्यांचेर आदारीत आसा. बेकायदेशीरपणान चलयिल्ल्यो कोळशाच्यो खणी आनी ताका लागून कामगारां मदीं वाडपी ताण आनी गुन्यांव असो हाचो विशय. जगपाक, जेवपाक, खावपाक आनी पयशांक मारामार. गांवांत रावतल्या लोकांक एकामेकांचे पांय ओडीत आनी जिवाचेर उदार जावन कांय गजाली करच्यो पडटात. जगपा खातीर आनीक दुसरो कांय पर्याय ना. वेव्हारीक नदरेंतल्यान एकूच उपाय म्हणल्यार बेकायदेशीर चलतल्या कोळशांच्या खणींचेर काम करप.

बोडके दोंगर, पडंग शेतांनी व्यापिल्लो असो हो पश्चिमी चीनी प्रदेश. शिक्षणीक सपनांक वा उंचेल्या अर्थीक हावेसांक ह्या गांवांत कसलोच वाव

ना. जावं शिकिल्लो वा अडाणी, जावं मध्यमवर्गीय वा गरीब, जावं दुबळो वा घटमूट, ह्या गांवची अर्थीक परिस्थिती एके वेगळेच अर्थीक आनी समाजीक अन्यायांनी घुस्पल्या. अशे अवस्थेंत खणीर वचपा बगर आनीक कसलोच दुसरो मार्ग ना. ह्या चलचित्रांत आसात साद्यो व्यक्तीरेखा. कसलेच 'हिरो' वा 'आयकॉन' ह्या चलचित्रांत नात. डॅगींग हाच्या कुटुंबा भोंवतणीं ह्या चलचित्राचें कथानक घुंवता. ताका एक धूव आनी एक पूत. ताचें जगप एकामेकाचेर अवलंबून आसा. चलो–चली दोगांय शिकल्यांत. पूण शिकूनय आनी इत्सा आसूनय तांकां ती पारंपारीक खणी वयली नोकरी करची पडटा. चलचित्र तशें सादेंच आनी ताका अमाप असो खर्चूय ना. पूण हाचें चित्रीकरण 200 मिटर भुंयेपोंदचे खणींत केलां हें अजापूच.

'द वॅनिश्ड अंपायर' हें कारेन शॅक्नाझरार हांणी दिग्दर्शीत केल्लें चलचित्र. हातूंत आसा 1980तलें रशियेंत मार्क्सवादी तत्वां रुजतना युवकां भितरलें समाजीक आनी व्यक्तीमत्वांत बदल घडावेन हाडटनाचें चित्र. 1980त सोव्हियत सत्ता आपणाल्या संवसारीक बळग्याचे उंचेले तेंगेशेर आसली. ह्या काळांत युवकांक मेळपी येसाचें, पराभवाचें, तणावांत आसतनाचें तांगेले मानसीकतायेचें प्रदर्शन घडटा. वास्तव व्यक्तीरेखा पूण कांय काल्पनीक घडणुकांचो सांगड घालपी अशें हें वैचारीक चलचित्र. हें काणयेचे protagonist elements म्हणजे मोगाचें त्रिकूट. म्हणल्यार दोग चले आनी एक चली हांचे बराबरच काणी फुडें वता. चलचित्राक सदांच सूख शेवट आसताच अशें ना. कांय कोडू, कांय अमानवी गजालीं बरोबरच चलचित्राचें कथानक सोंपता. हें आनीक एक वेगळें 'स्टोरी टेलिंग टेक्निक' जावं येता.




चलचित्र करपाक केन्ना केन्ना प्रभावी कथानक जायच अशें नासता. एक विचार घेवन एक प्रभावी आनी परिपूर्ण अशें चलचित्र काडपाक जाता. हाची देख म्हणल्यार 'रुपांतरम' हें बांगलादेशीय चलचित्र.




बांगलादेशांत रावपी कांय आदिवासी लोक पुराणांतल्या एकलव्याचे वंशज म्हूण जगतात. आपल्या हाताच्या आखण्याचो वापर करिनासतना बाण मारपाची पद्दत तांचे कडेन आसा. महाभारतांत एकलव्याचो आखाणो गुरूदक्षिणा म्हूण द्रोणाक दान केले उपरांत हे पद्दतीचो विकास कसो जालो हाचेर हें चलचित्र उजवाड घालता. पूण खूब थोड्या जाणांनी इतले खोलायेंत वचून आपली कल्पकता दाखोवन अशे तरेच्यो कलाकृती पड्ड्यार हाडल्यात.

**सिनेमा ऑफ वर्ल्ड, संवसारीक चलचित्र निर्मितीची बदलती व्याख्या**

सिनेमा ऑफ वर्ल्ड (CW) हो आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवाचो मुखेल आनी प्रभावी वांटो. ह्या चलचित्राच्या गटांत जगांतली 'त्या' वर्साचीं प्रभावी आनी चर्चीत अशीं चलचित्रां आसतात. जावं तो बी. बी. सीं‌तल्या टॉप धांत आयिल्लो मॅक्सिकोचो 'सायलंट लायट' वा फिलॅण्डचो पॅट्री कोटविकाचो 'ब्लॅक आयस'. सगळींच चलचित्रां एका परस एक सरस. दरेके कथेंत, पटकथेंत, चित्रीकरणांत वा काणी सांगपाचे पद्दतींत नवें तंत्र आपणायिल्लें पळोवपाक मेळटा. 'सिनेमा ऑफ वर्ल्ड' हे वळेरेंत दर वर्सा 70 ते 80 चलचित्रां आसतात. 2008 वर्सा वट्ट 70 चलचित्रांचो आसपाव हे वळेरेंत जाल्लो. ब्राझिलाच्या गांवगिऱ्या वाठाराचें चित्र दाखोवपी 'द ग्रेन' आंगार झुजाचो कांटो हाडपी थरार अशें चीन आनी तायवानचें 'लस्ट कॉशन'. दोन बायलां मदलें रहस्यनाटय 'द ब्लॅक आयस'. वास्तवीकताय आनी कल्पनाविश्वाक जोडपी फ्रान्स आनी अमेरिकेचें 'अँजल'. आयच्या युवकां कडेन सरळ संवाद सादपी एक फ्रीक आवट मॅक्सिकोचें 'कुंबीय कलेक्शन'. तायवानाची एक आगळी वेगळी प्रणयकथा 'द मोस्ट डिस्टंट कोर्स' हीं

सगळीं चलचित्रां विविधतायेन भरल्यांत. सगळींच चलचित्रां गांभिर्यान विचार करपा सारकीं. कांय कडेन चित्रीकरण, प्रभावी कथानक, नकसूदपणान तयार केल्ली पटकथा, संगीत आनी मुखेलपणान वेगळ्या वेगळ्या देशांची संस्कृताय दाखोवपी चलचित्रां मन आकर्शून घेतात. एखाद्या गंभीर विशयाची मांडणी तितलेच संवेदनशीलतायेन कशी मांडू येता हें सिनेमा ऑफ वर्ल्ड ह्या विभागांतल्या चलचित्रांतल्यान पळोवपा सारकें आसता. चलचित्रा करप्यांची हातूंतल्यान कल्पकताय वाडल्या.

ह्या चलचित्रांत नव्या नव्या तंत्रांचो वापर जावपाक लागलो तशी तशी चलचित्रांची भाशा बदलत गेली. काणी सांगपाचे पद्दतीचो व्याप वाडलो तशेंच तिची व्याख्या बदलत गेली. कांय कडेन सिनेमाटोग्राफी हें प्रभावी माध्यम थारलां. संगीत आनी भाशे परसूय तें प्रभावी. हाका कसलीं बंधना लागनात. चित्रीकरण करपाक पुराय मेकळीक आसता. ते खातीरच कांय चलचित्रांनी सिनेमाटोग्राफी खूब कितें सांगून वता. 'द ग्रेन' ह्या चलचित्रांत एके आगळे वेगळे फोटोग्राफीचें दर्शन घडटा. हातूंत खास कसलेच कृत्रीम सेट वापरिनासतना सैमीक गजालींचेर चड भर दिला. ब्राझिलांतलो गांवगिरो वाठार, मोजकी घरां, तांकां पिंजके पड्डे. पूण सिनेमाटोग्राफीक लागून चलचित्र पळयन दिसता. हातूंत क्लॉजप वापरिनासतना दोन ते तीन अँगलांनी ह्या पुराय चलचित्रांचें चित्रीकरण केलां. हें पळयले उपरांत याद जाता ती भारतीय 'ओमकारा' चलचित्राची. चित्रीकरणांतल्यो कांय गजाली दोनूय चलचित्रां मदीं जुळटात. 'द ग्रेन' हातूंत खास संवाद नात पूण पयसुल्ल्यान दिसपी तोंडा वयले भाव आनी आगळी वेगळी सिनेमाटोग्राफी कसलोच उणाव भासपाक दिना.




तांत्रीक गजालीं परस चलचित्र करतल्या लोकांची कल्पकताय

वाडत चल्ल्या. दरेकलो आपली वेगळीच शैली घेवन कथा मांडपाचो यत्न करता. 'अँजल' ह्या चलचित्रांत एका लेखकाची व्यथा दिसून येता. सदांच आपणाल्या कल्पनाविश्वांत जगपी अँजल हो लेखक वास्तवीकताय झेपूंक शकना. ह्या चलचित्र महोत्सवांत सगळ्यांत अस्वस्थ करपी चलचित्र म्हणटात तें हंगेरीचें 'ट्रँक्वेलिटी'. हें चलचित्र रॉबर्ट अलफांडीन हांणी दिग्दर्शीत केल्लें. नाटकांतली एक नांवाजती अभिनेत्री प्रसिद्धीचे तेंगशेर आसतनाचे दुसऱ्या दादल्या बराबरचें वागप आनी ताचो तिच्या सान पिरायेच्या भुरग्याचेर जावपी परिणाम अशा वेळार त्या चल्याची तोंकाची भुमिका भिरांकूळ आसता. असलें भुरगेपण परत कोणाच्या वांट्याक येवचें न्हय म्हूण आपलें स्वताचें भुरगें तिच्या गर्भांतूच मारपाचो तो यत्न करता.

'द मोस्ट डिस्टंट कोर्स' हें तायवानचें चलचित्र लिंग जीन लीन दिग्दर्शीत केलां. एक आगळी वेगळी प्रणयकथा. संवाद, उंची कपडे, सुंदर लोकेशन बी कांयच ना. आइ्डुपी सवण्यांचे फकत सैमीक आवाज. आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत 2008 वर्सा गाजलें तें मॅक्सिकोचें 'कुंबिया कनॅक्शन'. हें चलचित्र रेने विलालेल हे बायलेन दिग्दर्शीत केल्लें. हें चलचित्र, पळोवप्या कडेन सरळ संवाद सादता. केदो व्हडलो गंभीर विशय आसूनय तो ह्या चलचित्रांत फ्रीक आवट पद्दतीन मांडला. संवाद, कथा, पटकथा ठळकपणान कांयच ना. 'कुंबिया कनॅक्शन' म्हणल्यार एका कोलंबियानो संगितान चलचित्रांत केल्लीं पिशेपणां. लांब केंस, स्लीवलेस टी-शर्ट, कानांतलीं रिंगां, हातांत बांदिल्ले पट्टे, हातांचेर, भुजांचेर, फाटीर मारिल्ले दाट टेटोज, असल्या युवकांचो पंगड. ह्या सगळ्यांक कोलंबियानो संगीत जोडटा. हें संगीत वाजोवपाचें शास्त्रोक्त अशें कांय तंत्र ना. फुटक्या डब्यांची, लातांची संगिताची साथ कोलंबियानो संगीत चलचित्रांतल्यो तिनूय व्यक्तीरेखा एकठांय दवरता. एकामेकां मदलीं झगडीं, एकामेकां मदलो दुस्वास, शारिरीक संबंद हे युवकां मदले गंभीर प्रकार. पूण तितलेच फ्रीक आवट पद्दतीन मांडल्यात. हें चलचित्र युवकां मदीं खूबच लोकप्रिय जालें. एकाच चलचित्राचें वट्ट तीन फावटीं प्रदर्शन जालें.

चलचित्रांचे बाबतींत सदांच अशें म्हणटात, चलचित्रांच्या व्यक्तीचित्रणांत ठळकपणान तीन व्यक्तीरेखा आसतात:

1. वास्तववादी व्यक्तीरेखा (Real character)
2. काल्पनीक व्यक्तीरेखा (Imaginary character)
3. गूढ व्यक्तीरेखा (Dark character)

वास्तववादी व्यक्तीरेखांचें अस्तित्व कळपाक वेळ लागना. काल्पनीक व्यक्तीरेखा ह्यो कथानक फुडें व्हरपा खातीर तयार केल्ल्यो आसतात आनी गूढ व्यक्तीरेखा ह्यो कथानकाचें रहस्य सांबाळपाक. ह्या चलचित्रांत ह्यो व्यक्तीरेखा बरे तरेन हाताळ्ळ्यात.




चीनांतल्या डायो यीनांग हांच्या 'नायट ट्रेन' ह्या चलचित्रांत protagonist बायलेची व्यक्तीरेखा ही गूढ व्यक्तीरेखा. देखून कथानक फुडें व्हरपाक कांय काल्पनीक व्यक्तीरेखा तयार केल्यात हें कळटा आनी हें सगळें घडटा तें वास्तववादी व्यक्तीरेखा आशिल्ल्या पात्रांक लागून. ह्या चलचित्रांत पात्रांच्यो व्यक्तीरेखा योग्य तरेन हाताळ्ळ्यात. चलचित्रांत खूबशा तांत्रीक गजालींची जोड आसा. पूण 'नायट ट्रेन' सारकें चलचित्र व्यक्तीरेखांक केंद्र स्थानार दवरून केलां. तशेंच फिनलॅण्ड देशाचें 'ब्लॅक आयस' हें चलचित्र. गूढ व्यक्तीरेखा आशिल्ल्या दोन पात्रांच्या रहस्यमय कथानका भोंवतणीं घुस्पल्लें हें चलचित्र. तशेंच 'सलावटी' ह्या सिंगापूरी चलचित्रांत वटी हे मुखेल चलयेच्या पात्रा कडेन वास्तववादी आनी गूढ व्यक्तीरेखांचो प्रयोग केला.

## पड्ड्यार ताची कविता जाता

भारतांतले नामनेचे दिग्दर्शक मणिरत्नम हांच्या मता प्रमाण पटकथा (स्क्रीनप्ले) ही एक तांत्रीक बाब. पूण हे तांत्रीक बाबीक जेन्ना कल्पकतायेचो

आदार मेळटा तेन्ना चलचित्रांत एक वेगळोच जादू जाता अशें ते मानतात. ‘नो मेन्स लॅण्ड’, ‘बॅबल’, ‘लस्ट कॉशन’ हे आयज मेरेनचे कांय बऱ्यांतले बरे स्क्रीनप्ले अशें जाणकार मानतात. कलात्मक पद्दतीन पटकथा बरयल्यार पड्ड्याचेर ती कविता जाता अशें कांय जाणकारांचें म्हणणें. पटकथा म्हणल्यार कागदाचेर आशिल्लें physically allocation of time, properties, characters and their story. पटकथा चलचित्राचें बजेट थारायता अशें कांय लोक मानतात. ‘लस्ट कॉशन’ हें मिडफेस्टीव चलचित्र. सगळ्यांत चड चर्चीत आनी वादग्रस्त. चीन आनी जपान हांचे मदल्या इतिहासीक झुजाचेर तें आदारलां. ह्या चलचित्रांत फ्लॅश बॅक पद्दत ना. एक चली फोन करता. उपरांत रोखड्योच तीन वर्सां फाटल्यो घडणुको घडटात आनी एकदम ती चली फोन करता थंय येवन कथा परत सुरू जाता. घडिल्ल्यो गजाली दाखोवपाची ती एक नवी पद्दत जावं येता. एकाच प्लॉटाचेर घडपी हें चलचित्र. हीच पद्दत ‘बॅबल’ ह्या चलचित्रांत मल्टिपल प्लॉट दाखोवपाक वापरिल्ली. ॲंग लीन हें दिग्दर्शीत केलां आनी हातूंत अनुपम खेर हांची ल्हानशी भुमिका आसा. हातूंत जाल्लें कुडीचें प्रदर्शन हो वादाचो विशय जावन बरेंच सुमार वर्सभर हें चलचित्र वादाच्या भोवऱ्यांत सांपडिल्लें.

‘सलावटी’ हें सिंगापूरचें चलचित्र. मार्क ग्रिगोराफ हांणी तें दिग्दर्शीत केल्लें. एके तरणाटे चलयेची ती व्यथा. तिचो घोव मेला. कसलोच फ्लॅश बॅक वापरिनासतना ह्या चलचित्रांत फाटल्यो घडणुको सांगल्यात. असोच प्रयोग फाटल्या वर्सा विलियम स्मिथान आपल्या ‘द पूल’ ह्या चलचित्रांत केल्लो.

सरळ पटकथेचें बरें उदाहरण ‘सायलंट लायट’ ह्या चलचित्रांत पळोवपाक मेळ्ळें. मॅक्सिको, होलंड, फ्रान्स, जर्मनी ह्या देशांचें हें चलचित्र. कार्लो स रेहगाडास हांणी तें दिग्र्शीत केल्लें. चलचित्र खूब मंद गतीन चलता. जाण्ट्या जोडप्या भितरल्या प्रेम संबंदांचेर तें उजवाड घालता. डॉन हो मनीस मारियान नांवाचे जाण्टे बायलेच्या मोगांत पडटा. हें चलचित्र मंद गतींतल्यान वास्तवीकताये कडल्यान कल्पनाविश्वांत वता. कथानक सादें, सोंपें आनी सरळ. चलचित्र निर्मितीच्या कांय म्हत्वाच्या तासां कडेन हें चलचित्र व्हरता, ती म्हणल्यार गती. एक गजाल हातूंतल्यान जाणवता ती

दिग्दर्शक, आनी लेखक जर चलचित्राच्या अंता कडेन प्रभावी आनी स्पश्ट आसात तर गती व्हडलीशी म्हत्वाची आसना. स्पॅनीशांतलें 'व्हू इज नेक्स्ट', थायलंडाचें 'चॉकलेट', 'लस्ट कॉशन' सारको फास्ट ट्रेक म्हणजेच गतीमान आसपाक शकता. 'कुंबीय कनॅक्शन', 'एंजल' सारक्या मध्यम गतीचोय आसपाक शकता वा ब्राझिलाच्या 'द ग्रेन' आनी 'सायलंट लायट' सारकें एकदम मंदय आसपाक शकता. ह्या चलचित्रांची गती बदलता पूण सुरवात, मध्य आनी अंत देखदिणो आसता.

**जगांत वाडपी भारतीय संस्कृतीची लोकप्रियता**

'फिल्म इंडिया वल्ड वायल्ड' (FIWW) हो चलचित्रांचो गट खूब उण्या वेळांत चलचित्र महोत्सवांत लोकप्रिय जाला. राहुल ढोलकियाचें 'परझानिया', तनुजा चंद्राचें 'होप ॲण्ड लिटल शुगर', तशेंच फरहान अख्तर, मीरा नायर, विशाल भारद्वाज सारकिल्यांच्या चलचित्रांचो ह्या विभागांत आसपाव आशिल्लो. ह्या गटांचें खाशेलेपण म्हणल्यार हातूंतलीं चलचित्रां हीं बिगर भारतीयानी केल्लीं आसतात. चड करून एन.आर.आय. लोकांनी. पूण भारता भायर रावनय भारता कडेन संबंदीत आसपी हीं चलचित्रां. ह्या वर्सा न्यूझिलंडान केल्लें 'अँप्रन स्ट्रींग्स', इटालिच्या निर्मात्यान निर्मिल्लें 'बारह आना', एनआरआय अंजन दत्ताचें 'चौरस्ता', एनआरआय वीरा चावलाचें 'डेथ विदावट कन्सेंट' आनी स्वित्झर्लैंडाक तयार जाल्लें भारतीय संस्कृतीचेर आदारीत फिल्म 'तंदुरी लव'. हें चलचित्र स्वित्झर्लैंडाचो दिग्दर्शक ऑलिवर पावलूस हाणें दिग्दर्शीत केलां. 'बारह आना' हें ह्या महोत्सवांत बरेंच गाजलें. नसरूद्दीन शाह, विजयराज ह्या नामनेच्या कलाकारांनी ह्या चलचित्रांत अभिनय केला. राजा मेनन हांणी तो दिग्दर्शीत केला. ह्या चलचित्रांत भारत विकसीत जाता आमी ताचे साक्षीदार, पूण ह्या विकासा कडेन एक वेटर, टॅक्सी ड्रायव्हर, गुरखो कशे तरेन पळयतात तें दाखयलां. मनशाक जगपाक पयसो, कपडे, जेवण जाय. पूण चिमटीभर आदरय जाय आसता. जेन्ना ताका तो मेळना तेन्ना तो केदोय व्हड गुन्यांव करपाक तयार जाता.

'चौरस्ता' हें अंजन दत्त हांणी दिग्दर्शीत केलां. अस्तमते अभिनेत्रीची, दुख्खी आशिल्ल्या नव्या जोडप्याची, जाची घरकान्न मेल्या अशा जाण्ट्या मनशाची, प्रामाणीक हिंसक गुरखा चळवळीची व्यथा ह्या चलचित्रांत दिश्टी पडटा.

हे इफ्फींत चड लक्ष ओडून घेतलें तें स्वित्झर्लैंड, जर्मनी आनी ऑस्ट्रिया देशांतल्या चलचित्रांनी. 'तंदुरी लव' ह्या चलचित्रांतले बॉलीवूड शैलींत चलचित्र निर्मितीचो आदार घेवन येवरोपांत हें चलचित्र केलां. स्वित्झर्लैंडांत फिल्माचें चित्रीकरण चलता थंय सोंदा ही चली भारतीय रांदपी राजा (विजय राज) हाच्या मोगांत पडटा. भारतीय आनी येवरोपी खाणांचें फ्यूजन. हिंदी, इंग्लीश, स्वीस भासांतल्या गितांचो मेळ ह्या फिल्मांत दिश्टी पडटा. भारतीय बॉलीवूड संस्कृताय भायर कितली लोकप्रिय आसा तें ह्या चलचित्रांतल्यान दिसून येता. चलचित्र सुरू जातनाच कल्पकतायेचो थाव लागता. नवें ताळ्ळ संगीत, उर्बेभरीत नाच, वेगान नाचपी सेल्सा चलचित्राचें ताजेपण वाडयता. फिल्माचें टॅगलायनी भशेन 'कुछ भी पकाव, पल में खिलाव: तंदूरी लाव...'

## कंट्री फोकस : वास्तववादी इराणी सिनेमा

'कंट्री फोकस' गटांत थारावीक देशाचे म्हायतींत भर घालपी चलचित्रां वेंचून काडटात. ह्या वर्सा देश आशिल्ले इराण, रशिया आनी स्वित्झर्लैंड. इराण–इराणचीं फिल्मां सदांच अस्वस्थ, चळवळी, गंभीर आनी संवेदनशील विशयांचेर आसतात. मुखामळा वयलो अभिनय आनी जबरदस्त कथानक हीं इराणी चलचित्रांची खाशेलेपणां. 'कॅफे सिताराह' हें समान मघानाद हांणी दिग्दर्शीत केलां. इराणी कुटुंबीक परिस्थितीचेर आनी हेर गजालींचेर तें उजवाड घालता. आधुनीक पद्दतीची पटकथा आमी ज्वलंत इराणी विशयाचेर आदारीत आशिल्लें हें चलचित्र. 'मनलयन' ह्या चलचित्रांत अंमली पदार्थांचे भकीक पडपी पयशेकार नवी पिळगी दिसता. ह्या चलचित्रांचे असले परिस्थितींत आवय आनी धुवेचे संबंद एकदम संवेदनशीलपणान दाखयल्यात.

अशेंच एक नीकी करीमीचें चलचित्र 'फ्यू डेज लेटर' हातूंत करीमी हांणी स्वता भुमिका केल्या. दोन बायलां मदल्या दुस्वासाचेर तें आदारलां.

'दी वुमन' हें मानीजय हकमत हांणी दिग्दर्शीत केल्लें चलचित्र. तशेंच नीकी करीमीन ह्या चलचित्रांत मुखेल भुमिका केल्या. आजी, आवय, धूव ह्या तीनय पिळग्यांच्या अस्तित्वाचो सोद घेवपी हें चलचित्र. अजाप दिसता, चलचित्र पळोवप्यां मदीं इराणी चलचित्रां कित्याक लोकप्रिय आसतात? उंची सेट, उंची कपडे, आंगप्रदर्शन कांयच आसना. व्हडलींशीं गिरेस्त लोकेशन्स

ात. इराण तसो रेंवट प्रदेश. सुंदर दिसपी सैमय ना. पूण तांचीं चलचित्रां ोकांक इतलीं कित्याक मानवतात? गंभीर, संवेदनशील विशयांची मांडणी ांकां बेस बरी जमता. चलचित्रांचे बाबतींत तंत्रीक गजालीं परस कथानकाक हत्व आसता हेंच इराणी सिनेमा दाखोवन दिता.

39वो आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सव इराणच्या 'द साँग ऑफ स्पेरोस' ा चलचित्रान सोंपलो. हें चलचित्र माझीद माझिदी हांणी दिग्दर्शीत केलां. ादें, सरळ कथानक. इराणी गांवगिन्या दोंगरी वाठाराचें चित्रण. तशेंच थंयचे रीब जिणेचेर हें चलचित्र उजवाड घालता.

ह्या वर्सा चलचित्र महोत्सवांत सुमार 200 चलचित्रां आशिल्लीं. वर्सान र्स जावपी आशिया, आफ्रिका आनी लॅटीन अमेरिका सर्तींत वट्ट 14 लचित्रां आयलीं.दरेका वाठाराचे संस्कृतीचें प्रदर्शन करपी हीं चलचित्रां. ा वर्साच्या चलचित्र महोत्सवाचो संचालक एस.एम.खान हांच्या मता प्रमाण डल्या वर्सा आनीकय चलचित्रांचो आसपाव जातलो. आयज मेरेन ही र्त आशिया, आफ्रिका आनी लॅटीन अमेरिका ह्या देशां पुरतीच मर्यादीत ासली. पूण हे सर्तींत वर्सान वर्स प्रादेशीकताय वाडत आसा. 2006त ीनाचो 'ऑल्ड बार्बर', 2007त तायवानचो 'द वॉल' आनी 2008त ाझाकिस्तानाचो 'तुलपान' हांकां भांगरा मोर मेळ्ळे. सगळीं चलचित्रां देशीक विशयांचेर आदारीत आशिल्लीं. चलचित्र ही प्रभावी आनी वेगळीच शी कलाकृती. केन्ना हांसोवपी, केन्ना रडोवपी. मनशाचीच काणी पड्ड्यार नशाक दाखोवपी. केन्ना केन्ना क्रूर वास्तवतायेक कल्पनाविश्वांत ओडून रपी. वास्तवीक जिणेंत ज्यो गजाली शक्य नात त्यो पड्ड्यार हाडून खोवपी. दरेका चलचित्राचो एकूच उद्देश – मनीसपण शिकोवप. कसलीय सा दाखोवपी फिल्म आसूं, निमाणें शांतीकायेचो धडो दिताच. चलचित्र ोत्सवांत जगांतलीं फिल्मां येवं, सर्तीचो व्याप वाडूं, प्रादेशीकताय वाडूं, स्कृतायेचें प्रतिनिधित्व करूं. अशे महोत्सव आनीकय जैतिवंत जावं. ोत्सवाच्या जैतांत मनीसपण फुलूं! Let's make movies!

(उजवाडावणी: 7 डिसेंबर 2008, सुनापरान्त)





# 'इफ्फी-गोवा'चो ब्रॅण्ड व्हॅल्यू

**पुरोगामी** अर्थशास्त्रांत कांय गजाली थीर जातकच ताचो 'ब्रँड व्हॅल्यू' करतात. मॅनेजमँट शिक्षणाच्या प्रसाराक लागून खंयचेय गजालीचो ब्रँड व्हॅल्यू करप आयज काळाची गरज जावन पडल्या.

2004 सावन 2009 मेरेन भारतीय अंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सव गोंयांत बस्तान मांडून आसा. 2004 वर्सा गोंयाकूच न्हय, तर पुराय भारताक ह्या इफ्फीच्या झगमगाटान चक्क करून दवरले. इतलो तेंप दिल्लींतूच जावपी ह्या सरकारी चलचित्र महोत्सवाचो व्याप गोंयांत वाडलो आनी ऑस्कर आनी कान्स चलचित्र महोत्सवां कडेन इफ्फीची तुळा जावंक लागली. प्रतिनिधींची वाड, उंचेल्या दर्ज्याच्यो मुळाव्यो सुविधा, महोत्सवाचे सर्तीचो आवाठ अशीं कांय उद्दिश्टां ह्या इफ्फीन गोंयांत येवन सफळ केल्यांत. 'इफ्फी' ते 'इफ्फी-गोवा' हो 'ब्रँड' तयार जालो. इतले गतीन एके कार्यावळीचो ब्रँड

जावप सहजतायेचें काम न्हय. हाचे फाटल्यान खूबश्यो गजाली आसात आनी गोंयांत इफ्फी थीर जातकच ताची चर्चा जावप खूब गरजेची. पयले सुवातेर विस्तृतपणान आयज 'इफ्फी-गोवा'चो ब्रँड व्हॅल्यू समजून घेवपाची गरज आसा. आनी ब्रँड व्हॅल्यूची विस्कटावणी करतना दरेका घटकांचेर चर्चा जावप खूब गरजेची.

'इफ्फी-गोवा' ह्या ब्रँडाची मोलावणी करतना ताचो आवाठ आनी दोन मुळाव्यो गजालींनी वांटे करून समजून घेवचें पडटलें. 'इफ्फी-गोवा'चें हार्डवॅर आनी सॉफ्टवॅर. हे दोनूय 'इफ्फी गोवा'चे विकासाचे नदरेन म्हत्वाचे घटक. मुळाव्यो सुविधा, प्रायोजन, प्रमोशन, प्रतिनिधी वाड ह्यो जाल्यो 'इफ्फी-गोवा'चें हार्डवॅर. जाल्ल्या इफ्फींत प्रदर्शीत जावपी सिनेमा, तांचो दर्जो, सर्तीचो आवाठ आनी वाड ह्यो कांय सॉफ्टवॅराच्यो गजाली. हे हार्डवॅर आनी सॉफ्टवॅराचे घटक नदरे मुखार दवरून 'इफ्फी-गोवा'ची फुडली वाटचाल थारप गरजेची.

भारतांत इफ्फी उपरांत कितलेशेच चलचित्र महोत्सव जातात. कांय राष्ट्रीय, प्रादेशीक आनी आंतरराष्ट्रीय. पूण इफ्फी हो देशांतलो सगळ्यांत व्हड चलचित्र महोत्सव. कित्याक तर ह्या महोत्सवाचें आयोजन पुरायपणान केंद्र सरकार आनी राज्य सरकार करतात. पूण गोंयांत इफ्फी पावतकच इफ्फीची व्याख्याच बदल्ली.

पयले सुवातेर हार्डवॅराचे नदरेंतल्यान इफ्फीन मळबांत झोपय मारली. स्वताची आगळी-वेगळी वळख आनी तरातरांच्या कलांक स्थान दिवपी कला अकादमी ह्या आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवाचो केंद्र बिंदू जाली. उपरांत 100 मिटर अंतराचेर चार पड्ड्यांचें आयनॉक्स मल्टिप्लॅक्स उबें जालें. इफ्फी जसो वाडत गेलो तशेंच ताचें हार्डवॅर चोंयवटांनी वाडपाक लागलें. आयनॉक्साक तेंकुनूच सरकारान मॅकानिझ पॅलॅस म्हूण सिनेमा प्रदर्शीत करपाचे आनीक दोन हॉल बांदले.

दुसरी गजाल, जी अजून मेरेन खूब जाणांच्या मनांत स्पश्ट जावंक ना, ती म्हणल्यार इफ्फीचें प्रमोशन. कांय जाणांक इफ्फी आनी इफ्फी निमतान जावपी कार्यावळी एकूच. अशेंच स्वरूप दिसप सभावीक. खरें म्हणल्यार इफ्फी आनी इफ्फी निमतान जावपी कार्यावळी हे एकामेकां परस दोन वेगळे

विभाग. जर इफ्फीची तुळा आयज ऑस्कर आनी कान्स चलचित्र महोत्सवां कडेन जाता जाल्यार त्या जागतीक पांवड्याचेरूय इफ्फीचें प्रायोजन जावप गरजेचें. इफ्फी निमतान जावपी कार्यावळी, बीच स्क्रीनिंग्स, कॉन्सर्टस् वा तरातरांच्यो संस्कृतीक कार्यावळी सगळ्यो इफ्फी जागतीक पांवड्यार प्रमोट करपा खातीर गरजेच्यो. खूब जाण ह्या इफ्फी निमतान जावपी कार्यावळींक जात्रा वा फेस्त म्हणटात. पूण फाटल्या कांय वर्सांनी मूळ उद्देशा कडेन आडनदर जावन ह्यो इफ्फी निमतानच्यो कार्यावळी वेगळेंच वळण घेवंक लागल्यात. गोंय हें एक पर्यटन थळ. ह्यो इफ्फी निमतान जावपी गजाली गोंयच्या पर्यटनाचो विकास करपा खातीर वापरून गोंयच्या पर्यटनाक हातभार लावपाक जाय. ह्या गजालींचो इफ्फीच्या 'सॉफ्टवॅरा' कडेन कांय संबंद ना.

दुसरी गजाल म्हणल्यार इफ्फीचो आत्मो म्हणल्यारूच सॉफ्टवॅर. इफ्फींत प्रदर्शीत जावपी सिनेमा, तांचे विभाग, सिनेमांची गुणवत्ता आनी तांचेर जावपी चर्चा. हो इफ्फीचो आत्मो आनी हें मूळ. ह्या विशयां खातीर वर्सान वर्स इफ्फी जाता. वर्सान वर्स सुमार 250–300 चलचित्रां ह्या चलचित्र महोत्सवांत प्रदर्शीत जातात. असल्या खंयच्याय महोत्सवांत बिगर वेवसायीक चलचित्रां चड प्रमाणांत आसतात. प्रायोगीक चलचित्रां जीं सिनेमाघरांनी वेवसायीक पांवड्यार चलपाक शकनात तांचो आसपाव चलचित्र महोत्सवांत जाता. इफ्फी हो गंभीर चलचित्रांचे निर्मितीचेर आदारून आसा. हीं चलचित्रां तरेकवार विभागांनी वांटून वतात. कंपिटिशन सॅक्शन, सिनेमा ऑफ वर्ल्ड, फिल्म इंडिया वर्ल्डवायड, कंट्री फोकस, रेट्रेस्पेक्टीव्हस, ट्रीब्यूट, इंडियन पॅनोरमा हे कांय मोजके चलचित्र महोत्सवाचे विभाग.

2009 वर्सा जाल्ल्या 40 व्या भारतीय आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत प्रदर्शीत जाल्ल्या चलचित्रांचें समिक्षण करतना कांय म्हत्वाचे मुद्दे लक्षांत घेवचे पडटले. आशिया, आफ्रिका आनी लॅटिन अमेरिका सर्तीच्या विभागांत तायवानाच्या 'आय कान्ट लिव्ह विदावट यू' ह्या चलचित्राक भांगरा मोर फावो जालो. हें चलचित्र तायवानी गांवगिरे जिणेचेर आदारीत आशिल्लें प्रादेशीक चलचित्र. फाटल्या दोन वर्सांच्या सर्तींतल्या चलचित्रांचेर नदर मारली जाल्यार एक दिसून येता, आशिया, आफ्रिकन आनी लॅटिन अमेरिकेच्यो शिमो काणयांनी धगधगतात. 2008 वर्सा भांगरा मोर लाबिल्लो

कझाकिस्ताना सारक्या देशांत तयार जाल्लें 'तुलपान'. जशें कॅन्वासाचेर नकसूदपणान एका केंस कापपी जाण्ट्या मनशाची व्यक्तीरेखा उबी करपी, चीनी सिनेमा 'ओल्ड बार्बर', जावं बांगलादेश, तायवान, फिलिपिन्स, श्रीलंका हे सगळे ज्वलंत आनी नव्यानूच सुरू जाल्ले चलचित्र संस्कृतीचे प्रतीक. पूण खंतिची गजाल म्हणल्यार भारतीय चलचित्राचे प्रतिनिधीत्व ह्या विभागांत सारकें जायना. हाची नोंद निवड समितीन घेवपाची गरज आसा. ह्या विभागांतल्या फाटल्या कांय वर्सांच्या चलचित्रांचेर नदर मारल्यार सर्तीच्या चलचित्रांची वाटचाल खंयचे दिकेन जाता तें दिसून येता. आशिया, आफ्रिका आनी लॅटिन अमेरिकेच्या देशांनी उदरगत जावपी चडश्या देशांचो आसपाव जाता. उदात्तीकरण, जागतिकीकरणाच्या प्रभावाची सया ह्या चलचित्रांचेर पडटा. समाजांतल्या गरिबी, बेरोजगारी, अंधश्रद्धा ह्या घटकांचो पुरायपणान प्रभाव ह्या चलचित्रांचेर पडटा. खूब जाणांचो समज आशिल्लो ह्या विभागांत फकत सोंपीं आनी सरळूच चलचित्रां आसतलीं म्हूण. पूण सर्तींत अर्जेंटिनाच्या 4,3,2 उनो ह्या चलचित्रान सगळ्यांक अजापीत करून सोडले. पिराये प्रमाण एके बायलेच्या चार वेगळ्या पद्धतीच्या दुख्खांची परिस्थिती दाखयली. वट्ट 70 मिनटांच्या ह्या चलचित्रांत दुख्खाचीं चार रुपां दाखयल्यांत. हे सर्तींत एक ॲबस्ट्रॅक्ट चलचित्र कशें आसपाक जाय ताची बरी देख ह्या चलचित्रान घालून दिल्या.

आनीक एक म्हत्वाचो विभाग म्हणल्यार 'सिनेमा ऑफ वर्ल्ड'. ह्या विभागांत पुरायपणान आनी चलचित्रांत सगळ्या आंगांनी सक्षम आशिल्ल्या चलचित्रांचो ह्या विभागांत आसपाव जाता. दरेका चलचित्राचो बारकायेन अभ्यास करपाची संद, अणभव वा गिन्यान 'सिनेमा ऑफ वर्ल्ड' ह्या विभागांत मेळटा. संवसारांतल्या खंयचीय कोनशांतल्या चलचित्रांची निवड ह्या विभागांत जाता. तरातरांचीं चलचित्रां गंभीर, विनोदी, रहस्यमय. दर वर्सा ह्या विभागांतलीं चलचित्रां पळयल्यार संवसारीक चलचित्र निर्मितीचो पांवडो आमकां कळून येता. नकसूदपणान केल्लें व्यक्तीचित्रण, तंत्रीक पद्धतीन केल्ली पटकथा, फिशाल संकलन (ॲडिटिंग), दरेका क्षेत्रांत परिपक्व अशीं ह्या विभागांतलीं चलचित्रां आसतात.

ह्या विभागांत कांय गजाली अणभवपाक मेळ्ळ्यो. अमेरिका, ब्रिटन,

इटाली अशा कांय प्रगतशील देशांतली चलचित्र निर्मिती चड तंत्रीक जावपाक लागल्या. तांच्या तंत्राचो वापर, कृत्रीम सॅट, आकांताळी वेशभूशा हातूंतल्यान तांची चलचित्र निर्मिती जाता. पूण दुसरे वटेन संवसारीक चलचित्र निर्मितींत म्हत्वाचे बदल घडटात, ते म्हणल्यार चलचित्र निर्मितींत प्रादेशीक काणयांचो आसपाव वाडपाक लागता. हे बाबतींत ठळकपणान इराण, हंगेरी, कझाकिस्थान, ब्राझिल, पेरू, चीन ह्या देशांतल्या चलचित्रांची नांवां घेवं येतात. गांवगिरी जीण, प्रादेशीक प्रस्न, शेतांची वाट अशा विशयांचो आसपाव ह्या चलचित्रांनी जाता. ह्या वर्सा सगळ्यांचें लक्ष ओडून घेतलें तें हंगेरीच्या चलचित्रांनी. 'फ्लूक' सारकिलें चलचित्र हंगेरी देशांतले गांवगिरे जिणेचेर उजवाड घालता, तर 'कायंड ऑफ अमेरिका' हें उण्या पयशांनी तयार जाल्लें चलचित्र बऱ्या संगीतपटाची देख दिता. वाळवंट आनी झुजांत उध्वस्त जाल्ले प्रदेश, रेंवट दोंगुल्ल्यांनी व्यापिल्ल्या इराणी चलचित्रांचें कथानक कितलें सुंदर आसता. मातयेंतल्यान वयर सरिल्ल्यो काणयो आनी प्रादेशीक प्रस्न ह्या विशयांतल्यान 'सिनेमा ऑफ वर्ल्ड' ह्या विभागांतली प्रादेशीकताय वाडत आसा.

'फिल्म इंडिया वर्ल्ड वायड' हो विभाग इफ्फींत कांय वर्सां पयलीं नव्यान जोडिल्लो. हो इफ्फींतलो एक लोकप्रिय विभाग. ह्या विभागाचेर बारीकसाणीन नदर घाल्यार भारत आनी भारतीयां कडेन नवी पिळगी खंयच्या रुपान पळयता तें दिसता. ह्या विभागांत आसपाव जावपी चलचित्रां चडशीं बिगर निवासी भारतीयांनी दिग्दर्शीत केल्लीं वा निर्मिल्लीं आसतात. हो इफ्फीचो विभाग एक नवो आनी विवीधतायेन भरला. ह्या विभागांत चडशे दिग्दर्शक तरणाटे आशिल्ल्यान हीं चलचित्रां संवेदनशील आसतात. ह्या विभागांत नव्यान येवपी चलचित्रां पळोवन कळटा संवसारीक चलचित्र निर्मात्यांक भारतीय विशय हाताळपाक आवडटा. कित्याक तर भारता इतलो विवीधतायेन नटिल्लो देश आनीक खंयच ना. देखून आयज खूबशीं संवसारीक चलचित्रां भारतीय विशयांचेर चलचित्र निर्मिती करपाची इत्सा दाखयतात.

आतां निमणे कडेन इफ्फीचो गोंयच्या चलचित्र निर्मितीक लाव आनी फायदो हाची चर्चा जावपाक जाय. 6 वर्सां उपरांत इफ्फी गोंयांत आतां स्थीरस्थावर जाला. इफ्फीच्या येसांत गोंयच्या राज्य सरकाराचो मोलाचो

वांटो आसा. आदले म्हायती आनी प्रसारणमंत्री आनी जांचे कारकिर्दींत आंतरराष्ट्रीय महोत्सव गोंयांत पावलो ते रवीशंकर प्रसाद हांणी एकदां गोंयांत आसतना सांगिल्लें, दिल्लींत हो महोत्सव केन्ना जातालो आनी सोंपतालो हें कळच नाशिल्लें. पूण गोंया इफ्फी हाडपाचो मुखेल उद्देश आशिल्लो इफ्फीचें संवसारीक पांवड्यार प्रमोशन करप. पूण गोंयांतले चलचित्र निर्मितीक ह्या महोत्सवाचो कसो फायदो जावपाक शकता?

इफ्फीच्या आयोजनांत कांय ल्हान व्हड, पूण योग्य त्या वेळार बदल करप गरजेचें जालां. इफ्फीचें आयोजन बदल आपणावपाक एकदम सुटसुटीत आनी प्रमाण आसपाक जाय. तिकेट वेवस्था ही एक बरी येवजण. पूण तातूंत कांय बदलांची गरज आसा. दोन दीस तिकेटी काडून दवरप आनी अर्द्या परस चड थेटर रितें उरप ह्यो गजाली वाडपाक लागल्यात. जर थेटर भरूंक ना जाल्यार पंदरा मिनटां लेगीत चुकप म्हणल्यार लुकसाण. हीं चलचित्रां म्हणल्यार '15 मिनटां चुकलीं जाल्यार आसूं, काय नज' म्हूण सोडून दिवपाक खंयचीं मनोरंजनात्मक चलचित्रां न्हय. ह्या विशयांचेर गंभीरपणान विचार जावंक जाय आनी अश्या अनियमीत गजालींची आयोजकांनी दखल घेवंक जाय.

आयोजकां कडल्यान आनीक एक गजाल नदरे आड जाता ती म्हणल्यार दिसाक एका प्रतिनिधीक 3 तिकेटी काडपाची सवलत दिवप हो एक मोटो विनोद. कित्याक तर कितलेशेच प्रतिनिधी सेगीत दिसाक 5–6 चलचित्रां पळोवपी आसतात आनी ह्या तिकेटींच्या बंदनाचो प्रतिनिधींक अशे पद्धतीन त्रास जाता.

गोंयचेर सगळ्याच थरा वयल्यान आरोप जातात, गोंयांत चलचित्र संस्कृती ना. पयली गजाल चलचित्र संस्कृतीची व्याख्या आरोप करतल्यान समजावची पडटली. मुंबय पुण्या भाशेन शुक्रारा पयलो दीस पयलो शो असली चलचित्र संस्कृती गोंयांत जावप शक्य ना. आनी जावपाक जाय जाल्यार ताका बरोच वेळ लागतलो.

गोंयांत वर्साक 3000 परस चड नाटकां जातात. कांय म्हयन्यां भितर तियात्रांचे 100 प्रयोग जातात. जागोर, शिगमो, इंत्रूज, जात्रा, काले हातूंत उत्सवी रंगमाची जिवी आसा, पूण चलचित्र संस्कृती मात गोंयांत जावपाक

वेळ लागतलो.

कांय वर्सां फाटीं इफ्फींत आसामी चलचित्रांचो अमृत महोत्सव जालो. तांचो प्रस्न गोंय चलचित्र निर्मिती कडेन लागींचो. आसामांत आसामी चलचित्र वेवसायीक पांवड्यार चलोवप शक्य ना. पूण तरीं आसतना आसामांत चलचित्र निर्मीती जाता. नामनेचे दिग्दर्शक डॉ. जब्बार पटेल हांणी गोंयचे चलचित्र निर्मीती विशीं सांगिल्लें 'बऱ्यांतल्या बऱ्या चलचित्रांची निर्मिती करात. फकत चलचित्र संस्कृती न्हय, तर बरी चलचित्र निर्मितीची सुरवात करात.' देखुनूच लक्ष्मीकांत शेटगांवकार सारकिल्या गोंयच्या तरणाट्यान 'पलतडचो मनीस' ह्या चलचित्राच्या रुपांत गोंयचो सिनेमा टॉरंटोक पावयलो.

हातूंतय राज्य सरकाराचें योगदान आसप गरजेचें. 6 वर्सां इफ्फी गोंयांत आसुनूय राज्य सरकार गंभीर चलचित्रांचें वातावरण करपाक येसस्वी जावंक ना. गोंयांत बऱ्यांतली बरी चलचित्र निर्मिती जातली जाल्यार नव्या तंत्राचें शास्त्रशुद्ध शिक्षण गोंयच्या तरणाट्यांक मेळपाची गरज आसा. गोंयच्या तरणाट्यांक लागून फिल्म आनी प्रसारमाध्यमांचें पदवी दिवपी शिक्षण दिवपाची जापसालकी राज्य सरकारान घेवची पडटली. चलचित्र अनुदान हो एक घटक चलचित्र संस्कृतीचो जावपाक शकता, पूण पदवीधर शिक्षण ही एक मुळावी गरज. गोंय इफ्फीचें कायम स्वरुपी स्थान. ह्यो कांय गजाली राज्य सरकारान मतींत दवरल्यो नात जाल्यार कितलेशेच इफ्फी गोंयांत जावन वतले, प्रतिनिधी वाडटले, इफ्फीचो ब्रँड व्हॅल्यू वाडटलो आनी गोंयकार तरणाटे मात इफ्फीच्या झगमगाचे जात्रेंत चणे खायत उरतले.

(उजवाडावणी: 6 डिसेंबर 2009, सुनापरान्त)



# गोंयची चलचित्र चळवळ ही सामुहीक प्रक्रिया आसपाक जाय

**27** नोव्हेंबर 2008. सकाळचीं 9.00 वरां. थळ– आयनॉक्स. इफ्फीचो सातवो दीस. 26 नोव्हेंबराक जाल्ल्या घडणुकांनी पुराय देशांत असुरक्षिततायेचें वातावरण पातळिल्लें. पूण त्या दिसा देशी तशेंच विदेशी प्रतिनिधींक हुस्को पडिल्लो, 39 वो इफ्फी चलतलो काय ना. सगळे कडेन अनिश्चिततायेचें वातावरण तयार जाल्लें. सकाळीं आयनॉक्स–1 थेटरांत चलचित्र महोत्सव विभागाचे संचालक एस. एम. खान अकस्मात भितर सरले. तांच्या आनी कर्मचाऱ्यांच्या तोंडार अस्वस्थतायेची एक सया झळकताली.

एस. एम. खान हांणी सांगलें, काल जाल्ले घडणुकेन पुराय देश हाल्ला आनी अजुनूय अतिरेकी आनी भारतीय लश्करा मदीं झूज चालूच आसा. तांणी स्पश्ट केलें, इफ्फीतलें चलचित्र प्रदर्शन चालूच उरतलें आनी तांणी सगळ्या प्रतिनिधींक सुरक्षिततायेचो विस्वास दिलो. उपरांत सभाघरांतल्या प्रतिनिधींनी उबे रावन आर्गां ओंपलीं. इफ्फींतल्यो मनरिजवण कार्यावळी रद्द जाल्ल्यो. रॅड कार्पेटा वयल्यो कार्यावळी  जाल्यो नात आनी इफ्फीचें उत्सवी रूप ना जालें. पूण इफ्फीच्या चलचित्रांचें प्रदर्शन तितलेच शांतीकायेन चालूच उरलें.

केन्नाय येवजून येता, इफ्फी गोंया भायर आशिल्लो जाल्यार असल्या प्रसंगार इफ्फी चालू उरतलो आशिल्लो काय कितें? फकत गोंयांत म्हणुनूच हें शक्य जालें. हाचे वयल्यान खात्रेन सांगू येता, गोंय हें इफ्फीचें थळ म्हूण

योग्य आसा. फकत सुरक्षिततताये खातीरूच न्हय, तर इतल्यो सगळ्यो पायाभूत साधन सुविधा भारतांत खंयचेंच शार दिवपाक शकचेंना. फकत 100 मिटरांच्या अंतराचेर आयनॉक्स आनी सगळ्या सोयींनी सुसज्ज अशी कला अकादमी. इफ्फी–गोवा हो एक ब्रँड जावन पडलो. ताचें थळ बदलप हें आयचे घटकेक वास्तवांत शक्य ना. इफ्फीक गोंया बगर दुसरो जागो ना. हाचे फुडें वचून म्हणचें शें दिसता, इफ्फीच्या ब्रँड व्हॅल्यू खातीर गोंया बगर पर्याय ना.

41 वे इफ्फींत एक गजाल ठळकपणान जाणवली. इफ्फी कान्स चलचित्र महोत्सवा कडेन आक्रमक पद्धतीन सर्त दिवपाक लागला. इफ्फीचो आंवाठ आकांताचो वाडपाक लागला. पूण एका प्रस्नाचेर गंभीरतायेन विचार जावपाक जाय, गोंय आनी गोंयकार ह्या येद्या व्हडल्या आटापाचो फायदो करून घेवपाचे परिस्थितींत आसात काय ना? इफ्फीक गोंया बगर पर्याय ना हें आमी सगळ्यांनी मान्य केलें, पूण इफ्फीचें म्हत्व गोंयाक समजलां काय कितें हो एक विशेश प्रस्न. इफ्फीचे वेगवेगळे आयाम घेवन ताचेर गंभीरतायेन चर्चा जावप सामकें गरजेचें. गोंयांत अजून मेरेन सेगीतपणान सात इफ्फींचें आयोजन जालें. ह्या सात आयोजनांतल्यान आमी कितें सादयलें हाचेर चर्चा जावप सामकें गरजेचें.

ह्या वर्सा इफ्फीची सर्त आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार जाली. पयलीं ती आशिया, आफ्रिका आनी लॅटिन अमेरिकी देशां पुरती मर्यादीत आशिल्ली. आतां भारताचो सरकारी चलचित्र महोत्सव कान्स, टॉरेन्टो, बर्लीन चलचित्र महोत्सवा कडेन सर्त करपाक सोदता ताचे ते स्पश्ट संकेत. तशें जालें जाल्यार तो जगांतलो पयलोच सरकारान आयोजीत केल्लो सरकारी चलचित्र महोत्सव थारतलो. म्हत्वाचें म्हणल्यार ह्या वर्सा इन्स्पिरेशन्स व्हिजन्स बिहायंड इमेजिस, सिनेमा डिजिटल, कान्स कॅलिडोस्कोप, मास्टर क्लास अशा नव्या विभागांचो आसपाव पयलेच खेपे इफ्फींत जालो. मास्टर क्लास हो पयलीं कान्स चलचित्र महोत्सवाकूच आसतालो. आतां ह्या वाडट्या इफ्फीचो गोंयाक कितलो आनी कशे तरेन फायदो जाला ह्या तासांचेर खोलायेन उजवाड घालपाची गरज आसा. इतलीं वर्सां जावनूय गोंयांतले चलचित्र निर्मितीक निर्शेणीच उरल्या.

## भारतीय पॅनोरमा हें पयलें लक्ष्य

41 वे इफ्फीचो केंद्रबिंदू भारतीय पॅनोरमा थारलो. 41 वे इफ्फींतलो भारतीय पॅनोरमा विभाग संवसारीक चलचित्र निर्मितीक आव्हान दिवपी आशिल्लो. देशभरांतल्यान ह्या विभागा खातीर 136 चलचित्रां आयिल्लीं. तातूंतलीं बऱ्यांतलीं बरीं अशीं 26 वेंचून काडिल्लीं आनी नॉन फ्यूचर विभागांत वट्ट 19 चलचित्रां आशिल्लीं. गोंयांत भारतीय पॅनोरमा हें चलचित्र निर्मितीचें लक्ष्य आसपाक जाय. भारतीय पॅनोरमा उपरांत आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत आनी सर्तींनी असल्या चलचित्रांक अधिकृत रितीन प्रतिनिधित्व मेळटा. आयज जर आमी चलचित्र निर्मितीची दिका थारायतात जाल्यार आमची पयली मोख भारतीय पॅनोरमा आसपाक जाय. लक्ष्मीकांत शेटगांवकाराचें 'एका सागर किनारी'क पयलेच खेप राष्ट्रीय पुरस्कार लाबलो आनी 'पलतडचो मनीस' हो भारतीय पॅनोरमाच्या उक्तावणाचें चलचित्र जावपाक पावलो. आयच्या जागतिकीकरणाच्या युगांत पुरोगामी अर्थशास्त्र सांगता, रिसोर्सिस आर स्कॅर्ड. आमच्यो मागण्यो पुराय करपाक पुरक अश्यो साधन सुविधा नात. आनी असले परिस्थितींत देशांतलो सगळ्यांत व्हडलो असो चलचित्रांचो ब्रॅंड इफ्फी आमच्या दारांत उबो आसा. एक वेळ आशिल्लो, जेन्ना गोंय हें इफ्फीचें थळ म्हूण योग्य आसा काय ना हाचेर दुबाव आशिल्लो. पूण सध्याची परिस्थिती उरफाटी जाल्या. इफ्फीचो चडांत चड फायदो करून घेवपाची आमची कुवत आसा काय होच प्रस्न पडला. हे गजाली बाबतींत आमकां सामकें लागींचें उदाहरण म्हणल्यार चीन. जागतीक कार्यक्रम करतले जाल्यार कांय बौद्धीक गरजो भागोवच्यो पडटात. बौद्धीक पायाभूत साधन सुविधा उबारच्यो पडटात. भारत स्वतंत्र जाले उपरांत 27 ऑलिंपिकांनी भारतान वांटो घेतलो आनी चीनान फकत 7 ऑलिंपिकांनी. भारताक अजून मेरेन 27 ऑलिंपिकांनी फकत 18 पदकां मेळ्ळ्यांत, आनी चीनाक फकत 7 ऑलिंपिकांनी 350 पदकां. चीनान ऑलिंपिकाचें आयोजन करचे पयलीं आपल्यो खेळां साधन सुविधा मजबूत केल्यो. फकत चलचित्र निर्मिती सोडून हेर सगळ्या गजालींक लागून गोंय हें इफ्फीचें कायमचें स्थळ आसा. गोंयांत चलचित्राक लागपी बौद्धीक साधन सुविधा आसात काय कितें हो प्रस्न आयज उबो जाला.

## बौद्धीक पायाभूत साधन सुविधा कश्यो तयार जातल्यो?

आयच्या जगांत इफ्फी हो रिसोर्स म्हूण आमकां वापरचो पडटलो. आमची चलचित्र निर्मिती ध्येया कडेन व्हरपी एक असॅट. ते खातीर आमकां एक सशक्त अशी चलचित्र चळवळ उबारची पडटली आनी खंयचीच चळवळ ही प्रायोजीत आसना. ती सामान्यांतल्यान येवची पडटा. साधन सुविधा उब्यो करतना आमची ताकद आनी आमचें दुबळेपण पळोवचें पडटलें. चलचित्र निर्मिती आमचें दुबळेपण थरलां. चलचित्र चळवळ गोंयचें साहित्य, लोककला, नाटक, विद्यार्थी, समिक्षा हांची एक म्हत्वाची सामुहीक घटकांची रूप प्रक्रिया जावंक जाय.

1930 ते 1940 ह्या दसकांत जाल्ली चलचित्र चळवळ आमकां हीच देख दिता. फ्रान्साक जाल्लें पॉएटिक रिअलिजम आनी इटालियन रिएलिजम ह्यो चळवळी म्हणल्यार लेखक, कामगार, कवींच्या प्रत्यक्ष सादरीकरणाची सामुहीक घटकांची रूप प्रक्रिया (अँबोडेड प्रोसॅस) आशिल्ली. उपरांत आमचो लागींचो, म्हणल्यार फ्रॅंच न्यू वेव आनी जपानीज न्यू वेव. चलचित्र चळवळी मदीं तयार जाल्ली समांतर चलचित्र चळवळ (इंडियन पॅरलल सिनेमा मूव्हमेंट). सत्यजीत रे, मृणाल सेन, रित्विक घटक हांणी थळाव्यो कथा, कादंबरी आनी लोककला वापरून चलचित्र चळवळ उबी केली. ह्यो सगळ्योच चळवळी समाजाच्या घटकांक घेवन तयार जाल्ल्या एका सामुहीक घटकांची रूप प्रक्रियाच आशिल्ली. ते चळवळींतल्यानूच थळावी बौद्धीक साधन सुविधा आनी विचार प्रक्रिया तयार जाता.

ह्या गजालींक सरकाराचो कांय आदार जाय. पयली गजाल म्हणल्यार पदवी आनी पदव्युत्तर अभ्यासक्रम. उपरांत तातूंत तयार जाल्ल्या मनशांची गुंतवणूक (फॉलो-अप मेकानिजम). आमी ही गजाल खूब सोंपेपणी घेतल्या. पूण ही गजाल खूब म्हत्वाची. गोंय सरकार हे गजाली बाबतींत अजिबात गंभीर ना. आमी काळा कडेन जुगार खेळटात. 7 वर्सां जालीं, आमचे कडेन अजूनय चलचित्र निर्मितीचो अभ्यासक्रम ना. चलचित्र महाविद्यालय ना. चलचित्राचो इतिहास जेन्ना चाळटात तेन्ना सोवियत रशियाचें उदाहरण आमकां घेवचें पडटलें. 1917 त कम्युनिस्ट सत्ता रशियेंत आयली. चलचित्र निर्मितीचेर आळाबंद हाडपाचे तरातरांचे प्रयत्न कम्युनिस्ट सत्तेन केले.

सगळ्यांत अजापाची गजाल म्हणल्यार सोवियत सरकारान जगांतलें
ल्लें प्रायोजीत स्टेट स्कूल ऑफ सिनेमेटोग्राफी स्थापीत केलें. चलचित्र
र्मितीचेर आळाबंद आसले तरी चलचित्राच्यो बौद्धीक साधन सुविधा कडक
युनिस्ट सत्तेन तयार केल्यो. चलचित्र संस्कृती ना म्हूण गोंया बराबर
नामाचेर जी टिका जाता तें सारकें न्हय. आसामांत लेगीत आपलें स्वताचें
ती चित्रबन फिल्म अँड टेलिव्हिजन इन्स्टिटयूट आसा. इतलेंच न्हय,
ओरिसा आनी मेघालयांत लेगीत आसा. गोंय सरकार हाची दखल केन्ना
काय?

दुसरी गजाल ही, पदवी आनी पदव्युत्तर अभ्यासक्रम तयार करप ही
त गोंय सरकाराची जापसालदारकी न्हय, तर ती कला अकादमी आनी
विद्यापिठाचीय जापसालदारकी. ॲस्थॅटिक्स, सिनेमा हिस्ट्री, फिल्म
ग रियलिजम हांचेर अभ्यासक्रम तयार जावपाक जाय.

कला अकादमी संस्थेक एक अभ्यासू आवाठ आसा. तरातरांच्या कलांचे
ाम कला अकादमीन हाताळपाक जाय. तशेंच गोंय विद्यापिठान तांकां
ार दिवपाक जाय. 7 वर्सांत गोंय सरकाराची बौद्धीक पायाभूत साधन
धा उबी करपाची प्रगती शून्य. हें फकत चलचित्र निर्मितीकूच मारक
, तर गोंयच्या तरणाट्यांचेर जाल्लो तो अन्याय. चलचित्र निर्मितीचो
ासक्रम पयसच उरलो. कला अकादमीचे नाट्य शाळेचे पदवेचो लेगीत
ागोंदळ अजून सोंपना. ह्या विशयाचो आनीक एक वांटो आसा.

भ्यासाच्या आंवाठांतल्यान गोंयचे तरनाटे शिक्षीत जायनात जाल्यार
चित्र निर्मितीक सातत्य उरचें ना. वर्सान वर्स गोंयचीं भुरगीं पदवी घेवन
र सरचीं नात आनी अभ्यासक्रमाची कार्यावळ थारायनात जाल्यार
चित्र चळवळ अपंगूळ जातली. चलचित्र नगरीचो भौगोलीक वाठार आमी
यला, पूण ताचो अभ्यासू आंवाठ तयार केला व्हय?

**सर्त कोणा कडेन?**

लचित्र निर्मितीची दिशा आमी थारायतात जाल्यार पयलीं कांय चलचित्र
र्तींचो आदर्श आमकां घेवचो पडटलो. आमकां सगळ्यांत लागीं म्हणटा
राठी चलचित्र अशें दिसून येता. तांच्यो कांय गजाली घेवपाक आमी
क आसात. तांचो वेवसायीक फॉर्म्युलाय आमी कबूल केला. पूण अशें

आसत जाल्यार आमची दिशा चुकता. फकत मराठी न्हय तर बंगाली आनी तामिळीचोय आदर्श आमकां घेवचो पडटलो. 41 वे इफ्फींत भारतीय पॅनोरमा पुराय तरेन बंगाली चलचित्रांनी गाजयलो. इतलेंच न्हय, तर पुराय धा वर्सां उपरांत बंगाली चलचित्रान भांगरा मोर भारतांत हाडलो आनी सुनापरान्तान जेन्ना 'मोनेर मानुश' चलचित्राचे कादंबरीकार सुनिल गंगोपाध्याय हांची प्रतिक्रिया घेतली तेन्ना तांणी म्हणलें, बंगाली साहित्याचेर चलचित्र निर्मिती करप ही बंगालाची परंपरा. आयज जर भारतीय चलचित्र निर्मितीचेर नदर मारली जाल्यार एका वेळार संहिता आनी तंत्र हांचेर प्रभाव आशिल्ल्या तमीळ चलचित्रांचेर बंगालान बाजी मारल्या.

हांगा म्हत्वाचो मुद्दो उबो जाता तो चलचित्रांतलो आशय म्हणल्यार मजकूर. बंगाली चलचित्र सत्यजीत रे ते रीतूपर्णो घोष, कौशीक गांगुली ते गौतम घोष मेरेन नामनेचे बंगाली दिग्दर्शक बंगाली साहित्य आपल्या चलचित्रांचो आशय म्हूण वापरतात. देखून तांचीं चलचित्रां देखणीं जातात. आयज संहितेचे बाबतींत बंगाली चलचित्र निर्मिती इतली फुडें पावल्या, तिचे कडेन सर्त करप हें एक व्हड आव्हान थारलां.

चलचित्र निर्मिती हो एक म्हारग विशय. रिळां (Celluloid) वापरप तर आकांताचें म्हारग. गोंयांत चलचित्र निर्मितीची चळवळ रिळांचेर जावप शक्य ना. आमकां पर्यायी वेवस्था पळोवची पडटली. आयज डिजिटल फॉर्मेट वापरून केल्लें चलचित्र लेगीत भारतीय पॅनोरमांत मान्य केल्यात. मास्टर क्लास घेतिल्लो ऑस्कर जैतवंत रसूल पुक्कुटीन मान्य केलां, रिळां हीं नव्या तंत्रगिन्यानाची मर्यादा. पूण आमकां पर्यायी मार्ग आपणावचो पडटलो. घडये हाकाच प्रोत्साहन दिवपाक 41वे इफ्फींत 'सिनेमा डिजिटल' ह्या नव्या चलचित्र विभागाचो आसपाव जाला आसुंये. ह्या विभागांत डिजिटल फॉर्मेट वापरून तयार जाल्लीं चलचित्रां आशिल्लीं. दिग्दर्शकाची सरासरी पिराय आशिल्ली 30 ते 35. हातूंतल्यान दिसून येता तें अशें, ज्या तरणाट्या लागीं कल्पना आसात, पूण पयशे नात ते नवें तंत्र वापरून आपलें चलचित्र करपाक शकतात. Blue Ray, Red, HD सारकेले फॉर्मेट तरणाट्यां मदीं लोकप्रिय जायत आसात. गोंयचीं चलचित्रां अनुदान येवजणेन ह्या विभागांतल्या चलचित्रांक चड वाव दिवपाक जाय. 'सिनेमा डिजिटल' ह्या

विभागांत नव्या ताज्या विशयांचेर चलचित्रां पळोवपाक मेळ्ळीं. हातूंतल्यान एक स्पश्ट जाता तें, नवी कल्पना आसत जाल्यार आयज पयसो ही उणीव जावंक शकना.

## कला अकादमीचें शेणटलें अस्तित्व

कान्स चलचित्र महोत्सवा कडेन थेटर लूमीनार आसा, जंय सर्तीची चलचित्रां दाखयतात. देखूनच तर थेटर लूमीनारे हें एक फामाद आनी नांवाजतें सभाघर जालां. कान्स म्हणल्यार थेटर लूमीनारे आनी थेटर लूमीनारे म्हणल्यार कान्स अशें समीकरण जालां. पयलींच इफ्फी गोंयांत आयली आनी कला अकादमी हो इफ्फीचो केंद्रबिंदू जालो. आयज कला अकादमी हें आकर्शण उरूंक ना. इफ्फीच्यो चडश्यो कार्यावळी आयनॉक्सा कडेन जातात. देशांत आयनॉक्स सगळे कडेन आसा. पूण कला अकादम ीकय वेगळें अस्तित्व आसा. कला अकादमी परत केंद्रबिंदू जावपाक जाय, कित्याक तर ते वास्तूक आपलें खाशेलें 'ॲस्थेटिक' आनी इतिहास आसा. ताच्या कोनशा कोनशाक गोंयकारपण दिसून येता.

कला, संस्कृताय आनी अस्मिताय हांचो दिश्टावो घडोवपी कला अकादमी ते खातीर इफ्फीच्या संबंदीत कार्यावळींचें केंद्र ठिकाण जावपाक जाय आनी कला अकादमीच्या शेणटल्या अस्तित्वाक पर्तून एक फावट उभारी मेळपाक जाय.

गोंयांत घडून येतल्या इफ्फीचो लाव सगळ्या कलाकारांक, लेखकांक, चलचित्र निर्मात्यांक, दिग्दर्शकांक तशेंच संबंदीत सगळ्यांक मेळपाक जाय. अंदूंचे इफ्फींत ह्या सगळ्या व्यक्तींचो बऱ्याच उण्या प्रमाणांत आस्पाव दिसलो. हें कित्याक घडलें हाचीं कारणां सोदून काडप सामकें गरजेचें. कित्याक तर आमी कोंकणी चलचित्रां भारतीय पॅनोरमांत झळकुपाचीं सपनां पळयतात आनी देखून आमकां अशें घाळ रावन उपकारचें ना. इफ्फीचे धावूय दीस चलचित्रां मळा वयले अनुराग कश्यप, चित्रा पालेकर, सुभाष घाई, मधूर भंडारकर, मणि रत्नम, उमेश कुलकर्णी सारके नांवाजते दिग्गज रांकेंत रावन तिकेटी बूक करतात. थेटरा भायर रांकेंत मोन्यांनी उबे रावतात हो देखाव म्हणल्यार चलचित्रांचेर आशिल्ल्या तांच्या प्रेमाची सूचकताय न्हय? आपलीं सगळीं कामां कुशीक दवरून तर हे सगळे लोक इतल्या

पयसुल्ल्यान गोंयां आयले आनी आमकां थळाव्या लोकांक हाचें कांयच पडिल्लें ना हाचें दुख्ख करीत तितलें थोडें.

इफ्फीक आठ हजार प्रतिनिधी जाले अशें म्हणटना त्या आठ हजारांतले कितले जाण आयले नात ताचोय एक ताळेबंद करप गरजेचो. गोंय सरकारानय हे बाबतींत कांय वेव्हार सुटसुटीत करचे पडटले. ऑन लायन सेवा आसतना कावंटरा मुखार लांबच्यो लांब रांको लागप सारकें न्हय. कार्डां सारकीं नासप, प्रशिक्षीत कर्मचाऱ्यांचो उणाव, सिनेमांचें शेड्यूल वेळार मेळप ना ह्यो उणिवो हाताळप सामकें गरजेचें. जायते प्रतिनिधी थंय येतात ते फकत सिनेमा पळोवपाक. असल्या गजालींनी वेळ वगडावप तांकां परवडना हाचें संबंदितांनी भान दवरपाक जाय. हे इफ्फींत आनीक एक उणाव दिसलो तो म्हणल्यार पयलीं चार दीस आयनॉक्स ते कला अकादमी मेरेन वचपाक आनी परतुपाक कांयच वाहन नासलें. मागीर थंय फेरीसेवा म्हूण चार गाडयो आयल्यो, त्योवूय अचूक त्या वेळार थंय उपलब्ध नासताल्यो. इतलेंच न्हय, तर गाडयेचें दार उगडटा, बसता आनी रस्त्या वयल्या हेर वाहनां मदल्यान वाट काडटा म्हणसर पयलीं पंदरां मिनटां तरी सिनेमा चुकतालो. अशें घडूंक फावना. ताका पर्यायी मार्ग सोदचो पडटलो.

गोंय हें इफ्फीचें कायमचें थळ जाल्ल्यान आमकां ह्या सगळ्या उणिवांचो बारीकसाणीन नियाळ घेवन फुडें वचें पडटलें.

(उजवाडावणी: 5 डिसेंबर 2010, सुनापरान्त)



# संदर्भ वळेरी

## चलचित्रांची म्हायती दिवपी पुस्तकां


- 2007. ***Festival Information Goa International Film Festival for Documentary, Short and Animation Films.*** Mumbai: Films Division, Ministry of Information and Broadcasting, Government of India.
- Contractor, Huned. 2008. ***6th Pune International Film Festival (Official Catalogue).*** Maharashtra: Pune International Film Festival, Pune.
- Kahlon, Sukhpreet. 2012. ***Official Catalogue World Cinema IFFI 2012.*** New Delhi: IFFI Secretariat, Ministry of Information and Broadcasting, Government of India.
- Kainthola, Bhupendra. 2009. ***Indian Panorama 20009 (Official Catalogue).*** New Delhi: Director Of Film Festivals, Ministry Of Information And Broadcasting, Government Of India.
- Kainthola, Bhupendra. 2010. ***INDIAN PANORAMA 2010 (OFFICIAL CATALOGUE).*** New Delhi: Directorate Of Advertising And Publicity, Government Of India.
- Ray Chaudhuri, Shantanu. 2012. ***OFFICIAL CATALOGUE INDIAN CINEMA IFFI 2012.*** New Delhi: IFFI Secretariat, Ministry of Information And Broadcasting, Government Of India.
- Gupta, Shubhra. 2009. ***40th International Film Festival Of India Goa (Catalogue).*** New Delhi: Director of Film Festivals, Ministry of Information And Broadcasting.
- Chatterjee, Saibal. 2010. ***41st International Film Festival Of India Goa (Catalogue).*** New Delhi: Director of Film Festivals, Ministry of Information And Broadcasting.
- Da Costa, Ethel. 2006. ***37th International Film Festival of India Goa (Catalogue).*** Panaji: Entertainment Society of Goa.
- Borpujari, Utpal. 2007. ***38th International Film Festival of India Goa (Catalogue).*** New Delhi: Director of Film Festivals, Ministry of Information and Broadcasting.
- Borpujari, Utpal. 2008. ***39th International Film Festival of India Goa (Catalogue).*** New Delhi: Director of Film Festivals, Ministry of Information And Broadcasting.
- Sukumar, Rajaram. 2011. ***42nd International Film Festival Of India Goa (Catalogue).*** New Delhi: IFFI Secretariat, Ministry of Information And Broadcasting, Government Of India.
- Sukumar, Rajaram. 2011. ***OFFICIAL CATALOGUE INDIAN CINEMA.*** New Delhi: IFFI Secretariat, Ministry of Information And Broadcasting, Government Of India. http://www.imdb.com/

# पुस्तकां आनी अभ्यास लेख


- Bisschoff, Lizelle. 2013. ***Representing Africa in the UK: programming the Africa in Motion film festival.*** *Research in African Literatures.* Vol 44.2, p142. Academic One File.
- McLeod, Corinna. ***Teaching aberrance: Cinema as a site for African feminism.*** Journal of International Study. Academic One File.
- Levy, Manuel. 2005. ***Border Crossings: The New Middle Eastern Cinema.*** Chronide Higher Education, Inc. Academic One File.
- Ayisi, Florence. Brylla, Catalin. 2013. ***The politics of representation and audience reception: alternative visions of Africa.*** Research in African Literatures. Vol 44.2, p125. Academic One File.
- Gretarsdottir, Tinna. Hafsteinsson, Sigurjon Baldur. 2011. ***Screening propaganda: the reception of Soviet and American film screenings in rural Iceland, 1950-1975***. Vol 23.4, p361. Film History. Indiana University Press. Academic One File.
- Hake, Sabine. 2013. ***German cinema as European cinema: learning from film history.*** Film History. Vol 25.1, p110. Academic One File.
- Guzman, Tony. 2005. ***The little theatre movement: the institutionalization of the European Art Film in America.*** Film History. Vol 17.2, p251. Academic One File.
- Alvaray, Luisela. 2008. ***National, regional, and global: new waves of Latin American cinema***. Cinema Journal. vol 47.3, p48. Academic One File.
- Lenti, Paul. 1993. ***Latin America takes on Hollywood***. NACLA Report on the Americas. vol 27.2, p4. Academic One File.
- De Grandis, Rita, and William French. 2008. ***Introduction: the nation in question in the literatures, cinema and art of Latin America and the Caribbean/la nacion en cuestion en las literaturas, cine, y arte latinoamericanos y caribenos***. Canadian Journal of Latin American and Caribbean Studies. Vol 33.66. Academic OneFile.
- Tan, Kenneth Paul. 2013. ***Glimpses of Freedom: Independent Cinemas in Southeast Asia***. SOJOURN: Journal of Social Issues in Southeast Asia. Vol 28.1. Academic OneFile.
- Vasudevan, Ravi. 2011. ***In the centrifuge of history***. *Cinema Journal. Vol* 50.1, p135. Academic OneFile.
- Nornes, Abe Mark. 2013. ***The creation and construction of Asian cinema redux***. Film History. Vol 25.1, p175. Academic OneFile.
- Guha, Ramchandra. 2007. ***India After Gandhi.*** Picador, Pan Macmillan,Landon.
- Thomson, George, 1985. ***The Human Essence***. New Book Centre, Culcutta.

# फोटू घेतिल्ल्यो वेबसायटी

- **Tandoori Love:** *http://www.spielfilm.de/galerie/kino/2986205/tandoori-love/69283.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Zero Degrees of Separation:** *http://www.peaceandjusticefilms.org/2007spring/index2.html?http://www.peaceandjusticefilms.org/2007spring/frames/zero.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Whose is this song?** *http://www.adelamedia.net/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Old Barber:** *http://news.xinhuanet.com/english/2006-12/04/content_5556371.htm, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Salt:** *http://5wordmoviereviews.com/2012/02/09/5-word-365-040-salt/ Web accessed: 19 March 2013.*
- **Kind of Amerika 2**: *http://www.7digital.com/artist/original-soundtrack/release/valami-amerika-2-1, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Good bye Bafana:** *http://www.wallpaperpimper.com/wallpaper/download-wallpaper-Goodbye_Bafana-size-1024x768-id-6475.htm, Web accessed: 19 March 2013.*
- **3 Idiots:** *http://www.koimoi.com/movie/3-idiots/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **The First Grader:** *http://blackcockatooarthouse.blogspot.in/2012/10/three-feathers-cinema-presents-every.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Golchireh:** *http://www.persianhub.tv/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Babel:** *http://www.dvdsreleasedates.com/poster/240/Babel-movie-poster.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Cumbia Connection:** *http://www.cumbiacallera.com/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Hunabku:** *http://www.flickr.com/photos/tahielarevalo/4413441073/sizes/l/ Web accessed: 19 March 2013.*
- **Abohaman:** *http://boimela.in/abohoman-dvd.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Slackistan:** *http://funmaking25.blogspot.in/2012/11/pakistani-full-movie-slackistan.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **O Maria:** *http://worldgoan.blogspot.in/2011_07_01_archive.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **I am Kalam:** *http://movienettv.blogspot.in/2012/08/i-am-kalam-hindi-movie-2011-online-hd.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Mill and Cross:** *http://shop.silverdisc.com/blu-ray/mill-the-cross-mill-the-cross-blu-ray-866/, Web accessed: 19 March 2013.*

- **Mazli:** *http://www.sg.hu/cikkek/63232/kis_falu_nagy_szarban, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Gulaal:** *http://www.game-ost.com/albums/25286/gulaal_music_from_the_motion_picture/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Jhing Chik Jhing:** *http://www.impawards.com/intl/india/2010/jhing_chik_jhing.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Paltadcho Munis:** *http://laxmikant.net/films/2009/paltadacho-munis-the-man-beyond-the-bridge/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Black Ice:** *http://thecia.com.au/reviews/b/black-ice-musta-jaa/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **West is West:** *http://www.hindifilmnews.com/movie-review/west-is-west-movie-review/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Raavan:***http://www.kinotesrelt.com/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **No Smoking:** *http://www.khabarexpress.com/Movie/Johan-Abrahim-in-Movie-No-Smoking-Wallpaper/1701.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Coco Chanel and Igor Stravensky:** *http://twopinkpossums.blogspot.in/2010/08/coco-and-amelia.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Social Networking:** *http://theboken.com/hoboken/hoboken-movies-under-the-stars-july-20th-tonight-the-social-network/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Bhutto:** *http://www.moviepostershop.com/bhutto-movie-poster-2010, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Peepli Live:** *http://www.desirulez.net/dvd-rip/143576-%5E%5Ehindi-dvdrip-movie-collection-hq%5E%5E-all-just-1-link-[fs]-4.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Porferio:** *http://www.cineme.be/porfirio-bekijk-hier-de-trailer-en-de-mooie-poster/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Barah Aana:** *http://www.starsbin.com/barah-aana-hindi-movie-2009/65/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Digant:** *http://ibnlive.in.com/news/iffi-maximum-people-should-watch-konkani-film-digant-says-director/306471-8-66.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **7 Boxes:** *http://www.ultimahora.com/notas/551211-Una-pelicula-paraguaya-entre-los-estrenos-de-esta-semana, Web accessed: 19 March 2013.*
- **When I Saw You:** *http://www.abudhabifilmfestival.ae/en/archive/2012/articles/view?id=2496, Web accessed: 19 March 2013.*
- **War Witch:** *http://www.entertainmentwallpaper.com/download/10032012/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Material:***http://www.highoncomedy.com/2012/02/16/material-movie-*

*review/, Web accessed: 19 March 2013.*

- **Yellow:** *http://www.impawards.com/2007/posters/yellow.jpg, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Sister:** *http://www.laliberte.ch/sortir/lenfant-den-haut-meilleur-film-suisse-de-la-critique-2012, Web accessed: 19 March 2013.*
- **The White Tiger:** *http://www.filmsfix.com/2012/11/06/white-tiger-bande-annonce-photos-et-posters-du-film-de-guerre-mystique-russe/belyy-tigr-photo-1-white-tiger/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Calm at Sea:** *http://www.defense.gouv.fr/site-memoire-et-patrimoine/rubrique-actualites/la-mer-a-l-aube-fiction-diffusee-sur-arte-le-23-mars-2012, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Ramchand Pakistani:** *http://www.mouthshut.com/hindi-movies/Ramchand-Pakistani-Movie-reviews-925103242, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Khuda ke Liye:** *http://qudosi.com/2009/12/02/khuda-ke-liye/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Pool:** *http://www.timeout.com/us/film/the-pool, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Love Sex Aur Dhoka:** *http://www.impawards.com/intl/india/2010/posters/love_sex_aur_dhoka_xlg.jpg, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Black Friday:** *http://jaiarjun.blogspot.in/2012_01_01_archive.html, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Yuris Day:** *http://www.rohfilm.de/, Web accessed: 19 March 2013.*
- **Songs of Sparrows:** *http://koolcampus.wordpress.com/2011/01/03/the-song-of-sparrows-iranian-film-review-do-sparrows-really-sing/, Web. 19 march 2013.*
- **The vanished empire:** *http://russianfilm.blogspot.in/2009/08/karen-shakhnazarov-vanished-empire-2008.html Web. 19 march 2013.*
- **Silent Light:** *http://www.moviepostershop.com/silent-light-movie-poster-2007 Web. 19 march 2013.*
- **The night Train :** *http://theuraniumcafe.blogspot.in/2011/12/night-train-ye-che2003.html Web. 19 march 2013.*

## नकाशे

- *Google Maps*

# युगांक नायक

- 1990त जल्म. फोंडें म्हालांतल्या वळवय गांवांत राबितो.
- कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश भाशांचें गिन्यान.
- राज्यशास्त्र आनी अर्थशास्त्र ह्या विशयांतल्यान बी.ए. (सर परशुरामभाऊ महाविद्यालय, पुणे विद्यापीठ 2010).
- 'पत्रकारिता' आनी 'मास मिडिया'चो पोस्ट ग्रॅज्यूएट डिप्लोमा (गोंय विद्यापीठ 2011).
- 'इंटरनॅशनल रीलेशन्स' ह्या विशयांत सेंटर फॉर अमेरिकन स्टडीजची एम.ए. पदवी (गोंय विद्यापीठ 2011-2013).
- 'समाज, समाजीक चळवळी आनी सिनेमा: भारत आनी लॅटिन अमेरिकेचो तुलनात्मक अभ्यास' ह्या विशयांत पीएच्‌डीचें संशोधन करता.
- सुनापरान्त, लोकमत, दैनीक हेराल्ड, ओ हेराल्दो ह्या दिसाळ्यांनी तशेंच बिम्ब म्हयन्याळ्यांत लिखाण.
- कांय तेप www.goanews.com वेबसायटीचेर लिखाण.
- गोंयां जाल्ल्या आंतरराष्ट्रीय चलचित्र महोत्सवांत आसपाव जाल्ल्या कांय वेंचीक सिनेमांचे थळाव्या दिसाळ्यांतल्यान नियाळ.
- कला, संगीत, अभिनयाची आवड. समाजीक विशयांचेर रस्तानाट्य बरोवन सादरीकरण.
- पणजी दूरदर्शन, पणजी आकाशवाणी आनी थळाव्या वृत्तवाहिन्यांचेर चर्चा, वादविवादांत सहभाग.
- दर वर्सा जावपी कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय आयोजीत युवा महोत्सवांत सक्रीय वांटो.
- गोंयचेर आदारीत 'प्रस्नमाची' सर्तीचें खाशेले तरेन आयोजन.
- कोंकणी चळवळ आनी शिक्षणीक माध्यम प्रस्नाचेर उबारिल्ल्या आंदोलनांत सक्रीय सहभागा खातीर 2012चो अस्मिताय प्रतिश्ठानाचो 'युवा अस्मिताय' पुरस्कार.
- कोंकणी आनी गोंयचे अस्मितायेचे चळवळींत आनी आंदोलनांत सक्रीय सहभाग.



युगांक हो चळवळींतलो तरनाटो. गोंयांत एक सशक्त सिनेमा-चळवळ उबारपाची गरज ताका जाणवता. इफ्फीचे फाटभुंयेर गोंयच्या चलचित्रांची उदरगत कशी जावची? मुळाव्या साधन-सुविधां वांगडा बौद्धिक साधन-सुविधा कश्यो तयार करच्यो? चलचित्र चळवळींत गोंयचें साहित्य, लोककला, नाटकां, कलाकार, विद्यार्थी, अभ्यास आनी समीक्षा हांचो आस्पाव कसो जावचो हांचेर आपले विचार तो उक्तायता. फकत फिल्म निर्मितीक अनुदान दिवप न्हय, तर गोंयच्या तरनाट्यांक लागून फिल्म आनी प्रसारण माध्यमाची पदवी दिवपी शिक्षण दिवपाची जापसालदारकी राज्य सरकारान घेवची अशें मत तो उक्तायता, आनी हें सगलें सांगतना युगांकाचो एक स्पर्धात्मक आनी वेव्हारिक दृश्टीकोण आसा. इफ्फीचो ब्रँड व्हॅल्यू कसो वाडटलो? कान्स, टोरोंटो, बर्लिन, ह्या आंतरराष्ट्रीय महोत्सवा वांगडा इफ्फी कशी सर्त करूंक शकतली? मुळाव्यो साधन-सुविधायो, प्रायोजन, प्रमोशन, इफ्फींतलो फालतू खर्च, सरकारी हस्तक्षेप, सिनेमांची निवड, तांचो दर्जो आनी इफ्फींत नामांकित आनी जागतिक फिल्मकारांचो सहभाग ह्या गजालींचेर युगांक वाचप्यांचें मन आकर्शित करता.

-धर्मानंद वेर्णेकार




राजभाशा संचालनालय,
गोंय सरकार